# समिक्षा एका साहित्य–साधकाची

## दामोदर मावजो हांचे साहित्य–साधनेची मोलावणी

संपादक

**डॉ. हनुमंत चोपडेकार**





अलिना प्रकाशन

दोंगरी, तिसवाडी – गोंय.

# समिक्षा एका साहित्य-साधकाची / Samiksha Eka Sahitya-Sadhakachi

(सोद निबंद संग्रह) (Research Articles)

डॉ. हनुमंत चोपडेकार Dr. Hanumant Chopdekar



**प्रकाशक : Publisher :**
आलिना प्रकाशन Alina Prakashan
दोंगरी, तिसवाडी – गोंय. Dongari, Tiswadi - Goa.

**पयली उजवाडावणी : ऑगस्ट 2019 First Edition : August 2019**

**मांडावळ : Layout:**
सुशांत नायक, Sushant Naik
सानवी प्रकाशन, Sanvi Prakashan,
कवळें, फोंडें – गोंय. Kavlem, Ponda - Goa.

**छापणावळ : Printing :**
बांदेकार ऑफसेट, Bandekar Offset,
कुडचडें – गोंय. Curchorem - Goa.

**वितरक : Distributer :**
संगीता चोपडेकार, Sangeeta Chopdekar,
सारा क्रियेशन, Sara Creation,
यशवंत नगर, तिस्क, फोंडें – गोंय. Yashwant Nagar, Tisk, Ponda - Goa

**मुखपृश्ठ : Cover Page :**
सारा चोपडेकार Sara Chopdekar

ISBN_978-81-922937-5-2




मोल : ₹ 200/-

**अर्पण**

आपल्या 'आस्वादनां'तल्यान
आमचे पिळगेक समिक्षणात्मक नदर भेटोवपी
आनी
कोंकणी समिक्षेचो सदांच हुस्को बाळगुपी
जेश्ठ कोंकणी समिक्षक
आदरणीय
**डॉ. हरिश्चंद्र नागवेकार**
हांकां

❋ ❋ ❋

# प्रस्तावना

कोंकणी भाशीक आनी साहित्यीक चळवळींत कितल्याश्याच म्हालग्ड्यांनी आपलें अशें खाशेलें योगदान दिल्लें आसा. तातूंत दामोदर मावजो हें एक म्हत्वाचें नांव. ताणें कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताये खातीर तोलामोलाचो वावर केला. तांचें साहित्य राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय भासांनी अणकारीत जावन संवसारांतल्या साबार वाचकांमेरेन पाविल्लें आसा. आयज विद्यालयीन तशेंच उच्च माध्यमीक पांवड्याचेर, महाविद्यालय तशेंच विश्वविद्यालय स्तराचेर दामोदर मावजो हाणें रचिल्लें साहित्य विद्यार्थी अभ्यास करतात. देखून तांच्या एकंदर साहित्याची सविस्तर उस्तवारी जावप ही काळाची गरज आशिल्ली. हीच गजाल मतींत दवरून पार्वताई चौगुले महाविद्यालयाच्या कोंकणी विभागान "दामोदर मावजो हांचें साहित्य आशय आनी अभिव्यक्ती" ह्या विशया वयलो एका दिसाचो राष्ट्रीय परिसंवाद 10 फेब्रुवारी 2016 ह्या दिसा घडोवन हाडिल्लो. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या जोडपालवान आयोजीत केल्ल्या त्या परिसंवादांत दामोदर मावजो हांच्या पुराय साहित्यसंपदेची सविस्तर वळख, सखोल चर्चो आनी चिकित्सक मोलवणी जावची हो हावेस आसलो. त्या परिसंवादाक भोव उत्स्फुर्त प्रतिसाद लाबिल्लो. तातूंतल्यानूय संबंदीत परिसंवादांत सादर जाल्लीं अभ्यासपुर्ण अशीं वेंचीक प्रपत्रां एकठांय करून प्रस्तूत पुस्तकाची रचना जाल्ली आसा.

दामोदर मावजो हांणी बालसाहित्य, कथा, नवलिका, कादंबरी आनी चरीत्रात्मक साहित्यप्रकार मुखेलतायेन हाताळ्ळ्यात. तातूंत एक कथाकार आनी कादंबरीकार म्हूण ताणें खेरीत नांव जोडलां. ह्या पुस्तकांत तांच्या साबार साहित्यकृतींचें समिक्षण मांडिल्लें आसा. तशेंच तांची एक दिर्घ मुलाखत आनी सविस्तर जिवीतपट पुस्तकाच्या निमणेकडेन परिशिश्टांत आसपावीत केला. दामोदर मावजो हांणी आपल्या साहित्यांत हाताळिल्ल्या तरेकवार विशयांचें विश्लेशण लेगीत ह्या पुस्तकांत आयलां. खासकरून आशय, विशय आनी अभिव्यक्तीचे नदरेन ह्या लेखकाच्या एकंदर साहित्यीक वावराचेर चर्चा आनी चिकित्सा आसपावल्या.

कोंकणी अध्ययनाच्या मळाचेर सक्रीय आशिल्या कांय वेचीक अध्यापकांचे

खाशेले लेख ह्या पुस्तकांत आसपावल्यात. तातूंत डॉ. प्रकाश वजरीकार, डॉ. भुषण भावे, डॉ हनुमंत चोपडेकार, प्रा सुशिला हळर्णकार, डॉ. प्रकाश पर्येकार, डॉ. राजय पवार, डॉ. पुर्णानंद च्यारी, प्रा. जयेश राऊत, प्रा नरेश नायक, प्रा. गोरक शिरसाट, डॉ. राखी आमोणकार, प्रा डॅनीस वाज, प्रा. प्रियंका परब, डॉ. प्रकाश नायक, प्रा. शुभा बरड आनी डॉ. सुषमा खोलकार हांचे वेंचीक लेख ह्या पुस्तकांत प्रसिध्द केल्यात.

दामोदर मावजो हांच्या साबार कथा संग्रहांचेर, कादंबरींचेर आनी हेर बरपाचेर वट्ट सतरा अभ्यासपुर्ण लेख ह्या पुस्तकाचो दर्जा वाडोवपाक सक्षम आसात. ह्या लेखांतल्यान दामोदर मावजो हांच्या भाशीक, साहित्यीक आनी संस्कृतीक जिवनाचेर विंगड–विंगड आयाम शब्दबद्ध जाताना दिसतात. ह्या आयामांची उस्तवारी सकयल दिल्लेप्रमाण आसा –

1) भुरग्याचें मानसशास्त्र समजुपी बाल साहित्यकार.

2) आदर्श व्यक्तिमत्वां उबीं करून वाचकाक उर्बा दिवपी चरित्रकार.

3) अलौकीक निवेदनशैलींतल्यान घटनाप्रसंग जिवे करपी कथाकार.

4) विविध समाजघटकांचो खडतर जिणेप्रवास मांडपी कादंबरीकार.

दामोदर मावजो हांचे कार्मेलीन कादंबरीचेर वट्ट तीन प्रपत्रां ह्या पुस्तकांत आसपावल्यात. तातूंत ''कार्मेलीन' हे कादंबरीची एक चिकित्सक मोलावणी' (प्रकाश वजरीकार), 'कार्मेलीन कादंबरींतलीं बायलांचीं विविध रुपां' (प्रा. सुशिला हळर्णकार) आनी 'कार्मेलीन : अस्तुरेचो खडतर जिणेप्रवास' (डॉ. प्रकाश पर्येकार) अश्या प्रपत्रांचो आसपाव आसा. हे वळेरेंत तांचे 'सुनामी सायमन' हे कांदबरींचेर 'सुनामी सायमन': शेणिल्ल्या सायमनाची संघर्शमय प्रवासकाणी' हो डॉ. राजय पवार हांचें प्रपत्र अभ्यासपुर्ण आनी वाचनीय अशें जालां. तेभायर 'दामोदर मावजो हांची नवलिका सूड : एक समिक्षणात्मक अभ्यास' हें प्रा. डॅनीस वाज हांचें प्रपत्र आसपावलां.

दामोदर मावजो हे स्वता आपणाक कथाकार मानतात. तांच्या 'गांथन', 'जागरणां', 'भुरगीं म्हगेलीं तीं', 'रूमडफूल' आनी 'सपनमोगी' ह्या कथाझेल्यांतल्यान सरभोंवतणचें अख्खें विश्व तांचेवांगडा भोंवडी मारता. प्रस्तूत पुस्तकांत तांच्या वट्ट पांचूय कथाझेल्यांची चिकित्सक समिक्षा अभ्यासकांनी मांडल्या. देखीक – 'दामोदर मावजो हांच्या 'रुमडफूल' कथेचो शैलीलक्ष्यी अभ्यास' (डॉ. भुषण भावे), दामोदर

मावजो हांच्यो वेंचीक कथा आनी साहित्यांतली सुचकता' (डॉ. पुर्णानंद च्यारी), ''सपनमोगी' : एका साहित्यसाधकाचो वास्तवस्पर्शी कथाप्रवास' (डॉ. हनुमंत चोपडेकार) 'दामोदर मावजो हांच्या 'जागरणां' कथा संग्रहांतली सामाजीक जीण' (प्रा. नरेश नायक), 'रूमडफूल : मानसशास्त्रीय चिंतन आनी विश्लेशण' (डॉ. राखी आमोणकार), 'गांथन' संग्रहांतल्या वेंचीक कथांचो एक चिकित्सक नियाळ' (प्रा. गोरक सिरसाट), 'दामोदार मावजो हांच्या 'भुरगीं म्हगेलीं तीं' ह्या झेल्याची मोलावणी' (डॉ. प्रकाश नायक), 'कथाझेलो 'सपनमोगी' : आशय आनी अभिव्यक्ती' (प्रा. प्रियांका परब),

दामोदर मावजो हांच्या कथनात्मक साहित्याच्या ग्लॅमरा मुखार तांच्या हेर साहित्याचो व्हडलोसो विचार अभ्यासक करीनात. खुबशे फावटीं हेर साहित्य दर्जेदार आसुनूय ताका फाव तो मानसन्मान मेळना. तशें हें दुखणें दर एका प्रतिभावंताक सतयत आसता. देखून अशे तरेच्या साहित्याचीय मोलावणी ह्या समिक्षणात्मक पुस्तकांत केल्या. तातूंत ह्या लेखकाच्या बालसाहित्याचो तशेंच चरित्रात्मक साहित्याचो आसपाव केला. देखीक – 'दामोदर मावजो हांचें बालसाहित्य : आशय आनी अभिव्यक्ती' (प्रा. जयेश राऊत), 'दामोदर मावजो हांचें साहित्य : बाल–मानसशास्त्रीय मोलावणी' (डॉ. रेषमा खोलकार).

'Words are sharper then Swords' असो एक सुविचार इग्लिशींत घोळटा. ताची प्रचिती संवसारांतल्या व्हड व्हड अक्षरसाधकांनी दिल्ली आसा. कोंकणी भास आनी संस्कृतायेच्या संघर्शांत रायटरांक फायटर जावचे पडल्यात. कोंकणी भास ही संघर्शांतल्यान सन्मानाकडेन पाविल्ली आसा ती तिच्या पुतांनी दिल्ल्या समर्पीत योगदानाखातीर. त्या पुतांमदीं अक्षरसाधक दामोदर मावजो हांचें योगदान इतिहासांत नोंद जाल्लें आसा. 1967 वर्साचो जनमत कौल, 1975 वर्साची साहित्य अकादेमीची मान्यताय आनी 1985 – 86 – 87 चें राजभास आंदोलन ह्या कोंकणी चळवळीच्या तिनूय पर्वांनी दामोदर मावजो हांचें कार्य भोव म्हत्वाचें. राजभास आंदोलनांत कोंकणी खातीर झुजपी 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' (के.पी.ए.) हे संघटनेचे ते भांडारी आशिल्ले. तांच्या ह्या एकंदर कार्याची वळख करून ताचें रितसर विश्लेशण जावंचें ह्या हेतून मुजरत दोन प्रपत्रां ह्या पुस्तकांत घेतल्यांत. तीं म्हणल्यार – 'कोंकणी सरस्पतीचो नीज सेवक : दामोदर मावजो' (प्रा. शुभा बरड)

वट्ट सतरा प्रपत्रांच्या आदारान साहित्यसाधक दामोदर मावजो हांचें भाशीक

आनी साहित्यीक कार्य ह्या पुस्तकांत इसपाक घेतलां. तशेंच निमणेकडेन परिशिश्ट क्रमांक : 01 आनी 02 हातूंत अनुक्रमान 'दामोदर मावजो हांचो जिवीतपट' आनी 'कोकणींत अभिव्यक्त जावपी भारतीय साहित्यीक दामोदर मावजो' ह्या मुलाखतीचो आदार घेवन तांच्या व्याक्तिमत्वाचे हेर आयाम स्पश्ट केल्यात.

'गांथन' ह्या कथाझेल्यापासून 'सपनमोगी' ह्या कथाझेल्याचो साहित्यीक प्रवास आनी ताची चिकित्सा ह्या पुस्तकाच्या माध्यमांतल्यान वाचकांमेरेन पावतली. 'दामोदर मावजो हांकां 'कार्मेलीन' ह्या कादबरी खातीर केंद्रीय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाला. ते कादंबरींत मांडिल्ल्या बायलेच्या दुख्खाकडेन वा व्यथावेदनेकडेन हो लेखक कितलो समरस जाला। ताचो सोद ह्या अभ्यासकानी घेतला. तशेच सूर 'सुनामी सायमन' सारके साहित्यकृतींतल्यान ह्या बरोवप्यान चित्रायल्ल्या समाजाचोय वेद पुस्तकांतल्यान विवीध बरोवप्यांनी घेवपाचो यत्न केला. दामोदर मावजो हांच्या हेर बरपांतल्यान लेगीत कसल्या तरेचे आशय–विशय अभिव्यक्त करपाचो यत्न जाला ताचोय नियाळ प्रस्तूत पुस्तकांत घेतिल्लो आसा.

दामोदर मावजो हे कोंकणी भाशेंत बरोवपी जेश्ट भारतीय साहित्यीक. तांचें कथनात्मक साहित्य आशय विशयाची दोळेदिपकावपी विवीधताय हाडटतनाच तरेकवार व्यक्तिरेखांचो एक जादुई पेटारोच ते वाचकां मुखार उक्तो करता. भावस्पर्शी आनी वास्तवस्पर्शीय अभिव्यक्ती हें तांचें खाशेलपण. आयच्या काळांत सृजनात्मक अभिव्यक्तीक आयिल्ली क्लिशटताय तांच्या साहित्यांत खंयच दिसना. दिसपट्ट्या जिवितांतल्या साद्या सोंप्या घडणुकांचो आदार घेवन तांची वाचकप्रीय लेखनशैली तांच्या बरपाक चैतन्न्य हाडटा. ते एक संवेदनशील रचनाकार. आपले सुक्ष्म नदरेंतल्यान समाजांतल्या बऱ्यावायट गजालींचें ते निरिक्षण करीत अव्यक्तांतलें मोनें जिवीतगाणें आपल्या काळजांतल्या उतरांनी व्यक्त करता. ते एक जिवीतवादी साहित्यीक. जिणेकडेन ते भोव सकारात्मक नदरेन तशेच सैमांतल्या दर एक घटकांकडेन ते साक्षीभावान पळयतात. ताची पुराय साहित्यसाधना ताची गवाय आसा हें प्रस्तूत पुस्तकांतल्या साबार प्रपत्रांतल्यान सिद्ध जाता.

ह्या पुस्तकाच्या वट्ट सतरा लेखांनी लेखक दामोदर मावजो हाच्या व्यक्तीमत्वाचेर साबार घटक नदरेक भरता. ह्या बरपांतल्यान कोकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय हांचेविशीं तांच्या मनांत आशिल्ल्या भावार्थाचोय दिश्टावो वाचकाक जाले बगर रावना. एकंदर, एक सशक्त कथाकार, भुरग्यांचें मानसशास्त्र होलमल्लो बालसाहित्यकार, मनीसपणाची विशाल नदर लाबिल्लो कादबरीकार दामोदर

मावजो हांच्या रूपान कोंकणीक मेळ्ळो अशें विश्वासान म्हणूं येता.

हें पुस्तक दामोदर मावजो हांचो साहित्यीक आनी भाशीक वावर नदरे मुखार दवरून रचिल्लें आसा. खासकरून तांच्या भाशीक आनी साहित्यीक योगदानाचेर उजवाड घालच्या हावेसान ताची निर्मणी जाल्या. दामोदर मावजो हांच्या जिवीत आनी कार्याचेर संशोधन करपाक इत्सूक विद्यार्थ्यांक तें फायदेशीर थारतलें हातूंत दुबाव ना. शिक्षणीक वालोर आशिल्या ह्या पुस्तकाक आकार दितना जाय त्या व्यक्तींचो तेंको मेळिल्लो आसा. तातूंत खासा साहित्यीक दामोदर मावजो, कवी आनी समिक्षक माधव बोरकार, चौगुले महाविद्यालयाचे प्राचार्य डॉ. नंदकुमार सावंत, कोंकणी विभागाचे आदले मुखेली डॉ. गुणाजी देसाय, युवा साहित्यीक प्रा. नरेश नाईक, प्रा गोरक शिरसा', शुभा बरड, आकाश गांवकार, राजा कोनेकार हांचो आसपाव जाता.

नोंद घेवपाची गजाल म्हणजे ह्या साबार बरपांमदीं कांय अभ्यासकांनी संशोधनात्मक पद्दत आपणावन रितसर संशोधन प्रपत्र भेटयलां जाल्यार कांय जाणांनी पुस्तक परिक्षणाची पद्दत आपणावन साहित्यीक दामोदर मावजो हांच्या साहित्यकृतींची उस्तवारी केल्या. देखून कांय बरपांच्या शेवटाक संदर्भसुची दिल्या जाल्यार कांय बरपांच्या निमणेकडेन ती दिवंक ना. संपादक म्हूण दर एका अभ्यासकांच्या मत्ताचो हांगा हांव सन्मान करता. दर एका प्रपत्रांतलें मत हें त्या त्या अभ्यासकाचें खाशेलें मत्त आसा हें हांगा मुजरत स्पश्ट करतां.

ह्या समयाचेर परिसंवादा निमतान तयार जाल्लीं सतराय प्रपत्रां ह्या पुस्तकांत आसपावीत करचे पासत मान्यताय दिल्ले खातीर संबंदीत अभ्यासकांक काळजासावन दिनवास. तशेंच पुस्तक तुमचेमेरेन पावोवपी प्रकाशक म्हजो इश्ट सेबी फेर्नांडीस तशेंच चित्रकार सारा चोपडेकार हांच्यांनी दिल्ल्या सहकार्या खातीर तांचेय उपकार मानता.

'समिक्षा एका साहित्य–साधकाची' हें संपादीत पुस्तक कोंकणी भास आनी साहित्याचो तशेच लेखक दामोदर मावजो हांचो अभ्यास करतल्यांक निश्चितूच मदत करतलें असो हावेस बाळगून ह्या मनोगताक पुर्णविराम दितां.

देव बरें करूं.



**ता. 01 ऑगस्ट 2019** **डॉ. हनुमंत चोपडेकार**

# मांडावळ

1. 'कार्मेलीन' : एक चिकित्सक मोलावणी
*डॉ. प्रकाश वजरीकार* 11

2. दामोदर मावजो हांच्या 'रुमडफूल' कथेचो शैलीलक्ष्यी अभ्यास
*डॉ. भुषण भावे* 23

3. 'सपनमोगी': एका साहित्यसाधकाचो वास्तवस्पर्शी कथाप्रवास
*डॉ. हनुमंत चोपडेकार* 38

4. कार्मेलीन : अस्तुरेचो खडतर जिणेप्रवास
*डॉ. प्रकाश पर्येकार* 44

5. सुनामी सायमन': शेणिल्ल्या सायमनाची संघर्शमय प्रवासकाणी
*डॉ. राजय पवार* 55

6. दामोदर मावजो हांच्यो वेंचीक कथा आनी साहित्यांतली सुचकता
*डॉ. पुर्णानंद च्यारी* 69

7. 'कार्मेलीन' कादंबरींतलीं बायलांचीं विवीध रुपां
*सुशिला हळर्णकार* 82

8. दामोदर मावजो हांच्या जागरणां कथा संग्रहांतली समाजीक जीण
*नरेश नायक* 90

9. दामोदर मावजो हांचें बाल साहित्य : आशय आनी अभिव्यक्ती
*जयेश राऊत* 96

10. रूमडफूल : मानसशास्त्रीय चिंतन आनी विश्लेशण
*डॉ. राखी आमोणकार* 107

11. 'गांथन' संग्रहांतल्या वेंचीक कथांचो एक चिकित्सक नियाळ
*गोरक सिरसाट* 114

12. दामोदार मावजो हांच्या 'भुरगीं म्हगेलीं तीं' झेल्याची मोलावणी
*डॉ. प्रकाश नायक* 118

13. कथाझेलो 'सपनमोगी' : आशय आनी अभिव्यक्ती
*प्रियांका परब* 127

14. दामोदर मावजो हांची नवलिका 'सूड' : एक समिक्षणात्मक अभ्यास
*डॅनीस वाज* 131

15. दामोदर मावजो हांचें साहित्य : बाल–मानसशास्त्रीय मोलावणी
*डॉ. रेषमा खोलकार* 137

16. कोंकणी सरस्पतीचो नीज सेवक : दामोदर मावजो
*शुभा बरड* 147

17. परिशिश्ट :

i साहित्य–साधक दामोदर मावजो हांचो जिणे–पट 161

ii मुलाखत : कोंकणींत अभिव्यक्त जावपी
भारतीय साहित्यीक दामोदर मावजो 164



# 'कार्मेलीन' – एक चिकित्सक मोलावणी

डॉ. प्रकाश वजरीकार

समाजशास्त्रीय नदरेंतल्यान कादंबऱ्यां कडेन पळयतना संस्था, कायदे, रिती–रिवाज, धर्म, अर्थ, जाती, वेवस्था, बायलेची सामाजीक सुवात आदी विशय कशे तरेन कांदबऱ्यांनी मांडल्यात तें पळोवंक जाय. साहित्याचो फावो ते नदरेंतल्यान अभ्यास करताना हे वयले कांय घटक तपासप गरजेचें. हे घटकांक धरून लेखक जी वास्तवताय हाडपाचो यत्न करतात ती तपासपाक मेळटा.

कादंबरी हो साहित्य प्रकार कोंकणींत एकुणिसाव्या शेंकडयाचे अखेरेक आयलो, उपरात शणै गोंयबाब हांणी ताका आपले परीन वेगळें रूप दिलें. गोंय मुक्तताये पयलींचो कादंबरेंतलो समाज आनी मुक्तताये उपरांतचे कोंकणी कादबरेंतलो समाज अश्या दोन वांट्यांनी अभ्यास करूं येता. मुक्तताये उपरांत आयिल्ल्या कांय कोंकणी कांदबऱ्यांनी मुक्तताये पयलींच्या समाजाचें चित्रण केलां. समाजाची जशी नदर बदलता तशी कांदबरीय कूस परतिता म्हणपाचें होलमता. तातुतल्यो कोंकणी कांदबरेचो पांवडोय दिसता. कोंकणी कादंबरीकारांनी ह्या सामाजीक बदलांचें पडबींब आपल्या कादंबऱ्यानी दाखयलां. समाजीक बांदिलकी दाखयताना कोकणी कादंबरी हो प्रकार रूपा – आकाराक लेखकांनी हाडला. परपरा आनी नवेपण हाचो दिशटावो तांणी घडयला. ताका लागून कल्पने वांगडाच वास्तवाचे अदीक प्रभावी चित्रण कादबऱ्यानी घडिल्लें दिश्टी पडटा.

समाजशास्त्रीय नदरेंतल्यान साहित्याचो अभ्यास करताना कांय परिमाणां लावचीं पडटात. तातूत सामाजीक वास्तवतायेची विज्ञानीक नदरेंतल्यान पारख करून ताचें कलात्मक रूपातरण जांवचें ही आस्त दवरता. तशेंच सामाजीक कारणां, सामाजीक प्रकृती आनी समाजीक प्रभाव म्हत्वाचो. सामाजीक नदर कांय मुद्दयातल्यान स्पश्ट जावन येता. देखीक, अभ्यासाच्या विशयांतलें सामाजीक रूप उजवाडाक हाडप. संबंदीत विशयाची सामाजीक उत्पत्ती तशेंच प्रभावांचें विश्लेशण करप हातूत बरोवपी, बरप आनी वाचपी हाचो परस्पर संबंद आसता.

तरेकवार पिडा भोगपी मनीस अर्विल्ले कोंकणी कादंबरेंत कशे तरेन आयला? हाचोय अभ्यास कादंबरेंतल्या समाज संदर्भांत करूं येता. तेच वांगडा कादंबरेंतलें समाज दर्शन म्हण्टाना, लेखकाचें समाजशास्त्र, पळयतना 'साहित्यांतले सामाजीक सदर्भ पळोवप गरजेचे थारतात. सामाजीक वेव्हार, विक्री, परिवर्तनाचें वायट तशेंच बरेंय चित्रण तपासप अभ्यासाचे नदरेंतल्यान म्हत्वाचें अशें वासुदेव सांवत मानतात.' कोंकणी कादंबऱ्यांचें स्वरूप पळयतना ते भारतीय परिमाणांनी पळोवक जाय. तें पळयतना सैम आनी समाज, भाशीक समाज कोंकणी चळवळींचो लेखकांचेर पडिल्लो प्रभाव आदी घटकांच्या आदारान पळयल्यार कादंबरेंतल्या समाज दर्शनाक अदीक वाव मेळटलो अशें रफायल फेर्नान्डीस मानतात.

गोंय मुक्तताये उपरांत गोंयचे समाज जिणेंत जे बदल घडून आयले तशेंच वैयक्तीक पावडयार जे बदल घडले तांचो प्रभाव कोंकणी कादंबऱ्यानी कसो पडला तो दिसता. विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानाच्या मळार जाल्ल्या बदलांक लागून अर्थ वेवस्था, कायदे, बाजार पेठो, शिक्षण, नवी विचारसरणी, सामाजीक असमानतायेचे प्रस्न, परंपरागत रूढी–चालिरितींचो, नैतीक मान्यतायेचो दुस्वास, दोन पिळग्यांतलो सघर्श आदी सामाजीक चित्रणां कोंकणी कादंबऱ्यांनी कशीं आयल्यांत तें हया अभ्यासाच्या निमतान कळटा. देखून कोंकणी कादंबऱ्यांचो इतिहास नियाळटाना तो एदुवार्द ब्रून द सौजाची क्रिस्त धर्म निती–शिकवणीची कादंबरी ते उपरांत शणै गोंयबाब हांची तत्वचिंतनात्मक कादंबरी आनी मागीर पुंडलीक नायक आनी दामोदर मावजो हांच्यो सामाजीक वास्तवतायेचें प्रकट चित्रण करपी कादंबऱ्यो असो प्रवास मुखार वता. सामाजीक लागणुकेचो एक वांटो म्हण ह्या लेखकांनी ह्यो कादंबऱ्यो रचल्यात हेंवूय म्हत्वाचें.

कोंकणी कादंबरेंतलें समाज दर्शन म्हणटाना ह्या कादंबऱ्यांनी समाजाचें चित्रण कशे तरेन केलां तें पळोवप गरजेचें दिसता. हें समाज चित्रण वास्तवतायेचे सांडीर घासून घेवप म्हत्वाचें. कोंकणी कादंबऱ्यांतलें समाज चित्रण म्हणटाना काळ, इतिहास, सामाजीक, राजकीय, सांस्कृतीक, आर्थीक, शिक्षणीक आदी घटकांचे मोल म्हत्वाचें. कोंकणी कादंबऱ्यांनी तें कितलें प्रामाणीकपणान आयलां हेंवूय पळोवंक जाय. गोंयांतल्यो तरेकवार परकी राजवटी, त्या राजवटींचो प्रभाव कोंकणी समाजाचेर कसो आनी कितलो पडलो हेंवूय पळोवंक जाय. त्या प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष प्रभाव आनी परिणामांचें चित्रण कोंकणी कादंबऱ्यांनी जालां जाल्यार तें कशें

जालां हें पळोवप गरजेचें.

कोंकणी कादंबरेचो अभ्यास करताना अशें दिसता. गोंय मुक्तताये पयलीं ही कादंबरी रूपाचे नदरेंतल्यान तितलिशी भरिल्ली नासली. शणै गोंयबाबाची 'संवसार बुट्टी' ही कादंबरी सोडली जाल्यार गोंय मुक्ततायेंत कोंकणी साहित्याक, अभिव्यक्यीक मुक्त वाव मेळ्ळो. सामाजीक, राजकीय, अर्थीक, समिकरणां झपाटयान बदलपाक लागलीं. भास, साहित्य आनी अस्मितायेच्या सघर्शाच्या मुक्तताये उपरांतच्या काळांत कोंकणी कादंबरी आपल्या खाशेलेपणासयत आयली. पुंडलीक नायकाची 'अच्छेव' (1977) आनी दामोदर मावज्याची 'कार्मेलीन' (1981) ह्यो दोन म्हत्वाच्यो कादंबऱ्यो गोंयच्या समजांचें व्हड चित्रण करतना तांची तरेकवार तासां दाखयतात. कोंकणी साहित्याच्या इतिहासांत ह्या दोनूय कादंबऱ्यांनी मानाची, म्हत्वाची सुवात मेळयल्या.

## कार्मेलीन

'सोंस' हो कार्मेलिनाक जिणेंत मेळ्ळिलो शाप. पूण त्या शापांतल्यान स्वताच्या कर्तुबान आनी विश्वासान जिवीत घडोवपाचो यत्न करता. भोंवतणची सामाजीक, परिस्थिती, समाजांतली मुक्त–वेवस्था, समाजीक राजकीय परिस्थिती, जगाची अर्थीक परिस्थिती कार्मेलिनाच्या जिवीताचें एक आंग जावन आसा.

कार्मेलिनाचें कथानक सादें सरळ तिसरो पुरूशी. कार्मेलीन हे कादंबरेंतलें मुखेल पात्र. स वर्साचे पिरायेर सावन ते आडतीस वर्साचे पिरायेमरेनचे ताचे भोगणार हे कादंबरेंत येतात.

गोंयांतल्या क्रिस्तांव समाजांतलें चित्रण हे कादंबरेच्या माध्यमांतल्यान दाखोवपाचो यत्न जाता. क्रिस्तांव समाजांतली तेदेवेळा वयली बायल कशी आसताली ताचो अभ्यास करपाक कार्मेलिनाची चिकित्साय करपाक जाय. कार्मेलीन, इजाबेल ह्या मुखेल पात्राचे चित्रणांतल्यान बायलेचें प्रतिनिधीक चित्रण पळोवंक मेळटा. पेट्रो डॉलर्स संस्कृतायेक लागून गोंयच्यो क्रिस्तांव समाजांतल्यो बायलो आया म्हणून गल्फाक वचूंक लागल्यो तांचे विशीं आरत्यो परत्यो गजाली आयकूंक येंवक लागल्यो. गलफांत कामाक गेल्ली दरेकली बायल आपलें शीळ व्हगडायता आसोय समज लोकां मदीं गोंयांत पातळटा. ह्या सगल्या गजालींची जाणविकाय आसून लेगीत कार्मेलीन गल्फाक वाचपाक भायर सरता कारण ताची परिस्थिती.

गोंयांतल्या गरीब क्रिस्तांव समाजांतल्या लोकांक शेता बगर दुसरो पर्याय नासता. जोडीची साधना सहजपणान मेळना. शेत आनी अर्थ वेवस्था हाचो संबंद आसता. ही अर्थ वेवस्था राजकीय कारणांक लागून बदलपाची चित्रां दिसतात तेन्ना कार्मेलिना मुखार आर्थीक पेचप्रसंग उबो रावता. ह्या प्रसंगांतल्यान भायर सरपाचो एक मार्ग म्हळ्यार कुवेटाक वचप, थंय भरपूर पगाराची नोकरी आसता. हाची गवाय मेळटकच आनी आपले चलयेची पुराय जापसालदारकी इजाबेल घेतलें हो विश्वास मेळ्ळ्या उपरांतूच तें कुवेटाक वचपाक भायर सरता. सगळो हिशोब मांडुनूच तें निर्णय घेता.

काम करप हो ताचो गूण धर्म. सोंशीत रावप हो तांणे आपणायल्लो धर्म. हें सोंसप तें परीस्थितींतल्यान शिकता. पायच्या संस्कारांतल्यान हे सोंशीकतायेक तें घटमूट करता. पूण परिस्थिती जेन्ना हाता भायर वता, सोंशीकतायेचो अंत जाता सो दिसता तेन्ना तें आपले शक्तीचो दिश्टावो घडयता. आपल्या बेबद्या घोवाक सोऱ्या कडल्यान पयस करताना जुझेन ताचेर पयशां खातीर केल्ली बळजबरीय तें सोंसून घेना. उरफाटें आपल्या आशिल्ल्या नाशिल्ल्या पैशांक हात घातलो म्हूण ते जुझेचेर थापट मारता. हाचो परिणाम म्हूण जुझे त्या उपरांत कार्मेलीनाचो भोग वाटो दिता तो तें स्विकारता. पश्चाताप आनी समर्थ अशा दोन पांवडयाचेर ताचें मन हेडटा. पूण ते परिस्थितींत ताचे मुखार दुसरो पर्याय नासता. जोडपाचो हावेस घेवन ते कुवेटाक आयिल्लें आसता. देखून म्हयनाक चार जुम्मा हे ताचे अतिरीक्त जोडीचे दीस असो हिशोब ताका मांडचो पडटा. आपले कुवेटाची जोडीचो विनीयोग कल्पकपणान, दानी वृत्तीन आनी नियोजनबध्द रितीन करपी कार्मेलीनाची तोखणाय करीनशी दिसता. फकत पैसोच म्हळ्यार सगळें. ते जोडीक तें मनिसपणाची बसका घालून दिता. गल्फाक गेल्ली बायल पैशां खातीर आनी पैशांनी फोलगां मारूंक वचना. तिची गरज म्हण वता. ती कोसळिल्लो संवसार उबारूक वता. अशें चित्रण हे कादंबरेच्या माध्यमांतल्यान काडूं येता. देखून कार्मेलीनाक आर्थीक स्वातंत्र्य मेळटा तेच वागडा ताका निर्णय स्वतंत्र्य मेळटा. गोंयचे समाज वेवस्थेंतलें बदलतें पावल दिसता. अर्थात ह्या निर्णय स्वातंत्र्याक ताची घरची परिस्थिती, ताचें जिवीत–भोगणार जुझेची नाकर्तेपणा आदी घटक जापसालदार आसात हें आमच्यांनी विसरूं नजो. कार्मेलीनाच्या निर्णयाचेर जुझेन थुंकप हें ताचें कर्तुत्व जायना. उरफाटें तो जोडपाक आनी संवसार चलोवपाक नालायक आशिल्ल्यान हें सगळें घडूंक पावलां.

सभावांतलीं फटींगपणां, अप्रमाणीक वृत्ती आनी जिणेंतलो गंभीरपणाचो अभाव, सोरो पिवपाचें वेसन, सभावांतली तापट वृत्ती, ह्या अवगुणांक लागून कार्मेलीन जुझेची बायल म्हूण खचता, दुखावता, तिचो अपेक्षाभंग जाता. मन मारून जगप, परिस्थिती आड झगडप, जिणेंत सघर्श करप हे गूण तें प्राप्त परिस्थितींतल्यान आपणयता देखून जेन्ना तें आपली कूड दुसऱ्यांक दिता तेन्ना हीच अपेक्षा आसता कोणतरी समजुपी आसचो, भरभरून मोग करपी आसचो. पयलो मोगी आग्नेल ताका हें सूख जाय तशें दिवंक पावना. तो ताच्या मोगाचोच विश्वासघात करता. घोव म्हूणन जुझे कडल्यान ताका सूख समाधान मेळना. मगीर जुझेच्या वेसनांचो फायदो घेवन ताचो वांगडी रूजार कार्मेलीनाक दृ नेणिवेच्या अवस्थेंत भोगता म्हळ्यार एके स्वप्नील भावावस्थेंत कार्मेलीन ताका आपली कूड ओंपता. तातूंत सुखावता आनी उपरांत पश्चातापाचें पानवळूय भोगता. कुवेटाक गेल्ले कडेन निस्सारा कडल्यान मेळपी कुडीसुखांतल्यान तें सुखावता. त्याच अपेक्षेन तें गोंयां येतकच जुझे कडेन पळयता तेन्ना जुझे ताची अपेक्षा पुराय करूंक शकना.

कार्मेलीनाचे जिणेचो पाट पळयतना एक गजाल दिश्टी पडटा ती म्हळ्यार, सुरावले गांवांत पडिल्ली  तिफोयदाची धाम इतले तिव्रतायेन गांवांत खेव घालता – दिसाक चार पांच मरणां जावपाक लागतात. गांवचे इगर्जेचो पाद्री ह्या अरिश्टाच्या काळांत लोकांक मडगांवच्यान वखदां–विसर्दी करूंक आदार करता. शेवटाक तेवूय तिफोयदाचो बळी थारता  कार्मेलीनाचो सांबाळ करपाक काकापाय मुखार सरता. भलायकी वेवस्थेचे नदरेंतल्यान ह्या प्रस्ना कडेन पळयताना एक प्रस्न उप्रासता; भलायकी वेवस्था इतली कोसळिल्ली काय? तेदेवेळावेली समाजीक परिस्थिती अशी आशिल्ली; एक धाम पडून गोंयांत सुरावले सारखो गांव असो उध्वस्थ जांवचो ते उध्वस्त वेवस्थेचें पानवळ कार्मेलीनाक भोगचें पडचें असले समाजीक वास्तवताये संबंदाचे कितलेशेच प्रस्न हें प्रकरण उबें करता. समाजीक मुल्य वेवस्थे विशींचे प्रस्न कांय प्रसंगांतल्यान दिसतात. सुरावले गांवांत पडिल्ले धामीचे वेळार लोकांक पावपी पाद्री जेन्ना जोरान आड पडटा तेन्ना ताका पळोवपाक ताची सरबराय करपाक गांवांतलो कोणूय मनीस मुखार येना, म्हारवाड्यावेले दोग तरनाटे ताचें सगलें करतात. पाद्री मेल्या उपरांत जोराच्या भंयान दुसरो पाद्री गांवांत येना. इतलेच न्हय तर आयल्या पयल्या गांवांतलेय लोक हेवटेन तेवटेन येना जातात. सगले कडेन कीण्ण पडटा. अशे मरण आवस्थेंत अवकळा आयिल्ल्या गांवातल्या स स वर्सांच्या

कार्मेलीनीच्या घरांत ताचो भाव, मांय–पाय, हे जोरयेन मरतात.

'गांवांतले अवकळेचें वर्णन बरोवपी करतात –

'कूक'

गाडयेची पिल्लूक आयकून कार्मेलीन लायनी कडेन धांवलें. ज्युस्त पावलें.

गाडी घडघडघडघड करीत धांवली. चुकून कोणूय भायर पळयतलो. सदचेवरी कोणेच हात हालयलो ना. कोणेच भायर तकली घालून पळयलें लेगीत ना. केन्ना काय सुरावलेची शीम हुपल्यार पुरो अशें जाल्ले वरी गाडी धांवत गेली. (कार्मेलीन – 23, 24)

धामीक लागून सुरावले गांव–गांवां भायर जाल्लो. रेल्वे तांच्या गांवांतल्यान 'धांवत वता' ही लेखकाची कल्पना ते धामीची तिव्रताय दाखयता. खऱ्यानीच आशी धाम पडल्ली काय? हें लेखकान कार्मेलीनाचे भोगणार दाखोवपाक तयार केल्लें काल्पनीक चित्रण? आसो प्रस्न हांगा उप्रासता. कार्मेलीन येवपी अणभवांतलयान सादूर जायत वता, हें हे कादंबरेचें वेगळेपण.

कार्मेलीनाचो विचार करताना दोन गजाली आमकां दिसतात. एक भारतीय मुल्य वेवस्था जी कार्मेलीनांत आयल्या.

कादंबरेचे बाबतीन नैतिकताय ही म्हत्वाची अपरिहार्य संकल्पना आसा आशें नेमाडे हांकां दिसता. ही संकल्पना लेखकाचो वैयक्तीक मुल्य विवेक ह्या अर्थान ते वापरतात. मानिल्लें वा परंपरागत, धर्मशास्त्रांचेर वा हेर विशया संबदांतली नैतिकताय कादंबरेक लागतगीच अशें ना तर वैयक्तीक नैतिकतायेच्या संदर्भांतूय ताचो विचार करूंक जाय. कार्मेलीन हें ह्या संदर्भांत देख दिता. वैयक्तीक नितीमत्तेचो पुरस्कार करता. पारंपारीक नैतिकताये भायलो विचार हातूंत येता. स्वताचे निर्णय स्वताची मुल्य वेवस्था थारयता त्या अर्थांतल्यान ती धीट बायल आसा अशें आमच्यान म्हणंत येता. आपूण कुवेटाक वता तो निर्णय जेन्ना घोव म्हण तें जुझेक सांगता तें आयकून जिझे थुंकता. जुझेचें थुंकप उपहासात्मक काय अशेंच हाचो पात्सो तें घेवन बसना. आपल्या ह्या निर्णयाचेर जुझेन थुकोवन आपली प्रतिक्रिया उक्तायली कितें वा गाळी घालून जरी उक्तायल्ली वा समर्थन म्हूणन उक्तायल्ली जाल्यारूय कार्मेलीनीच्या निर्णयांत फरक पडचो नाशिल्लो. कादंबरेंतलो नैतिकतायेचो विचार हो लेखकाचो वैयक्तीक नैतिक मुल्य विचार आसा.

नैतिकतायेच्या संदर्भात कार्मेलीनाचो विचार करप सामकें गरजेचें आसा. गोंयचो क्रिस्तांव समाज जे तरेन हे कादंबरेंत चित्रायला ताच्या आदारान हो अभ्यास करताना धर्म, समाज, राजकारण, संस्कृताय, परराष्ट्र धोरण, अर्थ वेवस्था संस्कृताये कडेन भारताचें आनी पर्यायान मुक्त आशिल्ले संबंद हाचो आभ्यास नैतिकतायेच्या नदरेतल्यान म्हत्वाचो दिसता. ह्या म्हालवजाचेर सांस्कृतीक उत्पादन म्हणून आनी कोकणीचे गरजेंतल्यान निर्माण केल्ली कार्मेलीन ही कादंबरी तपासताना ताच्या तरेकवार विशयांची चर्चा करप स्वभावीक आसा.

कार्मेलीन कादंबरेंत नैतिकतायेचेर चर्चा करताना कार्मेलीन अशें जावपाक, वागपाक सामाजीक, राजकीय, सांस्कृतीक, शिक्षणीक, आर्थीक आदी घटकूय जापदालसार आसता. ताची चिकित्साय ह्यान आदीं केल्ली आसा. कार्मेलीनाक तशें कित्याक करचें पडलें वा तें कशें घडत गेलें हाचो नियाळ ताच्या चारित्र चित्रणांतल्यान भायले संस्कृतायेची नैतिकताय अशे आभ्यासाचे सोयीखातीर वांटे घलून पळयले जाल्यारूय शेवटाक दादले बायल आनी पर्यायान समाजांतली नैतिकताय हे नदरेंतल्यान पळोवची. मनीस म्हण घेतिल्लो सोद व्यापक अर्थान म्हत्वाचो. कादबरेंतलें मुखेल पात्र म्हूण कार्मेलीनाचो विचार करताना बाकिच्या पात्राच्या संदर्भात ही नैतिकताय  तितलीच म्हत्वाची आसा अशें म्हण दिसता.

कार्मेलीनाच्या जिवितांत येवपी दादले – बायलो हांचो संदर्भ म्हत्वाचो आसा. कार्मेलीनाची जिवीतातली बत्तीस वर्साची वाड हे कादंबरेंत आयल्या. भुरगेपणांतलें गरीब कार्मेलीन ,पोंसकें म्हण जिवीत जगपी कार्मेलीन, काजार जाले उपरात घोवाक पोसपी कार्मेलीन, चली बेलिंदाच्या बऱ्या फुडाराक कुवेटाक वचपी कार्मेलीन ह्या सगळ्या जिणेच्या प्रवासांत कश्ट आनी सोंसप हो ताचो जिवीत मंत्र जाल्लो. त्या सोसणुकेतल्यान वासणुके कडेन वचपी जिणेचो प्रवास म्हळ्यार ही कादंबरी. समाजीक बदलाचो परिणाम कार्मेलीनाक भोगचो पडटा ताका लागून ताची जीण बदलत वता ताका लागून मानून घेतिल्ली प्रस्तापीत निती वेवस्था कशी म्होडटा वा बळजबरेन इच्छे आड म्होडची पडटा ताचे सस्कृतीक चित्रण हे कादबरेन येता नैतिकतायेचे सदर्भात फकत कार्मेलीनाचोच न्हय तर पुराय समाजाचो विचार करचो पडटा. कादबरेचो चडट्या पावड्यानी विचार केल्यार अश्यो कितल्योश्योच घडणुको आमकां दिसतात.

कादबरी जरी फ्लॅश बॅक पध्दीन सूरू जाता तरी कार्मेलीनाची वाड कशी

जाल्या ताची काणी दुसऱ्या प्रकरणांतल्यान सुरू जाता. हें जिवीत वांट्याक आयलां ते जगल्या बगर दुसरो पर्यायूच नाशिल्ल्या कार्मेलीनाच्या जिवीतान ज्यो घडणुको घडटात तांतूंतल्यो चडश्यो घडणुको पर्याय नाशिल्ल्यान घडिल्ल्यो आसता.

कार्मेलीन कुवेटाक वता तें परिस्थितीक लागून. लज रेस्पेत हो आमकां गरीबांक लागना हो इजाबलाचो उपदेस घेवनूच तें वता. मनाची तयारी करून वता तें म्हत्वाचें. ती थंयसर गेल्ले गोंयकार बायलेची दाखोवपाची आनी आशिल्ली प्रतिमा हातूंत कितलो नैतिकतायेचे नदरेंतल्यान फरक आसा हाची पुराय जाणविकाय करून घेता. घरा कडेन आशिल्ल्या बेलिंदाची, ताच्या शिकपाची वेवस्था करून ते बेलिंदा पासत वता. सगलें कितें भोगून भोगून तें वता देखून कुवेटाक गेल्या उपरांत तें अदीक घट जाल्लें दिश्टी पडटा. जोडीचे आशेन सगलो जीव तोडून तें निस्सार अरबागेर कामाक लागता. प्रामाणीकपणान कश्ट करपाचो वसो ताचो. जुम्माच्या जुम्माक निस्सार ताका भोगता. पयल्याच जुम्माक सावन कार्मेलीन हें भोगून घेवपाचीय तयारी करता. बरें सोदपाचें थारयता आनी हे आपणयिल्ले नैतिकतायेन मागीर तें भोगिल्ल्या जुम्माचो पैशांचो हिशोब करीत रावता. ताची मानसिकताय पळयात – 'जांव दुडूच ते! ताणें दिल्ले – खोशेन दिल्ले आनी दुडवां खातीर केलें म्हण तरी कितें इबाडटा? जोडूंक तर आयला! आनी रस्ताद पडूंक ना मूं? निस्सार कितलोय जाल्यार पात्रांव!' (कार्मेलीन – 190)

कुवेटाक गेल्ल्या गोंयकार हेर बायलां मदीं अशींय कांय बायलां आसात तातूंत जुझेफिनाची खबर आयल्या. जुझेफीन गोंयांतल्यान वतानाच गर्भ–पिशवेचें ऑपरेसांव करून कुवेटाक वता. कुवेटाक गेल्ले कडेन कुवेटांतलो पात्रांव ताचेकडेन फोल्गां मारतालो. ताचो फायदो घेवन तें पात्रांवाक आपूण गुरवार जाला म्हण भेश्टायता. तो ताका पयशे दिवन ताची वेवस्था करपाक गोंया धाडटा. जुझेफीन इतलें सुवार्थी आसता तें म्हयनोभर रावोन दुसऱ्या पात्रांवागेर पयलींच थरयल्ल्या प्रमाणे कामाक वता. कुडीचो बाजार मांडपी ह्यो असल्यो बायलो समाजांत आसात. ताची ही देख. जे जुझेफीनान अरबाच्या लगाडीन पैशांचे आशेक सोऱ्याचे स्मगलींग करपाचो वेवसाय चलयता. ताच्या खुस्तार मुंबय दोन फ्लॅट विकते घेता. टॅक्यी चलतात. अशे आड मार्गान जोडिल्ले पयशे ते बरकती पासत ते वापरतात. कुवेटाक गेल्लें मिस नोरान्य हात धुवून पयशाचे फाटीक लागिल्ल्यान एक दोन दिनारांक लागोन मलबाऱ्या वांगडा लेगीत तें न्हिदपाक कशें तयार जाता ताची खबर रोझलीन

कार्मेलीनाक सांगता. कुवेटाक गेल्ल्यो बायलोच अनैतिकतायेन वागतात अशें ना तर कुवेटाक गेल्ले कांय दादलेय वासनेक  वखवखिल्ल्या सारके वागतात. तातूंत टोनी ब्रागाझाची गजाल आसा. तो बायलेक विटून कुवेटाक आयला आनी कुवेटाक मगरिटाक घेवन नाचता. ती खंय भोंवतात आनी आयतारचें मीस जातकच खंयच्या रूमार वतात ताच्यो गजाली येतात. रोझलीन कार्मेलीना कडेन जे तरेन ह्यो अनैतीक वेव्हाराच्यो गजाली करता ताचे वेल्यान ताची उलोवपाची मोख कळटा. कुवेटाक बायल – दादल्याचे हे संबंद अशे कांय कडेन आबादी आबाद, मुक्त व्यभिचार, कुवेटाक गेल्ले बायले विशीचें रोझालीनाचें मत –

'कार्मेलीन, हांव सांगता तुका ह्या कुवेतांत आमचे मदीं एकूय बायल ना जी हांव कोणो बायलेक न्हिदना म्हूण सांगीत. एक लेगीत ना'. इतलें म्हूण ते वगी रावता. कार्मेलीनाक तें आपले पवित्रतायेचो खोटो – ढोंगी निर्वाळो दिता.

'ना फकत हांव सोडून. तुजें मत हांव खरेपणी नेणार. हांव तसलें न्हूं म्हळ्यार तुका फटी दिसता जाल्यार हांव जिबेर खुरीस करता.' (कार्मेलीनः 197.)

अशें म्हूण रेझालीन कार्मेलीनाक दाखोवपाक जिबेर खुरीस करून दाखयता. जिबेर खुरीस करून दाखोवनूच आग्नेलान कार्मेलीनाक मोगाच्या नांवान फटयल्लें आनी आतां रोझालीन भोगाच्या नांवान कार्मेलीनाक फटयता. जिबेर खुरीस काडपाची नितिमत्ता समाजांत कशी बदलत वता ताची देख असल्या प्रसंगांनी येता. कार्मेलीन ह्या असले तरेच्या तरेकवार अणभवांनी शिटूक जालां. परिपक्व जालां. निस्सारा कडलो संवकळीचो संबंद सोडलो जाल्यार ताका आपले कुडीचो वापार करचो अशी इत्सा नासता. पूण कुडी सूख भोगताना पूर्ण सुखाची तें आस दवरता. निस्सारा कडल्यान ती भागता.

'हांवें जायत्यो बायलो भोगल्यात. पूण तुजे भशेन सूख दिवपी आजून मेळूंक ना.' (कार्मेलीनः 199.) ह्या निस्साराच्या कामतृप्तीच्या उतरांनी तें सुखावता. अरबांक जाय तितल्यो बायलो मेळटा आसतानाय दुडू राशींनी आसताना हो आनीक खंय वचना हाचे कार्मेलीनाक अजाप दिसता. ते आपल्या वेगळेपणाचेर येवजिता. ताकाय दिसता की निस्सार मेळसर तसलें सूख दिवपाक तसो आग्नेल, जुझे वा आनीक कोणूच शकचो ना  रूजारान दिल्ल्या सुखान पापाची कडा आशिल्ल्यान तें ताका मागीर सूख मानपाक तयार नासता. तर निस्सारा कडल्यान मेळिल्ल्या सुखाक तें पाप मानिनासताना तृप्ती मानता  ते भायर ताची ती भायले भायर वेव्हारी जोड  हें

जरी आसलें तरी तें त्या कुडीचो जाय तसो भोग घेंवचो म्हणुनूय निस्सारा कडेन बाजार मांडिना.

कार्मेलीन वास्तव जिणे कडेन पळयताना काल्पनीक विश्वांत केन्ना रमता केन्ना दुखावता केन्ना पस्तावता. सोंसप हो ताचो स्थायीभाव जाला. आकान ताका आसरो दिलो खरो. पायन ताका मोग दिलो खरो, आग्नेलान ताका मोगाची चटक लायली खरी तरीय पूण ताका पुरायपणान समजावन घेवपाक तें आपल्या मना कडेन धांवलां. ताचे कडेन उलयलां, स्वतार थातारलां. ते खातीर तें मनसंवाद, हें तंत्र आपणायता. ताची देख जायते कडेन ह्या कादंबरेंत येता. ताचे स्वप्नील भावविश्व कार्मेलीनाचें आनी एक रूप, चड खोलायेन वाचप्यांक निवेदनांतल्यान पळोवंक मेळटा. मोगाची भावना, फुडारेचो हुस्को, वेव्हाराची पटी आदी विशय हेच स्वप्नील भावावस्थेंतल्यान आयिल्ले आसात. कार्मेलीनांतलें निवेदन केन्ना केन्ना वर्णनात्मक रूपाचें जालां. दुसऱ्या प्रकरणांत सुरावले पडिल्ली धाम, कार्मेलीनाचो पयलोच कुवेट प्रवास, गोंय मुक्तताय, गोंयचो ओपिनियन पोल, कुवेटाची सामाजीक आर्थीक परिस्थिती. कुवेटाक वचचे पयली कार्मेलीनाची आर्थीक परिस्थिती आदीचें वर्णन करतना लेखक तपशिलां कडेन प्रामाणीक रावपाच्या हावेसान करता. कार्मेलीनांत चड संवाद दिश्टी पडनात जितले ते अच्छेवांत नाटय रूपांतल्यान आयल्यात.

कार्मेलीनांतली भास दोन पांवडयांचेर दिसता. एक निवेदनांतली भास अंत्रुजी म्हालांतली तर संवादांतली चडशी भास साश्टी क्रिस्तांवांची. त्या–त्या पात्रांच्या तोंडांतल्यान घालतना लेखका कडल्यान तें तंत्र पुरायपणान सांबाळूंक जालें ना. साश्टी बोलयेचो पुराय अभ्यास हे कादंबरेच्या संदर्भात करप हो अभ्यासाचो हेतू ना. भाशेचे नदरेंतल्यान विचार केल्यार इंग्लेज, अरबी, हिन्दी, मराठी, पुर्तुगेज भासांतलीं उतरां हातूंत अर्थासयत आयल्यांत. जाणविकायेन भाशेचे नदरेंतल्यान खासा प्रयोग केल्ले कार्मेलीनांत दिसता. सादी सोपी व्हांवती भास वापरून कथानात्मक रितीन घडणुको दाखोवन एक वातावरण निर्माण करतना मुखेल पात्रांची वाड लेखक करतात. बदलपी सामाजीक संदर्भाक लागून भास कशी बदलत वता हाचेंय चित्रण हे कादंबरेंत येता. देखीक इंग्लीज शिकपी आग्नेलाच्या तोंडांतल्यान येवपी इंग्लीज उतरां. संवकळ करून घेवपाक म्हणून अरबी भास शिकपी कार्मेलीन. म्हणी ओपारींचो जांवक जाय तसो वापर जांवक ना. कारण कोंकणी भाशेचें तें एक खाशेलेपण. अर्थांत जाणविकायेन मुद्दाम अट्टहासान भाशेचे नदरेंतल्यान प्रयोग

लेखकान करूक नात. लेखनाचे सर्जनशील प्रक्रियेचो लेखका कडेन आसा. कथेच्या सुरवाती परस सोंपोवपाची कला बरी सादल्या. कार्मेलीनाचो शेवट लेगीत असो जाता –

'आनी सण्ण करून कार्मेलीनालें थापट बेलिंदाल्या पोल्याचेर उदेलें.' (कार्मेलीन – 247)

कथानक, घडणूक, वातावरण, पात्रां, भासशैलीचे नदरेंतल्यान कादंबरेची चिकित्साय करताना कांय उल्लेख करपा सारख्यो गजाली नदरेंत भरतात. गोंयच्या क्रिस्तांव समाजांतले बायलेची आगळी वेगळी थोडीशी वादग्रस्त प्रतिमा उबी करपाचें लेखकाचें धाडस कोंकणी कादंबरेच्या प्रयोगाक धिटाय दिवपी आसा. कथानक एकसुत्री आशिल्ल्यान एकाफाटल्यान एक सुत्रान घडणुको घडत आसताना पात्रांचो सबद आनी संदर्भ सांबाळपाचें कसब लेखकान सादलां. कार्मेलीना भोंवतणी वावुरपी पात्रांची वाड जितली जाय तितली दवरपाचो यत्न करतना लेखक थोडोसो उणो पडिल्ल्याचें दिसता. आग्नेलाचें काजार जाल्ले उपरांत पयलो मोग – भोगी म्हण ताची परतून गांठभेट खंयच जायना. तो आपले व्हंकले फाटल्यान आफ्रिकेक वता. एके परीन तो कादबरेंतल्यान शेणटा. कार्मेलीन कुवेटाक आसताना जुझे तसो आसून नासून सारखोच उरता. बाकिचीं कांय किरकोळ पात्रां कादबरेंतले गरजे प्रमाणे येतात आनी वतात.

कार्मेलीनांतले शिक्षण वेवस्थेकडेन पळयताना आमचे मुखार दोन आवस्था दिसता. एक कार्मेलीन शिकतनाची आनी दुसरी तें आपले चलयेक बेलिदाक शिकयता ती. दोनूय अवस्थे मदीं फरक आसा. एक पुर्तुगेज काळांतली गोंय मुक्तताये पयलींची तर दुसरी मुक्तताये उपरांची. पयली पुर्तुगेज भाशेंतल्यान शिकप घेवपाची रीत तर बेलिंदा इंग्लिशींतल्यान शिकप घेता. शिक्षणाचे पावंडे लेगीत वेगवेगळे आग्नेल मुखावेलें बी.ए चें शिकप मुंबय वचून घेता कारण तशी सोय गोंयांत नासता. कार्मेलीन मॅट्रीकेक ड्रॉप आवट जावन उरता तें शिकपाक कमजोर वा दुबळें म्हण न्हय तर दुयेंत पायची सरबराय करपाक ताका मनाआड इश्कोल सोडचें पडटा. खाजगी मास्तर दवरून शिकोवपाची पध्दतूय पुर्तुगेज काळांत आशिल्ली. कार्मेलीनाची चली बेलिदा मुक्तातये उपरांतचें शिक्षण वेवस्थे कडेन सबंदीत उरता. काळ, सामाजीक, राजकीय, शिक्षणीक परिस्थिती बदल्ल्या तें परिस्थितींत घरचे फाटभूयेचेर ते शिकतना मॅट्रीकेक (एस.एस.सी.) आसताना ताका शिकोवपी

आसतनाय नापास जाता.

देखून मूळ भारतीय पात्र म्हण कार्मेलीन जे सामाजीकायेन कुवेटाक वागपाचो प्रयत्न करता. कादंबरेंतलें कथानक आयलां तशें लेखक तें गुंथीत गेला. कादंबरी पुराय करपाक आपल्याक वीस बावीस दीस लागले. पयलीं बरयलां तेंच पुस्तक रूपान आयलां ताचेर परतून हात भोंवडांवक ना अशें लेखक म्हणटात. तेच प्रमाण खंयचोच साहित्य प्रकार आपणेन बरोंवक जाय म्हण बरोंवक ना. तेच परीन आपल्याचेर कोणा विशिश्ट साहित्यिकाचो प्रभाव ना, आसा तो एकवटीत प्रभाव अशें तांकां दिसता.

कादंबरे विशीं बाकिबाब बोरकार दामोदर मावजो हांका बरयल्ल्या पत्रांत (22.08.1983) म्हणटात 'अजून कोंकणी कथा साहित्यांत क्रिस्तांवांच्या जिणेचें इतलें बारकायेचें चित्रण येवंक नाशिल्लें आनी गल्फांत गेल्ल्या जिणेचें चित्रण तर मराठींत पसून आयिल्लें ना. तें करतना केवळ ताज्या चित्रणान ताजे संबंधाची जाण तुवें जगैल्या ती तर म्हाका खुबच मोलादीक दिसता.'

एक सामाजीक जाणविकाय निर्माण करून दिवपी कार्मेलीन ही कादंबरी कोंकणी आनी भारतीय साहित्यांत अज्रंवर उरतली.



# दामोदर मावजो हांच्या 'रुमडफूल' कथेचो शैलीलक्ष्यी अभ्यास

डॉ. भूषण भावे

## प्रस्तावना

दामोदर मावजो हे कोंकणींतले एक प्रतिभावान आनी सिद्धहस्त लेखक. कथाकार आनी कादंबरीकार अशी नामना तांकां लाबल्या. गोंयचे सुटके उपरांत कोंकणी साहित्यांतले दुसरे पिळगेंतले कथाकार म्हूण ते मुखार आयले. 'गांथन' (1971), 'जागरणां' (1975), 'रुमडफूल' (1989), 'भुरगीं म्हगेलीं तीं' (2001), सपनमोगी (1914)हे तांचे कथांझेले उजवाडाक आयल्यात.

प्रस्तूत सोद–निबंदांत तांच्या 'रुमडफूल' (1989) ह्या कथा झेल्यांतल्या त्याच नावाचे कथेचो शैलीलक्ष्यी नदरेन अभ्यास केला. ही कथा (आनी हो पुराय झेलो दीर्घकथांचो आशिल्ल्यान 'दीर्घकथा' ह्या कथा साहित्याच्या उप–प्रकाराचेंय थोडे भितर विश्लेशण केलां. तशेंच शैलीलक्ष्यी समिक्षेची संकल्पना आनी कांय म्हत्वाचे निकश लेगीत विस्कावन सांगल्यात.

## साररूप उतरां:

शैली, ध्वनी, शब्द, वाक्य, विरामचिन्नां, अनन्यसादारण, शैलीलक्ष्यी / शैलीशास्त्री.

## शैली : अर्थभेद

सर्वसादारणपणान 'शैली' हें उतर बरोवपाची तरा, रीत, पद्दत, लकब ह्या अर्थान घोळटा हे सगले अर्थ 'शैली' ह्या उतराचें वर्णन करपी अर्थ आसात. साहित्याच्या संदर्भात हें उतर आमी "लेखकान केल्लो भाशेचो विशिश्ट वापर" ह्या अर्थान वापरतात. देखीक पुंडलीक नायक हांची शैली, दामोदर मावजो हांची शैली...

आदी. जाल्यार तेंच उतर संगिताच्या मळार आमी गावपाची वा वाजोवपाची तरा ह्या अर्थान वापरतात. देखीक पं. अभिषेकी हांची गायन शैली, किशोरी आमोणकरांची गायन शैली...आदी. दरेका मळा प्रमाण ह्या उतराचे संदर्भ बदलतात (देखीक उलोवपाची शैली, खेळपाची शैली...आदी).

## शैलीशास्त्री वा शैलीलक्ष्यी समिक्षाः

दरेक कलाकृती ही अनन्यसादारण आसता, देखून तिची शैली लेगीत अनन्यसादारण म्हणल्यार 'तिचे सारकी तीच' (Unique) आसता. दरेके कलाकृती भशेन ती निर्माण करतल्या कलाकाराची शैली लेगीत 'व्यक्तीविशिश्ट', ते व्यक्ती पुरतीच वा ते व्यक्तीचीच (individual) आनी अनन्य (Unique) आसता, अशें मत कांट ह्या तत्वावेत्त्यान मांडलें. तत्वीक नदरेन हें मत खरें आसलें तरी प्रत्यक्षांत मात 'भास' (Language) हो समाजाचो एक घटक आशिल्ल्यान विशिश्ट देश–काल परिस्थितींतलो भाशीक उपेग एका सारकोच आसता वा तातूंत थोडेंतरी साम्य आसताच, अशें दिश्टी पडटा. तेच भशेन खंयचेय कलाकृतीचें विश्लेशण आमी एकोडें वा एकांगी करिनात जाल्यार (चड करून तिचे आदीं निर्माण जाल्ल्या) हेर कलाकृतींचे फांटभुंयेचेर करतात. त्याभायर साहित्यीक परंपरेच्या माध्यमांतल्यान लेगीत एखादरे साहित्यकृतीचो अभ्यास जाता. हेच खातीर, 'नव–काव्याची' शैली समजूंक कठीण वा दुर्बोध आसा अशें आमी जेन्ना म्हणटात तेन्ना आधुनीक काळांत निर्माण जाल्ल्या पुराय साहित्यांतलें समानतायेचें तत्व आमी सोदतात. 'युगशैली' सारकें उतर आमी वापरतात तें ह्याच अर्थान.

लेखकाचे शैलीचो विचार म्हणल्यार फकत ताचे बरोवपाचे रितीचो विचार न्हय, तर हेर लेखकां परस आशिल्ल्या वेगळेपणाचो विचार, खाशेलपणाचो विचार. भाशेंतल्यान ध्वनी आनी अर्थ निर्माण जातात. भाशेचीं हीं दोनूय आंगां जेन्ना एकामेकांक सोबशीं, फावोशीं आसतात, तेन्नाच साहित्यकृती बरी जाता, हें तत्व आधुनीक भासविज्ञान मानता. भाशेचें व्याकरण आनी तिच्या वापराचे संकेत खबर आशिल्लो लेखक केन्ना केन्ना तिचे व्याकरणीक नियम आनी वापराचे संकेत म्होडून वा बागोवन वा नव्यान वापरून साहित्य–निर्मणी करता. भासविज्ञानाचीच एक शाखा वा फांटो आशिल्ल्या समाजीक–भासविज्ञानान भाशेच्या ह्या वापराक 'शैली' अशें मानून 'शैलीशास्त्र' हो एक नवो उप–विभाग निर्माण केला.

शैलीशास्त्रांत 1. ध्वनी 2. शब्द वा उतरां 3. वाक्य आनी 4. अर्थ अश्या चार निकशांच्या आदारान साहित्यकृतीचें विश्लेशण करतात.

**ध्वनी :** लेखक जाणीवपूर्वक वा अबोध पांवड्याचेर साहित्यकृतीच्या आशयाक पोशक वा पुरक अशे तरेचे ध्वनी आपले संहितेंत वापरता वा पेरता. स्वर आनी व्यंजन हाचे पसून ध्वनी निर्माण जातात. हरशीं दिसपट्ट्या भाशीक वेव्हारांत पूर्वनियोजीत संदेशाचें/संदेशांचें वहन करप इतलेंच मर्यादीत काम शब्दांचें आसता. पूण साहित्यकृतींत मात संदेशवहना भायर भोवताशी अर्थ सुचीत करप, वाच्यार्था परस वेगळो अर्थ (ध्वन्यार्थ/लक्ष्यार्थ) सुचीत करप वा प्रतिकात्मक/रुपकात्मक अर्थ फावो करून दिवप अशीं कामां ध्वनी करता.

साहित्यकृतींत हो ध्वनी जरी लिपीबद्द जावन लिखीत रुपांत अवतरिल्लो आसलो तरी वाचपी ती साहित्यकृती वाचतना त्या 'वेगळ्या' वा 'विशिश्ट' ध्वनींचो अणभव घेताच. ह्या ध्वनींचो लेखकाक अपेक्षीत वा अनपेक्षीत असो प्रभाव/परिणाम वाचप्यांच्या मनाचेर जाता आनी ते फाटभुंयेचेर वाचक साहित्यकृतीचें आकलन, रसग्रहण वा मुल्यमापन करता. (ध्वनी परगटावपी उतरांतलें अनुप्रास, पुनरावृत्ती, आधात हांचे वरवीं लेखक आपले साहित्यकृतीच्या आशयाक पोशक वातावरण निर्माण करता).

**शब्द :** साहित्यकृती भितर ध्वनी प्रकट जाता तो 'शब्द' वा 'उतरां' च्या माध्यमातल्यान. ह्या लेखनबद्ध शब्दांचें दृश्यरूप लेगीत वाचप्यांच्या मना पड्डयाचेर 'त्या' ध्वनींचीं ल्हारां निर्माण करता.

लेखक आपले साहित्यकृतींत वेंचीक उतरांची निवड करता. विशिश्ट शब्दकळा (Diction) तो वापरता, जी आशया कडेन मेळ घालपी आसता. सदांचींच उतरा नव्या अर्थछटेन वा नवीं उतरां (coining of words) घडोवन वापरून वा भोवअर्थी उतरां वापरून भोवअर्थीपण (ambiguity) सुचीत करून वा अनवळखी, अपरिचीत वा विपरीत शब्द वापरून लेखक आशयाचीं वलयां निर्माण करता आनी साहित्यकृतीचे मुल्यवर्धन करता. अशे तरेन ल्हवू ल्हवू काव्य, कथा, कादंबरी अशा साहित्य प्रकाराचीं प्रकारनिश्ठ उतरां तयार जातात आनी त्या त्या साहित्य प्रकाराचे भाशेक साचेबदपण (stagnation) येता. तेदे वेळार लेखक शब्दांचेर विंगड विंगड प्रयोग करून भाशेक ताजेंपण आनी नवलाय हाडटा. अशे तरेन शब्दांच्या माध्यमातल्यान आशयाचें परिणामकारी सुचन जाता.

**वाक्य :** दरेक साहित्यप्रकाराची वाक्याचें स्वरूप आनी वाक्य रचणूक वेगळी आसता. देखीक कथा ह्या साहित्य प्रकाराक मोटवीं, संक्षिप्त, सुचक वाक्यां गरजेचीं आसतात. त्या मानान कादंबरेक लांब आनी वर्णनात्मक वाक्यां चलतात, मानवतात. नाटकाक सुचक वाक्यां परस, अभिनय करपी नट/नटयेक एका दमांत, एका स्वासांत उच्चारपा सारकीं पूण 'नाट्यमय'तायेचो आभास घडोवपी वाक्यां गरजेचीं आसतात. वयल्या तिनूय प्रकारांनी वाक्याक 'क्रियापद' आसप (प्रत्यक्ष वा अनुस्यूत) गरजेचें आसता जाल्यार कवितेंतल्या वळींक/वाक्यांक 'क्रियापद' नासल्यारूय जाता.

वाक्याच्या स्वरुपा वांगडाच ताची रचणूक लेगीत आशयाच्या प्रभावी उक्तावणेक आदार करता. वाक्यांतल्या उतरांचो क्रम, व्याकरणीक रचणुकांक लागून (देखीक कर्तो आनी कर्म हांचें प्रत्ययीकरण) विशिश्ट उतरांचेर आशिल्लो आघात, वाक्याची लय आनी थेको (ताल) वा छंदात्मक/वृत्तात्मक रचणूक हांचोय बी उपेग आशय परगटावणेक फावोसो आसा वा ना हें थारावपा खातीरचे निकश म्हूण 'शैलीशास्त्री' समिक्षा करता.

**अर्थ :** वयर उल्लेख केल्ले ध्वनी, शब्द आनी वाक्य हे तिनूय निकश मेळून एक अपेक्षीत/अनपेक्षीत अर्थ निर्माण करतात. कथेच्या आशयाचें सुचन एकतर निवेदनांतल्यान वा संवादांतल्यान वा संज्ञाप्रवाही उताऱ्यांतल्यान जाता.

सगळ्याच साहित्य–प्रकारां भितर उतरांचो कोशांतलो अर्थ आनी वाच्यार्थ हांचे परस ध्वन्यर्थ/लक्ष्यार्थ / सुचितार्थ/गर्भितार्थ/व्यंगर्थ वा रुपकात्मक अर्थ चड म्हत्वाचो आसता. हे अर्थ लेखकान जाणीवपूर्वक हाडिल्ले आसतातूच अशें ना. केन्ना केन्ना (चडशे फावटी) ते नेणिवेंतल्यान निर्माण जाल्ले आसतात. अश्या अर्थाक लागून साहित्यकृतीचें मूल्यवर्धन जाता, हें मात खरें.

त्या भायर साबार वाक्यांचे मेळून जाल्ले परिच्छेद (गद्यांत) आनी कडवीं (stanza) (पद्यांत), साहित्यकृतीची वट्ट बांदावळ वा रचनाबंध तशेंच दोन वाक्यां मदीं वा दोन परिच्छेदां मदीं येवपी 'उपरांत', 'मागीर', 'आनी' सारके अव्यय, टिंब–टिंब (...), आडी (–), पूर्णविराम, स्वल्पविराम, अर्दविराम, उद्गारचिन्नां आदी भाशीक कुरवो हांचो अभ्यास लेगीत एखादरे साहित्यकृतीची शैलीशास्त्री चिकित्सा करूंक आदारभूत थारतात.

ह्या चार मुखेल निकशांचे फाटभुंयेर श्री. दामोदर मावजो हांच्या 'रुमडफूल' कथेची शैलीलक्ष्यी वा शैलीशास्त्री समिक्षा केल्या.

## 'रुमडफूल' कथेचें कथानक

जिणेंत शांततायेचो सोद घेवपाचो यत्न करपी एका मनशाची ही काणी. पुराय जिवीत एके मिलींत (कारखान्यांत) सुपरवायजर ते पेइंग क्लार्क मेरेनचे कारकुनी पदाचेर सारल्या उपरांत निवृत्त जाल्लो एक सामान्य कामदार. आवयचे आत्महत्येक लागून गांव सोडून ह्या शारांत आयिल्ल्या ताच्या बापायक हेच मिलींत अपघातात आयिल्लें मरण. बापायक कामार आसतना आपघाती मरण आयिल्ल्यान, कंपनीचे अनुकंपा येवजणे खाला तो मॅट्रिकेक आसतना 'सुपरवायझर' म्हूण हे कंपनींत लागिल्लो, तेन्ना ताका लोक 'मास्तर' म्हूण वळखताले, तेंच नांव तो निवृत्त जातनाय ताका दशिल्लें.

यंत्रांचो घडघड, लोकांचो बोवाळ अश्या अनंत तरांच्या बोवाळाक विटिल्लो, उबगल्लो हो मास्तर आपले रिटायर्ड जिणेंत घरदार सोडून एके बोवाळमुक्त, शांत जिणेचो अणभव घेवपा खातीर भायर सरता. तो रानांत वता. निमर्नुश्य दोंगरार–पर्वतार वता, दर्यादेगेर वता, शार सोडून गांवांत वता, चर्चीक आनी देवळाक भेट दिता, न्हंये देगेर वता, न्हंये भितर पात्रांत वता... सगळे कडेन शांततायेचो सोद घेता. पूण अपेक्षीत शांतताय ताका खंयच गावना. निमणें न्हंयेच्या पात्रांत भितर पावतकीच सगळें सामसूम जाता खरें. पूण भितरलो, अंतरांतलो आपल्याच स्वास–उस्वासाचो आवाज ताका सतायता आनी शांततायेचो लेगीत एक बोवाळ आसता, तो आपले कान किटकिटायता अशें ताका दिसता.

अखरेक शांतताय ही संकल्पना अंतरांतली आसता. ती भायर सोदून मेळना. ती आपले भितरूच आसता आनी आपल्या दिसपट्ट्या वावरांतूच ती गावता हाचो दिश्टावो जाल्ल्यान, शारांत आनी मिलींत केन्नाच परतो येवचोना अशी प्रतिज्ञा केल्लो 'मास्तर' आपले आदलेच कंपनींत एक्स्टेंशन मागूंक बेगोबेग परतो येता.

शातताय मनशा भोवतणी, गांव, शार, दोंगर, पर्वत, रान, न्हंय, देवूळ, चर्च वा दर्या अशे खयचेच भायले सुवातेचेर आसना तर ती मनशां भितरूच आसता (within). असो आशय ही कथा मांडटा. भोवच गहन, कठीण अशें जिणेचें तत्वगिन्यान कथेच्या माध्यमांतल्यान सहजतायेन वाचप्यां मेरेन पावता, हें हे कथेचें

खाशेलपण.

## 'ध्वनी' विचार

पुराय कथा 'बोवाळ' आनी 'शांतताय' हांचे मदीं गुंथल्या. 'शांतताय' हो कथेचो गाभो आसा. देखून बोवाळाचे फाटभुंयेर 'शांतताय' प्रदर्शीत करपाचो यशस्वी प्रयोग लेखकान केला.

बोवाळ म्हणल्यार व्हडलो, विचित्र, कर्कश, क्रूर, कान किटोवपी, कान किणकिणावपी असो 'ध्वनी'. बोवाळाचो हो पाठलाग 'मास्तराची' फाट कशीच सोडिना. पुराय जीण मिलींत काम करतना आनी उपरांत कांय म्हयने (कांय वर्सां) विंगड विंगड थळांनी 'शांततायेचो' सोद घेवपाच्या यत्नांत आसतनाय हो 'बोवाळ' तांच्या मनाकाळजांत 'अशांती' निर्माण करता.

मावजो हांणी हो बोवाळ तरेकवार 'ध्वनी' रुपांच्या माध्यमांतल्यान कथेंत प्रत्यक्ष दाखयला. ताचीं हीं रुपां वाचून वाचक लेगीत 'शांती खंय मेळटली काय?' अशे उमळशिकेन काणी वाचता. बोवाळांचीं हीं ध्वनी–रुपां अशीं आसातः–

## शारांतलो बोवाळ

'मास्तर' जंय रावता आनी जे मिलींत वावुरता तें एक शार. आवयन आत्महत्या करतकीच ताचो बापूय भुरगेपणांत ताका ह्या शारांत हाडटा. ह्या शारांतले आवाज कथेंत अशे प्रकट जाल्यातः

| आवाज | 'ध्वनी' रूप |
|---|---|
| मिलीचो भोंगो | घोंऽऽऽ |
| गिरणीचे आवाज | – |
| स्टोवाचो आवाज | सों सों सों सों |
| लोकांचो (कामदारांचो) बोवाळ | – |
| मायकाचो आवाज | – |
| फोगोट्यांचो आवाज | – |
| रेडिओचो आवाज | – |
| जोत्याबुटांचो आवाज | टाक–टॉक, टाक–टॉक, चर्रर्र, सर्रर्र, चर्रर्र, सर्रर्र |

निवृत्तीचो निरोप सुवाळो जातकीच तेच राती मास्तर तें शार सोडून शाततायेच्या सोदांत सपनांतल्या 'शांत' गांवाक आनी मागीर थंयच्यान रानांत वचूंक भायर सरता. तेन्नाच्या आवाजाचीं हीं रुपां पळयात:

| **आवाज** | **ध्वनी** |
|---|---|
| रेल्वे गाडयेचो | झुक झुकझुक झुक कु कु ऽऽ क् दृकुकु... |
| धोल, ताशे, घुमटांचो आवाज | – |
| सुकण्यांचें चिंवचिंवप | – |
| रातकिड्यांचें किरकिरप | – |
| मनश्याची किळांच | – |
| ताळ्याचो आवाज | गडगड |
| मनशाचो घोगरो आवाज | – |
| रातकिड्यांचो कान कणकणावपी किण्ण आवाज | – |
| कोल्याची कूय | – |
| घुगमाचे भिरांकूळ घुत्कार | – |
| रेल्वे गाडयांचो | घडघड घडघड |
| शेड्डयाचो आवाज | सर्रर्र |
| सुकण्यांचे भिरांकूळ | चित्कार |
| सुक्या पानाचो आवाज | कर्रर्र कट्ट कर्रर्र |
| वस्तू पडिल्ल्याचो आवाज | धपाच्च |
| अचकीत उठपाचो आवाज | सटच्च |
| धावडावपाचो आवाज | हड्ड |
| माकडांचो आवाज | हुप हुप |
| वागाच्या पावलाचो आवाज | धब धब धब धब |
| वागाच्या ताळ्यातल्यान येवपी आवाज | खुर्रर्र ऽऽ घुर्रर्र ऽऽ |
| बदुकीच्या फाराचो आवाज | ठोऽ |
| वीट येता तेन्नाचो आवाज | ओंक |
| मनशाची किळांच | – |

| | |
|---|---|
| सेगीत उलोवपाचो आवाज | (भरभरत रावप) – |
| कानांचेर धोल वाजले भशेन जावप | – |
| घांटीचो आवाज | – |
| धोलाचेर बडी पडिल्ल्याचो आवाज | – |
| चौघुड्याचो आवाज | – |
| दुखोद्गार (न्हिनळपाचो उद्गार) | आवयस् |
| धेंकर दिल्ल्याचो आवाज | – |
| वाऱ्याची झुळूक | झुमझूम |
| वाऱ्याचें झणझणप | – |
| फोगोट्यांचो आवाज | ठो ठो टक् टक् ठो |
| पेट्टया कड्डाचो आवाज | कट्ट ठोऽ ठोऽ कट् कट् किटीक् ठोऽ |
| सोरपाचो आवाज | फोंस फोंस |
| वाऱ्याचो आवाज | घों घों घों आनी धों धों धों |
| दर्याचो गाज | घसऽ घसऽ घसऽ घसांयच घसऽ |
| रांपण ओडटनाचो आवाज | सोऽऽ, सोय, ओऽऽ सोय |
| ल्हारां फुटपाचो आवाज | घसांऽयच |
| न्हंयेच्या उदकाचो आवाज | खळखळ खळ खळ खळ खळ |
| पानांची सळसळ | – |
| कावळ्यांचें कांकां | – |
| बेबक्यांचो कुलकुलाट | – |
| व्हडेकाराच्या वल्यांचो आवाज | – |
| व्हड्यान कातरिल्ल्या उदकाचो आवाज | – |
| धांप लागिल्ल्याचो आवाज | – |
| मनश्याच्या अंतरांतल्यान येवपी आवाज | ऊं ऽऽ, सूं ऽऽ, सों ऽऽ |
| ताळो खांकडपाचो आवाज | – |
| शांततायेचे घण | घों ऽ घों ऽ ढाण दृढाण – ढाण – |
| भुंयारांत घुंवघुंवपी आवाज | गों गों गों गों |

(वयल्या दोनूय रकान्यांतले आवाज आनी तांचें ध्वनीरूप 'रुमडफूल' कथेंत जशें आयलां तश्शे वयर मांडल्यात. ज्या आवाजांचीं ध्वनीरुपां कथेंत येवंक नात थंय

' – ' अशी कुरू केल्या. पूण दोनूय रकान्यांतलीं सगलीं उतरां खासा लेखकान वापरिल्लीं आसात, हें मतींत धरचें).

वयर दिल्ले आवाज आनी तांच्या ध्वनी–रुपांक लागून कथेंत बोवाळाचें एक साम्राज्य तयार जालां. कथेंतलें हें वाक्य पळयात: "बोवाळ, बोवाळ बोवाळ, बोवाळ, ... बोवाळांत बोवाळ. जिणेंत बोवाळाची इतली सरभरस जाल्ली की जीण म्हळ्यारच बोवाळ असो कितेंसो ताचो गोंदळ जाल्लो". हें वाक्य कथेचे सुरवेकूच येता आनी उपरांत हो बोवाळ निर्माण करपी आवाज आनी तांचीं ध्वनीरुपां येतात. ह्या ध्वनीरुपांक लागून कथेंतल्यान जो आशय लेखक मांडूंक सोदता ताची सुचोवणी जाता आनी आभासात्मक वातावरण लेगीत तयार जाता.

## शब्दविचार

कथेंतलीं हीं कांय हेर उतरां पळयात:

शांतथीर – शांत आनी थीर हीं दोन सदच्या वापरांतलीं उतरां वापरून घडयल्लो जोड शब्द. कथेच्या आशयाक हें घडयल्लें (कॉयन केल्लें) उतर भोव बरो अर्थ फाव करून दिता.

त्या भायर हे कथेंत आयिल्लीं हेर उतरां लेगीत वैशिश्टपुराय आनी आथवीच शैली घेवन येतात. देखीक:

सरभरस – मिस्रीत

अतप्पर – परतून केन्नाच

आडूसो – आडोस

तस्ती – इनाम

चोळखो – केळी पानाचो खोलो, शिरती

बोचपण – सल, टोचणी (बोंच उतरा वेल्यान)

भोग–भोगस्ताळे – भोग आनी यातना

धावतेयो आनी उज्यागाडयो – बसी आनी रेल्वे–गाडयो (ट्रेनी)

मनशाक जाय आसता ती मुक्ती. 'मुक्ती' ही एक सापेक्ष (तमसंजपअम) सकल्पना. हे कथेंतलो मास्तर आनी हिप्पी हांचे मदलो संवाद म्हणल्यार मुक्तीच्यो दोन तत्वीक परिभाशा आसात. मास्तराक जाय आसता ती 'शांतताय' आनी हिपीक जाय आसता ती 'निवांतकाय'. कथेंतलेच हे दोन शब्द ह्या विशयांत खूब कितें सांगून

वतात. हिप्पी भौतीक जिणेच्या जंजाळांतल्यान आनी बोवाळांतल्यान 'मुक्ती' मेळोवपा खातीर 'मादक' नशेचो, कृत्रीम आदार घेवन जग विसरायेर घालता. जाल्यार मास्तर मात जे जिणेंत बोवाळ, अशांती आसा म्हूण उबगून तो तिका सोडून गेल्लो तेच जिणेंत 'ती' मुक्ती मेळोवपा खातीर परतता. कथा सुरू जाता मिलीच्या 'घोंऽ' आवाजान आनी सोंपताय बी त्याच 'घोंऽ' आवाजान.

हे कथेंतलें सगल्यांत महत्वाचें उतर म्हणल्यार कथेचें शिर्शक वा नांव – 'रुमडफूल'. हें उतर कथेंत खंयच सांपडना, पूण तें कथेचें नांव म्हूण मिरयता. जिणेंत शांतताय नांवाची एक दुर्मीळ, सपसप मेळना असली गजाल मास्तर सोदता. अख्खी जीण तो शांततायेच्या सोदा खातीर झरयता. निवृत्ती उपरांत धर्तरे वयलीं शक्य आशिल्लीं सगलीं थळां तो शांततायेच्या सोदांत माड्डयता. इतली ही शांतताय म्हणल्यार एक अप्रूप आनी दुर्लभ गजाल. पूण जाका ती गजाल मेळटा तो मनीस धन्य जाता. ताचे जिणेचें सार्थक जाता. कथेचो माथाळो आशिल्ल्या 'रुमडफूल' उतराचो अर्थ लेगीत दुर्मीळ, अलभ्य, दुर्लभ, अप्रूप, सपसप पळोवंक मेळना असलें फूल असो जाता. रुमडाक फळां हजार, ताचो रुखामुळांत शिंतोडो पडटा. पूण रुमडफूल मात चुकून केन्नाय दिश्टी पडटा. पूण जाका तें दिश्टी पडटा ती व्यक्ती भाग्यवान अशी धारणा आसा. देखून माथाळ्याचो हो शब्द आशयाक अनुरूप आसा आनी आशयाचेंच पडबिंब माथाळ्यांत पडिल्लें दिश्टी पडटा.

## वाक्यविचारः

कथेंतल्या वाक्यांच्यो ह्यो देखी पळयातः

1. 'मिलीचो भोंगो तार सुरांत आड्डलो'.

2. सोद घेतलोच जाल्यार गांवाचो घेवं नाका, शांततायेचो घे.

3. कानान बेस आयकूं येता आनी संवेदना मात भेरेल्यात.

4. तोच बोवाळ वेगळें रूप.

5. त्या जाणटेल्याचो आवाज विलुदावरी दिसलो ताका.

6. उतरांची खोट मारून ड्रायव्हरान ताका उठयलो.

7. खरी शांती सोदूंक फाव ती अंतरांतली पूण तूं ती भोंवतणांत सोदता.

वयल्या सगल्या वाक्यांचो संबंद थेट कथेच्या आशया कडेन आसा. कथेचो

विशय आनी आशय शांतताये कडेन संबंदीत आसा. बोवाळ आड शांतताय (बोवाळ × शातताय) असो संघर्श कथेंत वाचूंक मेळटा. देखून वयल्या सगल्या वाक्यांक लागून श्रवण–संवेदनांचो बोध जाता. 'मास्तरा' च्या मनस्थितीचें आनी ताच्या मानसीक बदलांचें चित्रण बेसबरे तरेन वयल्या वाक्यांतल्यान जाता.

हे कथेंत एक सुक्षीम संघर्श शार आनी गांव तशेंच नागरी आनी ग्रामीण सस्कृताय हाचे मदीं लेगीत आसा. मास्तराची आवय गांवांत मरतकीच ताचो बापूय ताका घेवन शारांत आयलो, तेन्नाच्यान मास्तर शारांतूच रावला आनी शारांतले बोवाळान भरिल्ले जिणेक उबगला. तो शाराचेर विटला आनी देखून ताणें निवृत्त जातकीच गावांत वचपाचो निर्णय घेतला. वयल्या क्र. 2 च्या वाक्यांतल्यान ताचेच कंपनींतलो प्यून ताका शिटकायता, सोद घेतलोच जाल्यार शांततायेचो घे, गांवाचो न्हय.

हे कथेंत शाराचीं आनी ग्रामीण वाठाराचीं अशीं दोन चित्रां मावजो हांणी चितारल्यांत. शाराचें चित्र बोवाळाचें जाल्यार गांवचें चित्र शांततायेचें अशें 'मास्तराक' दिसता (देखुनूच तो बेगोबेग गांवांत घालून घेवपाचो निश्चेव करता). शाराचीं प्रतिकां म्हणल्यार मिली (कारखाने), गर्दी, मोटारी, सिनेमा, नाटकां, क्लब असो उल्लेख कथेंत आयला जाल्यार गांवाचीं प्रतिकां म्हूण दोंगुल्ल्यो, पर्वत, रानां, न्हंय, दर्या आदींचो उल्लेख आयला. प्रतिकांचो हो समर्पक उपेग कथेच्या आशयाक बळगें दिता.

पुराय कथेंत मनीस–निर्मीत बोवाळ आनी सैम–निर्मीत बोवाळ अशे आवाजाचे दोन प्रकार दाखयल्यात. वयर दाखयल्ले मिलीचो आवाज, गिरणीचो आवाज, स्टोव्हाचो आवाज, मनशांचे आवाज, मायकाचे, रेडियोचे, जोत्याबुटांचे, रेल्वेगाडयेचे आदी आवाज शारांतले जाल्यार सुकणीं–रातकिडे–रानटी जनावरां–सुक्या पानाचे– दर्याची गाज, न्हंयेची खळखळ आदी आवाज गांवांतले आसात. गांवांतल्या मनीस–निर्मीत आवाजाकूय 'मास्तर' बेजारता ते म्हणल्यार देवळाच्या घांटींचे आवाज आदी. बोवाळ देवाची लेगीत फाट सोडिना अशें तो म्हणटा.

'शांतताय' प्राप्त करपाचो एक 'बाह्य' मार्ग जाल्यार दुसरो ती मेळोवपाचो एक 'आंतरीक' मार्ग 'सोदल्यार (शाती) गावतली', हे पाद्रीचें उतर आनी, 'सोद घेत राव' हें स्वाम्याचें उतर संवसारांतले सगले धर्म मनशाक सोदपाक सांगतात. हेंय सत् हे कथेतल्यान मुखार आयलां. पुराय कथेचें 'Key sentence' – सारभूत वाक्य

म्हणल्यार "खरी शांती सोदूंक फाव ती अंतरांतली. पूण तूं ती भोंवतणांत सोदता" हें स्वाम्याच्या तोंडांतलें वाक्य. पुराय कथेचो गर्भितार्थ ह्या वाक्यांतल्यान सुचीत जाता.

हे कथेंत वापरिल्लो अर्थगर्भ वाक्यांश म्हूण 'शांततायेचे घण' हो प्रयोग पळोवं येता. ह्या वाक्यांशांतल्या दोन उतरां मदीं अंतर्विरोध (कॉन्ट्रास्ट) आसा. शांततायेचे 'घण' आसूंक शकनात. पूण हांगा निस्सीम शांततायेंत लेगीत एक आवाजाचें पर्तावण आसता अशें लेखकाक सुचोवपाचें आसा. मास्तरान सगले तरेचे प्रत्यक्ष आवाज आनी बोवाळ सोंसले, पूण शांततायेचे घण मात ताच्यान सोंसूंक जाले नात. देखून हो परस्पर विरोधी उतरांनी घडयल्लो भाशीक प्रयोग भोवच समर्पक आनी परिणामकारक थारता. लेखक जायते फावट अशीं अंतर्विरोधी वा आंतरशाखी (इंटरडिसिप्लिनरी) उतरां वापरता. असोच प्रयोग एका निबंदाच्या माथाळ्यांत स. रवीन्द्र केळेकार हांणी केला – उजवाडाचे सूर. उजवाडाचे सूर आसनात. आसतात तीं किरणां. गिताचे सूर आसतात. पूण एक विशिश्ट परिणाम घडोवपाचे नदरेन लेखक असो प्रयोग करता.

## अर्थविचार

'रुमडफूल' हे कथेक अर्थाचीं साबार वलयां आनी वर्तुळां आसात. हे कथेंत सामान्य दिसपी ध्वनी, शब्द आनी वाक्यां हांच्या आदारान जिणेचें एक व्हड तत्वगिन्यान मांडपाचो यत्न कथाकारान केला. कथेंतलीं सगलींच उतरां एकेका व्हड तत्वीक सुत्राचीं प्रतिकां वा रुपकां जावचीं, इतले प्रभावी रितीन तीं कथाकारान वापरल्यांत.

देखीक मास्तरान जिणेंत शांततायेची घेतिल्लो सोद म्हणल्यार अंतीम सत्याचो – चिरंतन सुखाचो घेतिल्लो सोद जावन आसा. हांगा 'मास्तर' हें उतर लेगीत सामान्य मनशाचें रुपक जावपा कडेन पावलां. हो सामान्य मनीस आपणाक शाश्वत सूख मेळचें म्हूण आपली पुराय जीण झरयता. पूण सपनांतलें तें सूख ताका केन्नाच गावना. तें आपूण रावता त्या शारांत न्हय तर गांव, रान, दर्या, दोंगर, पर्वत, देवूळ, चर्च अशें खंयतरी आसतलें म्हूण तो ताचो सोद घेता. पूण तें ताका गावना आनी निमणें तें सूख भायर खंयच ना जाल्यार तें आपले भितरच, आपलेच दिसपट्टे जिणेंत आनी वावरांत आसा, हाचो ताका दिश्टावो जाल्ल्यान जितले गतीन तो शार सोडून गेल्लो आसता, तितल्याच वेगान आनी फोर्सान तो परतून शारांत घालून घेता.

हे कथेंतलो 'प्यून' म्हणल्यार मास्तराचेंच अंतर्मन. तें ताका समजायता, कुस्कुटायता, शिटकायता, भिवयता. ताका पांजऱ्यांतलो कीर म्हूण हिणसायता. तूं ह्या शारांतूच परतो येतलो म्हूण तिडायता. निरोप घेतना ताका 'येता' म्हूण नाका, 'वता' म्हण म्हूण सुचयता. हांगाय उतरांचो वापर कितलो सुचक आसा तें होलमता.

'मास्तरान' कथेचे अखेरेक बोवाळ आनी गर्देच्या त्याच विटिल्ल्या, उबगिल्ल्या शारांत परतो येवप हें ताचें जैत काय अपेस? असो प्रस्न कथेच्या शेवटाक वाचप्यांक पडटा. परतून तीच अडेची, यंत्रवत जीण जगूंक त्याच शारांत येवप ही ताची माघार, अपेस, शरणागती आनी पराभव काय तेच जिणेचो खरेलो आस्वाद घेवन अर्थपूर्ण जीण जगपा खातीर ताका जाल्लो साक्षात्कार अशीं अर्थाचीं दोन परिमाणां कथेक लाबल्यांत.

मास्तराचे जिणेंतलो एक अणभव कथेंत आयला. रेल्वेचो आवाज सेगीत आयकून लेगीत रेल्वे लायनी लागींच्या बिराडांत ताका सुस्त न्हीद लागताली आनी जेन्ना रेल्वेचो संप जावन पंदरा दीस रेल्वे–गाडयो बंद पडिल्ल्यो तेन्ना सदची धडधड निशिल्ल्यान ताका न्हीद पडना जाल्ली. सदचो बोवाळ सवकळीचो जावपाचो हो अणभव म्हणल्यार संवसारांतल्यान मुक्ती मेळोवपा खातीर त्या सवसाराचो 'त्याग' करपाची गरज आसना, मुक्ती, मोक्ष म्हणल्यार सर्वसंगपरित्याग न्हय तर संवसारांत रावुनूच परमार्थ सादप. आपूण जी शांतताय सोदतालो ती सासणाची–मरणाची शांतताय. खरी शांतताय आसता ती जितेपणांतच, हाचो मास्तराक जाल्लो दिश्टावो म्हणल्यार चिरंतन सत्याचो दिश्टावो.

**कांय वैशिश्ट्यपुराय भाशीक प्रयोगः**

मावजो हाणी हे कथेंत कांय वैशिश्ट्यपुराय क्रियारुपां वापरल्यांत. देखीक –

1. मेतरायल्ली (न्हंयेची धड) 2. तो साप्प शेवाळ्ळो (शेवाळप) आदी. तशेंच कांय खाशेले वाक्प्रचार लेगीत कथेंत वापरल्यात. देखीक वागरें पडप, (वाऱ्यान उज्याक) जल दिवप आदी.

**दोळ्यां मुखार प्रत्यक्ष दृश्यात्मक / देखाव उबे करपी कथेंतली कांय वाक्यां कथेक सोबाय हाडटात. देखीक –**

1. फोस फोंस करीत सोरपान फाटीक लागचें तसो उजो जिबली भायर काडून ताचे फाटीक लागिल्लो.

2. कालचो करडाचो कोट घालून लोडेल्लो पर्वत आज दुखाचें काळें न्हेसून दुखेस्त कसो बशिल्लो.
3. (बोवाळ) अदृश्टांत विरत गेलो.
4. पावसाचे दडकेन धुल्लाचो लेप धुंवून वचून निवळ जावचो तशें ताचें मन निर्शेणेचीं खवळां वचून तरतरीत जालें.
5. सकाळच्या सुर्याचीं कंवळीं किर्णां तेमकां वयल्यान उडक्यो मारीत देंवून सकयल आयलीं आनी तागेले न्हाल्ले धुल्ले कुडीक पोशेवंक लागलीं.
6. ल्हारां म्हणल्यार दर्याचो उस्वास.

ह्या वाक्यांक लागून कथेक एक दृश्यात्मक मुल्य फाव जालां. पुराय कथा तिसरो पुरुशी निवेदनांतल्यान आकाराक येता. निवेदक सेगीत मास्तराच्या फाटल्यान वता आनी ताच्या शारिरीक स्थिती वांगडाच मानसिकतायेचें वर्णन करता. तें एका प्रत्यक्ष समालोचना भशेन वा कॉमेंटरी भशेन आसा. देखून प्रत्यक्ष 'आंखो देखा हाल' सांगिल्ले भाशेन तें दृश्यात्मक रूप घेवन येता.

हे कथेचें शैलीचे नदरेन आनीक एक वैशिश्ट्य म्हणल्यार 'ऽ' ह्या अवग्रह कुरवेचो वापर (इंग्लिशींत Prodelision) , देखीक 'घोऽऽ'. ही कुरू एकतर संधीशब्दांतल्या पयल्या उतरांतल्या विसर्गाचो लोप दाखोवपा खातीर) देखीक (शिवोऽहम्) वापरतात वा विलंबीत स्वरा खातीर (देखीक 'घोऽऽ') वा उल्याच्या वा संबोधनाच्या कामा खातीर (देखीक बाय ऽऽ गो) वापरतात. हे कथेंत अवग्रहाचे कुरवेचो वापर प्रदीर्घ वा लांब उच्चारणाच्या वा प्रतिध्वनी/प्रतिसादी उतरां खातीर खातीर केला. चाळीस परस चड फावटी कथाकारान हे कथेंत अवग्रह कुरवेचो वापर केला. ताका लागून कथेंत हो पडसादी ध्वनी सतत घुमत रावता आनी प्रस्तावीत आशयाचें सुचन करता.

तेच प्रमाणे उतरांची पुनरावृत्ती (देखीक शांत शांत शांत शांत; बोवाळ, बोवाळ, बोवाळ, बोवाळ; झुमझुम, ढाणऽ ढाणऽ आदी) लेगीत कथेक आवाजी मुल्य फाव करून दिता.

## समारोप

मावजो हांच्या 'रुमडफूल' कथेची शैलीशास्त्री वा शैलीलक्ष्यी समिक्षा करतकीच तिचें आकलन आनी आस्वादन तर बरे तरेन जाताच, त्या भायर

शैलीशास्त्री निकशांक लागून तिका एक भाशीक प्रयोग–मुल्य लेगीत फाव जाता. हे कथेचीं हीं शैली विशिश्ट खाशेलपणां मतींत घेवंक ना जाल्यार कथेचें मर्म कळचें ना. शैलीशास्त्री निकशां बगर कथेचें विश्लेशण करप भोवच कुस्तार आसा, हें वयली चिकित्सा वाचतकीच स्पश्ट जाता. उतरांचो आनी भाशीक कुरवांचो साहित्यकृतींतलो विशिश्ट आनी पूर्व–नियोजीत वापर फकत संदेशवहन वा साधनरूप म्हूण महत्वाचो आसना जाल्यार आशयाचे परिणामकारी अभिव्यक्तींत ताचो मोलादीक वांटो आसता, हाचो प्रत्यय रुमडफूल कथेंतल्यान आयले बगर रावना.

**संदर्भावळः**


1. Bloomfield, L. 1933. Language, New York - Holt. Rinehart & Winston.
2. Chomsky Noam 1965. Aspects of the Theory of Syntax, Cambridge, Massachusetts - M.I.T.
3. केळकर अशोक 1969–70 ''भाषा आणि साहित्य'' म. सा. प. 45
4. देशपांडे, ग. त्र्यं. 1963 भारतीय साहित्यशास्त्र. मुंबईः पॉप्युलर प्रकाशन
5. पानसे, मु.ग. (संपा.) 1969 भाषाः अंतःसूत्र आणि व्यवहार. पुणेः म. सा. प.
6. मालशे, मिलिंद. 1983. वर्णनात्मक भाषाविज्ञानपद्धती. ना. दा. ठा. महिला विद्यापीठ
7. केळेकार, रवीन्द्र. 1981. भौभाशीक भारतांत भाशेचें समाजशास्त्र. जाग प्रकाशन.




# 'सपनमोगी': एका साहित्यसाधकाचो वास्तवस्पर्शी कथाप्रवास'

डॉ. हनुमंत चोपडेकार

कोंकणी हे आपले आवय भाशेंतल्यान कथनात्मक साहित्य रचपी ते एक सर्जनशील भारतीय साहित्यीक. भारतीय कथा मळाचेर अतिशय मोटव्यो पूण तितल्याच उंच आशयाच्यो कथा तांच्या गिरेस्त प्रतिभेंतल्यान जल्मल्यात. तांच्या प्रतिभेच्या स्पर्शान 'कार्मेलीन' सारकी अज्रंवर साहित्यकृती आकाराक आयल्या. 'कार्मेलीन' साबार राष्ट्रीय तशेंच आंतरराष्ट्रीय भासांनी अणकारीत जाल्या. हे कादंबरीन तांकां संवसारभरचीं नामनां दिलीं पूण अजापाची गजाल म्हणल्यार, ते स्वताक कादंबरीकार न्हय तर एक कथाकारूच मानतात. ते कथा बरयनात तर ती जगता हो ताचे फाटलो युक्तिवाद. काश्मीर ते कन्याकुमारी आनी गांधीनगर ते गुवाहाटी मेरेनचे तांचे साबार साहित्यीक इश्ट तांकां भाई म्हूण उलो मारतानाच भारतीय कथासाहित्यांतलो आंतोन चॅकोव म्हूण संबोधतात. तांच्या कथनात्मक साहित्य साधनेक आयज मेरेन साबार राष्ट्रीय तशेच आंतरराष्ट्रीय सन्मान फाव जाल्यात. कोंकणीच्या साहित्यीक मळार कथाकार आनी कादंबरीकार म्हूण तांचें नांव भोव अधिकारानूच येता. तांच्यो आतां मेरेन जायत्यो साहत्यकृती उजवाडाक आयल्यात. तातूंत 'गाथन' (1971), 'जागरणां' (1975), 'रुमडफूल' (1989), 'भुरगीं म्हुगेलीं तीं' (2001), 'सपनमोगी' (2014) हे कथाझेले; 'कार्मेलीन' (1981), 'सूड' (1975), 'त्सुनामी सायमन' (2009) ह्यो कादंबऱ्यो; 'काणी एका खोमसाची' (1976), एक 'आशिल्लो बाबुलो' (1977), 'चित्तरंगी' (1993) 'अशे घडले शणै गोंयबाब' (2003), 'उंच हावेस उंच माथें' (2003) हें भुरग्यां साहित्य हांचो मुखेलतायेन आसपाव आसा. ते भायर समिक्षा आनी पटकथा लेखन लेगीत तांणी केल्लें आसा.

तांची 'कार्मेलीन' ही कादंबरी हिंदी, मराठी, कन्नड, बंगाली, पंजाबी, सिंधी, तमीळ, ओरिया, इंग्लीश सारक्या भासांनी अणकारीत जाल्या. तेच भशेन तांचे 'These Are My Children' आनी 'Tereza's men and other stories from Goa' अशे दोन कथाझेले झेवियर कोट्टा हांणी इंग्लिशींत अणकारीत करून छापल्यात.

तातूंतलो 'Tereza's men and other stories from Goa' हो कथाझेलो फ्रॅंक ओ–कोन्नोर अंतरराष्ट्रीय लघुकथा पुरस्कार (Frank O'Connor International Short Story Award) 2015 खातीर नामांकीत जाल्लो. तांच्या साहित्यीक सेवे खातीर ताकां जायते सन्मान फाव जाल्यात. तातूंत कोंकणी भाशा मंडळ – गोंय (दोनदां), गोवा कला अकादमी – पणजी (दोनदां), तशेंच साहित्य अकादेमी–दिल्ली, कोंकणी कला साहित्य केंद्र–कुडचडें हांचो जनगंगा पुरस्कार, गोंय राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार, मंगळुरच्या विश्व कोंकणी केंद्राचो सर्गेस्त विमला पै विश्व साहित्य पुरस्कार अशा सन्मानांचो आसपाव जाता. आयच्या साहित्य प्रवाहांत करुया ताच्या 'सपनमोगी' ह्या कथाझेल्याची उस्तवारी.

दामोदर मावजो हांचो 'सपनमोगी' हो कथा झेलो जाग प्रकाशनान 2014 वर्सा उजवाडाक हाडला. ह्या कथा झेल्यांत वट्ट णव कथा आसपावल्यात. आयच्या उदरगतीक पाविल्ल्या आधुनीक जिवितांतलें पोकेंपण आनी पयसो आडको वा अर्थीक सुबत्ता येवन लेगीत आयच्या मनशाच्या काळजा भितर रिगिल्ली तिव्रतायेची अस्वस्थतताय भाईच्या ह्या कथांचें खाशेलपण जावन आसा. सभोंवतणी जें कितें घडटा ताचो वास्तवीक झळ ह्या कथांनी भोव कलात्मक पद्दतीन शब्दबद्ध जाला. झेल्यांतल्या णवूय कथांनी ह्या कथाकारान एक वेगळी धाटणी वापरल्या. ह्या कथाकाराच्या आदल्या कथाझेल्यानी येयला ताचे परस चड खर तरेन एक घटक ह्या झेल्यातल्या दर एका कथेंत येवन गेला. तो घटक म्हणल्यार सुचकताय. सुचकतायेचो अप्रतीम असो कलात्मक प्रयोग ह्या झेल्यांतल्या कथांनी जाला. 'हेपी बर्थडे', 'कावळ्याच्या शिरापान', 'केन्ना केन्ना भुरग्याकडसून देख घेवची', ज्युरामेंत, 'विज्मित' सारक्या कथाची देख हांगा मुजरत दिवं येता.

दामोदर मावजो हो देशांतलो एक व्हड साहित्यकार, तांचें साहित्य जे तरेन हेर भारतीय आनी संवसारीक भासांनी अणकारीत जावंक लागलां तातूंतल्यान तांच्या साहित्याची गुणवत्ता आमी समजून घेवं येता. तशें तांच्या साहित्याचो परिवेश जरी गोंय आसलो तरीय तांच्या कथांक वैश्वीक संदर्भ लाबला. प्रस्तूत कथासंग्रहांतली दर एक कथा हांगा विचारात घेव येता. ह्यो कथा वाचता आसतना मराठींतल्या गंगाधर गाडगीळ ह्या कथाकाराची याद जाता. गाडगीळ जशे हांसत हांसत समाजातल्या गंभीर प्रस्नांचेर बोट दवरता वा भाश्य करता तेच सहजतायेन हो कथाकार समाजातलो गंभीर विशय सुटसुटीत उतरांनी वाचकांमुखार दवरताना

दिसता. देखीक – ह्या झेल्यांतले 'हेपी बर्थडे' हे पयलेच कथेंत बुद्धीची वा
खुंटलेल्या एका सान भुरग्याच्या आवय–बापायची विचित्र अशी मानसीक अवस्
उरतबद्ध जाल्या. आपलो भुरगो नॉर्मल ना हें सत तीं समाजापासून लिपयतात.
पासत ताच्या बर्थडे दिसा तो न्हिदला अशें नाटक उबें करता. बाबुचो बर्थ डे
लोकांक कळोवपाक, आमंत्रणां धाडपाक आनी त्या दिसा मिरोवपाक ह
आवय–बापूय फुडें आसाच पूण इतलेंच न्हय तर तो न्हिदिल्लेच अवस्थेंत उरच
म्हूण ताका तीं न्हिदेचें सिरपूय दितात. एक गजाल लिपयताना हेर गजालींचो श
करता. आपल्या पुतांत कांयच कमी ना तो हेरां सारकोच नॉर्मल आसा हें सांगपाच्
हट्टान कथेंच्या शेवटाक बापयच्या तोंडार – "कळुंदी लोकांक, आमचो चैतन्
कितलो खेळटा, वन्टीचेर बिरबिटे करता" अशी उतरां घालून त्या बापायच्या विचि
मानसिकतायेचें वास्तवीक चित्रण करता. कथेंतल्या भुरग्याक 'चैतन्य' हें नांव दिव
कथाकारान वास्तवतेंतलो विरोधाभास दाखोवपी एक सुंदर रुपकात्मक अनुबं
प्रस्थापीत केला. प्रत्यक्षांत भुरग्याचे जतनायेची गरज आसतना तें कुटूंब फक
आपल्या प्रतिशठेची जतनाय घेता ही आयच्या जमान्याची सगळ्यांत व्हडल
शोकांतिका कथाकार मांडटा.

'केन्ना केन्ना भुरग्याकडसून देख घेवची' हे कथेंत दोन वेगळे वेगळे विश
कथाकारान एकठांय मांडपाचो एक यशस्वी प्रयोग केल्लो आसा. हे कथेंत एके वटे
गल्फांत नोकरेच्या निमित्तान रावपी राजेश, ताची बायल आनी बाबू हीं भारती
मनशां आपल्याक गल्फांतले कट्टरवादी कायदे मानवनात हें सांगता आनी दुस
वटेन भारतीय संस्कृती आनी गल्फांतली संस्कृती हांचे मदीं मखलाशी करता
देखीक.'बुरखो घातलेबगर भायर सरप ना, जुम्मा बगर सुटी ना, बायल मनशे
एकली भोंवप ना., घोवावांगडा चालतना लेगीत घोवा फाटल्यान चालूंक जाय
गार्डनांत गेल्यार दादले एकवटेन आनी बायलो दुसऱ्या अर्दान आसपाक जाय, चल
आनी चलयां खातीर शाळा लेगीत वेगळ्यो' अशे तरेन एके वटेन भारतापरस तांच
जीण आनी संस्कृती कशी वेगळी हें चित्रीत केलां जाल्यार दुसरे वटेन हीं बंधना जरी
भारतांत नासलीं तरी प्रेम, प्रणय आनी सॅक्स सारक्या विशयांचेर भारतीय समाज
मेकळेपणान उलयना, कोणें उलयल्लें तांकां आवडना, ह्यो गजाली चार वण्टीमुखा
येवंक जायना, तांचें प्रदर्शन मांडप मान्य ना ही भारतीय मानसिकता कथेंतलो उच्च
शिक्षीत नायक राजेश ह्या पात्राच्या माध्यमांतल्यान नाट्यमय घडणुकांनी चर्चेक येत

थंय कथा घडटा.

'सपनमोगी' ह्या कथाझेल्यांतली 'मनशांच्या गांवांत' ही कथा मराठी कथाकार गंगाधर गाडगीळ हांचे 'किडलेली माणसे' ह्या कथेकडेन भोव साम्य दाखयता. हे कथेंत बैल विकून आपले पोट भरपी रामनगर, कर्नाटक ह्या वाठारांतले गरीब घांटावयल्यान सकयल गोंयांत येवन चार दुडू जोडतात. दुडवांचे आशेन खाटकाक बैल विकपाची पाळी तांचेर येता. मोनजातीच्या कत्तलीची आनी सिद्धू सारक्या निष्पाप भुरग्याक दिल्ल्या अमानूश वागणुकेक दाखोवपी ही कथा. तशेंच 'कावळ्याच्या शिरापान' ही ह्या झेल्यांतली एक उत्कृश्ट कथा. ती आयच्या समाजांतल्या अंधश्राद्धेचेर भाश्य करता. घाडी भगत, देव–देवस्की निश्पाप मनशाचो बळी घेवक शकता ताचो दिश्टावो ही कथा दिता.

ह्या कथाकारान बरयल्ली 'कथाकाराची कथा' ही ह्या संग्रहांतली एक वेगळी तशेंच कोंकणींतली प्रयोगशील अशी नवकथा. तशें साहित्यकार जें बरयता तें सगळेंच खरे आसता अशें न्हय तर तातूंत लेखकाचो कल्पनाविलास भोवप्रमाणांत येयत आसता, हे गजालीची साक्ष प्रस्तूत कथा दिता. हे कथेचो नायक एका साहित्यीक परिशदे निमतान दिल्लीक वता थंय एके तमीळ लेखिकेकडेन ताची वळख जाता. ती तमिळ लेखिका म्हणजे एक सभावदोशाचें कुवाडेंच जावन आसता हाचो साक्षात्कार त्या नायकाक शेवटाक जाता. लेखिकेच्या रुपांतली ही एक वेगळीच अस्तुरी नायकाक भेट्टा. तिचें वागप, उलोवप सगळेंच सामन्यांपरस खेरीत आनी विक्षेप्त हे परिस्थितींत कथेचो नायक मनीसपणाच्या नात्यान तिका शक्य तितली मदत करता. पूण प्रत्यक्षांत केन्नाच चितूंक नाशिल्ली एक गजाल तांच्या जिवितांत घडटा. हे कथानाट्य आयच्या काळांतलो प्रतिभावंता मदलो एक वेगळोच विशय माडटा. खरें म्हणल्यार प्रत्यक्ष ती लेखिका आपूण स्वता लज नाशिल्ल्यो गजाली करता आनी आपले उरफाटी आपले एके कथेंत त्या पुरूश लेखकाचेर बगलांट घालता देखीक – 'एका सेमिनाराक गेल्लेकडेन एक जाणटो लेखक कसो तिका लागी येवपाक सोदता, वता थंय तिची फाट सोडिना, रातीं फोन करपाक सांगांत दिवपाचे निमित्त करून शिया–थडेचे नीब करून हात हातांत धरता, ती न्हातना दार उगडून भितर पळयता आनी निमण्या दिसा कुडकुडो खाता म्हूण तिका वेंग मारता, सोशिकपणाची शीम जाता तेन्ना ती तेका धुकलून वडयता आनी तरीय लज नाशिल्लेवरी तो गाडयेकडेन तिका मेळपाक येता'. अशें उरफाटें चित्र ती आपले

कथेंत चितारताना दिसता. ज्यो गजाली ती स्वता करता त्यो सगळ्यो खासा तिकाच मदत करपी लेखकाच्या नांवार खपोवन स्वता सहानभूती मेळोवपाचो यत्न करता. बरोवपी दामोदर मावजो हांणी हें खेरीत कथानक भोव तटस्थतायेन तशेंच भोव कलात्मक रितीन चित्रायलां.

'ज्युरामेंत' हे कथेंत काजार जाल्ल्या मनशाच्या जिवितांत ताचो रक्ताचो भुरगो येवपाची सुलूस लागतकच तो कसो बदलता वा ताचो संवसार कसो सुखाचो जावंक लागता, मांय सुनेमदलो वाद, घोवाचें व्यसन कशें सुट्टा आनी शेवटाक सुखाचे खीण तांच्या संवसारांत कशे येतात तें हो कथा लेखक दाखयता. 'ज्युरामेंत' ही तशी सादी साचेबद्ध कथा पूण 'विज्मित' ही कथा रचनेच्या आनी मांडणेच्या नदरेन भोव वेगळी. कोंकणींतलो हो वेगळो प्रयोग. तिका कथा अदीक कविता म्हणजेच 'कथा–काव्य' असो आकृतीबंध फाव जाल्लो आसा. कवितेच्या रूपबंदाप्रमाण हे कथेची मांडणी करून आज मनीस प्रगतीच्या नांवार सैमाचो जो विध्वंस करता त्या विध्वसांची ही काव्य–कथा जावन आसा. हे कथेंत मनशांच्या आपसुवार्थी वागण्याचो विध्वंसक परिणाम जाता ताचेर उक्तेपणान मतां मांडल्यांत. सैम आनी मनीस हांचें चिरंतन नातें सांगपी ही कथा मनशा भितरल्या मनीसपणाक उलो मारपाचो यत्न कळटा नकळटांच करता.

'सपनमोगी' ही ह्या कथा झेल्यांतली निमणी कथा. मनीस दर दिसा कतलिंशीच सपनां पळयता, तातुंतलें दर एक सपन पुराय जाता अशें निखलास ना, पूण तें पुराय करपाखातीर मनशान योग्य त्या वेळार यत्न करचो कारण बरी संद एकदांच मेळटा आनी ते संदीचो फाव तो उपेग फाव त्या वेळार जर केलो ना जाल्यार निमणेकडेन हाताक कांयच लागना हें जिणेचें तत्वगिन्यान ही कथा उक्तायता. अमुरपिक्या प्रेमभावनेचो प्रेमभंग एका संवेदनशील कथानायकाच्या अपूर्ण मोगाच्या मध्यमांतल्यान ही कथा भेटयता.

जेश्ट भारतीय कथा लेखक दामोदर मावजो हांचो हो कथाझेलो आशय विशयाची विवीधताय घेवन येताच पूण विविधांगी व्यक्तिरेखांचो एक पेटारोच तो कोंकणी वाचकां मुखार उक्तो करता. प्रत्येक कथा वेगळी तर आसाच तितलीच भावस्पर्शी तशेंच वास्तवस्पर्शीय आसा. वास्तवाचेर भाश्य करता आसतना कथेक येवपी क्लिश्टताय तांचे कथेंत खंयच दिसना. 'कथाकाराची कथा' हे कथेंतलें थोडेंशें पाल्हाळपण सोडलें जाल्यार तांच्या हेर कथांनी हेर कसलो दोश आयिल्लो

निखालस जाणवना. मनशाच्या दिसपट्ट्या जिवितांत घडपी साद्या घडणुकांचो आदार घेवन कथा कश्यो बरोवं येतात हाची देख तांच्यो ह्या संग्रहांतल्यो सगळ्योच कथा दितात हातून मात्तूय दुबाव ना, तांची वाचकप्रीय लेखनशैली कथेक जिवंतपणा हाडटा तेचवरी अप्रतीम वातावरण निर्मिती करून वाचकांमुखार ते कथानक जिवंत उबें करतात.

तशें पळोवंक गेल्यार, भाई मावजो हे एक संवेदनशील बरोवपी. आपल्या सुक्ष्म नदरेतल्यान समाजांत घडपी साबार बऱ्यावायट घडणुकांचें ते निरिक्षण करतात, आपल्या काळजाचे कान करून अव्यक्तांतलें मोनें जिवीतगाणें ते व्यक्त करीत रावतात. ल्हान ल्हान गजालींतल्यान कथाबिजां सोदप ही तांची सभाववृत्ती. त्या बिजांचो एक सोबीत कथारूख घडोवपाक तांची प्रतिभा तांका आदार दिता. ते स्वता एक जिवनवादी साहित्यीक. जिविताच्या दर एका खिणाचो तांका उपाट आदर आनी मोग आसा. जिवना कडेन ते भोव सकारात्मक नदरेन पळयतात. समाजाक तशेंच सैमातल्या दर एक घटकांकडेन ते साक्षीभावान वेव्हार करतात, देखुनूच ताच्यो कथा जिविताचो वास्तवस्पर्शी दिश्टावो दिवंक यशस्वी जातात. 'सपनमोगी' ह्या नव्याताल्ल कथाझेल्यांतल्यो तांच्यो कथा तांचे कथनात्मक लेखनशैलींचो आनीक एक वेगळो साक्षात्कार घडोवपाक जैतिवंत जाल्यात, अशें हो झेलो अभ्यासल्या उपरांत निश्चीतपणान म्हणपाक मेळटा.



# ‘कार्मेलीन’ : अस्तुरेचो खडतर जिणेप्रवास

डॉ. प्रकाश पर्येंकार

गोंय मुक्तताये उपरांतचे तत्कालीन समाजवेवस्थेच्या परिघांत निर्माण जाल्ल्या सामाजीक आनी अर्थीक प्रस्नांचें भान दवरून कोंकणी लेखक दामोदर मावजो हांणी ‘कार्मेलीन’ कादंबरी वाचप्यां मुखार दवरल्या. एका बायलेच्या वांट्याक आयिल्ल्या दुख्खाची ही गाथा. कार्मेलीन नांवाची मुखेल व्यक्तिरेखा हे कादंबरेंत केंद्रस्थानार आसा. ताच्या जल्मा पासून 40 वर्सांचो काळ हें कलाकृतेंत व्यापला.

गोंय मुक्तताये उपरांत सुरवातीक गोंयकार क्रिस्तांव दादले नोकरेच्या निमतान आखाती देशांत वयताले. कांय वर्सां नोकरी करून परत आपल्या घरा येताले. जोडिल्ल्या दुडवांच्या आदारान आपल्या गांवांत येवन घर बांदताले, वेवसायांत पयसो गुंतयताले नाजाल्यार बँक बॅलन्साचेर आपलो चरितार्थ चलयताले. हे कादंबरेंत कुवेट ह्या अरब देशांत नोकरेच्या निमतान स्थलांतरीत जाल्ल्या कार्मेलीन नांवाचे एके गोंयचे क्रिस्तांव बायलेचें चित्रण केलां.

थंयच्या ‘दिनार’ ह्या चलनाक भारत देशांत आशिल्लो चडीत भाव. ह्या दुडवांक लागून ‘कुवेटकार’ व्यक्तींक गोंयच्या चड करून क्रिस्तांव समाजांत एक वेगळें स्थान आसतालें. मुखार नोकरेच्या निमतान क्रिस्तांव बायलो आखातांत वचपाक लागल्यो. अरबांच्या घरांत ह्या बायलांक ‘आया’ म्हण घरचें काम करचें पडटालें.

कादंबरेची सुरवातूच फ्लॅशबॅकान जाता. कार्मेलीनाचो 38वो वाडदीस. ताका बेलींदा नांवाचें 18 वर्सांचें चली आसा. कादंबरेची सुरवात बेलींदान धाडिल्ल्या अभिनंदनाच्या टेलिग्रामान जाता. तो दीस जुम्मा चो म्हळ्यार शुक्रार. सुटयेचो दीस. हे दिसा निसाराची बायल नोरिया आपल्या आवयघरा वयता हे संदीचो फायदो घेवन निसार कार्मेलीनाचो भोग घेता.

सुरवातेच्या 21 पानांनी लेखकान कार्मेलीनाच्या सूख–दुख्खाच्या दोन तोंकांची खबर केल्या. हें करतना ताणें थोडिशी धिटाय दाखयल्या आनी कल्पकतायेन प्रसंग चित्रायल्यात. कारण, एके वटेन निसार आनी कार्मेलीन शारिरीक सुखांत चींब भिजून वतात जाल्यार दुसऱ्याच खिणाक ताचो घोव जुझे मरिल्ल्याची खबर

कार्मेलीनाक कळटा.

"आपणाली भश्टल्ली कूड आनीक भश्टल्यार उपकारता, पूण बेलिंदा निवळ उरूंक जाय, आपणाली काळीकुट्ट जीण आनीकूय काळखांत बुडल्यार जाता, पूण बेलींदालो फुडार उजवाडान भरूंक जाय; ही अळशिकावणी जीण आनीकूय घाणींत पडल्यार कामायेता, पूण बेलिंदाची जीण परमळीत करपाक जाय..." (पान – 8) आपले अठरा वर्सां पिरायेच्या चलयेविशीं हुस्को व्यक्त करतना एके आवयचें हें मनोगत ह्या ताच्या मनोगतांत काळीज पिळून काडपी खंत लिपिल्ली आसा. आपूण शेणलां, भश्टलां, अनैतिकेच्या जाळ्यांत फारवलां, दिशाहीन जाल्याची भावना ताचेठाय आसा. सामाजीक वेवस्थेंत बायलेच्या शिलाक खाशेलें म्हत्व आसा, आपलें शिलभ्रश्ट जावंक जायना. ताचे खातीर बायल सदांच जपता आनी जपत आसा. ह्या अनुशगान आपली चली समाजाचे नदरेन नितळ–निवळ उरची ही भावना हांगां ती व्यक्त करता.

कुवेताक वचपाच्या वेळार कार्मेलीन आपलें दुख्ख इजाबेला कडेन व्यक्त करतना म्हणटा : "मोडलां हांवूय – पूण धिगी लावन उबें आहां... हे बायेपासत! असले भोगणार तेज्या वांट्याक येवंक फावना... तेजेच पासत हांव वचूंक सोदतां..." (पान. 179) दळदीरपणांतल्यान सुटका करून घेवपाक कार्मेलीन हो मार्ग निवडटा. थयचे सभाव्य धोके खबर आसून लेगीत आपले चलयेचें भविश्य बरें जावचें हो एकमेव निश्चय करून कार्मेलीन गोंय सोडटा.

गावात आयिल्ले जोरीक लागून सुरवातेक कार्मेलीनाचो भाव मरता. कांय दिसानी बापूय मरता... "मांय खाच्या दी, मांय खाच्या दी..." (पान. 26) अशें आड्डुत भूकेक रडटा आसतनाच कार्मेलीनाची मांय (आवय) मरता. नियतीन घडोवन हाडिल्ली तिनूय मरणा स वर्साच्या कार्मेलीनाक दुसरे घटकेक अथान करता.

गरिबी, भूक आनी मरण असो त्रिकोण आपले तकलेर घेवन कार्मेलीन आपल्या फुडल्या प्रवासाक लागता. एक एक पावल जतनायेन घालतना ताच्या पावलाचो माग मात दिशाहीन जाता... आपल्या जिणेची वाट चलतना कार्मेलिनाक हो त्रिकोण निमणे कडेन जितेपणीच मेल्ले अवस्थेंचें दर्शन घडटा.

आपल्या पुराय घराब्याक मुकले उपरांत वयाच्या 'स'व्या वर्सा कार्मेलीनाचें स्थलातरण सुरावले गांवातल्यान कोलवा गावांत जाता. हें ताचें पयलें स्थलांतरण. आपल्या भावा कडेन दुस्मानकाय दवरून आशिल्लें ताचें आतें फेर्नांद लोकांचे

लजेखातीर कार्मेलीनाचो स्विकार करपाक तयार जाता. बापायचो मोग दिवर्प
जुआंव फिलीप ताका मोगान वाडयता. आपले तांकी प्रमाण तो कार्मेलीनाक
शिकयता आनी आपणाक चली नाशिल्ल्याची उणीव ताचे वरवीं भरून काडटा.

कार्मेलीनाचें जिवन म्हळ्यार तापलेल्या तव्यार ओतिल्ल्या उदकावरी. उदक
पडटा थंय आसा तें जळून करपून वता. ताचे जिणेंत आग्नेल (आंतेभाव), जुझे (घोव),
रुझार (जुझेचो इश्ट), निसार (अरब) आनी पुलीस हे दादले येतात. हातूंतलो आग्नेल
ताका मोगान फटयता जुझे घोवाचो अधिकार गाजयता. रुझार संदीचो फायदो घेवन
संभोग घेता. निसार पयश्याचें आमीश दाखोवन तिका भोगवस्तू कशी वापरता.
जाल्यार कायद्याचो धांक दाखोवन कुवेंतांतलो पुलीस कार्मेलीनाक भोगता. वयले
सगळे पुरूश एके बायलेक आपआपले पद्दतेन वश करात. बायल म्हळ्यार एक वस्तू
भोगवस्तू म्हण तिचो अधिकारान वापर करतात.

जिबेर खुरीस काडून लेगीत आग्नेल आपणे दिल्ल्या उतराक जागना. मुखार
दुसरे चलये कडेन तो लग्न जाता. कार्मेलीन म्हण्टा : " हांवें केलो तो मोग .
आग्नेलान केलो तो भोग. चूक म्हजी." (पान. 90) हांगां ताच्या आत्मविस्वासाक वेर
वता. ताचें सपन भंगता.

ह्या वेळार कार्मेलीन गळसून पडना. वयल्यान आग्नेलाचे व्हंकलेक पळोवन तें
खूश जाता. आपल्या मनाची समज घालतना तें म्हणटा : नाखूट कार्मेलीनाचें! ना
रंग, ना रूप! चिंचूंदर कशें तोंड आनी कसोसोच आंगलोट! जावं! एक समादानाची
गजाल म्हळ्यार आतां काळूट करपाची ती आग्नेलाची, आपणाची न्हय!

कार्मेलीनाचें काजार करपाचो वेळ येता. फेलीप ताचें काजार जुझे कडेन
करता. ताचेर कार्मेलीनाचे सुंदरकायेची भुरळ पडटा. जुझे सोरो पियेता. आपल्यो
जवाबदाऱ्यो तो टाळीत वता. सासुमांयची वृत्ती झगडाळू. आपल्या आवय घरा येवन
राविल्ली नणंद नातालीन. ताचेकडेन कुचेश्टीपणान वागता. आपल्या घोवा
कडल्यान आपल्याक सूख मेळटलें. ताणें आपणाक समजून घेवचें अशी अपेक्षा
अस्तुरेची आसता. जुझेच्या घरांत कार्मेलीनाक कसलेंच सूख मेळना.

हांगां जुझे ताका भोगवस्तू म्हण पळयता. तो रातचो पियेवन येता. घोवपण
गाजयता आनी न्हिदता. अशे तरेन तो मेल्ल्या मनान ताची कूड भोगता. जुझे सोरो
पिता. ताका जुगाराचो नाद लागता. तो झगडटा. ताची बदली जाता आनी मुखार
ताची आशिल्ली नोकरी वयता. उदारी वाडटा. पोटाचे हाल जातात. कार्मेलीन

शेताचो वावर करता. तें कश्टता, खर्शेता आनी थोडेशें निर्शेता लेगीत.

दुसरे वटेन जुझेच्या बापायन जुगाराच्या वेसनाक लागून आपलें घर पेद्रु मिरादा कडेन घाणाक दवरिल्लें आसता. हाका लागून कार्मेलीनाक खोपींत रावचें पडटा. मुखार इजाबेलाचो घोव पेद्रुचें रीण फारीक करून घर सोडयता. अशे हे परिस्थितींत कार्मेलीनाच्या संवसाराक घरघर लागता. अश्या साबार घटणा–प्रसंगांतल्यान लेखकान कार्मेलीनाचे तकलेवयलो ताण वाडट्या क्रमान वयर व्हेला.

ह्या सगळ्याक विटून कार्मेलीन फिलिपा कडेन वयता. घर सोडून ताचें येवप फेर्नांदाक आवडना. हे वेळार ताचो आवय बापूय आशिल्लो जाल्यार कार्मेलीनाची बाजू म्हणणे आयकून घेतलो आशिल्लो. जिणेंत आयिल्ल्यो ल्हान– व्हड आडखळी आनी जवाबदारेच्या चेंपणातळा पडिल्लें आपलें मन तें तांचे मुखार मेकळें करतलें आशिल्लें. तशेंच आपल्या आवय–बापायक सांगून जुझेक समजीकायेचीं चार उतरां सांगपाक लायतलें आसलें. तशें घडून येवपा सारकी परिस्थिती ताच्या मुखार नाशिल्ली कार्मेलीन मुकाट्यानी सगळें सोंसता आनी परत आसलें तशें आपल्या घोवा घरा परतता.

कार्मेलीनाचे जिणेची ही परिक्रमा. ह्या प्रवासांत कार्मेलीन तत्कालीन वेळा–काळा प्रामाण आपल्याक जें भावलें, मनाक पटलें ते प्रमाण तें वागता. कार्मेलीनाचें दुख्ख सोंसपाची तरा अजापीत करपा सारकी आसा. एके भारतीय स्त्रीक उबी करतना लेखकान तिच्या मुखार कांय जिणेतत्वां दवरल्यांत. विवीध घटणा– प्रसंगाच्या वेळार कार्मेलीनाक आपले धुवे प्रमाण मोग दिवपी पाय जुआंव, आकवारपणातली इश्टीण एल्सा, काजार जातकच ताची शेजारी आनी मुखार ताच्या सूख दुखांत वांटेकार जावपी इजाबेल कार्मेलीनाच्या मुखार जिणेतत्वां दवरता आनी ताच्या दुख्खाचीं पाळां– मुळां घट करता.

पाय जुआंव ताका सांगता :

1. "ह्या सवसारांत जो सोंसता तोच बरे भाशेन जियेता... हांव चय... खूब सोंसतां."(पान. 59)
2 "केदेय व्हडलो आकांत येयलो तरी केन्नाच जीव दिवपाचें चीत नाका. सोंस" (पान. 63)

कार्मेलीनाची इश्टीण एल्सा उपदेश करतना म्हणटा :

"दादल्यांचेर चड पातयेवप न्ही. तांकां जाय तें मेळ्ळें कि, ते मागीर कूस मारतात. तांकां हात भर पैस दवरल्ल्यारच ते चड लाळ घोट्टात." (पान. 44)

कार्मेलीनाचो घोव जुझे ताचे कडेन उर्मटपणान वागता तें पळोवन शेजारीण इजाबेल ताका सांगता :

"घोवान रेश्पेत दिल्यारूच बायलेक हेरांलो रेश्पेत मेळटा" (पान. 89)

कार्मेलीनाक मनान घटमूट करपाचे नदरेन लेखकान कलात्मक नदरेन "केन्नाच आत्महत्या करून जीण सोपोव नाका. जिणेंत सोंसपाचें आनी सोशीत रावपाचें" हें म्हत्वाचें वाक्य जुआंव फिलीपाच्या तोंडांत घातलां. एके खेरीत अशे आतंरीक शक्तेच्या म्हालवजार लेखकान कार्मेलीनाची जीण बांदून काडल्या कार्मेलीनाच्या जिणेची ही खरी बुनयाद जाल्ल्यान कादंबरेंतल्यो साबार घडणुके आनी प्रसंग ताच्या जिणे प्रवासाची वाट मेकळी करून दिता.

घरचीं बंधना आसून लेगीत कार्मेलीन इजाबेला कडेन इश्टागतीचें नाते प्रस्तापीत करता. बेलींदाच्या जल्मा वेळार पोटांत वेणो येता तेवेळा वैजीणीक आपोवपाक तें शेजारच्या इजाबेलाची मदत घेता. सासुमांयक कळटकच कार्मेलीनाचेर तिडकता आनी म्हणटा : "कोण शेजान्ना? आमगेली दुस्मान?" हे वेळार कार्मेलीन तिका परती जाप दीता. "म्हगेली दुस्मान न्ही ती." (पान. 107)

एल्सा आनी इजाबेल सारक्यो इश्टीणी कार्मेलीनाच्या जिवीतांत येतात. ती ताका बऱ्या-वायट प्रसंगाच्या वेळार सहकार्य करतात. लग्न जाले उपरांत उत्तोड्डया ताचें दुसरें स्थलांतरण. घोवाचे नोकरे निमतान पाळये हांगां चवथें, जाल्यार आया म्हण नोकरे खातीर देशा भायर कुवेताक वचचें पडटा तें ताचें पांचवें स्थलातरण थारता. एकी कडेन मुळां धरूंक लागचे पयलींच तिका अनवळखी आनी असंयुक्त अश्या जाग्यार आपलीं पाळां रुतोवचीं पडटात. हांगां एक बायल चलता. ती धडपडटा. पडटा आनी उठून परत मार्गक्रम करता. जायते फावट दादलो आपले जबाबदारेक फाट करून कडसता. लग्न जावन भुरगें पदराक आशिल्ले बायलेक तशें करपाक जमना. ती आपले खातीर जगचे परस आपलीं भुरगीं आनी पर्यायान आपल्या कुटूंबा खातीर जीण व्यथीत करता.

नोकरेच्या निमतान कुवेताक वचपाचो निर्णय जाता तेवेळार आपली चली बेलींदाक कार्मेलीन इजाबेलाचे सुवादीन करता. एका अस्तुरेच्या बऱ्या फुडारा

खातीर दुसरे अस्तुरेन घेतिल्लो हो निर्णय आसता. ह्या निर्णया मेरेन पावपाक कार्मेलीनाक आरशेची कुवेतकान्न आनी इजाबेल ह्यो अस्तुऱ्यो आदार करतात. इजाबेल बेलींदाक समजायता : 'मांय तुजेच खातीर वता – ती तुका खूब शिकचे खातीर दुडू धाडटली – तुका बरी मुस्तायकी, तुका बरें खावपा – जेवपाक मेळचें म्हण ती दुडू हाडूंक वता, जोडून येतली आनी मागीर तुका सोडून ती खंयच वयची ना.' (पान. 175)

जुझेक ही गजाल कळटकच तो कुचेत्रीपणान हांसता. मागीर थुंकता आनी कायच उलय नास्तना भायर सरून वयता. बायलेन परदेसांत नोकरे खातीर वचप ताका रुचना. आसा ती अर्थीक स्थिती बायलेन फुडाकार घेवन सुदारप ना आनी आपणेनूय ताचे खातीर कांयच करप ना अशी आडमुठी भुमिका जुझे घेता. बायलेक अर्थीक स्वातंत्र्य जाय आसता. हांगां दादलो बायले कडेन निश्काळजीपणान वागता. आपल्या मुळाव्या कर्तव्यां पासून तो पयस रावता. कुटूंब वेवस्थेक धरून फाव सारकें कर्तूब नाशिल्लो जुझे आत्मकेंद्रीत जीण जगता.

आपले धुवेक दुसऱ्यांच्या घरा दवरून कार्मेलीनाक कुवेताक नोकरेक वचपाचो निर्णय घेतलोच कित्याक? गोंयांत रावून तिच्यान पोट भरूं येतालें? तत्कालीन काळावयलीं बाकिचीं बायलां जगलीं नात? अशे कांय प्रस्न वाचप्यांच्या मुखार सहज उबे रावतात. कार्मेलीनाक भोगचे पडिल्ल्या भोगाविशीं हांवें वयर चर्चा केल्या. मनीस जे वेळार गरिबेच्या चेंपणापोंदा पडून भुकें खातीर वळवळटा तेन्ना तो तातूंतल्यान आपली सुटका करपाक मार्ग सोदता. वयर म्हटलां तशें अर्थीक चणचणींतल्यान आपणाक सोडोवन घेवपाच्या पावित्र्यांत तो आसता. पोटाक लागिल्लो हुलोप मनशाक केन्ना केन्ना मनांत नाशिल्ल्यो गजाली करपाक प्रवृत्त करतात. अशे स्थितींत आसतना ताचे मुखार एकादी संद उबी रावली काय ताचो तो नकळत स्विकार करता. हें सगळे मनीस स्वभावाक धरून सैमीक रितीन घडटा. कार्मेलीनाक अर्थीक येणावळीचे सगळे मार्ग बंद जातकच ताचे म्हऱ्यांत एक पर्याय चलत येता तो म्हणजे आया म्हण कुवेटाक वचप.

लेखक मावजो हांणी दादलो–बायल हांच्या परस्पर संबंदाविशीं खूब जतनायेन आनी धिटायेन चित्रण करता. कार्मेलीन आनी आग्नेल. कार्मेलीन आनी जुझे. कार्मेलीन आनी निसार हांचे भितर जाल्ले मानवी वेव्हार आमच्यानी देख म्हण घेवं येतात. घडणुके उपरात कार्मेलीनाच्या मनात चलिल्ली घालमेल दाखय–लिपय

करिनास्तना लेखकान वाचकां मुखार उत्ती केल्या. 'दादलो आनी बायलेची कूड एक जाली म्हण जायना... काळजां एक जावपाक जाय.' हांगां जुझे आनी कार्मेलीन केन्नाच मनान एक जायनात. कार्मेलीनाक जुझेक आपलो घोव म्हण स्विकार करप शक्य जायना. ताच्या मनांत जुझेचें स्थान कायमचें गौण उरता.

निसारा कडेन तें आनंदान भोग घेता. हांगां तें आपल्या हक्काच्या घोवा कडेन निसाराची तुळा करता. ही खोस खिणयाळी आसता. कारण थंयची ती घडोवन हाडिल्ली वा घडून आयिल्ली परिस्थिती आसता. हाका लागून कार्मेलीन लूज कॅरेक्टर थारना. कारण हांगां परिस्थितीक बळी पडिल्ली ती अस्तुरी थारता.

कार्मेलीन दुडू जोडून घरा येता आनी मागीर एका वर्सा खातीर परत कुवेताक वचपाचो विचार मांडटा तेन्नो बेलींदा आपले आवय म्हणटा " ना मांय! हांव कॉलेजींत वचपार ना!... हांवें चितलां मांय! आतां तूं खंयच वचूं नाका. आतां हांव व्हड जालां न्हू?आतां हांव जोडटलें; हांव वयतलें कुवेताक–"(पान. 247) आपले आवयक जावपी त्रास तें तरणाट्या मनाक स्पर्श जाता. ताचे मुखार आशिल्ले परिस्थितीक लागूव बेलींदाच्या तोंडांतल्यान वयली इत्सा व्यक्त जाता. अशें घडप साहजीक आशिल्लें आनी तें घडटा. तें मुखार म्हणटा "हांव पासपोर्ट करतलें. आनी तुजेवरीच कुवेताक वयतलें... तुजेवरीच दुडू जोडटलें–" (पान. 247)

'तुजेवरीच' हें उतर आमकां खूब कितें सांगून वता. एक आवय ह्या नात्यान तिका हें सोसना. 'तुजे वरीच दुडू जोडटलें' ह्या वाक्याचो कार्मेलीनीक राग येता. ताची तिडक मस्तकाक पावता... आनी रागान कार्मेलीनाच्या पोल्यार थापट मारता. ताच्या कानसुलार पडिल्लें थापट लेखक कार्मेलीनाच्या पुराय व्यक्तिमत्वाक न्याय दिता. आनी इतलो वेळ एक हळशीक बायल... आपली कूड सहज तरेन परकी दादल्याचे सुवादीक करपी. पयश्याक लाचार जावन आपली कूड विकपी अशी कार्मेलीनाची प्रतिमा वाचकांच्या तकलेंत मूळ धरून राविल्ली आसता ताका अचानक कलाटणी मेळटा. ह्या ताचे कृतेक लागून वाचकांची सहानुभुती कार्मेलीनाक फाव जाता.

कार्मेलीन ही दामोदर मावजो हांची कोंकणी कादंबरी 1981 वर्साच्या जाग दिवाळी अंकांत प्रकाशीत जाली. मुखार ती कादंबरी जाग प्रकाशनान डिसेंबर 1981 वर्सा पुस्तक रुपांत उजवाडायली. क्रिस्तांव लेखकांनी हिंदू धर्मियांच्या वास्तव जिवनाचो साहित्यांतल्यान वेध घेवपाच्यो देखी तश्यो खूब उण्यो आसात, जाल्यार

हिंदू बरोवपी क्रिस्तांव धर्मियांचेर बरयतना धर्म आनी समाजजिवन हांचो खोलायेन अभ्यास करून लेखन करपाक मातशे फाटीं रावतात. हे नदरेंतल्यान कोंकणी कथा आनी कादबरी लेखन करपी दामोदर मावजो अग्रेसर आसात. माजोड्डें साश्ट गांवांत क्रिस्ताव लोकवस्तेंत रावपी ह्या लेखकान क्रिस्तांवांचे लोकजिणेचीं जायतीं आंगां आपल्या साहित्यातल्यान आयजवेर चित्रायल्यांत. कोंकणी साहित्य ह्या दोनूय धर्मातल्या वाचकां मदीं प्रचलीत करपाचे नदरेन केल्ले प्रयत्न तोखणायेचे आसात.

आया म्हणून कामाक आशिल्ल्या कार्मेलीनाचे अनैतीक संबंद घराचो धनी निसार हाचे कडेन चित्रायिल्ल्यान गोंयच्या क्रिस्तांव वाचकांचेर जाल्ल्या परिणामाचे कांय पुरावे मेळटात. खंयचीय साहित्यकृती वाचकांचेर आनी तात्पर्यान समाजाचेर आपलो बरो–वायट प्रभाव हो घालताच. आदर्शवाद घेवन जल्मल्ल्यो कांय साहित्यकृती समाजा मुखार आपलीं मार्गदर्शक तत्वां दवरता. सामाजीक विशमतायेचेर चर्चा करतना लेखक समाजांतल्या अनुचीत गजालींचेर वाचप्यांचें लक्ष ओडटा आनी वायट वृत्ती आनी प्रवृत्तींचेर तो बडी मारता. मनीस हो केन्ना वायट नासता, ताका ताचे भोंवतणची परिस्थिती तशे तरेन वागपाक प्रवृत्त करता.

दामोदर मावजो हे माजोड्डें साश्टीचे. ताचे सरभोंवतणीं सगळो क्रिस्तांव समाज. वेवसायान ते एक पसरकार आशिल्ले. कार्मेलीन कादंबरीचे निर्मिती विशीं ते म्हणटात :

अशेंच आमच्या पसऱ्यार एक भुरगें आयलें. उदार मनाचें आनी आपले कडेन कितें आसा तें रोकडेंच दुसऱ्यांक वांटपी. कुवेटकान्नीचें चेडूं म्हूण दुसरीं ताका चाळयतालीं एक दीस चिंतेस्त जावन आपणाक आवय कुवेटाक व्हरपाक सोदिना म्हूण ताणे सागलें. फुडली बारीकसाण काडटकच आवय कित्याक कुवेटाक व्हरूंक सोदिना तें समजलें...'

'नवें गोंय' ह्या रोमी दिसाळ्यांत कार्मेलीन कादंबरी खिस्तींनी उजवाडा येवंक लागली. ही कादबरी क्रिस्तांव वाचक वाचपाक लागतकूच तातूंतले कांय क्रिस्तांव समाजातले वाचक अनैतीकतेचो मुद्दो मुखार करून तिका विरोध करपाक लागले. ही कादबरी क्रिस्ताव समाजाची बदनामी करपी आसा. तातूंत 'वलगेरिटी' आसून ती जातीयवादाक पोसवण दिता असो लेखकाचेर आरोप जावपाक लागलो. वयल्या दिसाळ्यात ह्या विशयाचेर जेस फेर्नादीश हाणें आपलें मत पयलें व्यक्त केलें.' सोर्तेर बारेटो आनी हेरानी रोमी लिपयेंतल्या वेगळ्यावेगळ्या नेमाळ्यांनी आपलीं मतां

मांडलीं. अशे तरेन नवें गोंय नेमाळ्यांत उजवाडा येवपी ती कादंबरी उजवाडावप्याक बंद करची पडली.

कार्मेलीन हे कादंबरेक 1984 वर्साचो साहित्य अकादमीचो राष्ट्रीय पुरस्कार फाव जालो. ह्या वेळार सोर्तेर बार्रेटो हांणी नवें गोंय खातीर घेतिल्ले मुलाखती वेळार लेखकाक विचारिल्लो एक प्रस्न असो आशिल्लो : असोय एक आरोप आसलो की तुवें कार्मेलीना बोदला एक तुळशी अशें पात्र कित्याक घेवंक ना? ताका जाप दितना दामोदर मावजो हाणें सांगलां तें अशें :

'. . . 1970आत हिंदू बायलो 'आय' कश्यो काम करूंक 'Middle East' – ं जबरश्यो वेताल्यो? हांव म्हाड्डोळच्या वाठाराचेर बरयिल्लें जाल्यार थंय एक मोगरें वो शेंवतेंच दाखोवचें पडटलें आसलें. ते भायर हांवें कार्मेलीनाक एक वायट सभावाची बायल कशी चित्रावंकूच ना. उरफाटें, ताचे पांय धुवन उदोक मेळटा तें तीर्थ कशें पियेवचें असले लायकीची व्यक्ती अशी हांवें कार्मेलीनाक चित्रायल्या... पूण कांय आपसुवार्थी बरोवप्यांनी त्या पत्राचेर चिटयो बरोवन वाचप्यांचेर प्रभाव हाडलो आनी कादंबरी फुडें छापपाची बंद केली.'[3] (लिप्यांतर करून)

हे कादंबरेचेर क्रिस्तांव समाजांत आरतून परतून चर्चा जाली. लेखकाक त्या वेळार खर विरोध सोंसचो पडलो. सगळ्याच क्रिस्तांव वाचकांक हो विरोध मान्य नाशिल्लो. कांय जाण लेखकाच्या मता कडेन सहमत जावन तेंको दिवपीय आशिल्ले. अश्या वेळार आपूण संपादक आशिल्ल्या फा. फ्रॅडी डिकोस्ता हांणी फुडाकार घेवन कार्मेलीन ही कादंबरी 'गोंयचो आवज' ह्या नेमाळ्यांत उजवाडा हाडली. आयचे घटकेक चडावत भारतीय भाशांनी अणकारीत जाल्ली 'कार्मेलीन' ही कोंकणींतली एकमेव कादंबरी आसा. ग्लोरीना मास्कारेन्यश कार्मेलीन : कुवेतांतलें सत्य (कोंकण टायम्स : जानेवारी–मार्च 1992) ह्या आपल्या लेखांत निमाणे कडेन म्हणटा : 'कार्मेलीन ही अशी कादंबरी. खरेंच लेखकाची तोखणाय करता तितली थोडी. आपल्या काळजीधारपणान कुवेंतांत घडपी सत्य आयज हे कादंबरेच्या रुपान ताणें समाजा मुखार दवरलां.' (पा. 6)

धर्मांतलें कर्मठपण आनी विशिश्ट समाजांत, जातींत वा वर्गांत आशिल्ली विशमताय साहित्यांत चित्रायतकच विरोधक आपली भुमिका मांडटात आनी थंय संघर्श निर्माण जाता. हाचो बरो वायट परिणाम सर्वसामान्याचेर पडटा. कार्ल मार्क्स हांणी 'धर्म ही अफूची गुळी' अशें म्हणलां. धर्माची झिंग मनशाचे तकलेंत चडटकच

ती देंवप कठीण आसता. आपल्या धर्माचेर वायट बरयिल्लें तांका रुचना आनी ते तें खपोवन घेनात. धर्मीक मनशाक आपलो धर्म स्रेश्ठ दिसता.

लेखकान सामान्य व्यक्तीरेखीची निवड केल्या. ही कादंबरी कार्मेलीन ह्या पात्राच्या दुख्खा कडेन वाचकाक एकरूप जावपाक लायता ही हे कादंबरेची आंतरीक शक्त. ही कादंबरी वाचकांक वाङमयीन आनंद दिता. कादंबरी सोपमेरेन ती वाचकाक आपले भितर गुंथून दवरता. कार्मेलीन कादंबरेंतले कथेक एक प्रवाह आसा. कारण लेखकाचें निवेदन हें उत्सुकता वाडोवपी आनी भावनेच्या तळाक हात घालपी अशेंच आसा. ज्या साहित्यांत समाजाचें वास्तव चित्रण केल्लें आसता तेंच साहित्य समाजाचेर प्रभाव घालपाक यशस्वी थारता. बदलत्या समाजाचे प्रस्न, तांचीं सुख–दुखां, तांचे हावेस, मानवी मुल्यांचो जावपी ऱ्हास आनी समाजांतल्या विसंगतींचो साहित्यांत चर्चेचो विशय जातकच ती कलाकृती सदांच उजवी थारता.

कादंबरी साहित्याच्या मळार बायल मनशेचें वास्तव आनी विदारक चित्रण साबार लेखकानी उबें केलां. गोंयच्या मराठी कादंबरी साहित्यांत चंद्रकांत काकोडकार हांची 'शामा' (1950) आनी बा. भ. बोरकार हांची 'भावीण' (1950) ह्यो कादंबऱ्यो लागीं लागीं एकाच विशयाचो वेध घेवपी आसात. शामा हे कादंबरेंत तत्कालीन समाजवेवस्थेक बळी पडिल्ले बायलेचें, भावीण हातूंत गोंयच्या कलावंत अस्तुरेचें भावविश्व जाल्यार 'महानंदा' हे कादंबरेंत गोंया साकून सुमार 60 कि. मी. अतराचेर आरावली (महाराष्ट्र) ह्या कोंकण भागांतले 'देवदासी' प्रथेचो प्रस्न लेखकान आपले कादंबरेंत मांडला. उत्तम बंडू तुपे हांची 'झुलवा' तशेंच राजन गवस लिखीत 'चौंडक' आनी 'भंडारभोग' ह्या कादंबऱ्यांनी समाजा मुखार आशिल्लो देवदासींचो प्रस्न हाताळल्लिो पळोवंक मेळटा. गोंयांत तशेंच भारतांतल्या कांय हेर भागानी 'भावीण' ही प्रथा चालू आशिल्ल्याची नोंद मेळटा भारतांत देवदासी आनी हेर काय नांवांनी प्रचलीत आशिल्ले हे प्रथेंतले बायलेक गोंयांत वेगळ्यावेगळ्या वातारात कलवंत, भावीण वा नायकीण ह्या नांवान संबोधतात.[4]

कार्मेलीन ही कोंकणी कादंबरी भारतांत वेगवेगळ्या भाशीक वाचकांनी वाचिल्ली एकमेव कादबरी. कार्मेलीन हे कादंबरेक वर्स 1983 वर्सा साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जाला कार्मेलीन ही कादंबरी इंग्लीश तशेंच हिंदी, मराठी, कन्नड, गुजराती, सिंधी, पंजाबी, बंगाली, उडिया, तमीळ, मैथिली, काश्मिरी आनी असामिया अश्या साबार भाशानी अणकारीत जाल्ली आसा. हे कादंबरेक सिंधी,

गुजराती, मैथिली आनी मराठी ह्या भाशांतलो अणकारा खातीर आशिल्लो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल्ल्यान हे कोंकणी कादंबरेक भारतीय कादंबरेच्या दालनांत मानाची सुवात फाव जाल्या.

## संदर्भ :


1. Baretto, Sorter. Ek Mulakat Damodar Mauzo. Novem Goem, Vorl X - 11, Ank 253, 26th Ferver 1984, p. 02.
2. फेर्नादीश, जेस. हाणे ता. 25 सप्टेंबर 2013 ह्या दिसा फोनाचेर दिल्ली माहिती.
3. आदलोच संदर्भ. ठंतमजजव,ँवतजमत. म डनसांज कंउवकंत डंन्रव, च. 05
4. 'महाबळेश्वर सैल हांच्या कादंबऱ्यांचें समाजशास्त्रीय अध्ययन' डॉक्टर ऑफ फिलोसोफी हे पदवे खातीर गोंय विद्यापिठाक कोंकणींत सादर केल्लो सोद–प्रबंध. सोदवावर करपी प्रकाश शांबा पर्येकार. (पा.93)




# 'सुनामी सायमन': शेणिल्ल्या सायमनाची संघर्शमय प्रवासकाणी

डॉ. राजय पवार

'सुनामी सायमन' ही दामोदर मावजो हांची 2009 वर्सा आयिल्ली कादंबरी. आयतार 26 डिसेंबर 2004 ह्या दिसा चन्नेय आनी पुर्व भारता कडल्या प्रांतानी आयिल्ले सुनामीचे फाटभुंयेर ही कांदबरी आकार घेता. हे कादंबरींतलो काळ सादारणपणान 15 डिसेंबर 2004 ते 15 जून 2005 असो सुमार स म्हयन्यांचो. फकत स म्हयन्यांचो काळ घेवन लेगीत लेखक आशयाक कादंबरीचें स्वरूप दिवपांत येसस्वी थरला. हरशीं कमी काळाचो आंवाठ घेवन कादंबरीचें लिखण करताना तेंच तेंचपण, गरजे भायल्या घडणुकांची भरती वा ओडून ताणून हाडिल्लो प्रसंग रिगोवपाचो यत्न जावपाचो भंय आसता. मात मावज्या सारकेल्या कुशल बरोवप्याचे बाबतींत हें घडप अशक्य.

कादंबरीचें कथानक, घडणुकांची मांडणी, सर्घशात्मक चडा–ओड ह्या बाबतींत लेखक येसस्वी थारिल्यान ही कादंबरी एके बसकेंत वाचून पुराय करपाचो मोह आवरना वा म्हणुया वाचप्यांक उठपाचें भानूच उरना. सुनामीची फाटभूंय लाबिल्ल्यान चेन्नय वाठार आनी थंयचे प्रसंग रंगयतना लेखकान केल्ल्या अभ्यासाची जाणीव जाले बगर रावना. कादंबरींतली मुखेल पात्रां सायमन, गाबरू आनी दुलसीन हीं क्रिस्तांव धर्मीक खारवी सामाजांतली आशिल्ल्यान तांची वेवसायीक जीण, तांची बोली, तांची खाणां, तांचे उत्सव आदी गजालीचें पडबिम्ब लेखकान खूबच बारीकसाणेन शब्दबध्द केलां. गोंयचो खारवी समाज आनी चेन्नयचो खारवी चमाज हांची वेवसायीक जीण हे कादंबरींत पळोवंक मेळटा. बरोवपी आमका दर्या वेळेर व्हरता, दर्यांत नुस्तेमारी चलता थंय ताच्या व्हड्यार व्हरता, खारव्याच्या घरांनी व्हरता तशेंच गोयच्यान चेन्नय व्हरून थंयचे दर्या वेळेर ताचे फायबर बोटीचेर, आनी थंयच्या खारवी समाजाच्या वाडयार व्हरून तांची जीण दाखोवन हाडटा.

कादंबरीकार आमकां मडगांवच्यान, चेन्नय आनी येताना व्हाया केरळ परतून गोंयांत हाडटा. ही भोंवडी घडयतना कादंबरीच्या कथानकाचो केंद्रबिंदू थरपी सुनामी हो प्रसंग चित्रायतना लेखक वाचकांकूय त्या हुंवाराचो अणभव घडयता अशें म्हणल्यार ती अतिताय थारची ना. सुनामीचो प्रसंग दोळ्यां मुखार उबो जायना तर वाचपी प्रत्यक्षांत त्या हुंवारांत सांपडिल्ल्याचो अणभव घेता. सायमनाचे सुवातेर वाचपी स्वताक अणभवता. सुमार 50 मिटर उंचायेच्या ल्हारांचेर शेंवटून वचपी व्हडयांत आपुणच आशिल्ल्याचो भास वाचतना घडटा हेंवूय लेखकाच्या लेखन शैलीचें जैत म्हणूंक जाय. आपल्या कथानकाच्या आशयाची हे कादंबरेंत अभिव्यक्ती करतना बरोवप्याची शैली, भाशेवेली पकड, निरिक्षणात्मक नदर आनी अभ्यासपूर्ण आविश्कार खंयच्याय चिकित्सक वाचप्याक आपसूक समजता.

ही काणी फकत सायमनाची न्ही तर पुराय मनीसजिणेची काणी. जीण आनी मरण ह्या दोन तोंकां मदलो आमचो प्रवास कसल्या प्रसंगांनी भरिल्लो आसता तें हे कादंबरेच्या निमतान लक्षांत येता. कादंबरेंत मडगांवच्या बेताळभाटींतल्या गणसूव वाड्यावेलें गाबरूचें कुटूंब आनी कुशीच्या सुरावले वाठाराचो संर्दभ ही गोंयची भुगोलीक मर्यादा दिश्टी पडटा जाल्यार पॉडीचेरींतल्या देवनामपट्टणचो कालापेट वाठार ही चेन्नयची भुगोलीक मर्यादा हे कादबरेक फावो जाल्या. निमाणें मात चेन्नयच्यान परतीचो प्रवास करतना करपाडी गांव आनी केरळचो 'कॅलीकट' गांव भुगोलीक नदरेन कथानकाक आदार करता. गोंय दृ चेन्नय – गोंय असो प्रवाय घडयताना ती सरळ भोंवडी जावन येवचे बदला भोंव–यांत सांपडिल्ली भोंवडी जावन येता. गोंय आनी चेन्नय हे भुगोलीक नदरेन एकामेकांक विरूध्द कशे – एके कडेन दीस दर्यांत उदेता जाल्यार दुसरे कडेन दीस दर्यांत अस्तमता. दीस उदेवप आनी दीस अस्तामप हांचे मदीं येवपी सकाळ, दनपार, सांज. एके वटेन आनी आख्खी काळखी रात दुसरे वटेन अशा विरूध्द आंगांनी येवपी घडणूक आनी प्रसंग हे कादंबरेंत पावला पावलाक जाणवतात.

हे सुनामीक लागून भारत, श्रीलका, इंडोनेशिया, मालदीप आनी थायलंड हांगाच्या सुमार 2,25,000 लोकांक मरण आयिल्ले[1]. भारतांत 26 डिसेंबर 2004 ह्या दिसा चन्नयच्या पिल्लयचावडी पेरिया कालापेट आनी चिन्ना कालापेट ह्या वाठारांनी मोठ्या प्रमाणान लुकसाण आनी जिवीतहानी जाल्ली. हातूंतलीच कालापेट वस्ती मावजो हांणी सुनामीची सुवात म्हण घेवन सायमनाची भयानक

आनी नवे जिणेची काणी मांडल्या. ह्या प्रवासांत 'मोना'च्या येण्यान सायमन खरे अर्थान (नव्या करारांतलो) जेजुचो खुरीस आपल्या खांदार व्हांवपी एक भाव. हिब्रू भाशेंत सायमन म्हणल्यार – ताणें (देवान) आयकलां. गाब्रु हो गाब्रिएला चें रूप. हिब्रू भाशेंत 'गाब्रिएल' म्हणल्यार 'देव म्हजी शक्त.'

पुराय कादंबरी सुनामीचेर आदारिल्ली नासून सुनामीच्या कारणान शेणिल्ल्या सायमनाच्या प्रवासाचेर आदारल्या. थोडे भितर कथानकाचेर नदर मारया. गोंयांतल्या बेतालभाटी गांवांतल्या गणसूव वाडयावेलो सायमन हो गाबरू आनी दुलसीन हाचो पूत. तांची धाकली भयण 'बुला' (ब्लांश) 'एन्सेफलायटीस' दुयेंस जावन मरता. मार्सेलीन ही तांची मावशी तागेरूच आसताली. जल्मा सावन तिणेंच दोगांकूय सांबाळिल्लीं. मार्सेलीन थंयच एकल्याचे (जाकनुले) मोटरबोटीचेर काम करपी पोण्णुदुराय ह्या मद्राशाच्या मोगांत पडटा आनी घरच्यांच्या विरोधाचो अदमास घेवन एक दीस ताचे वांगडा पळून वता. तीं दोगाय चैन्नयच्या देवनामपट्टण हागाच्या कालापेट वाठारांत रावतात. मार्सेलीन दर म्हयन्याक चीट धाडटा. पण दुलसीनाक चिटयेक जाप दिना. पूण मागीर स म्हयन्या उपरांत राग–रूस उरलो ना. दुलसीन चीट धाडून बुला उगडास काडटा, घोवाक घेवन येवन वोस' अशें सांगीत रावता. पूण पयशिल्लें अंतर आनी कामाचो व्याप हाका लागून मार्सेलीन भयणीगेर येवपाचो बेत मुखार धुकलीत रावता.

मजगतीं बुला मरता. पूण मार्सेलीन ताच्या मरणाक पावना. पूण आपूण 'वर्साच्या मिसाक येतलेंच' म्हूण बरयता. मार्सेलीन आयल्या उपरांत दुलसीन फाटल्या यादींनी रिगता आनी गजालींनी ताचो दीस कसो वता तेंच कळना. रोखडीच नातालाची सुटी पडपाची आशिल्ल्यान मार्सेलीन सायमनाक आपल्यागेर चेन्नयक आपयता. सायमनूय खूश जाता. पूण मांय ताका वेगवेगळीं निमता सांगून आडावपाक सोदता. सायमन थंय गेल्यार एक दीस पसून घरांत रावपाक जावचें ना अशे ताका दिसता. निमणें सायमन आपल्या पायक फुसलावन वचपाची परमिशन घेता.

सायमनाच्या पायक धंद्याची गरज म्हण एक मोबायल फोन आसता मात तांच्या घरांत 'लेण्ड लायन' आसची अशें दुलसीनाक दिसूनय गाबरू ती घेना. मार्सेलीनाच्या गांवांत तर पब्लीक 'पे फोन बूथ' लेगीत नासता. अशा वातावरणांत सपर्काचें साधन नाशिल्ल्यान सायमन आपले माशेनागेर गेल्ल्या काळांत

दुलसिनाच्या जिवाची बरीच घालमेल जाता. सायमन पयलेच फावट ट्रेनीन आनी इतल्या लांब प्रवाससाचो अणभव घेता. दोनूच दिसांत सायमन थंय रमता. भास न कळून पासून तो थंयच्या भुरग्यां वागडा खेळपाक लागता.

हे वटेन गाबरूक बरें नुस्तें लागिल्ल्यान खूब फायदो जाता. उमेदीन तो आनी दुलसी तियात्राक वचपाचो बेत आंखतात. पूण ती दोगांय स्कुटरीन वतना वाटेर एक ल्हानसो अपघात जावन गारबूच्या पांयांक 'हेअर लायन' फ्रॅक्चर जाता. ताका पांयांक प्लास्टर घालून घरा बसचें पडटा. नातालाचे राती सायमन मांय – पायक वीश करपाक फोन लायता. पाय घराच आशिल्ल्यान ताका मांय कडेन उलोवपाक मेळटा. उपरांत नव्या वर्साची परबीं भेटोवंक फोन करपाचें थारता.

ल्हानशेच चर्चींत मिसाक वचून मार्सेलीन, पोण्णू सायमन घरांतूच नातालांची परब मनयतात. दुसऱ्या दिसा म्हणल्यार डिसेंबराचे 26 तारकेर पोण्मू आपले फायबर बोटीर नुस्त्याक वतना सायमनूय उमेदीन ताचे वांगडा वता. 2004 वर्सा इंडोनेशियांत (सुमात्रांत) त्याच दिसा सुमार 9.3 मॉमेन्ट मॅग्नीटयूड स्केल (रिक्टर मॅग्नीटयूड स्केल)चो भुयकांप जाल्ल्यान इंडोनेशिया वांगडाच भारत, श्रीलंका आऩी थायलँडाकूय ताचे परीणाम सोंसचे पडले. (विज्ञानीक पंगड ताका 'सुमात्रा – अंदमान भूंयकाप' म्हण वळखतात). इंडीयन ओशनाच्या भारतीय दर्या देगांनी (त्या त्या वाठारांत) मोठ्या प्रमाणांत लुकसाण जालें. तामीळनाडू आनी कुशीच्या दर्यादेग वाठारांनी मेळून सूमार 7,000 लेकांती बळी गेले. हे सुनामींत सगळ्या चड जिवीतहानी जाली ती तामीळनाडूंत. सरकारी सुत्रा प्रमाणे जरी हो आंकडो 10,136 इतलो आसलो तरी वास्तवांत सुमार 18,000 परस चड लेकांक मरण आयिल्ल्याचें मानतात.[2] हे फाटभूंयेर ही कादंबरी हांगा म्हत्वाचें मोडण घेता. पेण्णू आनी सायमन फायबर बोटीचेर आसतात तेन्नाच ही सुनामीची घडणूक जाता. ताची फायबर बोट मेळत ते वाटेन झेलता.... आनी पोण्णू वांगडाच सायमनूय दर्यांत शेंवटता. देवा दयेन सायमन एक बुडिल्ल्या माडाच्या चुडटाक धरून थंयूच कवळांत बसून रावता. पुराय गांव काबार जाता. पोण्णूय मार्सेलीन सगलीच मरतात..... दुसऱ्या दिसा मिलीटरीच्या रेस्क्यू कॅम्पांत आलाशिरो घेता. थंय जायतीं अनाथ जाल्लीं भुरगींय आसतात. तातूंत आशिल्ली सुनामीच्या शॉकान वाचा गेल्ल्या एके णव – धा वर्सांचे चलयेक पळोवन सायमनाक आपले भयणीची याद जाता. तें मात मोनेंच जावन थंय बसून आसता. देखून तो ताका मोना म्हणपाक लागता. तो ताका

खावपाक दिता.... ताचेर लक्ष दवरता...... जोर येता तेन्ना नर्सीक आपयता.... निमणें आपल्याक गोंयां वचपाची आस दिसनाशिल्ल्यान तो मोनाक घेवन राती कडेन भायर सरता.

मजगतीं चेन्नयची बातमी गोंयांत पाविल्ल्यान गाबरूचेर आकांत येता. भुरग्याच्या हुसक्यान निमाणी दोंगांय चेन्नयक वतात. मोटया कश्टान तीं कालापेट वाठारांत पावतात पूण तांच्या पदरांत निराशाच पडटा. कॅम्पांनी भोवन लेगीत तांकां सायमन सांपडना आनी मार्सेलीनाच्या घराची अवस्था पळोवन ताची अस्त मरता. निराश आनी दुख्खी जावन तीं गोंयां परततात. मात ट्रेनींत एकल्या पेपरांत सायमनाचो माडाच्या कवळांत जीव वाटावन राविल्लो फोटो छापिल्लो आसता. तो ताका नदरेक पडटा. आनी ल्हानशे आशेर तीं गोंयां परततात. हांगां मंत्र्याक सांगून ती पुलीशेन सायमनाचो सोद घेवचो म्हण विनवणी करतात. पुलीस गाबरूक घेवन चेन्नय वचून येतात. पूण थंय हेवटेन तेवटेन सोदून तो मेला आसतलो म्हणपाचो निर्णय घेतात. ते वटेन सायमन जायत्या बऱ्या – वायट प्रसंगांक, आनी अणभवांक तोंड दिता. ताच्या गोंया वचपाच्या ह्या परतीच्या प्रवासाची ही काणी म्हळ्यार हे कादंबरेचो आत्मो.

मदीं तो हॉटेलांत काम करता आनी घरा वचपाक पयशे एकठांयता. हें करतना तो 'मोना'क बरे तरेन साबांळटा. दीस – रात ताका जापता. थोडे पयशे जमतकीच ट्रेनीन वचपाचो प्लॅन करता. पूण ताका स्टेशेनार कोण तरी नागयता. मोना बरें ना जातकच ताका हॉस्पिटलांत एडमीट करता. थंय ताका 'टायफॉय्ड' जाल्ल्यान बरेच दीस रावचें पडटा. अशा वेळार जे रिक्षेंतल्यान ताणें ताका व्हेल्लें आसता तो रिक्षेकारूच ताची वासपूस करता, जेवण हाडटा, वखदां हाडटा. मोना बरें जातकच तो रिक्षेकार तांकां आपल्या घरा व्हरता. थंय कुशीच्या भुरग्यांक टयूशन दिवन तो परते पयशे जमयता. तो रिक्षाकारूय एका अपघातात भायर पडटकीच सायमन मोनाक घेवन परतून मुखार वता.... टयुशनांतल्यान आयिल्ले जेमतेम पयशे घेवन तो रेल्वे स्टेशनार वता..... थंयच्यान ट्रेनीन मुखार वताना ताका वाटेर करपाडी (चेन्नय) स्टेशनार देंविल्ले कडेन ट्रेन सांडून वता. तिकेट नाशिल्ल्यान टिसीक तोंड दिवचें पडटा. तो टिसी ताका आपल्या घरा व्हरून कामाक लायता. थंय काम करतनाय परतून अप्स–अण्ड–डाउन्स सोंशीत तो थंयच्यानूय पळ काडटा आनी रेल्वे स्टेशनार एका बऱ्या पोर्टसच्या हाताक पडटा. तो ताका आपले वळखीन फुडले

ट्रेनीच्या टिसी कडेन फावोर मागून ट्रेनींत चडयता. तो टिसी ताची काकूळट करून तांकां एक सीट मेळोवन दिता. राती कडेन तो तांकां वडा–पाव दिता. पूण ताची डयुटी कॅलीकट मेरेनच आशिल्ल्यान तांकांय ताचे वांगडाच देंवचें पडटा. थंयूच प्लॅटफॉर्मार एका बांकार तो मोनाक न्हिदयता आनी कुशीक आपून न्हिदता. फांतोचेर एक पुलीस तांकां थंयच्यान धावडायता. तो मोनाक घेवन भायर येता. थंयच्या गार्डनांत बसता. लोक थंय जॉगींग, मॉनींग वॉक करतात. इतल्यांत एका वॉकाक आयिल्ली जाणटया मनशाचेर एक तरनाटो सुरी उबारून ताका किडनॅप करपाचें थारयता.... त्याच वेळार सायमनाक आपणें शिकिल्ली कराटे वापरून ताका वांटायता आनी त्या गुंडांचे टोळयेक धरून दिता. आपलो जीव वाटोवपी सायमनाक आनी मोनाक तो आपल्या घरा व्हरता. तो थंयचो सगळ्यांत व्हडलो गिरेस्त उद्देगपती आसता. तो ताका नवे नवे कपडे, बरी बरी खणां दिता आनी आपूण ताका आपले गाडयेन घरा पावयतलो म्हण उतर दिता. तो आपल्या चलयाक सुनेक घेवन सायमन आनी मोनाक आपल्या गाडयेन बेतालभाटयेंतल्या गणसूव वाडयार पावता. पुताक पळोवन मांय–पाय खुशालभरीत जातात. पाय आपणें केल्ल्या येत्नांची वळेरी मांडटा. पूण पेपरांतल्या फोटवान आपली आस्त जिती दवरिल्ली म्हण सांगतना तो पेपर हाडून दाखयता. तातूंत मोनाचोय फोटो छापून आयिल्लो आसता. तो उद्देगपती ती जायरात वाचता. मोनाचें खरें नांव सरस्वती आसता आनी ताची आवय बापूय सुनामींत मेल्ल्यान ताच्या मामान तें कोणाकूय सांपडले जाल्यार आपल्याक मोबायल नंबरार कळोवचे म्हण ती जायरात दिल्ली आसता.

तो उद्देपती आपल्या घरा परतता. आनी थोडयांच दिसांनी उद्देगपतीचो चलो सरस्वतीच्या मामाक घेवन सायमनागेर पावता. पूण मोना ताचे वांगडा वचपाक तयार नासता. तें सायमाना वांगडा खूश आसता. मामाचीय परिस्थिती व्हडलिशी बरी नासता. सायमनाचो आनी घरच्यांचो मोनावेलो मोग पळोवन तो मोनाक तांचेच सुवादीन करता.

ही कादंबरी फकत प्रसंग आनी घडणुकांनी भरिल्लें एक कथानक घेवन येना तर मनशाच्या समाजीक जिणेंत येवपी 'अप्स–अण्ड–डाउन्स' हांचो ग्राफ चित्रायता. कितले त्रास आयले तरी मनीसपणचें तत्व सांबाळून जगपाचो मंत्र हातूंत दिसता. पुराय कादंबरेंत बरोवप्यान नातीं, मोग, मनीसपण, तत्व आदी बऱ्या गजालीचें चित्रण करतनाच आस, फटींगपण, नाड बुध्दी, आळशीपण आदी वायट

गजालींचेरूय उजवाड घातला. एक बरी गजाल करपाक वतना चार वायट गजाली आड येतल्योच म्हूण निराश जायनासतना मुखार वचप हो जिणेचो मंत्र हे कादंबरेंतल्यान मेळटा.

'सुनामी सायमनांत मोग आयला, धिटाय आयल्या आनी सामकें म्हत्वाचें म्हळ्यार मनीसपणाची भावना दाखोवपी सूत्र आयलां. हे कादंबरेंत बरोवप्यान केल्ल्या कल्पना आनी अभ्यासपुर्ण मांडावळेंतल्यान कांय म्हत्वाचीं तत्वां नदरेंत भरतात तीं म्हळ्यारः

कादंबरेंत गाबरू आनी दुलसीन, सायमन आनी मांय-पाय, बुला आनी दुलसीन, माशेन आनी सायमन, दुलसीन आनी मार्सेलीन अशा साबार पात्रांच्या मोग आनी मोयपासाचें वर्णन नदरेंत भर सारकें आसा. लेखकान कथानकाक इबाडनासतना ह्या तत्वांक न्याय दिला. क्लबाचे कार्यावळीक सायमनाचो डान्स जाल्या उपरांत टिचर येवन दुलसीनाक जेन्ना तुगेलो चेडो शिकपाकूय हुशार आनी नाचुकूय अशें म्हणटा तेन्ना ताची जाल्ली तोखणाय पळोवन मांय घरा पावचे पयलींच दिश्टीकान्नीगेर व्हरून सायमनाची दीश्ट काडटा[3]. मांय मरत सावन मार्सेलीन आपले भयणीगेरूच रावतालें. दुल्सीनालें घर हेंच मर्सेलिनालें कुळार जाल्ले.[4]

हे कादंबरेंत लेखकान बुलगें आनी रांपोणकार हांचे नातें खूब सुदर संवादांतल्यान आनी भावनीक आंगान उकतायलां. तें बुलगें केन्ना पात्र जाल्यार केन्ना प्रतिमा जावन व्यक्त जाल्लें दिश्टी पडटा. बुलग्याक दुखानासतना परतून सुखरूप ताच्या संवसारांत व्हरून सोडपी गाबरू आनी बुलग्याच्या दोळ्यांतलीं दुकां पुसपी दुलसीन मनांत घर करून रावतात. दुलसीनाली आर्ताताय ताच्या सवादांतल्यान जाणवता. देखीकः चोय गो, मार्सेलीन.... म्हगे बुलागे दोळे ते.... सांग गो तेका. सोड तेकां आनी दुलसीन रडूंक लागलें[5]. हेर कांय प्रसंग देखी खातीर पळोवया फाटीं एक फावट गाबरूले रांपणीत वांवभर व्हडलें बुलगें फाराविल्लें. गाबरून ताका दुखय नासतना दर्याचें उदक भितर सरून तयार जाल्ले खादयेंत सोडिल्लें[6]. बुलग्याच्या आंगा वयल्यान हात भोंवडायलो आनी दोनूय हातांनी बुलग्याल्या दोळ्यांतलीं दुकां पुसली. बुलग्याल्या दोळ्यांतली कृतज्ञताय सगल्या खारव्यांक जाणवली.[7]

कादबरेंत भाव आनी भयणीचें नातें साबार प्रसंगांतल्यान उबें जाता. सायमन

आपल्या भावाची जबाबदारी आनी भयणीचो मोग व्याक्त करतना एक सुदंर प्रसंग वाचूंक मेळटा. सायमनाक वाटेर आंब्याचें झाड दिश्टी पडटा तेन्नाचो प्रसंग असो आसा. झाडा वयल्यान पडिल्लो पूण एकेवटेन कावळ्यान चोंचवन कल्ल केल्लो आंबो सायमन भौशीक नळार व्हरून धुवन खाता. तेन्ना ताका मोनाची याद येता. आनी तो रूखार चडून एक झाडपिको आंबो मोना खातीर घेवन येता8. भाव–भयण हाचें नातें कितलें घट आसता.... मोग आनी मोगा पासत मनशाक कशे तरेन बांदून दवरता तें निमण्या प्रसंगांत भावपुर्ण रितीन व्यक्त जालां. जेन्ना सरस्वतीचो (मोनाचो) मामा ताका व्हरपाक येता तेन्ना सायमनाचे दोळे भरून आयले. ताणें मोनाचो हात घट धरलो. मामा तामील भाशेन कितें तरी उलयलो. पूण मोनान जाप दिली ना. ताणें ताका ओडलें तेन्ना मोनान ताका धुकल्लो आनी मांयक घट वेंग मारली.[9]

मनशाची प्रीय वस्त शेणटकीच ताचो थांबनासतना सोद सुरू जाता.... सुनामीच्या हुवंरांत जायत्या जाणाच्यो जायत्यो वस्तू शेणल्यो.... मनशां शेणलीं.... नातीं शेणलीं....स्वता हुवारांत शेणिल्लो सायमन ह्या संघर्श–प्रवासांत आपली मायेचीं मनशां सोदता. शेणिल्लीं नातीं सोदता.... आनी अचकीत ताका परकी वाठारांत लेगीत आपलेपणाची मनशां दिसपाक लागतात. मजतकार्य करपाक आयिल्ली वैजकी पंगडांत ताका नर्स दिश्टी पडटा आनी तिचे भितर तो आपल्या मांयक पळयता. हो प्रसंग म्हणल्यार मनीस–मायेचें वैश्र्वीक नातें दाखोवन दिता. देखीक :

'पूण तीन दीस पोटांत कांय नासून पांय थरथरूंक लागिल्ले. पर्थून मांयचो उगडास येवन हडें भरून आयलें. इतल्यान कोणें तरी शूतऽऽ शूतऽऽ केलें जाल्यार ती एदोळची नर्स ताका आपयताली... .... आयल्या पयल्या कोण पळयता जाल्यार पळयलें आनी तंबुचे खाचींत लिपोवन दवरिल्ले एक खाणाचें पाकीट आनी एक उदकाची बोटल ताच्या हातांत दिली..... सायमन वचपाक घुंवलो. ताका मांयचो उगडास जालो. सद्या न्हिदूंक वयचे पयलीं तो तिका उमो दितालो. सायमन परतलो. तिचें सरी वचून तिचें तोंड ओडले. तिच्या पोल्यांक पापी दिली आनी आपले भरिल्ले दोळे तिचे नदरेक पडचे पयलीं तो तंबू वटेन धांवलो.[10]

पुराय कादंबरेचें कार्यथळ रांपणकाराचो समाज आशिल्ल्यान रांपणकारांच्या वेवसायाचे संदर्भ नकळटां येतलेच. हे कादंबरेंत ते कथानकाचेंच आंग जावन

आयल्यात. देखून बरोवप्यान ह्या वेवसायाचो बारीकसाणेन आभ्यास करप अपरिहार्य थारता. मावज्या सारक्या अभ्यासू लेखकान केलो हो अभ्यास वाचप्याचें लक्ष ओडून घेता. फातोडेर उटून व्हडें घेवन दर्यान वचपी रांपणकार, काळपाणी वळखून रांपण लावपी अभ्यासू रांपणकार, रांपणीक बुलगें (हिस्कादी), कासय बी लागल्यार मानान तांकां परतून दर्यात सोडपी रांपणकार, झारां, गादे रांपणेक फारवल्ल्यान रांपणकराचें जावपी लुकसाण. ते भायर रांपणकारांच्या वेवसायांत दिसपट्टी येवपी उतरावळ.... जाळ, व्हडें, काजुचो दीख, रांपण, ट्रॉलर, मोटरबोट आदी. नुस्त्याच्या ह्या वेवसायांत साबार तरांची नुस्तीं येतात. कादबरेंत साबार नुस्त्यांची नांवां वाचूंक मेळटात. देखीक : काळुंदरां, वागोळें, सुंगटां, ताल्ले, पेडवे, विसवण, रांवस, मोरी, पितुळशी आदी.... जाणकार इश्टां कडल्यान आनी भोंवतणच्या समाजांतल्यान हे सदर्भ ह्या बरोवप्यान तपासून घेतल्यात. रांपणकारांची जीण, तांचो दीनक्रम, तांची बोली, तांची उतरावळ, तांचे जिबेर घोळपी वाक्प्रचार आनी म्हणी, तांच्या वेवसायांतले चड–उतार आदी. असो बारिकसाणेचो तपशील शब्दबध्द करपी कांय संदर्भ पळोवया :

1. त्या काळार ट्रालर येवचे आशिल्ले. रांपणकार दर्याचे राजा आसले. पूण उपरांत ट्रॉलरवाले रांपणकारांच्या पोटार आड आयले. झगडी जावंक लागलीं. मागीर गे बोवाळ. रांपणकारांचो एकवट घडोवपाक गाबरूलो पाय पोटतिडकेन वावुरलो. सरकारान ह्या झगड्यांत लक्ष घातलें आनी रापणकाराक न्याय मेळोवन दिलो.[11]
2. खीणभर अमनून उबाल्दीन खालत्या सुरांत उलयलो. दृ खरें सांगों तुका गाबरू – हांव रांपणी को वयतां तेची कोंस्तासांक लज दिसता. दोन वर्सां फाटीं तेणें मायक वेळेर रांपणीको येवपाची बंद केल्ली. तेन्ना हायें कांय म्हुणो नासले. आतां हांव निस्त्याचो वावर करता तेची तेका लज दिसता. उबाल्दीनाचो आवाज रडकुरो जालो.[12]
3. रांपणकारांचे मनरीजवणेचें माध्यम म्हळ्यार 'कांतारां'[13]
4. 'कितें गो माशान म्हाका पेवपाक बरे येता म्हण खबर ना तूका दरया म्हजो फ्रेंड बरो मरे तूं सोमती दरया कडेन फ्रेंडशीप मारली ?'[14]
5. शिपलां (नुस्त्याचे माप) . दुलसीनाच्या पिकपांत धा शिपलां बांगडो, आठ

शिपला पेडी, तीन शिपलां करबट, आनी शिपूलभर सुंगटां आसलीं.[15]

6. दर्याचें उदक साव्या उदका परस ल्हव. चार हात मारल्यार धा हात मुखा पावता.[16]

7. 'दरयांत न्हावक गेलो मरे? – खारें उदीक आंगार जिरय नाका –' 'कित्याक ताणशेता गो तेजेर? खारव्यांगे भुरग्यांक केन्ना खारें उदीक बदलां.' पायन मांयचेर धेगसो घालो.[17]

कादंबरेंतलो खारवी समाज हो खिस्ती धर्मीक आशिल्ल्यान ताचे बोलीची विशेशताय सांबाळप गरजेचें. मावज्यान ही बोली विशेशताय बरे तरेन सांबाळ्ळ्या. कादंबरी निवेदनाची बोली प्रमाणे कोंकणीच्या आंगान वता आसली तरी खिस्ती खारवी पात्रां मात आपलीच बोली उलयतात. कादंबरेंत आयिल्ले हे बोलींतलीं कांय विशेश उतरां अशीं आसतात. देखीक :

बाकीन – बसपाचो मात्सो उंचायेचो पाट
माशान – मावशी
फेर्याद – सुटी
बिश्टेलो – बिश्टो
पासोत – खातीर
कॉमेस – सुरवात
आलेर्ताद – भरपूर
गूट – गुपीत
फोलीन – डबो
मॉर्गाद – अपुरबायेचें
पासा – खेप/फावटी
राब – राव
उकसार – बेगीन
थेली – पोती
शिंतीद – लक्ष
सुमोन – सप्तक
तियेक – तिका

कोंकणीचो भशीक वा बोलीचे नदरेंतल्यान संशोधन करतल्यांक आशा

खातीर दुसरे अस्तुरेन घेतिल्लो हो निर्णय आसता. ह्या निर्णया मेरेन पावपाक कार्मेलीनाक आरशेची कुवेतकान्न आनी इजाबेल ह्यो अस्तुऱ्यो आदार करतात. इजाबेल बेलींदाक समजायता : 'मांय तुजेच खातीर वता – ती तुका खूब शिकचे खातीर दुडू धाडटली – तुका बरी मुस्तायकी, तुका बरें खावपा – जेवपाक मेळचें म्हण ती दुडू हाडूंक वता, जोडून येतली आनी मागीर तुका सोडून ती खंयच वयची ना.' (पान. 175)

जुझेक ही गजाल कळटकच तो कुचेत्रीपणान हांसता. मागीर थुंकता आनी कांयच उलय नास्तना भायर सरून वयता. बायलेन परदेसांत नोकरे खातीर वचप ताका रुचना. आसा ती अर्थीक स्थिती बायलेन फुडाकार घेवन सुदारप ना आनी आपणेनूय ताचे खातीर कांयच करप ना अशी आडमुठी भुमिका जुझे घेता. बायलेक अर्थीक स्वातंत्र्य जाय आसता. हांगां दादलो बायले कडेन निश्काळजीपणान वागता. आपल्या मुळाव्या कर्तव्यां पासून तो पयस रावता. कुटूंब वेवस्थेक धरून फाव सारकें कर्तूब नाशिल्लो जुझे आत्मकेंद्रीत जीण जगता.

आपले धुवेक दुसऱ्यांच्या घरा दवरून कार्मेलीनाक कुवेताक नोकरेक वचपाचो निर्णय घेतलोच कित्याक? गोंयांत रावून तिच्यान पोट भरूं येतालें? तत्कालीन काळावयलीं बाकिचीं बायलां जगलीं नात? अशे कांय प्रस्न वाचप्यांच्या मुखार सहज उबे रावतात. कार्मेलीनाक भोगचे पडिल्ल्या भोगाविशीं हांवें वयर चर्चा केल्या. मनीस जे वेळार गरिबेच्या चेंपणापोंदा पडून भुके खातीर वळवळटा तेन्ना तो तातूंतल्यान आपली सुटका करपाक मार्ग सोदता. वयर म्हटलां तशें अर्थीक चणचणींतल्यान आपणाक सोडोवन घेवपाच्या पावित्र्यांत तो आसता. पोटाक लागिल्लो हुलोप मनशाक केन्ना केन्ना मनांत नाशिल्ल्यो गजाली करपाक प्रवृत्त करतात. अशे स्थितींत आसतना ताचे मुखार एकादी संद उबी रावली काय ताचो तो नकळत स्विकार करता. हें सगळे मनीस स्वभावाक धरून सैमीक रितीन घडटा. कार्मेलीनाक अर्थीक येणावळीचे सगळे मार्ग बंद जातकच ताचे म्हऱ्यांत एक पर्याय चलत येता तो म्हणजे आया म्हण कुवेटाक वचप.

लेखक मावजो हांणी दादलो–बायल हाच्या परस्पर संबंदाविशीं खूब जतनायेन आनी धिटायेन चित्रण करता. कार्मेलीन आनी आग्नेल. कार्मेलीन आनी जुझे. कार्मेलीन आनी निसार हाचे भितर जाल्ले मानवी वेव्हार आमच्यानी देख म्हण घेवं येतात. घडणुके उपरात कार्मेलीनाच्या मनात चलिल्ली घालमेल दाखय–लिपय

करिनास्तना लेखकान वाचकां मुखार उक्ती केल्या. 'दादलो आनी बायलेची कूड ए
जाली म्हण जायना... काळजां एक जावपाक जाय.' हांगां जुझे आनी कार्मेली
केन्नाच मनान एक जायनात. कार्मेलीनाक जुझेक आपलो घोव म्हण स्विकार कर
शक्य जायना. ताच्या मनांत जुझेचें स्थान कायमचें गौण उरता.

निसारा कडेन तें आनंदान भोग घेता. हांगां तें आपल्या हक्काच्या घोवा कडे
निसाराची तुळा करता. ही खोस खिणयाळी आसता. कारण थंयची ती घडोव
हाडिल्ली वा घडून आयिल्ली परिस्थिती आसता. हाका लागून कार्मेलीन लू
कॅरेक्टर थारना. कारण हांगां परिस्थितीक बळी पडिल्ली ती अस्तुरी थारता.

कार्मेलीन दुडू जोडून घरा येता आनी मागीर एका वर्सा खातीर परत कुवेताक
वचपाचो विचार मांडटा तेन्नो बेलींदा आपले आवय म्हणटा " ना मांय! हांव
कॉलेजींत वचपार ना!... हांवें चितलां मांय! आतां तूं खंयच वचूं नाका. आतां हांव
व्हड जालां न्हू?आतां हांव जोडटलें; हांव वयतलें कुवेताक–"(पान. 247) आपले
आवयक जावपी त्रास तें तरणाट्या मनाक स्पर्श जाता. ताचे मुखार आशिल्ले
परिस्थितीक लागूव बेलींदाच्या तोंडांतल्यान वयली इत्सा व्यक्त जाता. अशें घडप
साहजीक आशिल्लें आनी तें घडटा. तें मुखार म्हणटा "हांव पासपोर्ट करतलें. आनी
तुजेवरीच कुवेताक वयतलें... तुजेवरीच दुडू जोडटलें–" (पान. 247)

'तुजेवरीच' हें उतर आमकां खूब कितें सांगून वता. एक आवय ह्या नात्यान
तिका हें सोसना. 'तुजे वरीच दुडू जोडटलें' ह्या वाक्याचो कार्मेलीनीक राग येता.
ताची तिडक मस्तकाक पावता... आनी रागान कार्मेलीनाच्या पोल्यार थापट मारता.
ताच्या कानसुलार पडिल्लें थापट लेखक कार्मेलीनाच्या पुराय व्यक्तिमत्वाक न्याय
दिता. आनी इतलो वेळ एक हळशीक बायल... आपली कूड सहज तरेन परकी
दादल्याचे सुवादीक करपी. पयश्याक लाचार जावन आपली कूड विकपी अशी
कार्मेलीनाची प्रतिमा वाचकांच्या तकलेंत मूळ धरून राविल्ली आसता ताका अचानक
कलाटणी मेळटा. ह्या ताचे कृतेक लागून वाचकांची सहानुभुती कार्मेलीनाक फाव
जाता.

कार्मेलीन ही दामोदर मावजो हांची कोंकणी कादंबरी 1981 वर्साच्या जाग
दिवाळी अंकांत प्रकाशीत जाली. मुखार ती कादंबरी जाग प्रकाशनान डिसेंबर 1981
वर्सा पुस्तक रुपांत उजवाडायली. क्रिस्तांव लेखकांनी हिंदू धर्मियांच्या वास्तव
जिवनाचो साहित्यांतल्यान वेध घेवपाच्यो देखी तश्यो खूब उण्यो आसात, जाल्यार

हेंदू बरोवपी क्रिस्तांव धर्मियांचेर बरयतना धर्म आनी समाजजिवन हांचो खोलायेन अभ्यास करून लेखन करपाक मातशे फाटीं रावतात. हे नदरेंतल्यान कोंकणी कथा आनी कादंबरी लेखन करपी दामोदर मावजो अग्रेसर आसात. माजोड्डें साश्ट गांवांत क्रेस्तांव लोकवस्तेंत रावपी ह्या लेखकान क्रिस्तांवांचे लोकजिणेचीं जायतीं आंगां आपल्या साहित्यांतल्यान आयजवेर चित्रायल्यांत. कोंकणी साहित्य ह्या दोनूय धर्मांतल्या वाचकां मदीं प्रचलीत करपाचे नदरेन केल्ले प्रयत्न तोखणायेचे आसात.

आया म्हणून कामाक आशिल्ल्या कार्मेलीनाचे अनैतीक संबंद घराचो धनी निसार हाचे कडेन चित्रायिल्ल्यान गोंयच्या क्रिस्तांव वाचकांचेर जाल्ल्या परिणामाचे कांय पुरावे मेळटात. खंयचीय साहित्यकृती वाचकांचेर आनी तात्पर्यान समाजाचेर आपलो बरो–वायट प्रभाव हो घालताच. आदर्शवाद घेवन जल्मल्ल्यो कांय साहित्यकृती समाजा मुखार आपलीं मार्गदर्शक तत्वां दवरता. सामाजीक विशमतायेचेर चर्चा करतना लेखक समाजांतल्या अनुचीत गजालींचेर वाचप्यांचें लक्ष ओडटा आनी वायट वृत्ती आनी प्रवृत्तींचेर तो बडी मारता. मनीस हो केन्ना वायट नासता; ताका ताचे भोंवतणची परिस्थिती तशे तरेन वागपाक प्रवृत्त करता.

दामोदर मावजो हे माजोड्डें साश्टीचे. ताचे सरभोंवतणीं सगळो क्रिस्तांव समाज. वेवसायान ते एक पसरकार आशिल्ले. कार्मेलीन कादंबरीचे निर्मिती विशीं ते म्हणटात :

अशेंच आमच्या पसऱ्यार एक भुरगें आयलें. उदार मनाचें आनी आपले कडेन कितें आसा तें रोकडेंच दुसऱ्यांक वांटपी. कुवेटकान्नीचें चेडूं म्हूण दुसरीं ताका चाळयतालीं. एक दीस चिंतेस्त जावन आपणाक आवय कुवेटाक व्हरपाक सोदिना म्हूण ताणें सागलें. फुडली बारीकसाण काडटकच आवय कित्याक कुवेटाक व्हरूंक सोदिना तें समजलें...'

'नवें गोंय' ह्या रोमी दिसाळ्यांत कार्मेलीन कादंबरी खिस्तींनी उजवाडा येवंक लागली. ही कादबरी क्रिस्तांव वाचक वाचपाक लागतकूच तातूंतले कांय क्रिस्तांव समाजातले वाचक अनैतीकतेचो मुद्दो मुखार करून तिका विरोध करपाक लागले. ही कादबरी क्रिस्ताव समाजाची बदनामी करपी आसा. तातूत 'वलगेरिटी' आसून ती जातीयवादाक पोसवण दिता असो लेखकाचेर आरोप जावपाक लागलो. वयल्या दिसाळ्यात ह्या विशयाचेर जेस फेर्नादीश हाणें आपलें मत पयलें व्यक्त केलें. सोर्तेर बारेटो आनी हेरानी रोमी लिपयेंतल्या वेगळ्यावेगळ्या नेमाळ्यांनी आपलीं मतां

मांडलीं. अशे तरेन नवें गोंय नेमाळ्यांत उजवाडा येवपी ती कादंबरी उजवाडावप्याक बंद करची पडली.

कार्मेलीन हे कादंबरेक 1984 वर्साचो साहित्य अकादमीचो राष्ट्रीय पुरस्कार फाव जालो. ह्या वेळार सोर्तेर बार्रेटो हांणी नवें गोंय खातीर घेतिल्ले मुलाखती वेळार लेखकाक विचारिल्लो एक प्रस्न असो आशिल्लो : असोय एक आरोप आसलो की तुवें कार्मेलीना बोदला एक तुळशी अशें पात्र कित्याक घेवंक ना? ताका जाप दितना दामोदर मावजो हाणें सांगलां तें अशें :

'. . . 1970आत हिंदू बायलो 'आय' कश्यो काम करूंक 'Middle East' – ा जबरश्यो वेताल्यो? हांव म्हाड्डोळच्या वाठाराचेर बरयिल्लें जाल्यार थंय एक मोगरें वो शेंवतेंच दाखोवचें पडटलें आसलें. ते भायर हांवें कार्मेलीनाक एक वायट सभावाची बायल कशी चित्रावंकूच ना. उरफाटें, ताचे पांय धुवन उदोक मेळटा तें तीर्थ कशें पियेवचें असले लायकीची व्यक्ती अशी हांवें कार्मेलीनाक चित्रायल्या... पूण कांय आपसुवार्थी बरोवप्यांनी त्या पत्राचेर चिटयो बरोवन वाचप्यांचेर प्रभाव हाडलो आनी कादंबरी फुडें छापपाची बंद केली.'[3] (लिप्यांतर करून)

हे कादंबरेचेर क्रिस्तांव समाजांत आरतून परतून चर्चा जाली. लेखकाक त्या वेळार खर विरोध सोंसचो पडलो. सगळ्याच क्रिस्तांव वाचकांक हो विरोध मान्य नाशिल्लो. कांय जाण लेखकाच्या मता कडेन सहमत जावन तेंको दिवपीय आशिल्ले. अश्या वेळार आपूण संपादक आशिल्ल्या फा. फ्रॅडी डिकोस्ता हांणी फुडाकार घेवन कार्मेलीन ही कादंबरी 'गोंयचो आवज' ह्या नेमाळ्यांत उजवाडा हाडली. आयचे घटकेक चडावत भारतीय भाशांनी अणकारीत जाल्ली 'कार्मेलीन' ही कोंकणींतली एकमेव कादंबरी आसा. ग्लोरीना मास्कारेन्यश कार्मेलीन : कुवेतांतलें सत्य (कोंकण टायम्स : जानेवारी–मार्च 1992) ह्या आपल्या लेखांत निमाणे कडेन म्हणटा : 'कार्मेलीन ही अशी कादंबरी. खरेंच लेखकाची तोखणाय करता तितली थोडी. आपल्या काळजीधारपणान कुवेंतांत घडपी सत्य आयज हे कादंबरेच्या रुपान ताणें समाजा मुखार दवरलां.' (पा. 6)

धर्मांतलें कर्मठपण आनी विशिश्ट समाजांत, जातींत वा वर्गांत आशिल्ली विशमताय साहित्यांत चित्रायतकच विरोधक आपली भुमिका मांडटात आनी थंय संघर्श निर्माण जाता. हाचो बरो वायट परिणाम सर्वसामान्याचेर पडटा. कार्ल मार्क्स हांणी 'धर्म ही अफूची गुळी' अशें म्हणलां. धर्माची झिंग मनशाचे तकलेंत चडटकच

ी देंवप कठीण आसता. आपल्या धर्माचेर वायट बरयिल्लें तांका रुचना आनी ते तें ख्रपोवन घेनात. धर्मीक मनशाक आपलो धर्म स्रेश्ठ दिसता.

लेखकान सामान्य व्यक्तीरेखीची निवड केल्या. ही कादंबरी कार्मेलीन ह्या पात्राच्या दुख्खा कडेन वाचकाक एकरूप जावपाक लायता ही हे कादंबरेची आंतरीक शक्त. ही कादंबरी वाचकांक वाङमयीन आनंद दिता. कादंबरी सोपमेरेन ती वाचकाक आपले भितर गुंथून दवरता. कार्मेलीन कादंबरेंतले कथेक एक प्रवाह आसा. कारण लेखकाचें निवेदन हें उत्सुकता वाडोवपी आनी भावनेच्या तळाक हात घालपी अशेंच आसा. ज्या साहित्यांत समाजाचें वास्तव चित्रण केल्लें आसता तेंच साहित्य समाजाचेर प्रभाव घालपाक यशस्वी थारता. बदलत्या समाजाचे प्रस्न, तांचीं सुख--दुखां, तांचे हावेस, मानवी मुल्यांचो जावपी ऱ्हास आनी समाजांतल्या विसंगतींचो साहित्यांत चर्चेचो विशय जातकच ती कलाकृती सदांच उजवी थारता.

कादंबरी साहित्याच्या मळार बायल मनशेचें वास्तव आनी विदारक चित्रण साबार लेखकानी उबें केलां. गोंयच्या मराठी कादंबरी साहित्यांत चंद्रकांत काकोडकार हांची 'शामा' (1950) आनी बा. भ. बोरकार हांची 'भावीण' (1950) ह्यो कादंबऱ्यो लागीं लागीं एकाच विशयाचो वेध घेवपी आसात. शामा हे कादंबरेंत तत्कालीन समाजवेवस्थेक बळी पडिल्ले बायलेचें, भावीण हातूंत गोंयच्या कलावंत अस्तुरेचें भावविश्व जाल्यार 'महानंदा' हे कादंबरेंत गोंया साकून सुमार 60 कि. मी. अतराचेर आरावली (महाराष्ट्र) ह्या कोंकण भागांतले 'देवदासी' प्रथेचो प्रस्न लेखकान आपले कादंबरेंत मांडला. उत्तम बंडू तुपे हांची 'झुलवा' तशेंच राजन गवस लिखीत 'चौंडक' आनी 'भंडारभोग' ह्या कादंबऱ्यांनी समाजा मुखार आशिल्लो देवदासींचो प्रस्न हाताळल्लिो पळोवंक मेळटा. गोंयांत तशेंच भारतांतल्या कांय हेर भागांनी 'भावीण' ही प्रथा चालू आशिल्ल्याची नोंद मेळटा. भारतांत देवदासी आनी हेर कांय नांवानी प्रचलीत आशिल्ले हे प्रथेंतले बायलेक गोंयांत वेगळ्यावेगळ्या वाठारात कलवंत, भावीण वा नायकीण ह्या नांवान संबोधतात.[4]

कार्मेलीन ही कोंकणी कादंबरी भारतांत वेगवेगळ्या भाशीक वाचकांनी वाचिल्ली एकमेव कादंबरी. कार्मेलीन हे कादंबरेक वर्स 1983 वर्सा साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जाला. कार्मेलीन ही कादंबरी इंग्लीश तशेंच हिंदी, मराठी, कन्नड, गुजराती, सिंधी, पंजाबी, बंगाली, उडिया, तमीळ, मैथिली, काश्मिरी आनी असामिया अश्या साबार भाशानी अणकारीत जाल्ली आसा. हे कादंबरेक सिंधी,

गुजराती, मैथिली आनी मराठी ह्या भाशांतलो अणकारा खातीर आशिल्लो साहित्
अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल्ल्यान हे कोंकणी कादंबरेक भारतीय कादंबरेच्य
दालनांत मानाची सुवात फाव जाल्या.

## संदर्भ :


1. Baretto, Sorter. Ek Mulakat Damodar Mauzo. Novem Goem, Vorl X - 11, Ank 253, 26th Ferver 1984, p. 02.
2. फेर्नादीश, जेस. हाणे ता. 25 सप्टेंबर 2013 ह्या दिसा फोनाचेर दिल्ली माहिती.
3. आदलोच संदर्भ. ठंतमजजव,ै वतजमत. म डनसांज कंउवकंत डंन्रव, च. 05
4. 'महाबळेश्वर सैल हांच्या कादंबऱ्यांचें समाजशास्त्रीय अध्ययन' डॉक्टर ऑफ फिलोसोफी हे पदवे खातीर गोंय विद्यापिठाक कोंकणींत सादर केल्लो सोद–प्रबंध. सोदवावर करपी प्रकाश शांबा पर्येकार. (पा.93)




# ‘सुनामी सायमन’: शेणिल्ल्या सायमनाची संघर्शमय प्रवासकाणी

डॉ. राजय पवार

‘सुनामी सायमन’ ही दामोदर मावजो हांची 2009 वर्सा आयिल्ली कादंबरी. आयतार 26 डिसेंबर 2004 ह्या दिसा चन्नेय आनी पुर्व भारता कडल्या प्रांतानी आयिल्ले सुनामीचे फाटभुंयेर ही कांदबरी आकार घेता. हे कादंबरींतलो काळ सादारणपणान 15 डिसेंबर 2004 ते 15 जून 2005 असो सुमार स म्हयन्यांचो. फकत स म्हयन्यांचो काळ घेवन लेगीत लेखक आशयाक कादंबरीचें स्वरूप दिवपांत येसस्वी थरला. हरशीं कमी काळाचो आंवाठ घेवन कादंबरीचें लिखण करताना तेंच तेंचपण, गरजे भायल्या घडणुकांची भरती वा ओडून ताणून हाडिल्लो प्रसंग रिगोवपाचो यत्न जावपाचो भंय आसता. मात मावज्या सारकेल्या कुशल बरोवप्याचे बाबतींत हें घडप अशक्य.

कादंबरीचें कथानक, घडणुकांची मांडणी, सर्घशात्मक चडा–ओड ह्या बाबतींत लेखक येसस्वी थारिल्यान ही कादंबरी एके बसकेंत वाचून पुराय करपाचो मोह आवरना वा म्हणुया वाचप्यांक उठपाचें भानूच उरना. सुनामीची फाटभूंय लाबिल्ल्यान चेन्नय वाठार आनी थंयचे प्रसंग रंगयतना लेखकान केल्ल्या अभ्यासाची जाणीव जाले बगर रावना. कादंबरींतली मुखेल पात्रां सायमन, गाबरू आनी दुलसीन हीं क्रिस्तांव धर्मीक खारवी सामाजांतली आशिल्ल्यान तांची वेवसायीक जीण, तांची बोली, तांची खाणां, तांचे उत्सव आदी गजालीचें पडबिम्ब लेखकान खूबच बारीकसाणेन शब्दबध्द केलां. गोंयचो खारवी समाज आनी चेन्नयचो खारवी चमाज हांची वेवसायीक जीण हे कादंबरींत पळोवंक मेळटा. बरोवपी आमका दर्या वेळेर व्हरता, दर्यात नुस्तेमारी चलता थंय तांच्या व्हड्यार व्हरता, खारव्याच्या घरांनी व्हरता तशेंच गोंयच्यान चेन्नय व्हरून थंयचे दर्या वेळेर ताचे फायबर बोटीचेर, आनी थंयच्या खारवी समाजाच्या वाडयार व्हरून तांची जीण दाखोवन हाडटा.

कादंबरीकार आमकां मडगांवच्यान, चेन्नय आनी येताना व्हाया केरळ परतू
गोंयांत हाडटा. ही भोंवडी घडयतना कादंबरीच्या कथानकाचो केंद्रबिंदू थरप
सुनामी हो प्रसंग चित्रायतना लेखक वाचकांकूय त्या हुंवाराचो अणभव घडयता अश
म्हणल्यार ती अतिताय थारची ना. सुनामीचो प्रसंग दोळ्यां मुखार उबो जायना त
वाचपी प्रत्यक्षांत त्या हुंवारांत सांपडिल्ल्याचो अणभव घेता. सायमनाचे सुवात
वाचपी स्वताक अणभवता. सुमार 50 मिटर उंचायेच्या ल्हारांचेर शेंवटून वचप
व्हडयांत आपुणच आशिल्ल्याचो भास वाचतना घडटा हेंवूय लेखकाच्या लेखन
शैलीचें जैत म्हणूंक जाय. आपल्या कथानकाच्या आशयाची हे कादंबरेंत अभिव्यक्ती
करतना बरोवप्याची शैली, भाशेवेली पकड, निरिक्षणात्मक नदर आनी अभ्यासपूर्ण
आविश्कार खंयच्याय चिकित्सक वाचप्याक आपसूक समजता.

ही काणी फकत सायमनाची न्ही तर पुराय मनीसजिणेची काणी. जीण आनी
मरण ह्या दोन तोंकां मदलो आमचो प्रवास कसल्या प्रसंगांनी भरिल्लो आसता तें हे
कादंबरेच्या निमतान लक्षांत येता. कादंबरेंत मडगांवच्या बेताळभाटींतल्या गणसूव
वाड्यावेलें गाबरूचें कुटूंब आनी कुशीच्या सुरावले वाठाराचो संर्दभ ही गोंयची
भुगोलीक मर्यादा दिश्टी पडटा जाल्यार पॉडीचेरींतल्या देवनामपट्टणचो कालापेट
वाठार ही चेन्नयची भुगोलीक मर्यादा हे कादबंरेक फावो जाल्या. निमाणें मात
चेन्नयच्यान परतीचो प्रवास करतना करपाडी गांव आनी केरळचो 'कॅलीकट' गांव
भुगोलीक नदरेन कथानकाक आदार करता. गोंय दृ चेन्नय – गोंय असो प्रवाय
घडयताना ती सरळ भोंवडी जावन येवचे बदला भोंव–यांत सांपडिल्ली भोंवडी
जावन येता. गोंय आनी चेन्नय हे भुगोलीक नदरेन एकामेकांक विरूध्द कशे – एके
कडेन दीस दर्यांत उदेता जाल्यार दुसरे कडेन दीस दर्यांत अस्तमता. दीस उदेवप
आनी दीस अस्तमप हांचे मदीं येवपी सकाळ, दनपार, सांज. एके वटेन आनी
आख्खी काळखी रात दुसरे वटेन अशा विरूध्द आंगांनी येवपी घडणूक आनी प्रसंग
हे कादंबरेंत पावला पावलाक जाणवतात.

हे सुनामीक लागून भारत, श्रीलका, इंडोनेशिया, मालदीप आनी थायलंड
हांगाच्या सुमार 2,25,000 लोकांक मरण आयिल्ले'. भारतांत 26 डिसेंबर 2004 ह्या
दिसा चन्नयच्या पिल्लयचावडी पेरिया कालापेट आनी चिन्ना कालापेट ह्या
वाठारांनी मोठ्या प्रमाणान लुकसाण आनी जिवीतहानी जाल्ली. हातूंतलीच
कालापेट वस्ती मावजो हांणी सुनामीची सुवात म्हण घेवन सायमनाची भयानक

आनी नवे जिणेची काणी मांडल्या. ह्या प्रवासांत 'मोना'च्या येण्यान सायमन खरे अर्थान (नव्या करारांतलो) जेजुचो खुरीस आपल्या खांदार व्हांवपी एक भाव. हिब्रू भाशेंत सायमन म्हणल्यार – ताणें (देवान) आयकलां. गाब्रु हो गाब्रिएला चें रूप. हिब्रू भाशेंत 'गाब्रिएल' म्हणल्यार 'देव म्हजी शक्त.'

पुराय कादंबरी सुनामीचेर आदारिल्ली नासून सुनामीच्या कारणान शेणिल्ल्या सायमनाच्या प्रवासाचेर आदारल्या. थोडे भितर कथानकाचेर नदर मारया. गोंयांतल्या बेतालभाटी गांवांतल्या गणसूव वाडयावेलो सायमन हो गाबरू आनी दुलसीन हाचो पूत. तांची धाकली भयण 'बुला' (ब्लांश) 'एन्सेफलायटीस' दुयेंस जावन मरता. मासेंलीन ही तांची मावशी तागेरूच आसताली. जल्मा सावन तिणेंच दोगांकूय सांबाळिल्लीं. मार्सेलीन थंयच एकल्याचे (जाकनुले) मोटरबोटीचेर काम करपी पोण्णुदुराय ह्या मद्राशाच्या मोगांत पडटा आनी घरच्यांच्या विरोधाचो अदमास घेवन एक दीस ताचे वांगडा पळून वता. तीं दोंगाय चैन्नयच्या देवनामपट्टण हांगाच्या कालापेट वाठारांत रावतात. मार्सेलीन दर म्हयन्याक चीट धाडटा. पण दुलसीनाक चिटयेक जाप दिना. पूण मागीर स म्हयन्या उपरांत राग–रूस उरलो ना. दुलसीन चीट धाडून बुला उगडास काडटा, घोवाक घेवन येवन वोस' अशें सागीत रावता. पूण पयशिल्लें अंतर आनी कामाचो व्याप हाका लागून मार्सेलीन भयणीगेर येवपाचो बेत मुखार धुकलीत रावता.

मजगतीं बुला मरता. पूण मार्सेलीन ताच्या मरणाक पावना. पूण आपूण 'वर्साच्या मिसाक येतलेंच' म्हूण बरयता. मार्सेलीन आयल्या उपरांत दुलसीन फाटल्या यादींनी रिगता आनी गजालींनी ताचो दीस कसो वता तेंच कळना. रोखडीच नातालाची सुटी पडपाची आशिल्ल्यान मार्सेलीन सायमनाक आपल्यागेर चेन्नयक आपयता. सायमनूय खूश जाता. पूण मांय ताका वेगवेगळीं निमतां सांगून आडावपाक सोदता. सायमन थंय गेल्यार एक दीस पसून घरांत रावपाक जावचें ना अशें ताका दिसता. निमणें सायमन आपल्या पायक फुसलावन वचपाची परमिशन घेता.

सायमनाच्या पायक धंद्याची गरज म्हण एक मोबायल फोन आसता मात ताच्या घरांत 'लेण्ड लायन' आसची अशें दुलसीनाक दिसूनय गाबरू ती घेना. मार्सेलीनाच्या गांवांत तर पब्लीक 'पे फोन बूथ' लेगीत नासता. अशा वातावरणांत सपर्काचें साधन नाशिल्ल्यान सायमन आपले माशेनागेर गेल्या काळांत

दुलसिनाच्या जिवाची बरीच घालमेल जाता. सायमन पयलेच फावट ट्रेनीन आनी इतल्या लांब प्रवाससाचो अणभव घेता. दोनूच दिसांत सायमन थंय रमता. भास न कळून पासून तो थंयच्या भुरग्यां वागडा खेळपाक लागता.

हे वटेन गाबरूक बरें नुस्तें लागिल्ल्यान खूब फायदो जाता. उमेदीन तो आनी दुलसी तियात्राक वचपाचो बेत आंखतात. पूण ती दोगांय स्कुटरीन वतना वाटेर एक ल्हानसो अपघात जावन गारबूच्या पांयांक 'हेअर लायन' फ्रॅक्चर जाता. ताका पांयांक प्लास्टर घालून घरा बसचें पडटा. नातालाचे राती सायमन मांय – पायक वीश करपाक फोन लायता. पाय घराच आशिल्ल्यान ताका मांय कडेन उलोवपाक मेळटा. उपरांत नव्या वर्साची परबीं भेटोवंक फोन करपाचें थारता.

ल्हानशेच चर्चींत मिसाक वचून मार्सेलीन, पोण्णू, सायमन घरांतूच नातालांची परब मनयतात. दुसऱ्या दिसा म्हणल्यार डिसेंबराचे 26 तारकेर पोण्णू आपले फायबर बोटीर नुस्त्याक वतना सायमनूय उमेदीन ताचे वांगडा वता. 2004 वर्सा इंडोनेशियांत (सुमात्रांत) त्याच दिसा सुमार 9.3 मॉमेन्ट मॅग्नीटयूड स्केल (रिक्टर मॅग्नीटयूड स्केल)चो भुयकांप जाल्ल्यान इंडोनेशिया वांगडाच भारत, श्रीलंका आऩी थायलँडाकूय ताचे परीणाम सोंसचे पडले. (विज्ञानीक पंगड ताका 'सुमात्रा – अंदमान भूंयकाप' म्हण वळखतात). इंडीयन ओशनाच्या भारतीय दर्या देगांनी (त्या त्या वाठारांत) मोठ्या प्रमाणांत लुकसाण जालें. तामीळनाडू आनी कुशीच्या दर्यादेग वाठारांनी मेळून सूमार 7,000 लेकांती बळी गेले. हे सुनामींत सगळ्या चड जिवीतहानी जाली ती तामीळनाडूंत. सरकारी सुत्रा प्रमाणे जरी हो आंकडो 10,136 इतलो आसलो तरी वास्तवांत सुमार 18,000 परस चड लेकांक मरण आयिल्ल्याचें मानतात.[2] हे फाटभूंयेर ही कादंबरी हांगा म्हत्वाचें मोडण घेता. पेण्णू आनी सायमन फायबर बोटीचेर आसतात तेन्नाच ही सुनामीची घडणूक जाता. ताची फायबर बोट मेळत ते वाटेन झेलता.... आनी पोण्णू वांगडाच सायमनूय दर्यांत शेंवटता. देवा दयेन सायमन एक बुडिल्ल्या माडाच्या चुडटाक धरून थंयूच कवळांत बसून रावता. पुराय गांव काबार जाता. पोण्णूय मार्सेलीन सगलीच मरतात..... दुसऱ्या दिसा मिलीटरीच्या रेस्क्यू कॅम्पांत आलाशिरो घेता. थंय जायतीं अनाथ जाल्लीं भुरगींय आसतात. तातूंत आशिल्ली सुनामीच्या शॉकान वाचा गेल्ल्या एके णव – धा वर्सांचे चलयेक पळोवन सायमनाक आपले भयणीची याद जाता. तें मात मोनेंच जावन थंय बसून आसता. देखून तो ताका मोना म्हणपाक लागता. तो ताका

खावपाक दिता.... ताचेर लक्ष दवरता...... जोर येता तेन्ना नर्सीक आपयता.... निमणें आपल्याक गोंयां वचपाची आस दिसनाशिल्ल्यान तो मोनाक घेवन राती कडेन भायर सरता.

मजगतीं चेन्नयची बातमी गोंयांत पाविल्ल्यान गाबरूचेर आकांत येता. भुरग्याच्या हुसक्यान निमाणी दोंगांय चेन्नयक वतात. मोटया कश्टान तीं कालापेट वाठारांत पावतात पूण तांच्या पदरांत निराशाच पडटा. कॅम्पांनी भोवन लेगीत तांकां सायमन सांपडना आनी मार्सेलीनाच्या घराची अवस्था पळोवन ताची अस्त मरता. निराश आनी दुख्खी जावन तीं गोंयां परततात. मात ट्रेनींत एकल्या पेपरांत सायमनाचो माडाच्या कवळांत जीव वाटावन राविल्लो फोटो छापिल्लो आसता. तो ताका नदरेक पडटा. आनी ल्हानशे आशेर तीं गोंयां परततात. हांगां मंत्र्याक सांगून ती पुलीशेन सायमनाचो सोद घेवचो म्हण विनवणी करतात. पुलीस गाबरूक घेवन चेन्नय वचून येतात. पूण थंय हेवटेन तेवटेन सोदून तो मेला आसतलो म्हणपाचो निर्णय घेतात. ते वटेन सायमन जायत्या बऱ्या – वायट प्रसंगांक, आनी अणभवांक तोंड दिता. ताच्या गोंया वचपाच्या ह्या परतीच्या प्रवासाची ही काणी म्हळ्यार हे कादंबरेचो आत्मो.

मदीं तो हॉटेलांत काम करता आनी घरा वचपाक पयशे एकठांयता. हें करतना तो 'मोना'क बरे तरेन साबांळटा. दीस – रात ताका जापता. थोडे पयशे जमतकीच ट्रेनीन वचपाचो प्लॅन करता. पूण ताका स्टेशेनार कोण तरी नागयता. मोना बरें ना जातकच ताका हॉस्पिटलांत एडमीट करता. थंय ताका 'टायफॉय्ड' जाल्ल्यान बरेच दीस रावचें पडटा. अशा वेळार जे रिक्षेंतल्यान ताणें ताका व्हेल्लें आसता तो रिक्षेकारूच ताची वासपूस करता, जेवण हाडटा, वखदां हाडटा. मोना बरें जातकच तो रिक्षेकार तांकां आपल्या घरा व्हरता. थंय कुशीच्या भुरग्यांक टयूशन दिवन तो परते पयशे जमयता. तो रिक्षाकारूय एका अपघातात भायर पडटकीच सायमन मोनाक घेवन परतून मुखार वता.... टयुशनांतल्यान आयिल्ले जेमतेम पयशे घेवन तो रेल्वे स्टेशनार वता..... थंयच्यान ट्रेनीन मुखार वताना ताका वाटेर करपाडी (चेन्नय) स्टेशनार देंविल्ले कडेन ट्रेन सांडून वता. तिकेट नाशिल्ल्यान टिसीक तोंड दिवचें पडटा. तो टिसी ताका आपल्या घरा व्हरून कामाक लायता. थंय काम करतनाय परतून अप्स–अण्ड–डाउन्स सोंशीत तो थंयच्यानूय पळ काडटा आनी रेल्वे स्टेशनार एका बऱ्या पोर्टसच्या हाताक पडटा. तो ताका आपले वळखीन फुडले

ट्रेनीच्या टिसी कडेन फावोर मागून ट्रेनींत चडयता. तो टिसी ताची काकूळट करून तांकां एक सीट मेळोवन दिता. राती कडेन तो तांकां वडा–पाव दिता. पूण ताची डयुटी कॅलीकट मेरेनच आशिल्ल्यान तांकांय ताचे वांगडाच देंवचें पडटा. थंयूच प्लॅटफॉर्मार एका बांकार तो मोनाक न्हिदयता आनी कुशीक आपून न्हिदता. फांतोचेर एक पुलीस तांकां थंयच्यान धावडायता. तो मोनाक घेवन भायर येता. थंयच्या गार्डनांत बसता. लोक थंय जॉगींग, मॉनींग वॉक करतात. इतल्यांत एका वॉकाक आयिल्ली जाणटया मनशाचेर एक तरनाटो सुरी उबारून ताका किडनॅप करपाचें थारयता.... त्याच वेळार सायमनाक आपणें शिकिल्ली कराटे वापरून ताका वांटायता आनी त्या गुंडांचे टोळयेक धरून दिता. आपलो जीव वाटोवपी सायमनाक आनी मोनाक तो आपल्या घरा व्हरता. तो थंयचो सगळ्यांत व्हडलो गिरेस्त उद्देगपती आसता. तो ताका नवे नवे कपडे, बरी बरी खणां दिता आनी आपूण ताका आपले गाडयेन घरा पावयतलो म्हण उतर दिता. तो आपल्या चलयाक सुनेक घेवन सायमन आनी मोनाक आपल्या गाडयेन बेतालभाटयेंतल्या गणसूव वाडयार पावता. पुताक पळोवन मांय–पाय खुशालभरीत जातात. पाय आपणें केल्ल्या येत्नांची वळेरी मांडटा. पूण पेपरांतल्या फोटवान आपली आस्त जिती दवरिल्ली म्हण सांगतना तो पेपर हाडून दाखयता. तातूंत मोनाचोय फोटो छापून आयिल्लो आसता. तो उद्देगपती ती जायरात वाचता. मोनाचें खरें नांव सरस्वती आसता आनी ताची आवय बापूय सुनामींत मेल्ल्यान ताच्या मामान तें कोणाकूय सांपडले जाल्यार आपल्याक मोबायल नंबरार कळोवचे म्हण ती जायरात दिल्ली आसता.

तो उद्देपती आपल्या घरा परतता. आनी थोडयांच दिसांनी उद्देगपतीचो चलो सरस्वतीच्या मामाक घेवन सायमनागेर पावता. पूण मोना ताचे वांगडा वचपाक तयार नासता. तें सायमाना वांगडा खूश आसता. मामाचीय परिस्थिती व्हडलिशी बरी नासता. सायमनाचो आनी घरच्यांचो मोनावेलो मोग पळोवन तो मोनाक तांचेच सुवादीन करता.

ही कादंबरी फकत प्रसंग आनी घडणुकांनी भरिल्लें एक कथानक घेवन येना तर मनशाच्या समाजीक जिणेंत येवपी 'अप्स–अण्ड–डाउन्स' हांचो ग्राफ चित्रायता. कितले त्रास आयले तरी मनीसपणचें तत्व सांबाळून जगपाचो मंत्र हातूंत दिसता. पुराय कादंबरेंत बरोवप्यान नातीं, मोग, मनीसपण, तत्व आदी बऱ्या गजालीचें चित्रण करतनाच आस, फटींगपण, नाड बुध्दी, आळशीपण आदी वायट

गजालींचेरूय उजवाड घातला. एक बरी गजाल करपाक वतना चार वायट गजाली आड येतल्योच म्हूण निराश जायनासतना मुखार वचप हो जिणेचो मंत्र हे कादंबरेंतल्यान मेळटा.

'सुनामी सायमनांत मोग आयला, धिटाय आयल्या आनी सामकें म्हत्वाचें म्हळ्यार मनीसपणाची भावना दाखोवपी सूत्र आयलां. हे कादंबरेंत बरोवप्यान केल्ल्या कल्पना आनी अभ्यासपुर्ण मांडावळेंतल्यान कांय म्हत्वाचीं तत्वां नदरेंत भरतात तीं म्हळ्यारः

कादंबरेंत गाबरू आनी दुलसीन, सायमन आनी मांय–पाय, बुला आनी दुलसीन, माशेन आनी सायमन, दुलसीन आनी मार्सेलीन अशा साबार पात्रांच्या मोग आनी मोयपासाचें वर्णन नदरेंत भर सारकें आसा. लेखकान कथानकाक इबाडनासतना ह्या तत्वांक न्याय दिला. क्लबाचे कार्यावळीक सायमनाचो डान्स जाल्या उपरांत टिचर येवन दुलसीनाक जेन्ना तुगेलो चेडो शिकपाकूय हुशार आनी नाचुकूय अशें म्हणटा तेन्ना ताची जाल्ली तोखणाय पळोवन मांय घरा पावचे पयलींच दिश्टीकान्नीगेर व्हरून सायमनाची दीश्ट काडटा[3]. मांय मरत सावन मार्सेलीन आपले भयणीगेरूच रावतालें. दुल्सीनालें घर हेंच मर्सेलिनालें कुळार जाल्ले.[4]

हे कादंबरेंत लेखकान बुलगें आनी रांपोणकार हांचे नातें खूब सुदर संवादांतल्यान आनी भावनीक आंगान उकतायलां. तें बुलगें केन्ना पात्र जाल्यार केन्ना प्रतिमा जावन व्यक्त जाल्लें दिश्टी पडटा. बुलग्याक दुखानासतना परतून सुखरूप ताच्या संवसारांत व्हरून सोडपी गाबरू आनी बुलग्याच्या दोळ्यांतलीं दुकां पुसपी दुलसीन मनांत घर करून रावतात. दुलसीनाली आर्तताय ताच्या संवादांतल्यान जाणवता. देखीकः चोय गो, मार्सेलीन.... म्हगे बुलागे दोळे ते.... सांग गो तेका... सोड तेंकां आनी दुलसीन रडूंक लागलें[5]. हेर कांय प्रसंग देखी खातीर पळोवंया. फाटीं एक फावट गाबरूले रांपणीत वांवभर व्हडलें बुलगें फारावेिल्लें. गाबरून ताका दुखय नासतना दर्यांचें उदक भितर सरून तयार जाल्ले खादयेंत सोडिल्लें[6]. बुलग्याच्या आंगा वयल्यान हात भोंवडायलो आनी दोनूय हातांनी बुलग्याल्या दोळ्यातलीं दुकां पुसली. बुलग्याल्या दोळ्यांतली कृतज्ञताय सगल्या खारव्यांक जाणवली.[7]

कादंबरेंत भाव आनी भयणीचें नातें साबार प्रसंगांतल्यान उबें जाता. सायमन

आपल्या भावाची जबाबदारी आनी भयणीचो मोग व्याक्त करतना एक सुदंर प्रसंग वाचूंक मेळटा. सायमनाक वाटेर आंब्याचें झाड दिश्टी पडटा तेन्नाचो प्रसंग असो आसा. झाडा वयल्यान पडिल्लो पूण एकेवटेन कावळ्यान चोंचवन कल्ल केल्लो आंबो सायमन भौशीक नळार व्हरून धुवन खाता. तेन्ना ताका मोनाची याद येता. आनी तो रूखार चडून एक झाडपिको आंबो मोना खातीर घेवन येता8. भाव–भयण हाचें नातें कितलें घट आसता.... मोग आनी मोगा पासत मनशाक कशे तरेन बांदून दवरता तें निमण्या प्रसंगांत भावपुर्ण रितीन व्यक्त जालां. जेन्ना सरस्वतीचो (मोनाचो) मामा ताका व्हरपाक येता तेन्ना सायमनाचे दोळे भरून आयले. ताणें मोनाचो हात घट धरलो. मामा तामील भाशेन कितें तरी उलयलो. पूण मोनान जाप दिली ना. ताणें ताका ओडलें तेन्ना मोनान ताका धुकल्लो आनी मांयक घट वेंग मारली.[9]

मनशाची प्रीय वस्त शेणटकीच ताचो थांबनासतना सोद सुरू जाता.... सुनामीच्या हुवंरांत जायत्या जाणाच्यो जायत्यो वस्तू शेणल्यो.... मनशां शेणलीं.... नातीं शेणलीं....स्वता हुवारांत शेणिल्लो सायमन ह्या संघर्श–प्रवासांत आपली मायेचीं मनशां सोदता. शेणिल्लीं नातीं सोदता.... आनी अचकीत ताका परकी वाठारांत लेगीत आपलेपणाची मनशां दिसपाक लागतात. मजतकार्य करपाक आयिल्ली वैजकी पंगडांत ताका नर्स दिश्टी पडटा आनी तिचे भितर तो आपल्या मांयक पळयता. हो प्रसंग म्हणल्यार मनीस–मायेचें वैश्र्वीक नातें दाखोवन दिता. देखीक :

‘पूण तीन दीस पोटांत कांय नासून पांय थरथरूंक लागिल्ले. पर्थून मांयचो उगडास येवन हड्डें भरून आयलें. इतल्यान कोणें तरी शूतऽऽ शूतऽऽ केलें जाल्यार ती एदोळची नर्स ताका आपयताली... .... आयल्या पयल्या कोण पळयता जाल्यार पळयलें आनी तंबुचे खाचींत लिपोवन दवरिल्ले एक खाणाचें पाकीट आनी एक उदकाची बोटल ताच्या हातांत दिली..... सायमन वचपाक घुंवलो. ताका मांयचो उगडास जालो. सद्दा न्हिदूंक वयचे पयलीं तो तिका उमो दितालो. सायमन परतलो. तिचें सरी वचून तिचें तोंड ओडले. तिच्या पोल्यांक पापी दिली आनी आपले भरिल्ले दोळे तिचे नदरेक पडचे पयलीं तो तंबू वटेन धांवलो.[10]

पुराय कादंबरेचें कार्यथळ रांपणकाराचो समाज आशिल्ल्यान रांपणकारांच्या वेवसायाचे संदर्भ नकळटां येतलेच. हे कादंबरेंत ते कथानकाचेंच आंग जावन

आयल्यात. देखून बरोवप्यान ह्या वेवसायाचो बारीकसाणेन आभ्यास करप अपरिहार्य थारता. मावज्या सारक्या अभ्यासू लेखकान केलो हो अभ्यास वाचप्याचें लक्ष ओडून घेता. फांतोडेर उटून व्हडें घेवन दर्यान वचपी रांपणकार, काळपाणी वळखून रांपण लावपी अभ्यासू रांपणकार, रांपणीक बुलगें (हिस्कादी), कासय बी लागल्यार मानान तांका परतून दर्यात सोडपी रांपणकार, झारां, गादे रांपणेक फारवल्ल्यान रांपणकरांचें जावपी लुकसाण. ते भायर रांपणकारांच्या वेवसायांत दिसपट्टी येवपी उतरावळ.... जाळ, व्हडें, काजुचो दीख, रांपण, ट्रॉलर, मोटरबोट आदी. नुस्त्याच्या ह्या वेवसायांत साबार तरांची नुस्तीं येतात. कादबरेंत साबार नुस्त्यांची नांवां वाचूंक मेळटात. देखीक : काळुंदरां, वागोळें, सुंगटां, ताल्ले, पेडवे, विसवण, रांवस, मोरी, पितुळशी आदी.... जाणकार इश्टां कडल्यान आनी भोंवतणच्या समाजांतल्यान हे संदर्भ ह्या बरोवप्यान तपासून घेतल्यात. रांपणकारांची जीण, तांचो दीनक्रम, तांची बोली, तांची उतरावळ, तांचे जिबेर घोळपी वाक्प्रचार आनी म्हणी, तांच्या वेवसायांतले चड–उतार आदी. असो बारिकसाणेचो तपशील शब्दबध्द करपी कांय संदर्भ पळोवया :

1. त्या काळार ट्रालर येवचे आशिल्ले. रांपणकार दर्याचे राजा आसले. पूण उपरांत ट्रॉलरवाले रांपणकारांच्या पोटार आड आयले. झगडी जावंक लागलीं. मागीर गे बोवाळ. रांपणकारांचो एकवट घडोवपाक गाबरूलो पाय पोटतिडकेन वावुरलो. सरकारान ह्या झगड्यांत लक्ष घातलें आनी रांपणकाराक न्याय मेळोवन दिलो.[11]
2. खीणभर अमनून उबाल्दीन खालत्या सुरांत उलयलो. दृ खरें सांगों तुका गाबरू – हांव रांपणी को वयतां तेची कोंस्तासांक लज दिसता. दोन वर्सां फाटीं तेणें मायक वेळेर रांपणीको येवपाची बंद केल्ली. तेन्ना हायें कांय म्हुणो नासलें. आतां हांव निस्त्याचो वावर करता तेची तेका लज दिसता. उबाल्दीनाचो आवाज रडकुरो जालो.[12]
3. रांपणकारांचे मनरीजवणेचें माध्यम म्हळ्यार 'कांतारां'[13]
4. 'कितें गो माशान म्हाका पेवपाक बरे येता म्हण खबर ना तूका दरया म्हजो फ्रेंड. बरो मरे तूं सोमती दरया कडेन फ्रेंडशीप मारली ?'[14]
5. शिपलां (नुस्त्याचे माप) : दुलसीनाच्या पिकपांत धा शिपलां बांगडो, आठ

शिपला पेडी, तीन शिपलां करबट, आनी शिपूलभर सुंगटां आसलीं.[15]

6. दर्याचें उदक साव्या उदका परस ल्हव. चार हात मारल्यार धा हात मुखार पावता.[16]

7. 'दरयांत न्हावक गेलो मरे? – खारें उदीक आंगार जिरय नाका –' 'कित्याक ताणशेता गो तेजेर? खारव्यांगे भुरग्यांक केन्ना खारें उदीक बदलां.' पायन मांयचेर धेगसो घालो.[17]

कादंबरेंतलो खारवी समाज हो ख्रिस्ती धर्मीक आशिल्ल्यान ताचे बोलीची विशेशताय सांबाळप गरजेचें. मावज्यान ही बोली विशेशताय बरे तरेन सांबाळ्ळ्या. कादंबरी निवेदनाची बोली प्रमाणे कोंकणीच्या आंगान वता आसली तरी ख्रिस्ती खारवी पात्रां मात आपलीच बोली उलयतात. कादंबरेंत आयिल्ले हे बोलींतलीं कांय विशेश उतरां अशीं आसतात. देखीक :

बाकीन – बसपाचो मात्सो उंचायेचो पाट
माशान – मावशी
फेर्याद – सुटी
बिश्टेलो – बिश्टो
पासोत – खातीर
कॉमेस – सुरवात
आलेर्ताद – भरपूर
गूट – गुपीत
फोलीन – डबो
मॉर्गाद – अपुरबायेचें
पासा – खेप/फावटी
राब – राव
उकसार – बेगीन
थेली – पोती
शिंतीद – लक्ष
सुमोन – सप्तक
तियेक – तिका

कोंकणीचो भशीक वा बोलीचे नदरेंतल्यान संशोधन करतल्यांक आशा

ाहित्य रचनांचो आदार घेवंचो पडटलो. साहित्यीक योगदाना भायर भाशीक ोगदान दिवपी लेखकां मदीं दामोदर मावजो, महाबळेश्वर सैल, पुंडलीक नायक, ाशिकांत पुनाजी, देविदास कदम आदी लेखकांचो आसपाव जाता. खारवी वा ापोणकार समाजा लागीं आशिल्ल्या वातावरणांतली उतरावळ वापरतना लेगीत ती नेखटी वातावरणाचो वा डिटेलिंगा चो भाग म्हण मर्यादीत दवरीनासतना तिचो कुशळतायेन केल्लो प्रतिकात्मक वापर वाचप्यांची नदर ओडून घेता. मावज्यान हे कादंबरेंत दर्या, नुस्तेमारी, खारवी हांचे लागीं संबंदीत उतरावळीचो प्रतिकात्मक वापर करतना रचिल्लो संदर्भ देखी खातीर पळोवया :

1. (पाय सायमनाक मद्रास वचपाक हयकार दिता तेन्ना) – आनी सायमनाची खोशी दर्या येदी जाली.[18]
2. ल्हारां फुट्टालीं तीं आंगार घेत उदक साव्या उदक परस ल्हव. चार हात मारल्यार धा हात मुखार पावता. वासडी हुपून दर्यात भितर पावतकीर सायमनाक बरें दिसलें. दर्याची उचांबळाय ती देगेरूच. ल्हारां फुट्टात थंय मेरेन. भितर पावतकीर सगळें कशें शांत आनी नितळ. पेंवपाक मज्जा येता..[19]
3. पूण फाट हातूणाक तेंकना फुडें मांयचो उगडास भस्स करून आयलो. प्रेशर कुकराची पिल्लूक वाजची तसो.[20]
4. पाय सांगतालो – ही दर्याक गाज खारव्यांच्या काळजाच्या ठोक्या वांगडा ताल थारता. दर्याची गाज म्हळ्यार खारव्यांल्या भुरग्यांची आल्लय अशें मांय म्हणटाली . .......गाज येवजली तशी उगडासांची उमळ वयर सरली.[21]

अप्स–ॲन्ड–डाउन्स हें सुनामीचें खाशेलपण. पुराय कादंबरेंत खिणांत वयर खिणांत सकयल ही सुनामीची विशेशताय सगळ्याच प्रसंगांनी वाचकांक खिळावन दवरता. हेच खाशेलतायेक लागून कादंबरी एकेच बसकेंत वाचपाक मोह सुटना. गोंय आसूं वा चेन्नय आसूं वा मदलो प्रवास आसूं सगळ्याक हें सुनामीपण नदरेक पडटा जे तरेन खारव्याक आपले रांपणींत बांगडे, विस्वण, रांवस लागतले तेच तरेन गादे, बुलगें, वा झरांय (जेली फीश) लागतली. सैमाचो वा सुनामीचो नेमूच असो..... उजवाड आनी काळोख..... परतून उजवाड – परतून काळोख. हेंच अप्स–ॲन्ड–डाउन्साचें सुनामीपण पुराय कादंबरेत अणभवपाक मेळटा.

'अप्स–ॲन्ड–डाउन्स' चे आनीकूय जायते सर्दभ दिश्टी पडटात. एके वटेन गाबरूचे रापणीक हिसपा भायर नुस्ते लागता जाल्यार दुसरे वटेन गादो लागून

पुराय रांपणूय पिड्डुयार जाता. गाबरूक एके वटेन दुडवांचो फायदो जाता आ
दुसरे वटेन अपघात जावन घरा बसचें पडटा. चेन्नय वतनाचो ट्रेनींतलो प्रवा
एकाच दपक्यान सोंपता त्याच सायमनाचो परतुपाचो प्रवास मात सोंपून सोंपन
सायमनाक जितले मनीसपणान वागपी लोक मेळटात तितलेच मनीसघांणे
मेळटात. हॉटेलांतलो वेटर चन्द्रा मोनाचेर वायट नदर दवरता जाल्यार त्या
हॉटेलाचो धनी सायमन आनी मोनाची काकूट करता. करपाडी स्टेशनार सायमना
लुटपी मनीस आनी स्टेशन मास्तर मेळटा जाल्यार त्याच स्टेशनार ताका मज
करपी पोर्टरूय मेळटा. एके वटेन लिपोवन खाण दिवपी नर्स मेळटा जाल्यार दुस
वटेन शेळें जेवण वाडपी स्टेशन मास्तराली आळशी बायलूय मेळटा. स्टेशनाचे
तिकेट बूक करून हाडटा म्हण सांगपी फटींग मेळटा जाल्यार दुसरे वटेन आपल
पयशे मोडपी रिक्षावालोय मेळटा. एके वटेन गाबरू–दुलसीनालें बुला संवसा
सोडून वता आनी जाल्यार निमाणें मोना तांच्या संवसारांत चली म्हण येता.

निमाण्या प्रसंगा आदी सायमन एके कडेन मोनाक म्हणटा – केसकेसोले
मनीस आहाय न्हू ह्या संवसारांत अब्बाजान सारके देवमनीस आनी त्या स्टेशन
मास्तर सारके राकेस. फटकिरेय बी आनी उपकार करपीय बी. तो चंद्रा तेसो वाश्ट.
तो तिकेट काडपाक पयशे व्हयले तो नागोवणो, आंबो चोरलो म्हण तुजेर बगलांट
घालपी ती मॅडम..... आनी हिगां हीं सुकणीं चय. रुखांचेर खेळपी चानयांचे वाटेक तीं
वोसनाय एकामेका लागी झगडनाय – कित्याक आमी मनीस अशें कित्याक ?[22]

सायमन आपल्याक स म्हयने शाळा चुकली, आतां आपलें वर्स फुकट वचत
म्हण हुस्केता तेन्ना पादविगार सगळ्यांक उद्देशून म्हणटा, सालमनाक दिसता दू
शिकप चुकलें. पूण खरेपणीं फाटल्या स म्हयन्यांत तेणें जें भोगलां, सोंसलां आनी
देखलां तेंच खरें शिकप. तेणें जोडलां तें खरें शिकप. तेणें जोडलां तें खरें गिन्यान.
प्रॅक्टीकल.[23] सायमनाचो हो स म्हयन्याचो परतणेचो प्रवास एक संघर्शमय प्रवास
जाल्ल्यान वाचपी ही कादंबरी सिंगल सिटींगान वाचता इतले खरें.

26 डिसेंबर 2004 ह्या दिसा आयिल्ल्या सुनामीन 15 देशांतल्या दर्या
लागसारचे गांव गिळून उडयले.ह्या सैमीक संकश्टां उपरांत ताचेर भाश्य करपी,
चित्रण करपी, व्यथा मांडपी..... अशे साबार तरांचें साहित्य वैश्वीक पांवड्यार निर्माण
जालें. इंग्लीश भाशेंत जायत्यो साहित्य रचना प्रकाशीत जाल्यो. देखीक : Erich
krauss हाची 'Wave of Destruction' तशेंच Rob Forkan - Paul Forkan हांची

2015 वर्सा प्रकाशीत जाल्ली 'Tsunami Kids'. Richard Lewis हाची 'The Killing Sea', Sonali Deraniyagala हाची 'Wave' ह्या पुस्तका भायर जायतीं पुस्तकां उजवाडा आयलीं आनी येत आसात. देखीक : BoÛing Day & Christopher Jaymes] Tsunami - the Single Girl. Krissy Nicholson, The Doors of The Sea. Dvaid Bentley Hart, Escaping The Giant Wave. Peg Kehret आदी.

हे कादंबरेंत सुनामीच्या कारणान 'शेणिल्ल्या भुरग्याची' काणी आसपावल्या. तो आपल्या घरची वाट सोदतना घडपी संघर्शात्मक चडा–ओडीच्यो घडणुको म्हणल्यारूच कादंबरीचें कथानक. पूण मुळांत चेन्नय आनी कुशीच्या वाठारांत सुनामी उपरांत मोठ्या प्रमाणांत भुगोलीक, आर्थीक, समाजीक उलथापालथ जाली आनी ताचे परीणाम म्हण दरेकल्या मुखार आपल्या अस्तित्वाचो महाप्रस्न उबो जालो. सुनामी सारक्या आकांताच्या सैमीक संकश्टान निर्माण जाल्ली साचीक आनी आर्थीक घुस्मट, तडफड मांडपाक स्कोप आशिल्लो पूण तें घडूंक पावलें ना. 'अप्स अँड डाउन्स'च्या रंगां वांगडाच 'आफ्टर इफेक्ट्स चो कॅनवास लाबिल्लो जाल्यार चित्र वेगळें आसपाचें. आनीक थोडीं वर्सां रावल्या उपरांत ही कादंबरी आयिल्ली जाल्यार घडये ती शेणिल्ल्या भुरग्याची' काणी जावचे परस 'शेणिल्ल्या अस्तित्वाची' काणी जावपाची.

**संदर्भः**


1. <https//@@www.britannica.com>
2- The Indian Express, ^Tsunami / 12 Years On', Express Web Desk, New Dehli, 26 December 2016.
3. मावजो दामोदर, सुनामी सायमन, बिम्ब प्रकाशन, आगशी, गोंय, प्रकाशक, वर्स – पान 19
4. तत्रैव – पान 02
5. तत्रैव – पानां 8,9
6. तत्रैव – पान 7
7. तत्रैव – पान 9
8. तत्रैव – पान 134
9. तत्रैव – पान 149
10. तत्रैव – पानां 69, 70

11. तत्रैव – पानां 50, 51
12. तत्रैव – पान 48
13. तत्रैव – पानां 36, 37
14. तत्रैव – पान 58
15. तत्रैव – पान 40
16. तत्रैव – पान 15
17. तत्रैव – पान 18
18. तत्रैव – पान 19
19. तत्रैव – पान 15
20. तत्रैव – पान 27
21. तत्रैव – पान 132
22. तत्रैव – पान 139
23. तत्रैव – पान 149



# दामोदर मावजो हांच्यो वेंचीक कथा आनी साहित्यांतली सुचकता

डॉ. पूर्णानंद च्यारी

साहित्य निर्मितीचे प्रक्रियेंत सर्जनशीळ लेखक अंतप्रवाह जागृत दवरून बऱ्योचशो गजाली टिपता. लेखकां मदलो चिंतक, कलाकार ताचेकडल्यान यथायोग्य शिल्प उबें करून घेता. खरे समिक्षक, सर्जनशिलतेंतल्यो बारीकसाण्यो घेता आनी भासाभास करतात. तातूंत साहित्यांतली 'सुचकताय' ह्या घटकाकूय महत्व दिल्लें दिसला.

कोंकणींतल्या म्हज्या समिक्षकी साहित्य अभ्यासांत सुचकतेचे साबार संदर्भ सांपडले. तांणी म्हजी अभ्यासवृत्ती चाळयली, उमळशीकय वाडयली. कथाकार दामोदर मावजो हांच्या कथांच्या संदर्भांत विशय मुखार व्हरचे आदीं सुचकतायेविशीं वेगवेगळ्या विद्वानांनी मांडिल्ल्या मतांचेर एक नदर मारुया.

खुद्द लेखक दामोदर मावजो हांणी पुंडलीक नायक हांचे 'पारज' कथेविशीं बरयतना एक देख दिल्या. "बुदो हो गोरूं राखणो आनी शामल ही भाटकाराली चली. दोगांय मदीं जुवानपणान अणसरून कुडिचें आकर्शण वसता. शामल झरीर न्हाता तेन्ना बुदो रुखार लिपून पळयता. तो पळयता हेंय शामलाक खबर आसा. हो प्रसंग सामको आशयान थापथपिल्लो आनी अखेर तर भोंव रोचक. भाटकाराले पडवेर न्हिदिल्ल्या बुदाक सपनावस्था जाता. जागो जाता तेन्ना फुड्यांत शामलीक पळोवन तो कांचवेता. काश्टी सांबाळीत पळून वता. तेन्ना निसरून आंगणांत पडिल्ले विर्याचे दोन थेंबे चान्न्यांत चकचकतना शामलाक दिसता. हातांतल्यान निसदून गेल्ल्या पारजावरी. फक्त ताकिवंत कलाकारूच इतल्या संयमान आनी सुचकतेन कथेची अशी अखेर करूंक शकता". (साहित्य शिल्प, गोवा कोंकणी अकादेमी. पान 128)

एक कथाकार दुसऱ्या कथाकाराचे कथेविशीं बरयतना सर्जनशीलतेंतली सुचकताय कशे तरेन टिपता हाची देख. वसंत सावंत हांचे कथेविशीं बरयतना मावजो म्हणटात 'वसंताली निरीक्षणशक्त घोणिवरी आनी उतरांनी सुचीत

करनासतना आशयांतल्यान उक्तावपाची कळाशी तोखेवपा सारखी'. हांगां साहित्यकृतींतली सुचकताय हो एक खाशेलो घटक, तो केन्ना सरळ निवेदनांतल्यान तर केन्ना आशयांतल्यान उक्तो जाता. हाचोच अर्थ सुचकताय कथेच्या शिल्पांतली एक कलात्मक गरज, केन्ना पात्रांच्या वांगडा उलोवपांतल्यान तर केन्ना वातावरणाचो भाग जावन येता.

डॉ. मनोहरराय सरदेसायान 'ओलीसांज' ह्या शीला कोळंबकाराच्या कथासंग्रहाचे प्रस्तावनेंत 'कथा' प्रकाराचे व्याख्येविशी वेगवेगळ्या संवसारीक विद्वानांच्या मतांचो आदार घेवन कथा आनी कादंबरी हांचेमदीं तुळा मांडटना म्हत्वाच्या मुद्द्याचेर उजवाड घालतात. "कादंबरी ही पुराय जेवणावरी, ती भरयता, भूक पळयता. कथा ही लोणच्यावरी, ती भूक वाडयता. कथाकार सांगता ते परस चड सुचयता, बरयता ते परस चड सांगता". हांगा सांगप आनी सुचोवप ह्यो कलात्मक प्रक्रिया. पूण कथेचे बाबतींत कितली म्हत्वाची हे अधोरेखीत जाल्लें आमकां दिसता. हाचो अर्थ कथात्मक साहित्याचो प्रकार जाल्ल्यान कादंबरेकूय सुचकता लागता. दोन प्रकारांमदी ताचें प्रमाण, ताची तिव्रता ही साहित्यकृतींतली गरज थारायता.

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय 'अशोकांकी' संग्रहाचे प्रस्तावनेंतय अशे सुचकतेक म्हत्व दितात. ते म्हणटात "एकांकीत सगळें दाखोवपापरस खुबशें सुचोवचें पडटा. अर्दवराचे अशीर वेळेंत जिविताची एकूच एक शीर दाखोवं येता". हांगा एकांकी ह्या नाट्य प्रकाराचे चौकटींत ही सुचकताय मांडल्या. जंय निवेदनाक वाव उणो आनी संवाद आनी प्रत्यक्ष देखाव हांकां म्हत्व आसता. माचयेर धडपी नाट्यमय प्रसंगांतल्यान 'TO MAKE BELIEVE' हें बळस्थान कायम दवरपाक सुचक गजालींचो प्रत्यक्ष वापर आनी उतरांतले संकेत हांचेर येवन हो घटक थांबता. जें दृक–श्राव माध्यमांतल्यान संचार करता. कथात्मक साहित्या वांगडाच ललीत साहित्याचेर चर्चा करता. लेखक चंद्रकांत केणी हांणी नेमक्या उतरांनी 'सुचकता' हाचेर उजवाड घाल्लो दिसता. ते म्हणटात 'ललीत लेखक ज्या काल्पनीक संवसाराचें दर्शन आमकां घडयता तें दर्शकसुचक आसता. तातूंतलो खुबसो तपशील वाचपी आपले कल्पनेंतल्यान भरून काडटात. ताका लागून एखाद्रें ललीत बरप वाचता आसतना वेगवेगळ्या वाचकांच्या दोळ्यां मुखार वेगवेगळ्यो प्रतिमा उब्यो रावतात. एकेतरेन लेखकान उतरांनी जें सुचयलां तें वाचक आपले कल्पनेन

'तून परतून निर्मिता आनी अणभवता'. ह्या विवेचनांत लेखक आनी वाचक हांचे तें स्पश्ट करता. सर्जनशील प्रकारांतल्यान जसो लेखक वता तसो वाचकूय ते र्जनकलेचो आस्वाद घेता आनी अंतप्रवाहांत पेंवता. वाचकाची कल्पनाशक्ती, त्तवृत्ती चिथावपाची प्रभावी तांक सुचकतेंत लिपिल्ली आसता. ललीत ाहित्यांतलें लालित्य, काव्यमयतेकडेन खूब लागी आशिल्लो गूण. हें जर मानून तलें तर सुचकता हो कवितेचो प्राण हे विशीं दूमत आसूं नज.

लक्ष्मणराव सरदेसाय कथाकाराचे सर्जनशीळते संबंदांत आनी कथा विशय ोदून काडपा संबंदान उलयतना म्हणटलां "निर्मणेची नदर आनी शक्त जशजशी ाडत वता तशी तशी विशय सोदपाची आनी तळांतलें सत्य नाजूकसाणेन सुचक ्पान उक्तावन दाखोवपाची शक्त वाडटा". (कथाशील्प, पान – 6)

वेंचिल्ल्या विशयाचो विस्तार करतना कलात्मकतेंत, सुचकतायेचो वापर ह्या ाटकाक भोवतेक सर्जनशीळ लेखकान उपयुक्त पद्दतीन केल्लो दिसता. ह्या ावाहांत पेवतना जाणीव नेणिवेच्या पांवड्यावेल्यान ही प्रक्रिया घडटाना दिसता.

केन्ना अर्दवट सांगिल्ल्यो गजाली पूर्ण करपाचें काम अप्रत्यक्षरितीन ाचकांचेर सोडटा. केन्ना सांगिल्ल्या गजालींक आनिकय उठावदार करचेखातीरच ही सुचकताय गरजेची जावन बसता. केन्ना रित्यो सुवातो भरात अशे तरेन अर्दवट वाक्यांक टींब टींब जावन येता. अशा ह्या टींब टिंबानी अर्थाचे संदर्भाचें नव्या नवलाइंचें भांडार लिपिल्ले मेळटा. तांचो थाव घेवपाचो वाव वाचकाक मेळटा. सर्जनशीलतेन साहित्यांत सुचकतायेचे नियोजन जितलें कल्पक तितलो ताचो आस्वाद रोचक जाता. ह्या आस्वादांत केन्नाय चिरंतनालीं सत्यां तर केन्ना उतरां पलतडच्या जाणिवांचो उजवाड दिसता. दोळे फुटिल्ल्या मनांक विस्तारान भरिल्लो जिविताचो सुप्त, असुप्त संवसार दिसता. वास्तव हालचालींक अर्थाचो चंवर हाडपाचें काम ही सुचकताय करता.

लक्ष्मणराव सरदेसाय आनी एक कडे म्हणटात सुचकताय आनी संयम हीं कथेचीं दोन गरजेचीं आंगां, जुवळ्या भावासारकी. श्रेश्ट साहित्यांत तीं वावरिल्ली दिश्टी पडटात. नव्या बरप्यांचे तांचेकडेन लक्ष्य वचना. प्रतिभेच्या उल्हासान ते भरकटून वतात आनी येवजता तें बरोवपाची तांका ताकतीक लागता. असल्या हातात मागीर ते नाका आशिल्लें सांगतात आनी जाय आशिल्लें सांगपाक विसरतात. ल्हान भुरग्यासारकी ताची गत जाता. भुरगीं पेन कोनशाक मारतात

आनी सान्न मेजार दवरतात. मोगाचे वा प्राण्यांचो प्रसंग रंगयतना नवो बर ताळतंत्र विसरता. भडक रंग ओतूंक लागता. खूब विस्तार करता. उथळ न्हंये उदक जशें आयस पयस पातळटात तशें पात्रांक खोलाय नासत जाल्यार उदका गती येना". (कथाशील्प, पान – 46)

लेखकाक लेखक म्हण एक परिपक्वता आनी कलासक्त मन आसल्य ताच्या हातांत कितें धडूंक शकता आनी हाची फावो ती सुचोवणी लक्ष्मणराव दिल्या. जुवळ्या भावांची ओपार हीय सुचकता आनी संयम हांचें म्हत्व, मो कथात्मकच न्हय तर लळीत साहित्यांचे बाबतींतूय लागू पडूं येता हाची जाणी दिता.

कोंकणींत वेंचीक कथाकार घेवचेच जाले तर चंद्रकांत केणी, पुंडलीक नायक, दामोदर मावजो, मिना काकोडकार, महाबळेश्वर सैल अशा कथाकारांच्य कथांनी हे सुचकतायेचें खाशेंलपण अलंकार जावन भरसल्लें दिसता. तातूंत गांव शार, हिंदू–खिरस्ती वातावरण, रूपक कथा, विज्ञानकथा, मानसशास्त्रीर पांवड्यावेल्यो कथा, प्रतिकात्मक्तेचो बोलको वापर, भावना आनी विचारांकडेन वाकूळटा. आशयांक भिडपी परिणामी आनी विवीधांगी कथा दिवपी ह्या कथाकार मदलो श्री. दामोदर मावजो हांच्या कथेंतल्यो सुचकताये संदर्भांतल्यो कांय देखी पळोवया.

## दामोदर मावजो हांचे कथेंतली सुचकताय

'मन म्हजें पिशें' ही कथा 1975 वर्सा उजवाडायल्ल्या 'जागरणां' संग्रहांतली. नव्यानच लग्न जाल्ल्या जोडप्यांचे पयले वयले दीस, नवे सुनेक येवकारतना मावान 'अश्टपुत्रा सौभाग्यवती भव' असो आशिर्वाद दिल्या उपरांत घोव कोणाक कळनासतना ल्हवूच कोंपर मारता आनी तेन्ना सावन नवे व्हकलेक पयलें भुरगें हो कथेंतलो मध्यवर्ती विशय नेट धरता. मावज्याले हे कथेंत पयली रात आपत्य जल्माक घालपाचो संदर्भ खूब कलात्मक रितीन आयला.

"ती रात हांव केन्नाच विसरचें ना. हांणी म्हाका विचारलें – नाका तें सांगप सारकें न्ही. हाली सगळेच घोव बायलेक पयले राती तेंच विचारतात. हे दीसूच असले ! वता वता थंय तांबडो त्रिकोण ! " आनी खरेंच 'नाका तें सांगपासारकें न्ही' म्हणत लेखक निवेदनाच्या माध्यमांतल्यान कांय स्पश्ट सांगिना पूण अशें तरेन संदर्भ जुळयत सांगपापरस खूब सुचयता. ही सुचोवणीच चड उलयता अशें दिसूंक

लागता. वाचक आपले कल्पनेंतले रंग भरूंक लागता 'अश्टपुत्रा सौभाग्यवती भव' आशिर्वाद दिवपी आदले पिळगेंतलो मांव आनी ल्हवूच कोंपर मारपी नवे पिळगेंतलो घोव, वता थंय तांबडो त्रिकोणाचो संदर्भ, कुटूंब नियोजनाचे प्रचारी प्रतीक सगळ्योंच सुचक गजाली वाचकांच्या मनाकडेन फुतफुतूंक लागतात.

नवें सुनेक भुरगें जावचें हाची सगळीं घोवा घरचीं वाट पळयतात. कुळाराचींय उमळशिकेन रावल्यात. तशी नवी सुनय नवे नवलायेन भूरकुटल्या. लग्न जावन कुळारा आयिल्ले चलयेकडेन घरचीं बायलां दुबाववजा अपेक्षेन पळेतात तेन्ना तांची भास, नदरांच्यो खुणो, हालचाली सुचकतेच्यो वेगवेगळ्यो तरा स्पश्ट करतात.

आयिल्लें गेल्लीं बायलां विचारतात 'बोवाळ कितें आसा गो?'. एकलेन म्हटलें 'प्लॅनींग बिनींग न्हय मुगो?'. आई धरून सगळीं विचारतालीं 'कांय बोवाळ ना गो अजून?'.

कुळारा सावन घरा आयलें म्हणटकच मांय सांसपून पळेताली 'काय ना मगे?'. दर म्हयन्याक विचारताले 'कितले दीस जाले न्हाल्यार?'. घरच्या बायलांचे हे संवाद तातूंत 'बोवळ', 'प्लॅनींग, बिनींग' सांसपून पळोवप, ते जाले उपरांत 'कांय ना मुगो?', 'कितले दीस जाले न्हल्यार' हें दर म्हयन्याक विचारप ह्यो सगळ्यो प्रस्नार्थक प्रतिक्रिया. लग्न जाल्ले नवे अस्तुरेक दीस गेल्यात वा ना हाचो माग काडपाच्या संदर्भात येता. कथाकारान खंयच दीस वचप, गुरवारपण, गर्भधारणां, अशा सरळ अर्थाची उतरां वापरूंक नात. ना म्हणल्यार 'पोट' ह्या उतराची वाच्यताय करूंक ना. पूण सांसपून पळोवपी खंय सांसपीतली हें सांगपाची गरज पडना. बायलां मदल्या अपेक्षांची चूळबूळ तांच्या सभावाक तेचप्रमाण नातें आपलेंपणाक धरून कशे तरेन येवंक शकता हाची सुचक मांडावळ करीत विशय मेखार व्हेला.

एक दीस अचकीत तिचे नण्डेलो चलो येवन तिका म्हणटा 'मामान रोयिल्लें न्ही त्या झाडाक फूल लागलां पळय कसलें? पळय यो पळय. पयलेंच फूल...... बरें दिसता. ...'

'मामान रोयिल्ल्या झाडाक पयलेंच फूल..... पयलेंच फूल लागलां..... म्हजें मन भुल्लुसलें खीणभर हांव पळयतच रावलें....'. 'यो मगे मामी ।' बाबुल्यान आपयतना फुडें भानार येवन हांव फुडें सरलें हांगा दोन व्यक्ती आनी तीग जाणांचो

संवाद आसा. एक नण्डेलो चलो आनी मामी म्हणल्यार कथेंतली नायिका हांचे मदलो संवाद आनी तिसरो संवाद नायिका आनी तिचें मन हाचे मदलो. ह्या संवादांत मामान रोयिल्ल्या झाडाक पयलेंच फूल सुचक आसाच पूण संवादामदीं टींब टींबाची येवजण संदर्भाक धरून नायिकेच्या मनांतल्या कंपनांची कल्पना दिता. ही कल्पना सुचकतेंचेंच एक रूप मानचें आसा.

नण्डेल्या चल्यान म्हळ्यार बाबुल्यान फुलाची खबर सांगतकच ती भुल्लूसून वता. धड फूल न्हय धड कळो न्हय रंगान आनी दिसपांत कांय सुंदर म्हणपा सारकेंय ना अशें म्हणत ती वास घेता. त्या वासान तिका ओंकारी येता, ती थांबच ना. असो प्रसंग सुचक अर्थानूच लेखकान तोलून धल्ला ही पुराय घडणूक बोलकी जाल्या. 'पयलें फूल' ताचे भोवतणी अर्थाचें वलय. ताचें अप्रूप संकेत सुचनेचें काम करता. अशे संकेत सुचनेचें काम करता. जी कलात्मक पावंड्यावेल्यान नायिकेक दीस गेल्यात हांची खात्री उत्ती जायमेरेन प्रभावान दवरता.

अशे नाजूक अवस्थेंत राष्ट्रमत दिसाळ्याचेर चौकटींत आयिल्ली बातमी तिचे नदरेक पडटा. 'मडगाव येथील महिलेला राक्षसी मूल' अशा माथाळ्याखालां ही बातमी आसता. हाचेर तिखट मसालो लावन वेगवेगळ्यो देखी दिवन खबऱ्यो सुरू जाता. हाचो परिणाम तिच्या पोटांतल्या भुरग्याविशीं चित्रविचित्र विचार घोळूंक लागतात, भिरांत वाडटा, संभ्रमावस्था निर्माण जाता. मनाभायले परिणाम व्यक्तिच्या हालचालींत दिसता. जांव ताचो अर्थ लांव येता पूण मनाभितल्ली अस्वस्थताय धुमशेणां कशी दाखोवप? ती अस्वस्थताय सुचोवपी प्रयोजनां कथाकारान आपणायल्ली दिसतात.

नण्डेलो चलो 'पयलेंच फूल' फुल्लां म्हण सांगत आयलो. ती खबर ताजी आशिल्लीच पेपरावेली बातमी वाचून अस्वस्थ मनान वॉल्तेरार बशिल्लेकडे तिची नदर तुळशीचेर वता तेन्ना त्या फुलाची प्रकृती विचित्र, बेरंगी, घाणयारीं अशीच तिका दिसता आनी आपल्या भुरग्याचो विचार तिच्या तकलेंत येता. बातमेंतले राक्षसी भुरगें. घाणयारें, बेरंगी, विचित्र फूल, गर्भार अवस्थेंतली अस्तुरी आपल्या गर्भार हात भोंवडायता, घुस्मट्टा. घरांत देवमूर्तिचेर नदर पडटा तेन्ना तीय तिका कुछित्रापणान हांसतासो भास जाता. रातीकडेन दिवो बारीक केल्ल्यान लांब दिसपी सावळ्यो. तामरेतिची लांबिल्ली सावळी बद्द पोट मोटल्याभशेन वण्टिचेर उबी राविल्ली दिसप. वण्टीवेले कावळ्यो – बावल्यो करपी पायनेलांतले फोटे हीं वर्णनां

वकतायेचीच प्रयोजना आसात. जीं वातावरणाचो भाग जाल्लो आसा. हुस्केल्लें
ा भयानक चिंता, कल्पना ही वास्तवापरस भयानक आसता ह्या अर्थ आकलना
न पावयता. आनी तातूंत घुस्मटपी गर्भार अवस्थेंतले नाजूक अस्तूरेचें पात्रचित्रण
ा घटकांकूय ह्यो सुचक गजाली सक्षम करतात.

सपनां पळोवप, भपक्यांनी जगप, कसलेच कश्ट, गांभिर्य बाळगिनासतना
कत पोकळ कल्पनांच्या मळबांत हुबप अश्या स्वभावाचें एक पात्र कथाकार मावजो
णी 'मेट्रीकेचो रिजल्ट' हे कथेंत वेगवेगळ्या सुचक घडणुकांच्या आनी सुचक
लचालींच्या आदारान मार्मीक रितीन उबें केलां. हे कथेचें कथानक "शोभा" ह्या
त्रा भोंवतणी धुंवता. योगा योगांचेर आनी पोकळ कल्पनांच्या आदाराचेर
खाऊपणान जगपी एक भ्रमपिशें शोभा चित्रावंचे खातीर सुचकतेचो आदार घेवन
थेची कलात्मक मांडावळ जाल्यात. मेट्रीकेची परिक्षा म्हळ्यार एंड्या–गुंड्यांचें
ाम न्हय मेट्रीकेचे परिक्षे इतली कठीण परिक्षा तर कसलीच ना अशें शोभा
रोबरचीं सगळींच म्हणटालीं. आतां शोभाय म्हणूंक लागता. तितल्याचेर
ाबनासताना आपूण मेट्रीकेक हो भपको मिरयत उरता. गांभिर्यान अभ्यास करपाचें
ोडून दिखाऊ उचापती करून वेळ व्हगडावंक लागता. कथेंतलें निवेदनूच मार्मीक
शे खोचक, खोचक तशें सुचक. " धावी पास जायना फुडें शोभान थारायल्लें की
र्सभर अभ्यास करप... घरांतलो केरमबोर्ड काडून आल्मारी फाटल्यान लिपोवन
ेगीत दवरलो. घरांतलो केरमबोर्ड लिपयलो तरीं शाळेंतलो कोण लिपयतलो? हाणें
ा म्हळें, ताणे खेळ म्हळें, शोभा मात्शें खेळ्ळें. पूण ताणें अभ्यासूय केलो. कांय ना
हळ्यार प्रिलीम लागीं पावत आयली तेन्ना तरीं केलोच. आनी मनार घेवन केलो.
असो तसो न्हय. रात दीस! न्हीद ना जेवण ना!... प्रिलीमेक Rank घेवपाची शोभाक
ूब इत्छा आशिल्ली पूण बाबड्याचें दुर्देव आड आयलें. जुस्त प्रिलिमेकडेन ताका
ंडी जाली..."

ह्या सगळ्या निवेदनांतल्यान विद्यार्थी परिक्षा लागीं पवतकच रात दीस
ागरणा मारून ताणशेता, भलायकी विबाडटात, अभ्यास करपाचें नाटक करतात
ानी नापास जातकच दुर्देवाचेर बोट दवरतात. हाची नकसूद खबर कथेंत मांडल्या.
वेद्यार्थी दशेतल्या सगळ्यांचीच मनो अवस्था अशी आसता. शोभाचें प्रातिनिधीक
ात्र घेवन विशय उक्तो केला.

अशीच आनी एक कथा म्हळ्यार 'कोंयसावालीं गोरवां' मोनेपण उलयता,

आशय विशय सुचयता अशी देख जावची तशी खोयसावालीं गोरवां ही क
सुचयता. इनास, कोयसांव, दोन भुरगीं, दोन गोरवां आशिल्ल्या गर
शेतकामत्याची ही काणी. शेता खातीर थाम, सारें, गोरवां खातीर पेण लेर्ग
हाडपाची तांक निशिल्ली गरिबी सतायता. "कोयसांवाल्यो शेता बांदयो तश्ये
उरिल्ल्यो. अजून हात लावंक नाशिल्लो. शेजारनी सदीच विचारताल्यो 'के
रोयतले, केन्ना रोयतले!' पूण इतले दुडू हाडचे खंयचे? थाम सारें नडणी सग
जातलें जाल्यार, हय शेत पिकोवपाक जाय, पोरूं शेत केलें म्हूण अवंदू पोरां पे
जेवतात, ना जाल्यार अंदू! रोवपाकूच जाय...पावस तेकलो...परां पुरुमेंता फेस्त!" ह
नोवेदनांत कोयसांवालच्या घराब्याचे गरिबीची कल्पना येता. मनाची घालमे
दिसून येता, हुस्को दिसता, सुचक निवेदन शैलींतल्यान हांगां हें स्पश्ट जाता. कथे
शेजारी पेद्रू पुरूमेंताच्या फेस्ताक आपलो रेडो विकूंक सोदता ही ख
कोयसांवाच्या घराकडेन येवन इनासानय गोरवां विकून उडोवपाचो विचार माण
गरिबी आशिल्ली पूण ते खातीर पोटाच्या भुरग्यांवरीं वाडयल्लीं गोरवां विकपा
विचार कोयसांव आनी इनासान करूंक नासलो. पेद्रून दिल्ले सुचोवणेंतल्या
येवजण्यो सुर जाल्यो. 'चार दुडू येतले, शेत रोवंक मेळटलें, भुरगीं पेज तरीं जवत
हे आशेन गोरवां विकप कांय ना ही दोंयतिकाय वाडत उरता आनी (पुरुमेंता
फेस्त) उतर गरिबी, घुस्मट, आशा, दीर हांचे अर्थ स्पश्ट करपी सुचक प्रतीक जा
गोरवां विकप हो निर्णय प्रत्यक्षान येतलो तर (पुरुमेंताचें फेस्त) धीर आदार दिसूं
लागता, तेच प्रमाण गोरवां विकलीं तर जीव लागिल्लीं मोनजात सासणाचीं
जालीं होय धस्को सतायतलो. ह्या धसक्यान मन खपखपता. अशे तरेन पुरूमेता
फेस्त उतर दोन मनांचें ध्वंद सुचयता. हे अवस्थेचे परिणाम लेखकान कांय कडे
नकसूद संवादांतल्यान दाखयल्यात आनी घर परिस्थीची सुचक जाणीव करू
दिल्या. "हय शेत पिकोवपाक जाय, पोरूं शेत केलें म्हूण ओदूं पोरां पेज जेवतात
जाल्यार! रोवपाकूच जाय... पावस तेंकलो...पोरां, 'पुरूमेंताचें फेस्त!" हांगा दोन व
मदल्या टींब टिंबांकय सुचकतेचें मोल आयलां. गोरवां विकपाचो उल्लेख ख
करिनासताना फकत पुरूमेंताचें फेस्त म्हणटा आनी थांबता. हातूंतल्यान 
सुचोवणी मेळूंक जाय ती मेळटा. गोरवां विकूंक जाय अशें इनासाक दिसता त
कोयसांव ताका तयार जावची ना ही अडचळ आसता ताका राजी कशें करप
विवंचनेंत आसताना वण्टीक तेकून बशिल्ले काशीचेर उकडयां विडी फुस्काय

लप. विडयेचो दम मारून धुंवर सोडप, ह्योय गजाली त्या चित्रणांत भर घालतात. नासाक समजीकाय आसा, कोयसांव आपले गरिबीकडेन घराब्या खातीर कशी सरत करता तें तो पळयता. इनासाविशीं ताचें आपलें पण मोग ताणे बाळगिला.

कोपाचें मारून नशेंत आसलो तरीं इनासाचें समजीकायेन वागप, मोनेपणान र परिस्थितीकडेन जमोवन घेवप हें सुचक मांडावळींतल्यान दाखोवन दिलां. इनास कोपाचें मारून परतलो, कोयसांवान ताका पेज वाडली. बुडकुल्यांत पळोवन नास पेज जेवलो. कोयसांवान ताका आनीक वाडपाक दवलो काडलो,

'नाका पुरो, पोट भरलें'

कोयसांवांक कळ्ळें बुडकुल्यान पेज थोडी उरल्या देखून इनास, 'नाका' हणटालो पूण कोयसांवांक भूक नाशिल्ली ताणें म्हळें.

'हांव जेवलें, इनास! तूं जेव पोटभर! फाल्यां कामांक वचूं नाका?'

'फटी मारुनाका, तूं जेव इतलें सांगून इनास उटलो. पेजेनीस घोंटून कोयसांव उटलें. रांदनी पोल सारोवन तें भायर आयलें. भुरग्यां थार न्हिदिल्ली इनास वणटीक तेकून दवरिल्ले काशीचेर उकडयां बसून विडी फुस्कायतालो.'

'इनास परां पुरूमेंता फेस्त.'

हांगां शांतताय चड उलयता. मोनेपणान बुडकुल्यांत पळोवपी इनास. बुडकुल्यांत कितें आसा कितें ना हें खबर आसतानाय मोनेपणान दवलो बुडकुल्यांत घालपी कोयसांव, तेन्नाच 'नाका पुरो पोट भरलें' म्हणत अर्दे उपाशी पोटार उठपी इनास जेवी नासताना 'हांव जेवलें, इनास तूं जेव पोट भर फाल्या कामांक वचूं नाका' अशें म्हणपी आनी निवळ घोंटून रावपी कोयसांव हाचेर 'फटी मारीनाका तूं जेव' इतलें सांगून इनासान उठप ह्यो सगळ्यो गजाली गरिबी आनी घराबो हाचे खातीर केल्ली तडजोड, दाखयल्ली समजीकाय, अर्दे मनांत अर्दे तोंडांत आनी थोडें प्रत्यक्ष वावरुपांत अशीं पात्रां व्यक्त जातात ती सुचकता मावज्यांचे कल्पक्तेची गिरेस्तकाय म्हणची पडटली.

हांगांय बीन ' इनास परां पुरूमेंता फेस्त.' अशें वाक्य येता आनी त्या उतराची व्याप्ती. खराय, अडचल्ल्यांक धिराचो मंत्र अशे वेगवेगळे संबंदीत अर्थ स्पश्ट जातात. ही स्पश्टताय सुचकतेक बळ दिवपी कल्पक मांडावळ आनी साहित्यीक गिरेस्तकाय वाडोवपी आसा.

पात्रांच्या हालचालिच्यो गजाली दोळ्यांक दिसतात. त्या हालाचालींचो उ
लावन मना भितर कितें चल्लां हाची वळख घडोवपाक कलपत्तेची गिरेस्तक
लागता. सुचकतेची संपत्ती एकठांय करची पडटा. मानसीक दुयेंस जाका जा
अशें चित्रण करचें जाल्यार तें एक कलात्मक आव्हानूच आसतात. "नवी केस" कथ
दामोदर मावज्यान हें आव्हान साबार सुचक तपशिलांच्या आदारान पेल्लि
पळोवंक मेळटा.

कथेंतलें मुखेल पात्र कुंतल. पिश्यांच्या हॉस्पिटलांत कांम करता. बापूय घ
नेरवांचो पेशंट आवय गरिबीच्या माणे खायत दीस काडटा. कुंतल एकले
जोडकार. ते जोडीचेरूच बापायचें वखद विर्सद घर संवसार चलता अशें जोडी
साधन जाल्लें कुंतल परिस्थिती मुखार हार खावन आंकवारूच उरता. कुंतलाच
वांगडचीं सगळीं लग्न जाल्ली, तरणेपणांतली मौज मजा करून तांकां भुरगीं
जाल्लीं. कुंतल मात तीस वर्सां पिराय जाली तरीं आपणाल्या तरणेपणाचे मौ
मजेची वाट पळयतालें. नियतीन ताचेर अन्याय केल्लो. तें आपलेविशीं येवजीता
आनी म्हणटालें.

'रूप ना तें ना<br>
देवान ताका आंगलटूय दिवंक नासली.<br>
देवान एक मात केल्ले<br>
वखवखिल्ली भूक दिल्ली<br>
ताट रितें दवरून<br>
ही भूक मारीत कुंतल जियेतालें.'

एक्काय दादल्यान केन्ना ताजेकडे मायेमोगान सोडूच वांशेन लेगीत पळोवं
नासलें. हाचें वैफल्य कुंतलाक आसलें. आपली अतृप्त भूक केन्ना तरीं खंय त
भागची हाका लागून ताची वासनादायीक तळमळ जाताली ती लेखकान साबा
सुचक प्रसंगांतल्यान मनाकडेन जाल्ल्या संवादांतल्यान निवेदनांतल्यान दाखयल्या

पिश्यांच्या हॉस्पिटलांत नर्स म्हूण वावूरपी कुंतल ड्युटेर आसताना चलय
खातीर पिसो जाल्ल्या वीस–पंचवीस वर्सांच्या तरणाट्याक नवी केस म्हूण
होस्पिटलांत हाडटात, आंगार कपडे दवरीना, चेडवां पळयतकच तांच्या फाटल्या
धांवता अश्या मस्तखोर पेशंटाक इंजेक्शन मारून नरम करपाचें काम कुंतला कडे

घेता.

"नकळटाच कुंतलाची नदर पेशंटाच्या आंगावयल्यान भोवली... रंगान काळो पूण तिकतिकीत, आंगान घसघशीत, इंजेक्शन घेवन तें बगलेक गेलें... संवयच्या हातान वखद सोडटा आसताना नदर चोरयां कुशीक सरली हड्डयावयल्या केंसांचें मालें आनी मदले हुमे थेंबे, हात भोंवडावचो शें दिसलें खिणभर. सूय भायर काडून कापूस चोळटा चोळटा ल्हवूच कुंतलान सकयल पळयलें, कल्सांवाचे बुतांव उक्ते आशिल्ले शिर्र करून आंगार कांटो फुल्लो." हांगा लेखक थांबला.

कितें सुचोवपाचें तें ताणें सुचयलां. कुंतलाच्या आंगार कांटो कित्याक फुल्लो? उक्तें आशिल्ल्या बुतांवांतल्यान कुंतलान कितें पळयलें? शरीर सुखाक भुकेल्ल्या ताच्या मनांत कसली कल्पना आयल्या आसतली. हाच्यो जापो संयम आनी सुचकतेन भरिल्ल्या पावंड्यार येवन थांबता.

कुंतल हॉस्पिटलांल्या डॉ. क्रुजाक पळोवन आंवडे घोट्टा, तें चिंत्ता,

'भाग्यवान ती जिका हो घोव मेळ्ळो... रंगान गोरी धवी, कातीन नितळ आनी तेंजिश्ट, रुपान दिश्ट लागपा इतली सुंदर. अशे हे नितांत सुंदर अस्तुरेकडे आपणाली तुळा करप म्हळ्यार वागाची तुळा माजराकडेन वा बैलाची तुळा बेबकाकडेन.' कुंतलान आवणाविशीं अशें चिंतप आनी आपल्या मनाकडेन संवाद करप अशी मांडणी लेखकान केल्या. जे वरवीं कुंतल कशें दिसता आसूंये? हाचें सुचक चित्रण वाचकांच्या कल्पना विश्वांत उबें जाता. पुराय कथेंत अशीच कलात्मक क्लुप्ती लेखकान वापरल्या. सांगपा परस सुचोवप हें प्रभावी तंत्र आपणायलां.

डॉ. क्रुजाविशीं विचार करताना कूंतल वेगवेगळ्यो कल्पना दोळ्यां मुखार हाडटा. तातूंत मनाकडले संवाद म्हत्वाचे आसात. "खबर आसा खंय गेला तो. फियासीक घेवन बसला आसतलो खंय तरीं. मिरामार कांय सिनेमांक.?"

'क्रुजालो हात तिक्या खांद्यार आसतलो कांय?'

'तिचे सुवातेर आपूण आशिल्लें जाल्यार...'

हांगा लेखक कुंतलाच्या कल्पनेतलो डॉ. क्रुज आनी ताची फियेंसी हांच्या भितरलो देखाव चित्रायता आनी कुंतल कितें मेरेन येवजिता आसतलें हें सुचयता. क्रुजालो हात तिज्या खाद्यार आसतलो? काय? ह्या दोन प्रस्नांक लेखकान उक्तेपणी

कसलेंच वर्णन करिनासताना कल्पना रम्यतेची जाप सुचयल्या. तिचे सुवातेर आपूण आशिल्लें जाल्यार... घालून वाक्यांतल्या टींब टिंबांत आशय सुचक अर्थ मेळोवन दिला.

हॉस्पिटलाची ड्युटी करून, चार वण्टी भितर रावून बेज्यारिल्ले अवस्थेंत आपल्या लग्नाविशीं, आपल्या सपनांतल्या दादल्याविशीं तें चित्ता. चिंता आसतना अशेच अवस्थेंत एक दीस हॉस्पिटला पेल्यान एक कोलूग गुटलो करून बशिल्लेकडे आसा तें पळयतकच तेंय आपलेवरींच बसलां कांय. असो एक विचित्र विचार मनांत हाडटा आनी किण्ण हांसता. आपले बरोबर समदुख्खी सांगाती आसा हाचे समाधान मानता काय तें असो विचार वाचाकंच्या मनांत कुंतलाविशीं येवं शकता अशी ही सुचकता आसा. दुसरे वाटेन इतल्याचेर थांब नासताना लेखक एक दोन प्रसंग कुंतलाच्या मनांतले विचार जावचे अशे तरेन हाडटा.

बरो साहित्यकार वाचकांचे चिंत्तवृत्तीक हात घालता. वाचकांनी आस्वादिल्लें कथेंतलें वातावरण, पात्रां, प्रसंग दोळ्या मुखार हाडटाना आपले कल्प बुद्दीक धार हाडटा. अर्दवट बरोवन, अर्द भरून काडचे खातीर लेखक वाचकांक संदर्भ दिता त्या संदर्भा बरोबरूच सुचकतेचो बरो आदार घेता तेन्ना संवादांतल्यान, प्रत्रांच्या परस्पर वेव्हारांतल्यान दृकश्राव्य संवेदनां जागयत सुबक निवेदन शौलींतल्यान To make believe ह्या तंत्राचो वापर करता तेन्ना लेखकान जें येवजीलां जाचे पलतडी वचून वाचक कल्पना विस्तार, चित्रण करून मेकळो जाता. लेखन सर्जनतेचे परिपक्व अणभव जाचे ठांय आसा तोच साहित्यीक पाल्हाळपणाची नडणी कुशीक दवरून गरज ते भाशेन साहित्यक्रुतीचे मळे फुलयता. तातूंत दामोदर मावजो हांच्यो कांत कथा आनी सुचकता हो विशय घेवन मुखार सरतना समिक्षा, संशोधन हांकां लागपी नवीं थळांय आव्हान दितात हातूंत दुबाव ना.

कलात्कम अणभव दिवपी आनी अप्रत्यक्षातल्यान प्रत्यक्षाकडेन हाडपी अशी ही सुचकता दामोदर मावजो हांच्या कथांनी पात्रचित्रण, परिस्थिती वर्णन, मानसीक अवस्था,आनी आशय सुचक संवाद. तेचप्रमाण निवेदनांत मदीच वाक्य तोडून टींब टींब घालप. परत मुखावेले विशय उसोवप ही सगळी मांडावळ ललीत साहीत्यांत सूचकतेंचो प्रभाव दाखोवन दिता.

दामोदर मावजो प्राप्त अवस्थेचो अणभव दाखयता. कल्पने परस वास्तवतेकडे, भ्रमापरस सत्कर्मा कडेन व्हरचे खातीर कथा संवसार उबो करतना.

ःशेयल्ले दिश्टी पडटात. मास्तराचो विचित्र स्वभाव, आवयचें मन, बापायची चिंता ह्यो गजाली मेजक्याच उतरांनी भुरग्यांक समजूं येता अशे तरेन मांडल्यात. काणयेंतलें मास्तराचें पात्र सुरवातेक पुर्विल्ल्या काळावयल्या मास्तराचें चित्रण करता पूण काणयेंत काळांतरान मास्तराच्या स्वभावांत जाल्ल्या बदलाचें सुंदर तरेन साप्प थोड्या उतरांनी वर्णन आयलां. हिंसक मास्तराचें आदलें रूप हे काणयेंत दिश्टी पडटा. समाजांत पयल्या क्रमांकाक जो मानसन्मान मेळटा आनी जाका लागून भुरग्यांची, मनश्यांची जी मानसिकता जाता तीं काणयेंतल्यान कांय प्रमाणांत पारखूंक येता. हे काणयेंत पात्रचित्रण, वाठाराचें चित्रण, वातावरण निर्मिती आदी गजाली लेखकान खाशेल्या निवेदनांतल्यान बेस बरें तरेन मांडल्यात. निस्वार्थी भावनेन कर्म करप. वायट वृत्ती, प्रवृत्तींक मात दियत बरें जिवीत जगपाची देख हे काणयेंत मेळटा.

हे काणयेंत कांय प्रसंग वास्तवीकतायेचे फासकेंत बसपाक कठीण जाता. देखीक 12 वर्सांचो भुरगो फिल्म पळोवंक वता. काल्पनिकता जेन्ना निर्बळाक प्रोत्साहन दिवन बदलपाक प्रवृत्त करता जाल्यार हेतू साध्य जाता. जेन्ना निर्बळटायेक काल्पनिकतायेचे फासकेंत गुटलावन तेच मानसीकतेक चालना दिवपाचो यत्न साहित्य करता तेन्ना त्या साहित्याचेर प्रस्न उप्रासतात. सत्य परिस्थिती बदलपाक काल्पनिकतायेचो आदार घेवन वास्तवीक बदल करपाक प्रवृत्त करपाचो प्रयत्न जावप साहित्यांत अपेक्षीत आसता.

तंबाखू, सिगरेट, विडयो सारकिल्ल्या व्यसनां आड समाजांत जागृताय चलताना लेखकान बालसाहित्यांत ह्या व्यसनांक चालना दिवपाचो यत्न केला जो टाळप साहित्य प्रकार आनी वाचक वर्गाक मतीन धरून करपाची गरज आसली. ह्या जिन्नसांच्या सुवातेर कादेर्न, खेळणीं सारकिल्या जिन्नसांचो आसपाव करूं येता आसलो.

काल्पनिकतायेचो आदार घेवन बरे विचार भुरग्यांमेरेन पावोवपाचो प्रयत्न हे काणयेंत लेखकान केला. प्रसंगां फाटल्यान प्रसंग साद्या सोंप्या उतरानी सृजनात्मक निवेदन शैलीन मांडल्यात. सुंदर वाक्प्रचार हे काणयेंत आसपावतात. साद्या उतरांनी भुरग्याचे भाशेंतल्यान विचार मांडटाना उतरांचेर भर घालपाक वाक्प्रचारांचो, सुंदर उतरांचो मेळ सादून वातावरण निर्मिती करपाक लेखकाक यश आयलां. एकंदरीत हे काणयेतल्यान लेखकान भुरग्यांची मनरीजवण करताना शिकवण दिवपाच्या केल्ल्या

प्रयत्नाची तोखणाय दिसता.

दोमोदर मावजो हांचें "चित्त रंगी " हें भुरग्यांखातीरचें काणयेंचें पुस्तक 199
जाग प्रकाशनान उजवाडाक हाडलें. पुस्तकांत सात काणयो आसात. पयले काणयें
लेखकान कवनांचो आदार घेवन पात्रांचे विचार, उमाळे व्यक्त करपाचो यत्
कुशळटायेन केला. भुरग्यांच्या हट्टाक लागून वा तांच्या मानसिकतेक, पिरायेक
लागून, तांचेर जो शारिरीक आनी मनीस प्रभाव पडटा ताचे खर परिणाम ह्या
काणयांनी पळोवंक मेळटात.

"आतां शोभा जेवता" हे काणयेंत कावळो आनी नुसत्याची इश्टागत देखदिर्ण
आसा. कावळ्याची वास्तवीक आनी काणयांतली हुश्यारकाय आमकां हेवूय काणयेंत
पळोवंक मेळटा. काणयेचो विशय ओडलायणो आसा पूण मनश्यांचे मानसिकतेचेर
ह्या काणयेवयल्यान प्रस्न उप्रासतात. शोभा नुस्तें जेवतना मागता आनी पिरंगता
जितें नुस्तें मेळटा तेन्ना रूच विसरून तें जेवतां आनी नुसत्याक आपल्या लागी
दवरपाचो विचार करता. ताजे पालक ह्या अमानवीय इच्छेक सहमती दियत नुस्त्याक
दवरूंक ऍक्वेरियम हाडटात. विचार स्वातंत्र्र गरजेचें आसता पूण हाका लागून हेरांचे
स्वातंत्र आळाबंदा हाडप हें चुकीचें थरता. हे काणयेंत मांडिल्ली पालकांची भुमिका
चुकिची थरता. भुरग्यांक समाजीक आनी सैमीक गिज्ञान दिवपाक ही काणी कमी
पडटा. वाचकांक ही काणी जरी कल्पनेच्या विश्वांत व्हरून मनरीजवण करपी
आसली तरी काणयेंतल्यान सामन्य हेतू साध्य जायना.

"झूक झूक यो यो" ही काणी बालपणांतले हावेस दर्शयता. पालकांच्या
निश्काळजीपणाक लागून कितें घडूं येता हाची देख हे काणयेंत मेळटा. शानालें बाल
मन आनी ताजे हावेस ताज्या विचारांतल्यान आनी उतरांनी लेखकान बेस बरे तरेन
मांडल्यात. गाडयेंतलो प्रवास चित्रावपाक येस आयलां. गाडयेंत आसपी प्रांतीय आनी
परप्रांतीय लोकांच्या भासांचो उल्लेख लेखकान केला. गोंयचेर रेल गाडयेंक लागून
जाल्लो समाजीक आनी भाशीक बदल हे काणयेंतल्यान लेखक अचळय मांडटा.
व्यक्ती चित्रण करताना लेखक एके बायलेच्या कपलाक लायिल्ल्या कुकमाच्या
तिकलेची तुळा कॅरम खेळांतल्या घुलयेकडेन करता. गोंयांसावन गाडयेंत बसून
गोंयांभायर वताना दिसपी गाडयेंतलें आनी गाडये भायलें चित्र लेखकान सुंदर
रितीन मांडलां. गाडी भोगद्यान वतकच गाडयेंत किट्ट काळोख जाता हो चुकीचो
विचार लेखकान भुरग्यांक दिला.

ही काणी वाचकांच्या मनांत साबार प्रस्न मांडटा. एकल्या ल्हान भुरग्याची :खल गाडयेंत कोणेंच कित्याक घेवंक नां? गाडयेंतल्यान देवून तो मानाय शानाक कैत्याक ओडीत घेवन गेलो? ही काणी भुरग्यांच्या मनांत असले साबार प्रस्न निर्माण करपी आसा. भुरगीं प्रस्न विचारूंक शिकतात. हे काणयेंक लागून बालसाहित्याचो भुरग्यांच्या मनांत उत्सूकताय आनी प्रस्न निर्माण करपाचो हेतू साध्य जातलो. काणी सोंपयतना लेखकान वाचकांक घडिल्ल्या प्रसंगाचेर शिकवण दिवन काणयेचो हेतू साध्य करूं येतालो.

"धवो कावळो" ही काणी कावळ्याचें चित्रण करीत वाचकांक कांय देखी दिता. कावळ्याची हुश्यारकाय आनी ताच्या जिविताचेर आमकां साबार काणयो पळोवंक मेळटात तातूंतली ही एक काणी. कावळो आपले उमाळे व्यक्त करपाक कवनां म्हणटा. फामाद व्यक्ती फाटल्यान समाज कसो धावता, ताकां खानां–माथ्यार घेवन कसो खेळटा हें ह्या काणयेंतल्यान चित्रायलां. लक्ष वतकूच अपघात जातात ही शिकवण दिल्या. गर्व, अहंकार, दुस्वास आनी हावेस हांकां लागून कितें घडूं येता हाची ही काणी बेस बरी देख आसा. मनीस परिस्थिती प्रमाणें वागता, ह्या वेळार बऱ्या–वायटाची सुलूस ताका लागना आनी हाचो परिणाम काळांतरान भोगचो पडटा हो विचार लेखकान कावळ्याच्या पत्रांतल्यान मांडला.

"आमलेट आनी पापलेट" हे काणयेंत सुरवातीक लेखक आधुनिकीकरण आनी ताचे जाल्ले परिणाम दाखोवपाचो यत्न करता. शारांतलो लोक, सैम, जिवन शैली थोड्याच उतरांनी बेस बरे तरेन मांडल्या. जेवणाच्या जिन्नसांचे वळेरेंत गोंयच्या खाणा जेवणांच्या जिन्नसाचो उल्लेख जायना. बदलत्या संस्कृतायेचो प्रभाव स्पश्ट जाता. काणयेंतले वाक्प्रचार काणयेक नेट हाडटात. हे काणयेंत साबार विशय आसपावतात. लेखक सागळ्या विशयांकडेन न्याय करिना. काणी आधुनिकीकरणाच्या विशयान सुरू जाता, मदीं खाणा–जेवणाचो विशय लेखक हाताळटा आनी निमणेकडेन काल्पनीक विशय मांडून काणी सोंपयता. अशें करतना खयच्याच विशयाकडेन न्याय करूंक ही काणी अपेशी थारता.

साहित्य समाजाचो हांरसो आसता. समाजांत घडपी प्रसंग लेखकाक कथा बीज प्रदान करतात. साहित्य समाजाचो हांरसो आसलो तरीय ह्या समाजाक वाट दाखोवप हो साहित्य आनी साहित्यिकांचो धर्म. समाजांत आशिल्ले अमानवीय घटक, विचारधारा ना करूंक सामाजाक वाट दाखोवक साहित्य निर्माण जावप गरजेचें.

'विनीलो कीर' ही काणी मोनजात प्रेमी लोकांक दुखवपी आसा. काणयेंतल्य पालकांची बाजू आक्षेप घेवपासारकी आसा. पाजऱ्यांतल्या मोनजातीचे उमाळे स्पश जातात. उतराचो मान दवरून दिल्लें उतर पाळप हें आमकां ह्या काणयेंतल्या शिकूंक मेळटा. किराचें पात्र आदर्श आनी देख दिवपी आसा. काणयेंतल्या एकामेकाचेर विश्वास दवरपाची देख मेळटा. मोनजातीचेर मोग केल्यार मोनजात आमचेर मोग करतली हो विचार लेखकान बेस बरे तरेन मांडला.

" नाल्लाक नसाय काळंगाची " ही काणी वाचतना शणै गोंयबाबाल्या पणसाचे आदारीत कथेची याद जाता. फळावळीचे संवाद आपसांतलें उलोवप तांचीय भास आसता तींय उलयतात काय? हो प्रस्न आमच्या मनांत घालतात. गोंयकारांक नाल्ल खूब महत्वाचो. ह्या नांल्लाक जाल्लो गर्व आनी हेर फाळावळीची बाजू लेखकान ह काणयेंत मांडल्या. काणयेंतल्यान गोंयकारांचो स्वभाव लेखकान चित्रावपाचो प्रयत्न केला आशें जाणवता. दुसऱ्यांक कमी लेखप, कूस लावन फाटीं सरपाची वृत्ती ह्य फळावळीच्या संवादांतल्यान दिश्टी पडटा. सोण्णांतल्या सोण्णांत मुमुरखो हांसपी नाल्ल मनश्यां वरीच नाल्लाकूय भावना आसतात काय हो विचार मनांत घालता कांय फळांचीं पात्रां आमकां तांच्या बद्दल चितपाक प्रवृत्त करतात. मनश्यांच्य जिवितांत आपलें स्थान थारावपाक फाळांच्या ह्या संवादांत मनश्याक श्रेश्ठताय लाबल्या.

ह्या काणयां झेल्यांतल्यो काणयो माणकुल्यांक चितपाक प्रवृत्त करपी आसात. वाचकाच्या मनांत प्रस्नांचें मोड हाडपी हो काणयां झेलो कांय कडेन वास्तवीकतायेकडच्यान पयस वता. वायट सवंयो, वृत्ती पयसावच्यो सांडून तातूंत काल्पनीकतायेन जगून आदर्श जिवीत जगपाचो संदेश कांय कडेन मेळटा. साबार विशय हाताळटाना लेखक विशयांक न्याय दिना. काल्पनीकतायेचो वापर करून भुरग्यां मदीं बरे बदल घडोवपाचो यत्न लेखकान आनीक बरे तरेन करूं येता आसलो.

एका प्रमाणीक मानश्याच्या जिविताचेर आदारीत "एक आशिल्लो बाबुलो" ही नवलकथा 1977 वर्सा उजवाडाक आयली. ही नवलकथा लेखकाची साहित्यीक तांक आनी वाचन बळाची वळख दिता. सत्यानिश्ठ आनी सादें जिवीत जगपी बाबुलो भुरग्यांक एक आदर्श. आपली हुश्यारकाय बऱ्या कामांखातीर वापरून निस्वार्थ मनान जिवीत जगपाची देख ही नवलकथा दिता. मनश्यान आपल्या उतरांचेर ताबो दवरून

ऱ्यांक समजून घेवपाची तांक बाबुल्यांत आसा. गिरेस्तकाय आसून लेगीत ादेपणान जगपाची देख दिवपी बाबुलो हें पत्र लेखकान बेस बरे तरेन चित्रायलां. हे वलकथेंत लेखकाच्या हेर साहित्यांत दिसपी गोंयकारांची मानसीकता दिश्टी डटा. गोंयच्या बाबुल्याक शणै साता समुद्रा पलतडीं वचपाची बुद्द दिता. गोंयच्या ़रग्यांक, तरणाट्यांक परदेशांत वचपाची गोडी आपशींच लागना. गोंयच्या पुराय ़माजाक लागिल्लें हें दुयेंस गोंयकारांचे तकलेंत घर करून बसलां. हांची ़तिहासीक आनी आर्थीक कारणां आसात जीं लेखकान आपल्या साहित्यांत वाचकां ़रेन पावोवपाचो यत्न केला. हे नवलकथेंत आयिल्ले विशय, प्रसंग भाशाशैली, नेवेदन शैली लेखकाचेर हेर भासो आनी देश्यांतल्या साहित्य वाचनाचो प्रभाव स्पश्ट ़रता.

मुरगांव बंदराचें आदलें चित्र लेखकान दर्शयलां. मुरगांव बंदरावयल्या प्रसंगांत बाबुलो प्रमाणीक रावन आपलें कर्तव्य करता आनी सत उलयता. ताज्या प्रमाणीकपणाचें फळ ताका मेळटा. हे नवलकथेंतली लेखकान दिल्ली महत्वाची देख. दिल्लें काम मन लावन कश्ट करून पुराय करपी बाबुलो भुरग्यांक प्रेरणा स्त्रोत आसा.

माणकां जुंवो हो प्रसंग चित्रायताना लेखकाच्या चिंतन विश्वाची वळख आमकां घडटा. माणकां जुव्याचो प्रसंग ही नवलकथा उजवाडाक आयल्या उपरांत सुमार 30 वर्सानी हो प्रसंग सवंसारीक साहित्यांत आनी आंतरराश्ट्रीय सिनेमांत पळोवंक मेळटा. लेखकान हो प्रसंग वेगळेपणान आनी कुशळटायेन ह्या नवलकथेन आसपावन घेतला. उलोवप ही मनश्याची गरज न्हय तर छंद जावन गेला पूण वेळा प्रसंगाचें भान दवरून उलोवप काय ना हें थारावप खूब कठीण आसता. बाबुल्याचें आपल्या विचारांचेर, चितनाचेर आनी उतरांचेर नियंत्रण आशिल्लें. ताका लागून बाबुलो वायट प्रसंगांतल्यान आपल्याक सोडयता. वाऱ्या वाटेन सूप धरप. प्रसंगा प्रमाणें स्वताक बदलून वाट सोदून काडप गरजेचें आसता. बाबुल्याच्या हुश्यारकायेन आनी शिटूकसाणेन ताणें आयिल्लो प्रसंग टाळ्ळो. लेखक वाचकांक हे नवलकथे वरवीं जिवनाचे पाठ शिकयता. आपल्या आवयभुंयेकडेन आशिल्लें नातें हे नवलकथेंत लेखक दर्शयता. काणयेचो प्रवास जरी संवसारीक आसलो तरी सुरवात आनी अंत आवयभुयेर लेखक करता. समाजात घडपी प्रसग चडशे समान आसतात फकत चित्रण विभिन्नतायेन करूक येता. सवसारीक साहित्यांत जे प्रसंग

आसपावतात त्या तांकीचे प्रसंग कोंकणी साहित्यीक आपल्या साहित्यांत मांडटात भौ. दामोदर मावजो आनी तांची विचार शक्त, प्रसंग चित्रण कुशळटाय आनी निवेदन शैली संवसारीक पावंड्यावयली आसा. एक आशिल्लो बाबुलो ही नवलकथा तांच्या संवसारीक दर्ज्याच्या साहित्याची गवाय आसा.

वायट करतल्याचें बरें चिंतप, गुन्यांव भोगसप, थंड स्वभावान जगप, सत्य उलोवप, कश्ट करप आनी उकत्या मनान दान करप ही शिकवण लेखकान हे नवलकथेंतल्यान वाचकांक दिल्या. नवलकथेंतलो प्रसंग प्रवाह वाचकांक बांदून दवरता. एका फाटल्यान एक येवपी ओडलायणे प्रसंग, बाबुल्यान त्या प्रसंगांतल्यान सृजनशीलतायेन काडिल्ली वाट वाचकांक बांदून दवरता. एक आशिल्लो बाबुलो ही कोंकणी बाल साहित्यांतली भुरग्यांखातीर आशिल्ली बऱ्यांतली बरी नवलकथा आसा अशें म्हळ्यार अतिताय जावची ना.

"उंच हावेस उंच माथें" हें चरितत्रात्मक लिखाणाचेर आधारीत पुस्तक 2003 वर्सा गोवा कोंकणी अकादेमीन शणै गोंयबाब हांगेले 125 वे जयंती वर्सा निमतान उजवाडायल्लें. उंच हावेस आशिल्ले शणै गोंयबाब कर्तव्यनिश्ठ आशिल्ले. आपली पुराय जीण ते उंच माथ्यान जगले. तांच्या जिविताचेर आदारीत ह्या पुस्तकांत तांच्या जिवितांतले कांय प्रसंग लेखकान चित्रायल्यात. शणै गोंयबाब सादें जिवीत जगलो पूण एका समाजाचो दीप स्थंभ जावंक पावलो. संहितेचें भान दवरिनासताना आपल्या कांय खालत्या पांवड्यार काम करपी व्यक्तींकडेन तो कसो वागतालो तांकां कसो मान दितालो हें लेखकान बेस बरे तरेन मांडलां. तशेंच आपल्या कांय उचेल्या पावड्यार आशिल्ल्या कर्मचाऱ्यांक सलाम करप तांकां जमनासलें. आपलें काम मन लावन करप, सगळ्यांक एका समान लेखप तांकां मान दिवप हो तांचो स्वभाव आनी व्यक्तिचित्रण लेखकान सुंदर तरेन केलां. शणै गोंयबाबालें चरित्र चित्रण दर्शवपाक लेखकान सुंदर भास आनी निवेदन शैली वापरल्या. प्रसंगां उपरांतचें स्पश्टीकरण आनी तातूंतली भास मार्गदर्शी स्वरुपाची आसा. तातूंतल्यान लेखकाच्या अणभव आनी ज्ञानाची वळख आमकां मेळटा.

शणै गोंयबाबली बाजू घेतना लेखक तांचें मन, विचारधारा वाचकांक जुस्त उतरांनी समजायता. तांचें स्वभाव चित्रण करताना शणै गोंयबाब लेखकाचेंय प्रेरणां स्त्रोत आसात हें कळून येता. शणै गोंयबाब कोंकणी भाशेची बाजू मांडपाचो मुद्दो लेखकान भासतज्ञाचे नदरेंतल्यान मांडला. लेख बरयताना लेखकाची संशोधन वृत्ती

नी प्राविण्य पळोवंक मेळटा. प्रसंग मांडटाना सादे वर्णनात्मक, तर्कशुद्ध भाशेचो पर लेखकान केला. शणै गोंयबाबांचें चरित्र चित्रण करताना तांचो स्वभाव खकान मांडला.

ह्या चरित्रात्मक लिखाणाक दिल्ले माथाळे लेखनाचो उद्देश साध्य करतात. मणेकडेन ह्या महापुरश्याच्या जिणेची देख घेवन गोंयचें नांव वयर काडूंक लेखक लो मारता. शणै गोंयबाबाल्या जिविताचेर आधारीत हें चरितत्रात्मक लिखाण प्रमाण रितत्रात्मक लिखाण म्हणूंक येता.

"अशे घडले शणै गोंयबाब" हें चरितत्रात्मक लिखणाचेर आधारीत पुस्तक 2003 र्सा गोवा कोंकणी अकादेमीन शणै गोंयबाब हांगेले 125 वे जयंती वर्सा निमतान उजवाडायल्ले. कोंकणी तरणांट्यांक आदर्श जिवीत घडोवपाक देख दिवपी हें पुस्तक. लेखक भौ. वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार म्हळ्यार शणै गोंयबाबालें चरित्र चित्रण करताना महाकवी भवभुती हांच्या उतरांचो उल्लेख करता. सत्याचे वाटेर चलपाचो संदेश दिता. आवयभाशे खातीर झुजलेल्ल्या ज्ञानेश्वराची देख लेखक वाचकांक दिता. जशे भवभुती, येशू आनी ज्ञानेश्वर सत्याखातीर झुजले तांची देख दिवन लेखक शणै गोंयबाबांक तांचे परंपरेंतले लेखता. शणै गोंयबाबान केल्लो कोंकणीचो भाशीक, इतिहासीक, साहित्यीक आनी संशोधनाच्या मळावयल्या वावराचो उल्लेख करून तांच्या जिवितांतले निर्शेवणेचे खीण आनी मरणा उपरांत लेगीत तांचेर समाजान केल्लो अन्याय वाचकांमुखार दवरून आयज लेगीत हो महान मनीस कसो आमच्या मना काळजांत घर करून आसा हाचें कारण लेखक स्पश्ट करता.

शणै गोंयबाबाली शिकपाची आवड, वाचनाची भूक आनी भुरगेपणावयलें जिवीत चित्रीत करताना लेखक त्या काळांतल्या इतिहासीक घडणुकांची वळख आमका करून दिता जांचो प्रभाव शणै गोंयबाबाल्या जिवितार पडिल्लो. दर्जेदार मारगदर्शन आनी खर वाचन कशें आध्यात्मीक व्यक्तिमत्व घडयता हें लेखकान बेस बरे माडला. समाजाचे मानसीकते आड वचून "गोंयबाब" ह्या हिणसावणेन भरिल्ल्या उरताक आपणावन ह्या महान मनश्यान समाजाचो द्रृश्टीकोण कसो बदल्लो हें चित्रायला. कोकणी भाशेचो दिश्टावो घडल्या उपरांत तांणी कोकणी भाशेचो अभ्याक करून लेखनाक सुरवात केली ह्या काळार तांका पडिल्ल्या प्रस्नांतल्यान वाट काडीत तांणी कोकणी भाशेची केल्ली सेवा लेखकान मांडल्या कोंकणी–मराठी वाद,

कोंकणी भाशेचो इतिहास, परिस्थिती हे विशी पडिल्ल्या प्रस्नांच्यो जापो सोदून काडल्या उपरांत तांणी कोंकणी खातीर घेतिल्ल्या धोरणाचेर लेखनांतल्यान उजवाड घातला. कोंकणी साहित्याक तांणी दिल्ल्या योगदानाचेर लेखकान आपलें मत मांडलां. हो सगळो वावर करताना शणै गोंयबाबान जें सोसलें आनी भोगलें ताची देख दिवन लेखकान आयच्या तरणाट्यांक मार्गदर्शन केलां.

शणै गोंयबाब एक नीज कोंकणी मनीस, आमच्या मदलो एक विचार वाचकांच्या मनांत घालून तांचें जिवीत तशेंच, तांणी केल्लो वावर आमच्या मुखार मांडून आमकां अनुकरण करपाक एक व्यक्तिमत्व प्रदान करपाचो वावर लेखकान ह्या चरित्रात्मक लेखनांतल्यान केला.

तांच्या बालसाहित्यांतली भास सादी आनी सुरळीत. आर्विल्ल्या काळांत जायतीं प्रमाण कोंकणी उतरां गळून गेल्यांत. कोंकणी भाशेची ही गिरेस्त उतरावळ आमकां भौ. दामोदर मावजो हांच्या साहित्यांत पळोवंक मेळटा. देखीक बेस, पावत, भाचरां, तस्नीपो सारकीं उतरां. तांच्या साहित्यांत आसपाविल्ले वाक्प्रचार भुरग्यांक ओडलायणें आसात. देखीक भोव मळ्यार भोवच बरें, वाऱ्याच्या फाटीर बसून, धमोच्च, शेवाळ्ळो. संवादांत आनी तांच्या लिखणांत आसपाविल्ली कांय हेर भासांतली उतरावळ आमकां गोंयच्या समाजाचेर पडिल्लो हेर भासांचो प्रभाव आनी समाजीक बदलाची वळख करून दितात. देखीक शाप हें उतर लेखकान वापरलां त्या काळार आधुनीक दुकानांक शाप म्हणपाची प्रथा आशिल्ली वेग–वेगळ्या प्रकारच्या पसऱ्यांक शाप, पसरो, दुकान, मांड अश्या उतरांनी पाचारताले. हो भासविज्ञानांतलो विशय भौ. दामोदर मावजो हांच्या साहित्यांत पळोवंक मेळटा.

भौ. दामोदर मावजो हांच्या बाल साहित्यान कोंकणी बालसाहित्याक महत्वाचें योगदान दिलां. तांच्या मता प्रमाण काणया रुपांत आयकल्लें आमी केन्ना विसरनात. आश्योच काणयो आयकून आपूण घडलो अशें लेखक सांगता. ह्या काणयांतल्यान बरे संस्कार जातात अशें ते मानतात. हें साहित्य निवळ बालसाहित्य रचप हो हेतू धरून रचूंक ना, हातूंतल्यान एका पालकान आपल्या भुरग्यांक दिल्ली शिकवण, मनरीजवण आनी विचार दिसून येतात. खोल अभ्यास, वाचन, प्रमाण भास, वाक्प्रचार, काळजांतल्यान आयिल्ले विचार, विशय विस्कटावणी आनी मांडणी हें तांच्या बालसाहित्याचें खाशेलपण.

साहित्यीक दामोदर मावजो हांच्या बालसाहित्याचो अभ्यास करताना साबार

जाली वाचक ह्या नात्यान पटपाक कठीण जाता. लेखक हो समाजाखातीर बरयता पलें अणभव विश्व आपले भाशेंतल्यान वाचकां मुखार मांडपाचो प्रयत्न करता. हो त्न वाचकान मानून घेताना लेखकाच्या आध्यात्मी, तत्वगीज्ञानी आमी समाजीक णेचो खोलायेन अभ्याक करप गरजेचें. साहित्यीक दामोदर मावजो हांच्या हित्यान जो सवंसारीक दर्जो मेळयला त्याच दर्ज्याचें तांचें बालसाहित्य. भारतीय लसाहित्याच्या मळार कोंकणी बालसाहित्याच्या गिरेस्त दायजाची वळख दिता. र भासांतल्या साहित्यांत कोंकणी बालसाहित्याक मानाची सुवात मेळोवन दिता.

साहित्यीक दामोदर मावजो हांच्या बालसाहित्यांतली काल्पनीकताय उंचेल्या ज्यीची आसा. संवसारीक बाल साहित्यांत जी काल्पनीकताय पळोवंक मेळटा, जो वडो गांठला त्या पांवड्याक कोंकणी बाल साहित्याक सुवात मेळोवन दिवपाचो वर साहिंत्यिकान आपल्या साहित्यांतल्यान केला. भौ. दामोदर मावजो हांणी पलो बाल साहित्याचो चडसो वावर 30 वर्सां पयली करून दवरला हाची नोंद तल्यार कोंकणी बाल साहित्यान उंचेलो पांवडो 30 वर्सां पयलीच गाठिल्लो अशें हणू येता. तांच्या आनी त्या काळार बरयल्ल्या हेर बाल साहित्यिकांच्या साहित्याचो संवसारीक बाल साहित्याकडेन तुलनात्मक अभ्यास करपाची गरज आसा.

भौ. दामोदर मावजो हांचे लिखणेंतल्यान कोंकणी बालसाहित्याची फावो अशी सेवा जावंक ना. कोंकणी भुरग्यांची रुचीक बालसाहित्य वाचपाची तान भागोवपाक लेखकान फावो अशें योगदान दिवंक ना. तांच्या बालसाहित्याचो नियाळ करताना म्हजें तांकां मागणें कोंकणी बालसाहित्याक तांणी आनीक योगदान दिवचें. आयज मेरेनचें तांचें बाल साहित्य हेर भासांनी अणकारीत जावन वचूंक ना हांचे वायट दिसता. तांची तांक आनी लिखणेचो दर्जो मतींत धरल्यार तांच्या बालसाहित्याक सवसारीक पांवड्यार पावपाक वेळ लागचो ना.

## संदर्भावळ


1. मावजो दामोदर, जून 1976, चित्तरंगी, सुमन्त रा. केळेकार, जाग प्रकाशन, प्रियोळ, म्हाड्डोळ,गोंय.
2. मावजो दामोदर, जून 1976, काणी एका खोमसाची, दामोदर मावजो, म्हजें प्रकाशन, माजोर्डें,गोंय.
3. मावजो दामोदर, जून 1977, एक आशिल्लो बाबुलो, दामोदर मावजो, म्हजें

प्रकाशन, माजोड्डें,गोंय.

4. मावजो दामोदर, पयली आवृत्ती जून 2003, उंच हावेस उंच माथें, नारायण नावती, गोवा कोंकणी अकादेमी, बोरी, फोंडें, गोंय.

5. मावजो दामोदर, पयली आवृत्ती जून 2003, अशे घडले शणै गोंयबाब, नारायण नावती, गोवा कोंकणी अकादेमी, बोरी, फोंडें, गोंय.

6- Malshe Milind] January 2003] Aesthetics of Literary Classification] Popular Prakashan Pvt- Ltd] Mumbai-

7. Oxford University Press, 1972, Classical Literary Criticism.

8. Hicks Malcolm and Hutchings Bill, 1989, Literary Criticism, Edward Arnold, London.

9. Seturaman V. S., Edited, 1989, Contemporary Criticism An Anthology, Rajiv Beri, Channai.

10. Peck John and Coyle Martin, 1993, Literary Terms and Criticism, THE MACMILLAN PRESS LTD, London.

11. Seturaman V. S., Indra C. T., Sriraman T., Edited, 1990, Practical Criticism, Rajiv Beri, New Delhi.



# रूमडफूल : मानसशास्त्रीय चिंतन आनी विश्लेशण

डॉ. राखी आमोणकार

भौ. दामोदर मावजो हे साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल्ले कोंकणींतले एक प्रगल्भ बरोवपी, तांचें रूमडफूल पुस्तक हातांत घेतना तांच्या सृजनशीलतेचची जाणीव जाता. कोंकणी साहित्याच्या मळार रूमडफूल साहित्य कृतीक मानाचें स्थान आसा. कित्याक तर ह्या साहित्य कृतींतली दर एक कथा कोंकणी साहित्यान नवो विशय वाचप्या मुखार दवरता. कथेची मांडणी संशोधनात्मक आसा. हें पुस्तक 1989 वर्सा उजवाडाक आयलें. हातूंतल्यो सगळ्यो कथा वेगळेंच विपरीत वाचप्याक दाखयतात. त्यो कथा अश्यो आसात. नवी केस, रूमडफूल, सुमार, विशुती, आतां रड. ह्यो कथा वाचतना मनांतल्या मनांत अंतर्मूख जावन ह्या रूमडफुलाचेर मंथन जाता. जाका विज्ञानीक नांव थ्यबने तंबमउवें, अशें आसा कोंकणींत ताका रूमडफूल म्हणटात. लेखकान आपल्या कथा झेल्याची तुलना रूमडालागी केल्या. कित्याक तर रूमडाचो गूणधर्म ह्या कथा झेल्याक लागू जाता. विचारांत धुसपून म्हज्या मनाचें रूमडफूल जावपाक लागता. आतां रूमडफूल ह्या पुस्तकाचेर विचार केलो जाल्यार खरेंच हें पुस्तक रूमडफूलच व्हय? हांव म्हजे म्हाकाच प्रस्न करतां.

रूमडफूल म्हणल्यार मुळांत संकल्पनाच अशी आसा. कांय जाण म्हणटात रूमडाक फूल ना, कांय जाण म्हणटात ताचें फूल सोरोप खाता. सोरोप खाता जाल्यार फळ खंयच्यान आयलें. कांय म्हणटात रूमडाचें फूल रातचें फुलता आनी सकाळ जातकच गळून पडटा, कांय जाण म्हणटात रूमडाक फूल आसा पूण तें फळा भितर आसता. हें विज्ञानीक सत्य. पूण म्हजे म्हायती प्रमाणें रूमडाच्या फळांत फूल आसता. तें फूल खंय आसता हें सोदपाचें आमचे काम न्ही, फकत रूमडाच्या फुलाचो गूण ह्या कथांक लागू जाता. हे पासत रुमडाचो गूणधर्म सांगपा फाटलो उद्देश. आता ह्या कथा झेल्याचेर विचार केलो जाल्यार ह्या कथा संग्रहांतली दर एक कथा प्रतिकात्मक रूपान रुमडफूला वरीं आसा. पुराय पांच कथा ह्या झेल्यांत आसात रूमडफुलाचें फूल आमकां सहजा सहजी दिसना तशेंच समाजाचें गुपीत

सहजा सहज दिसना म्हणल्यार जें समाजांत बरें बरें दिसता तसो समाज केन्नाच आसना. कित्याक तर समाजांत सगळ्याच वागणुकेचीं मनशां आसतात. समाज म्हणल्यार कितें दोन मनशां एकठांय येता तेन्नाच समाज घडटा. अशे तरेच्यो ह्यो कथा. दोळ्यां मुखार जें दिसता तसो समाज केन्नाच आसना. रूमडफूला वरीं ह्या कथेंतलें दर एक पात्र वेगळेंच आसा नवी केस हे कथेंतलें कुंतल ह्या पात्राच्या मनांतल्या हांवेसांक शिम मेर आसना. तें परिस्थिती प्रमाणें व्हांवत सुट्टा आनी शेवटाक ताची त्याच हॉस्पिटलांत नवी केस जाल्याचें जाणवता. रुमडफूल हे कथेंतलो मास्तर जो शांती सोदपाक भोंवता आनी मेळत थंय झळपता रानांत, दर्यार, दोंगरार शेंवटता शेवटाक ताका शांततेची अनुभूती जाता. शांती दर एका मनशाच्या मनांत आसता. रूमडफुला वरीं ती दिसना. केन्ना मनशांच्या जिणेंत चडटी आसता केन्ना देंवती. सुमार हे कथेंतलो रवी देसाय जो एनीच्या मोगा पासत तळमळटा भुरगेपणांतलो वा वयार येतना मनशांच्या ज्यो मनांत भावना येतात त्यो जपून दवरपी रवी. शेवटाक एनीच रवीक मोगाच्या हुवारांतल्यान तडेर व्हरून पावयता. रवीक एनीक पळयतकूच ताची मोगा पासत नेरवां चळवतात. सत्यजीत जो विशुतीन घुसपता आनी आपल्याच संशोधनाचो आंवडो घोंटप ताका कठीण जाता. आतां रड हे कथेंतली रेमेदाची वागणूक समाजाक सोब सारकी ना. आनी शेवटाक तोच आपल्या कर्मांनी सोंपता. ह्या कथा झेल्याक मानसशास्त्राचें तत्व अभ्यासा पासत लागू केलां. Psychology म्हणल्यार मानसशास्त्र. Psychology is the scientific study of the mind and behavior. Psychology is a multifaceted discipline and includes many sub-fields of study such areas as human development, sports, health, clinical, social behavior and cognitive processes.

हें शास्त्र ह्या कथा झेल्याक लागू जाता कित्याक तर ह्या कथा झेल्यांतलें दर एक पात्र मानसशास्त्राचे व्याख्येक पाळो दिता. नवी केस हे कथेंत कुंतल एका रूमडफुलावरी नदरेक येता. ताका सगळ्याचीच बरेपणाची नसाय जाता. पूण ही नसाय तें तोंडार वा उलोवन लेगीत दाखोवंक शकना. कोणाक सांगतलें सांगपाक लेगीत कोण ना. एक रूमडफूल जशें आपल्याच मदीं बारीक फळान फूल जावन रावता तशेंच ह्या कथेन कुंतल नदरेक येता. हें एक घसघशींत पात्र दोळ्यां सामकारा उबें रावता. हांगा कुंतलाक शारिरीक भोग घेवचो सो दिसता हे पासत तर तें डॉ क्रुझान फकाणानी फाटीर हात मारतकच मनांतल्या मनांत मंत्रमुग्ध जावन

ुखावता. सपनेल्ल्या जगांत वागपाक लागता. एके तरेन कुंतलाक लेगीत शरीर ुखाचें मानसीक पिशें लागल्याचें हे कथेंत जाणवता. ताका मागीर शेंवत्याच्या ोगाच्यो खबरो बऱ्यो रुचीक आनी गोड लागपाक लागतात. कुंतलाक सामकें मोग ोशें लागलां म्हणूं येता. हांगा कुंतलाचे विचार आनी मनांतले हावेस दुयेंत ााशिल्ल्या दादल्या पेशंटाक लेगीत सोडिनात. इतली मानसीक अवतिकाय कुंतलाची ह्या कथा झेल्यांत जाणवता. हांगा परत ताच्या मनाचें मानस दळमळीत ााल्याचें जाणवता. दुयेंत आशिल्या पेशंटाची नर्सीन निस्वार्थान सेवा करप पूण कुंतल लेगीत एक मानसीक पेशंट जाता. ताका कोण वखद करत कांय हो प्रस्न उपरासता. नर्सीचे वागणुकेक कुंतल पाळो दिना. कित्याक तर कुंतलाचे नदरेंतल्या पेशंटाचें जुवानपण लेगीत सुटना. पूण एका खिणाक कुंतलाक आपूण नर्स आसा हाजी जाणीव आसता. नाय जाल्यार समाजीक लज सांबाळून आपूण आपली भुमिका नर्सीची आसा ही जाणीव कुंतल तितल्याच प्रामाणिकपणान निभोवन व्हरता.

भुरग्यांच्या मानसाचेर वायट परिणाम जावपाक जायना काळांतरान ताचो परिणाम जाता, अशीं जाणटीं आनी मनसशास्त्री म्हणटात हाची ज्वलंत देख कुंतलाच्या माध्यमांतल्यान पळोवपाक मेळटा भुरगेपणांत प्रेमा मावशी आनी तिचो घोव सगळेच चक्रायल्यावरी ते प्रसंग कुंतलाच्या मस्तकाचेर चडिल्ले आसा म्हणप हांगा योग्य जातलें. समाजांत दादलेच वायट नदरेचे आसता असो एक समज आसा पूण कुंतलाचो लेगीत पेशंटाच्या शरिराचेर ताचो दोळो आसता. आपल्या प्रोफेशनाक हें सोबना हाची ताका समजणी आसून लेगीत तें फुडें फाटीं जाता. घडये हांगा असो विचार जाता जें कुंतलाक ताज्या वयार मेळपाक जाय आशिल्लें तें मेळना हे पासत कुंतलाची मनांतल्या मनांत ही वागणूक जाल्या. कुंतल सामकें सुखाचे आशेन मनांतल्या हावेसांक वळवळटा आनी आपली तुलना भायर गुठलो करून बशिल्या कोलका लागीं करता. घडये त्या कोलकाक लेगीत कोण मेळो ना काय असो लेगीत तें विचार करता. पूण एका खिणाक आपूण त्या कोलका परस कितलें कमी हें ताका जाणवपाक वेळ लागना. जिणेचे धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष ह्या प्रस्नाचे दलदलींत तें मुंगरत वता. आपल्या आयुशांतल्या दर एका प्रस्ना लागीं तें आतां एकलेंच झुजतालें. ऐके तरेन कुंतलाक वासना पिशें लागिल्लें आनी त्या पिश्यांच्या पेशंटा मजगती तें आतां पिशेंच जाल्लें. फरक इतलोच की ताचें पिशें रुमडफुला वरी कोणाक दिसनासलें. एके तरेन कुंतलाक बारीक पारखिलें आनी हे कथेचें परिक्षण करतना

कुंतलाक सेक्शुयल डिजऑडर जाल्ल्याचें जाणवता. कित्याक तर दर मनशां लागी तीन फॅक्टर आसतात. मॅटल, हेल्थ कोगनेटीव आनी पर्सनेलिटी. कुंतल ह्या साच्यांत बसना जाल्यार तें दुयेंत आसपाक जाय. हें जावपा फाटलें कारण म्हणल्यार भुंरगेपणांत जर कसलोय परिणाम जाल्लो जाल्यार. देखीक दृ प्रेमामावशेचो देखाव ताच्या जिणेर खर प्रभाव घालता.

रूमडफूल हे कथेंतलो एक मनीस जो कामा वेल्यान आता निवृत्तेच्या धडेर पावला. जे खुरचेर तो सदांच बसतालो ती खुरची ताका सोडची पडटली. मनशाचें एक मानस आसता, जें काम तो सदांच करता त्या कामा पसून जर ताका पयस व्हेलो जाल्यार मागीर आनी तो मनीस कांयच करपाक शकना. आपली ह्या संवसारांत कितें सुवात अशे तरेच्या प्रस्नांच्यो जापो मागीर सोदच्यो पडटात. सूख सोदपापासत तो जायते कडेन भोवता. जें सूख ताका आयुश्य भर काम करून मेळेंना त्या सुखाच्या सोदांत तो मेळत वाट धरता. कसलेंच काम नाशिल्यान ऐके तरेचें वैराग्य ताचे जिणेंत रिगिल्लें हे कथेंत नदरेक येता. तागेलो अंतर आत्मो फकत सूख सोदतालो जें ताका गांवांत, जंगलांत वा दोंगरार मेळत काय ह्या हावेसान तो भायर सरता. सूख खरेंच मेळत हे उमेदीन तो कितलोय थकलो अर्दमेलो जालो तरी ताच्या मनांत एक जिद्द आसता हांव सूख सोदतलों ह्या हावेसाची एके तरेन मानसशास्त्रीय शास्त्र हे कथेक लायलें जाल्यार खंयच्या मनशाक मनांत थारयल्या गजालीचें पिशें लागपाक जाय तेन्नाच तो मनीस त्या सोदाचें पुर्णत्व करपाक पावता. हे कथेचेर खोलायेन विचार करतना mental peace हो human right पूण कथेंत तें सूख ताका मेळना. मनीस सुखाच्या सोदांत केन्ना वता जेन्ना तो आत्म दुख्खी आसता तेन्नाच तो सूख सोदपाक लागता. ताचे जिणेंत लग्न नासता म्हणल्यार ताचें आयकून घेवपाक कोण साथिदार नासत हे पासत घडये ताका एकटेपणाची संवय आसता. जाका आमी Loneliness has wide range of negative effect Physical and Mental अशें मानसशास्त्रांत म्हणटात. पूण मनशांच्या स्वभाव गुणा प्रमाणें मनीस जेन्ना कसलेंय काम करता तेन्ना तें काम त्या मनशाची फाट सोडना सदांच ताका अस्वस्थ करता. हे परिस्थितीची जाप सोदपाक तो शांती सोदपाक वयता. शेवटा शांती मेळना पूण शांती सोदतल्याक जिणेची वेगळीच जाणीव जाता. आनी परत तो मिलींत धांवता आनी भोंगो कानार पडटांच ताचो आत्मो शांत जाता. हे कथेंत एक तरेचें Suffering जाणवता. ताका आनी दोन वाट्यांनी विभागूं येता. Mental Suffering

nd Physical Suffering] Mental Suffering कोणाचो राग आसूं येता, एकटेपण, य आदी Physical Suffering मार, दुयेंस आदी. ह्या मनशाक उपाय म्हणल्यार णीं आपलो आत्मो शांत दवरपाक जाय तेन्नाच ताका Mental Suffering डल्यान मुक्ती मेळूं येता .

सुमार हे कथेचो विचार करतना ताका मानसशास्त्राचें तंत्र लायतना अशें ाणवता Marriage is the process by which two people make their elationship public] official] and permanent- पूण हे कथेंत एके लग्न जाल्ले ायले लागीं संबंद दवरपाक सोदपी रवी. ती मागीर क्रिस्तांव जाली म्हूण कितें जालें ुसंस्कारी क्रिस्तांव धर्मी बायल हांगा नदरेक येता. हे कथेंत शर्मा जो लग्न जाला आनी देसाय जो लग्न जावंक ना. देसाया लागीं सगळेंच आसा पूण बायल ना, पूण शर्मा लागी बायल आसा. आपल्या लागी बायल ना आनी एकसुरे जिणेक देसायाक जीण सामकी खावपाक येता ते परस तो चडसो कामांत व्यस्त रावता. शर्मा देसायाक सांगता एका दादल्यान भायल्या देशांत कामरपाच्या सुवातेर एका 12 वर्सांच्या पिरायेच्या चलयेचेर आगळीक केल्ली. ह्या विशयाचेर शर्मा आनी देसाया मजगतीं भासाभास जाता. जंय देसाय त्या दादल्याची चूक करना. भायल्या देशांत आशिल्ल्या दादल्यां मदीं असले विकृतीक तोंड दिवप सभावीक आसा अशें देसायाक दिसपाक लागता घडये कित्याक तर देसाय लेगीत त्याच विकृतायेंतल्यान वयतालो. हो देसाय म्हणटल्या एनीचो ल्हानपणाचो इश्ट रवी देसाय. रवी देसायाक आतां ल्हानपणांतलें एनी मेळ्ळें आनी ल्हानपणांतल्यो यादी जाग्यो जावन. देसायाच्या मनांत एनी विशीं वासना निर्माण जावपाक लागता. भावना आतां तडीक पाविल्ली रवी आतां फकत ल्हानपणांतले एनी दोळ्या मुखार येतालें. हांगा Dream analysis- The psychoanalytic interpretation of dreams used to gain insight into a person's unconscious motives or conflicts मानसशास्त्रांतलो हो सिद्धांत हांगा लागू जाता. कित्याक तर रवी फकत एनी विशीं चिंततालो. एनीलें तें हांसप उलोवप भुरगेपणांत रवीक एनी केन्ना काय पयस वयता अशें जातालें. आतां काळ बदलिल्लो एनी बदलिल्लें. एनीचो घरकार आनी एक चलो असो ताचो संवसार आशिल्लो. हांगा जेन्ना रवी एनील्या घरा वचून त्योच यादीं काडपाक दोगांय मदलो वासनेचो सामुर तोडपाक पळयता तेन्ना एनी सुसंस्कारी बायले वरी रवीक पयसायता. मानस शास्त्राचे नदरेन परत एकदां विचार केलो जाल्यार, रवी सामको वासना भोगपाक

पिसावला. आनी डिमान्ड आनी सप्लाय अशे तरेन तो एनी लागीं डिमान्ड करता. समाजीक नेमा प्रमाण लग्न जाल्ले बायलेक हें कर्म सोबना हे पासत एनी ताका पयस करता. आपल्या बऱ्या संवसारांत रवीक येवपाक दिना.

विशुती हे कथेचें एक वेगळेंच कथानक आसा ताचेर हांलीच आमकां एक फिल्म पळोवपाक मेळटा. फिल्मांचे जें कथानक आसा तेंच कथानक रूमडफूल ह्या कथा झेल्यांत विशुती हे कथेक आसा. हे कथेंतल्यान सत्यजिताची मनस्थितीय आनी विशुतीची मनस्थिती जाणवता. मानसशास्त्राच्या नदरेंतल्यान विचार केलो जाल्यार दोगांयचो एकामेकाचेर विश्वास ना. दोगूय संशोधक आसून लेगीत. एकामेकाक भियेता. दोगांयचो मनाचेर आनी तकलेचेर ताबो ना अशे तरेची ही कथा. हें पुस्तक 1989 वर्सा उजवाडाक आयलां आनी कोई मिलगया हें फिल्म 2003 आयलां पूण कोंकणी साहित्यांत खूब पयलीं ही कथा आसा.

आतां रड हे कथेंत रेमेद जो सामको हे व्याखेक अनुसरून आसा Aggression Behaviors that cause psychological or physical harm to another individual. हांगा रेमेद तेंच करता. तो आवय बापायचें आयकना सामक्या वायट वळणार वयता आनी आपल्या आवय बापायक आयकना आनी तांकां मारता. Anxiety an intense emotional response caused by the preconscious recognition that a repressed conflict is about to emerge into consciousness. म्हणल्यार Jsesnkd Anxiety आसता पूण तो सगळे emerge into consciousness म्हणल्यार सगळें जाणून करता. रेमेदाक सगळें खबर आसता तरी लेगीत तो तसोच वागता. मनांतल्या मनांत तो सदांच आबूज जाल्लो आसता. अशें जावन तो सदांच आपल्या आवय बापाय लागीं झगडटालो. हे कथेंत तीन मुखेल पात्रां आसात. फुलामेस्त्री बापूय, कातारीन आवय आनी रेमेद पूत अशे तरेन लेखकान हो घराबो कथेंत दाखयला. पूण हीं तीन पात्रां आपल्या जिणे लागीं संतुश्ट ना. तिगांयचे विचार वेगळे. आवय बापूय ह्या नात्यान तांकां रेमेद एक बरो पूत जावचो हो हावेस आसता. रेमेद सोरो पिता Tolerance a situation that occurs with continued use of a drug in which an individual requires greater dosages to achieve the same effect. हांगा मानशास्त्राचो Tolerance लागू जाता कित्याक तर रेमेदाक परत परत सोरो जाय आसाता आनी परत तोच effect पयली भुरगें जायना ह्या हुसक्यान ताचें मानस दाखयलां. उपरांत भुरगें जातकूच ताका तीं सारकीं वाडोवपाक शकनात. अपुर्बाय

रून रेमेद सामको माथ्यार चडयता. ताचे लाड करून ताका वायट लागणुके लागीं ।वयतात. फुलामेस्त्री आपलो पूत शिकून व्हड जातलो हे आशेन जगता. कातारीन । सदांच पूत आज न्हय जाल्यार फाल्यां तरी सुदारतलों हे आशेर आपलें दुयेंस ।रता. रेमेद जो आपल्या आवय बापायक कसोच समजना तांचे हाल करता. तांका ।रता. तांचे कडल्यान पयशे काडून व्हरता. भाटाचे नाल विकता, उपरांत भाट आनी ।ायकल विकता, सायकल विकतल्या लागीं आडन्यायान झगडटा आनी रेमेदा ।ागची सायकल घेतलेली ताका नाका जाता. जिवाक भिवोन सायकल विकत ।वपी रेमेदाक चड पयशे दिता. गांवांत लोकांक मार बडय करून तांकां भियेता. ।ावयच्या आंगा वयलें भांगर लेगीत तो दवरना. रेमेद कुवेत वचपाचो निर्णय घेता. ।ापलो चेडो पयस वतलो हाचें तांकां दुख्ख नासता तांकां तें सूख आसता घडये ।ांय दीस तरी सुखान रावपाक मेळटलें म्हूण कथेच्या शेवटाक असो प्रसंग ।ाखयला जंय पादकूर चेड्याच्या मरणाची खबर घेवन येता. आवय बापूय पुताच्या ।रणान सुखा वता अशे तरेची वेगळीच कथा ही. जंय मानसीक त्रासांतल्यान जाणटेपणान तरी सुखान दीस सारपाक मेळटले हे आशेन जगपाक सोदता. पूण शेवट तितलो पचपा सरको न्ही रेमेद त्रास करतालो बरे आसा पूण ताच्या मरणाचेर आवय बापूय सुखावप तांकां मातशें मनाक वायट दिसना. घराचो फुडारूच, घरचो आदार ना जाल्यार घराचें घरपण आनी खयंचें अशे तरेन वेगळीच भावना ह्या आवय बापाय मदीं दिसना. जंय फुलामेस्त्र आनी कातारीन संवसाराच्या झाडाक रेमेदाचें फळ येता खरें पूण रूमडाचें फूल रेमेद ना जाता आनी तो रूमडाच्याफुला वरी नदरे आड पावता.



# 'गांथन' संग्रहांतल्या वेंचीक कथांचो एक चिकित्सक नियाळ

गोरक शिरसाट

दामोदर मावजो हे कोंकणी कथेक लाबिल्ले एक अश्टतासांचे सर्जनशील कथाकार. कोंकणी कथा आधुनीकतेच्या प्रवाहांत हाडपांत तांचें कथाकार म्हणून खूब मोठें योगदान आसा. कोंकणी कथा सत्तराच्या दसकांत कूस परतिताली तेन्ना दामोदर मावजो हांची कथा पारंपारीकता सोडून आधुनीकतेचें आंगलें घालून मेकळी जाल्ली. मुळांत गोंय ही भूंयच धार्मीक एकचाराची जाल्ल्यान मावज्यांचे कथेंत हो एकचार आनी हिंदू क्रिस्तांव समाजांतल्या धार्मीक निती मुल्यांचें चित्रण येवप हें सबावीक. गांथन कथा संग्रह आमका सुमार 1971 आदलें गोंय दाखयता हें तांचें खाशेलपण. आनी लेखक माजोड्डेंचो जाल्ल्यान थंयचो थळावो भौस ह्या कथांनी खूब जितो जिवो चित्रायल्लो दिसता.

गांथनींत साबार विशया वयल्यो कथा आसपावल्यात. जातूंतल्या कांय वेंचीक कथाचो हांगा विचार जातलो. गांथनींतली 'गणपती पावलो' ही कथा चवथ तोंडार लागीं आयल्ली आसतना शंकराची गरीबीक लागून जाल्ली परिस्थिती चित्रायता. शंकर ताची बायल आनी तीन ल्हान भुरगीं सगलींच चवथीची आतुरतेन वाट पळयतात. आनी दुसरे वटेन पयलींच विष्णू पसरकारा कडेन उदारेंत बुडलेलो शंकर चवथ कशी धुकलची हाचेर आपली तकली लढयता. गांवार सदांच वायट खबर दिवपी कुष्टा एक दीस शंकराक ताचें दायजी जायू आका भायर पडलें हाची खबर दिता आनी शंकराची चवथ फुडें धुकलता. घर संवसार, तीन ल्हान भुरगीं आनी तेंका पोसपाची जबाबदारी हातूंत चेंपलेलो शंकर हे कथेंत दिसता. काटकसरी पूण समजीक बायल आनी बापायकडेन चवथीक फोगाची अपेक्षा दवरपी ल्हान भुरगीं दिसतात. ताचे उदारेक लागून सगले खर्च तेका नमते घेवचे पडटात तेन्ना भुरग्यांचो अपेक्षा भंग हांगा जाल्लो पळयतना खूब काळकूट येता. ही कथा गोंयच्या सामान्य मनशाची आर्थीक स्थिती चित्रायता.

दामोदर मावज्यांची कथा बरीच पयलीं सावन प्रयोगशील आसली हें 'जीण शीच सोंपचेली' ही कथा वाचतकच कळटा. खंयचेंच मनीस पात्र घेयनासतना कत कुपां, दोंगर, पणजी शार, गोंय, पावस आदीं.. ह्या सारकीं प्रतिकात्मक पात्रां वन ही कथा बरयल्ली दिसता. कोंकणींत अश्यो कथा खूबच उण्या प्रमाणांत ळटात. ही कथा त्या काळांत फुडारांत येवपी सैमीक संकटांचेर भाश्य करता. मीक रितीन पावस कसो तयार जाता हाचेर कुपांचें भाश्य' ही कथा चित्रायता. पूण दूशण आनी झाडां, दोंगर, न्हंयो ह्या सारकिल्या पावसाक जापसालदार आशिल्ल्या टकांचो नाश आमकां कितलो घातकी आसा हें कुपांच्या संवादांल्यान उक्तायता. हे कथेंत संघर्श आयला तो सैमीक आनी कृत्रीम कुपांचो. कृत्रीम कुपां मुखार सैमीक कुपांनी आपल्या अस्तित्वा खातीर केल्लो संघर्श हांगा दिसता. जपानी शास्त्रज्ञांनी निर्माण केल्ल्या कृत्रीम कुपांचेर ही कथा आदारल्या. मनीस कसो आपलीं पातकां लिपोवपाक सैमाक सुद्दां पिसो करता हाचें हें एक बेस बरें उदारण. ही कथा जितली प्रौढ वाचकां खातीर आसा तितलीच ती बालकथा लेगीत आसा अशें म्हणूं येता. हे कथेंच्या संवादांतलें नाट्य तिका थोडेंशें बालनाट्याचें रूप दिता. ही देख पळोवया..

"तूं खंय सावन आयला"?

"त्यो पोंतार जंय माडवी न्हंय अरबी समुद्राक मेळटा थंयसावन आयला."

"थंय पावस चड?"

"पावस खंयचो? थंय एक कूप लेगीत ना".

"मागीर तुजे आवयभुंयेची तान भागोवची सोडून तूं हेवटेनशें पावलें??

तंत्रांचे नदरेन खूब विकसीत जाल्ली अशी ही कथा.

पात्र प्रधान वा पात्र केंद्रीत कथा हें मावज्यांचे कथेचें खाशेलपण. तांचे कथेंतली पात्रां खूब प्रमाणांत अशीं निवळ केल्लीं, जाय थंय जाय तितलीच किसणी मारिल्लीं कशीं जावन येतात. अशेंच एक पात्र सदानंद. सदानंद कथेंतलो सदानंद कसलेंच काम करपाची तांक नाशिल्लो असो हो मनीस. कोणाचेंय मरण ही ताचे खातीर एक मजेशीर गजाल. समाजांत घडपी सगल्या गजालींचेर ताचें आपलें एक वेगळेंच तर्क आसता जें सहज कोणाक पटना. खंयच्या वेळार कितें उलोपव हाचें भाव ताका केन्नाच आसना आनी तो कितेंय अभद्र उलोवन बसता. आवयन सांगून लेगीत ताची ही सवय सुटना. पूण ट्रेनींत ताचेर हांसपी फुलामेनाचो सूड घेवपाची संद तो सोडीना. तें दारावयल्यान देंवतना टायट साडयेक लागून इल्लें घुस्पता पूण तो ताची

मदत करना, मजा पळयता. कारण ताचे कडेन तिकेट नासता तेन्ना टिकेट चेकराचे तापोवणेक फुलामानूय तेका हासलेलें आसता. हांगा तो कितलो सोंशीक पूण सादूर आनी घोळू तितलोच चपळ आसा हें समजता. आपूण कसलेंच काम करूंक शकना अशी धारणा घेवन जगपी सदानंद आपूण पेदो जातलो अशें शेवटाक थारायता. आनी कोण मरता ताची खबर गांवार घालतलों हें उमेदीन घरा येता. आपल्या नांवा सारकोच सदांच आनंदांत आसपी सदानंद कितें मेळटा तातूंत मजा सोदतना दिसता.

पात्र प्रधान कथेची आनी एक देख म्हणल्यार 'तेरेजालो घोव' ही कथा. ही कथा तेरेजा आनी ताचो घोव पीटर हांचे जिणे भोंवतणी घुवता. कामाक वचपी आपले बायलेच्या घरा भायर परकी दादल्यां कडेन आयिल्ल्या निखट्या संपर्काक लागून मनांतल्यान फुगार जाल्ल्या पीटराची ही कथा. दोनशें सत्यांयशीं मार्कांनी एस.एस. सी जाल्लो पीटर आपूण बिझनेस करतां म्हणून सांगून एका काळार तेरेजा कडेन काजार जाता. पूण तो कसलोच बिझनेस करिना. घर चलोवपाक तेरेजा सद्दां कामाक वयता आनी पीटर तेका ट्रेनी मेरेन पावयता. कामाक वतना तें केन्ना केन्ना गडबडेन फिट्ट कपडे घालता. पीटराक तें आवडना. एक दीस अशेंच ट्रेनीर चडटना फिट्ट कपड्यांनी ताचो तोल वता आनी तेन्ना एक तरणाटो ताका सावरता. तेरेजाक पडलेले आडेकडेच्या लोकाचे थोमणे पीटराक दीस भर त्रास करपाक लागतात. बेकार आशिल्ल्यान बायले वयल्यान आयिल्ले मांयचे थोमणे ताका खुबळावन घालतात. बार्रार गेल्ले कडेन तो बरोच रागान तांबडो जाता. आनी येतना तेरेजाक घरा सायकली वयल्यान देवोवन घरांत भितर व्हरून खूब मार–बडय करता.

हे कथेंत पुरूश प्रधान विचारसरणेंत वाडलेलो एक दादलो दिसता. आपले बायलेन फिट्ट कपडे बी घालचे ही अपेक्षा तो दवरता पूण फकत आपणा मुखार ह्या मताचो. बायलेन जोडलेलें खावपाक उणाकपण समजता. कारण तें ताचे दादलेपणाचे परिभाशेंत बसना. उपरांत जेन्ना तो बायलेचेर उतरांचो हुकूम चलोवपाक शकना तेन्ना तो शेवटाक हात पांय उखलता. उत्तावपाक शकनाशिल्ली शारिरीक सुखाची गरज बायलेचे जोडी मुखार आयिल्लो न्यूनगंड हांका लागून फुगार जाल्लो दादलो हे कथेंत दिसता.

गांथनींत आयिल्ल्यो हे कथा म्हणल्यार 'खंयचे कडेन कांय ना', 'तसो हांव भियेना', 'अ–शोक', 'आनी हांव परतलों', 'मात', आनी 'तूं वचूं नाका'. गांथन कथा

ग्रहांत आयिल्ल्या गोंयकारांचीं कांय खाशेलपणां हांगा मुजरत सांगचीं दिसतात. ांय मेकळीके उपरांतच्या काळांतलो हो गोंयकार खूब सादो आसा. तंत्रीक, उद्देगीक शेंच शिक्षणीक क्रांती हांचे पसून खूब पयस आनी गोंयचे मातयेक खूब लागीं असो ासता. एकूण कथांनी आयिल्लीं सगळीं हिंदू आनी क्रिस्तांव पात्रां हीं अस्सल ोंकणी मनशां आसात, जी माजोड्डें वाठारांतली हिंदू आनी क्रिस्तांव समाजाची बोली लयतात. लागीं–लागीं सगळींच पात्रां त्या काळा वयल्या गरीब गोंयकारांचें तिनिधीत्व करतना दिसतात. कथा संग्रहाचें आनीक एक खाशेलपण म्हणल्यार नी भोंवतणी घुसपटत वचपी गोंयकारांची जीण. खूब कथांनी ट्रेनीचो संदर्भ आयला तो वेळाचे बाबतींत तेरेजा सारकिल्या पात्रांची जीण कशी वेवस्थीत आशिल्ली हाचो देश्टावो घडयता. 'गांथन' हो कथा संग्रह पुर्तुगेजां उपरांत एक नवें गोंय सवका नवका घडटना दाखयता.

## संदर्भ

गांथन – मावजो दामोदर, जाग प्रकाशन.



# दामोदर मावजो हांच्या 'भुरगीं म्हगेलीं तीं' ह्या झेल्याची मोलावणी

डॉ. प्रकाश नायक.

गोंय मुक्ती उपरांत कोंकणी साहित्याच्या मळार एक तेजिश्ट अर्श कथाकारांची पिळगी मुखार आयली. तातूंत दामोदर मावजो हे एक. तांणी कोंकर्ण कथेक एक आगळो वेगळो रुपकार दिलो. दामोदर मावजो कोंकणी साहित्यांतल्य कथाकारा वांगडा एक कांदबरीकार, पटकथा लेखक. ताणें कोंकणी कथेक भारतीर कथा साहित्याच्या पंगतीक बसवपाचो वावर केला.

दामोदर मावज्याल्यो कथा ह्यो गोंयच्या हिंदू क्रिस्तांव समाजाचेर आदारीत आसात. तातूंत चड करून साश्टी वाठारांतल्या क्रिस्तांव समाजाच्या जिवितांतल्यो प्रादेशीक कथा आस्पाविल्ल्यो आसात. त्या समाजांतले आपली अशी खाशेली लोकजीण आनी त्या समाजाचे खाशेले प्रश्न तांच्या कथेन येतात. तशेंच तांच्या कथेंत गांवगिरो वाठार, भास आनी वातावरणूय येता.

हे विशीं उलयता आसतना रवीन्द्र केळेकार म्हणटात, ".... हिन्दींत वा मराठींत बरोवंक मेळच्यो नाशिल्ल्यो त्यो दामोदर मावज्यांल्यो कथा. ह्यो कथा अव्वल कोंकणी. गोंयचे हिन्दू क्रिस्तांव लोकांनी माड्डिल्ले भुंयेंतल्यो. मावजो पसरकार. पसऱ्यार जीं मनशां येतालीं तीं तांणी सारकीं नियाळून पळेल्लीं. तांगेलीं सुखदुखां तांकां समजल्लीं आनी तींच तांणी आपणाल्या कथांनी चित्रायल्लीं. मावजो हिन्दू. पुणून साश्टींतल्या क्रिस्तांव समाजांत ते तनामनान भरसल्ले. इतले भरसल्ले की ते तनामनान क्रिस्तांवूय जाल्ले दिसतात. 'गोंयची कथा' तांचे लिखणेंतल्यान कोंकणींत आयल्या. असल्यो कथा गोंयच्या मराठी पुर्तुगेज इंग्लेज लेखकां मदल्या एकल्याकूय बरोवंक येवंक नात......"

कथाकार दामोदर मावज्यालो 'भुरगीं म्हगेलीं तीं' हो तांचो चोवथो कथा संग्रह, जो 2001 ह्या वर्सा अस्मिताय प्रतिष्ठानान उजवाडाक हाडला. 2003 ह्या वर्सा 'भुरगीं म्हगेलीं तीं' ह्या पुस्तका खातीर जनगंगा पुरस्कार तांकां फावो जाला. ह्या पुस्तका पयलीं तांचे तीन कथा संग्रह मेळटात, ते अशे – 'गांथन' (1971),

जागरणां'(1975), 'रुमडफूल'(1981) आनी हालींच तांचो 'सपनमोगी' (2014) हो कथा संग्रह मेळटा. तशेंच तांच्या मुखेल साहित्यीक योगदाना मदीं – 'सूड' नवलिका,1975), 'कार्मेलीन' (कांदबरी,1981), 'चितरंगी'(1975, भुरग्यांचे साहित्य), काणी एक खोमसाची' (1976, भु.सा.), 'एक आशिल्लो बाबुलो' (1977, भु.सा) तशेंच चलचित्रां खातीर संवाद आनी पटकथा बरयल्यात.

दामोदर मावज्याची सगळ्यांत पयली कथा म्हटल्यार 'तूं वचूं नाका' ही प्रेम–कथा म्हूण बरयली, जी नवें गोंय ह्या नेमाळ्यांत 1963 वर्साच्या सुमाराक एप्रील–मेंत केन्ना तरी उजवाडाक आयली. आनी उपरांत रोखडीच ही कथा eves weekly ह्या इंग्लीश सातोळ्यांत ती इंग्लिशींत छापून आयली. पूण ही कथा भूतकथा थारली. आनी देखून तांणी आपल्या कथा साहित्यांत अंधश्रध्दा पयस दवरून समाजांतल्या लोकांक सुदारपाचो जागृताय करपाचो वावर केल्लो दिसता. लघुकथेच्या नदरेन अशोक (1965) ही कथा ताची पयली कथा थारता.

भूक, भोग, सेक्स, राग, लोभ, मत्सर, दया माया आदी मनशांच्या मुळाव्या भावनांचेर बरोवपी कथाकार म्हळ्यार दामोदार मावजो. कथाकार दामोदार मावजो कथेंतल्या निवेदनातल्यान आनी कथा पत्रांतल्यान कथेचो एक वेगळो संवसार उबो करता. तांच्या कथेंत मनवी मुल्ल्यांनी आस्पाविल्लो सामाजीक आशय आसता. जिवनांतलें वास्तव पितारताना विज्ञानीक नदर आनी सामाजीक भान तांचे कथेंत उठून दिसतात.

'भुरगीं म्हगेलीं तीं' हो दामोदर मावजो हांचो चवथो कथासंग्रह. तातूंत 1982 ते 2001 ह्या काळांतल्यो कथा आस्पावल्यात. हातूंत वट्ट 14 कथांचो आस्पाव जाला. त्यो दृ 'नाका ताका पावता', 'सिनीक', 'भुरगीं म्हगेलीं तीं', 'कर्मकट्टो', 'मिंगेलीलीं घरचीं', 'शी इज डॅड्', 'वेळेवयलीं रेंवे–घरां', 'खिळी', 'तडजोड', 'आउटिंग', 'देवाघरचो', 'अथ्रेकणी', 'आनंदयात्रा' आनी 'पिशेपणां'.

'नाका ताका पावता' ही कथा संग्रहांतली सगळ्यांत पयली कथा. ही कथा म्हटल्यार मनोविश्लेशणात्मक कथा. ही कथा संघर्शांतल्यान उबी रावता. हो संघर्श मागीर दोन प्रवृत्ती मदलो वा दोन मना मदलो आसा. आनी तातूंत अस्तुरी मनाचो संघर्श आयला. मध्यम वर्गीय समाजांतले बॅकेंत काम करपी ग्लोरिया जे सदांच बसींत प्रवास करपी. बसींतलो खेटीचो फायदो घेवन बायलांक पिडपी दादल्यांक ग्लोरिया ज्युस्त वळखता आनी ह्या गर्देंत लेगीत तें कशें आपणाक सावरून घेता हें

कथाकार एक सुक्ष्म नदेरेन सांगता. बसींत प्रवास करता आसताना तिच्या इश्टिणीक एक बेबदो कसो पिडटा ही घडणूक कथेंत मेळटा. उपरांत कथेंत ग्लोरियाचो घोव म्हटल्यार ग्लेन कुवेताक सावन घरा गोंयांत येता. चाळीस वर्साचो ग्लेन घरा येतकच ताची बायल म्हटल्यार ग्लोरिया ताका आपल्या कडेन आकर्शीत करपाक जायते उपाय करता. कित्याक ग्लोरियाच्या विचारा प्रमाण जो मेरेन काजारी जिवितान भुरगें जायना तो मेरेन अस्तुरेचें जिवीत पुराय जायना. ह्या खातीर तें कांय नुसके आपणायता, तातूंत तें मुजरत सुटी घेवन घरा रावता, उपरांत तें घोवाक ताकद येवची म्हूण तशेच तो रंगार येवचो म्हूण शुक्रारा बाजारांत वचून मांस हाडटा, उपरांत तें ताका स्कॉच सोरोय पिवपाक घालता तरी ते रातीक नवोदीत कांय घडना तेन्ना मात ग्लोरियाक खूब राग येता. आनी दुसरे सकाळीं जेन्ना तें कामाक वयता आसताना बशीन एक दादलो सोरो पिवून ताचेर पडटा तेन्ना ताका पळोवन ताचो इतलो राग येता, कारण सोरो नाका ताका पावता. ह्या मानवीय वृत्ती आनी भोगवासना हाका फुडें घेवन वचपाचे इत्सेचेर ग्लोरियाक दोन मनांमदलो संघर्श दिसता.

'सिनीक' ही दुसरी कथा सिनीक ह्या शब्दाचो अर्थ ऑक्सफर्ड डिक्शनरीर असो मेळटा, scenic – picturesque, impressive or beautiful natural scenery representing an incident stage. कथेंत एक नाटकीय घटनाक्रमांक घडून येता. एकाद्रो प्रसंग कलात्मक आनी नाटकीय रितीन येता तें सिनीक ह्या कथेंतल्यान आमकां दिसता. बाबय हो कथाकाराचो बापोलमामा. जिणेकडेन पळोवपाची ताची एक वेगळीच नदर. आकांताचो वाचक. तो खंयच्याय विशयाचेर सहज उलयता. तो केन्ना शाबू लायना, ब्रश–पेस्टी पावडरी लायना, वखदां घेना आनी दुसऱ्याक घेवपाक दिना तशेंच कितल्योशोच गजाली आसात तातूंत ताचें आपलें अशें तत्वगिन्यान आसा. बाबयाचो धाकलो भावाचो नातू मरता तेन्नाय बाबय सगळ्यांक धीर दिता आसताना सांगता, जो जल्मला तो मरतलो मरण म्हटल्यार सैम. बाबय कथाकाराक सांगता की मेल्ल्यांक रडप म्हळ्यार फकाणां, मरता ती कूड, आत्मो चिरंजीव. आमी रडप तें कुडीक मरे आनी ही कूड म्हळ्यार कितें माती सचेतन आसासर हो मनीस. अचेतन कूड म्हळ्यार माती. केदें व्हडलें सत्य बाबय सांगता पूण त्या वेळा प्रसंगाक कथाकाराक ताचो राग येता. पूण होच बाबय जेन्ना झोंपांच्या फाटल्यान वचून तोंडांत लेंस घालून मोन्यांनी रडटा तेन्ना मनीस हो केन्ना खंयच्याच दुख्खाक चुकना हें दिसून येता. हाका लागून बाबय सिनीक वृत्तिचो

ाता. अनुभुतिचो एक वेगळो अणभव कथेंत येता. कथेंत लेखकाचें संवेदनशील मन ात्रांच्या काळजांत रिगून तांच्या भावभावनांक नाजूकपणान स्पर्श करपाचें सामर्थ्य कथेंत दिसता. प्रथम पुरुशी निवेदनांतल्यान बरयिल्ली ही कथा मानवीय ,ल्यांच्या तत्वांचेर परत विचार करपाक लायता.

एके वेगळे आवयचो साक्षात्कार घडोवपी आनी जिचीं मुळां हे भुंयेचे मातयेंत ोल रुजल्यांत अशें रोझालीन भुरगीं म्हगेलीं तीं ह्या कथेंतलें. रोझालीनाक तीन ुरगीं आंजेला, अँथनी आनी आबेल. तिगूय विदेशांत नोकरी करतात. विदेशांत वच्चे ायलीं तिगांय भुरगीं आपापल्या नांवान कवाथे रोयतात जाका रोझालीन आपल्या ुरग्यां वरी मोगाच्या उदकान शिंपून वयर काडटा. ऑस्ट्रेलिया, कुवेट बाहरीन ल्लीं तिचीं भुरगीं काजार जावन थंयच रावतात आनी तीं गोंयांत घरा येवपाची आशा साप्प उणी आसता. आनी तातूंत ताचो घोव काळजाच्या दुयेंसांत एक दीस अचकीत भायर पडटा. आनी हे वटेन गोंयांत रेल्वे खातीर लॅण्ड एक्विझिशन जावन तांच्या घरा कडल्या सुवातेचो एक ल्हान वांटो वता. तातूंत ते तीन माड आसात, एक दीस सरकारी अधिकारी ते सुवातेर येवन ते तिनूय माड मारूंक येता आनी जो आक्रोश आनी आकांत रोझालीन करता तेन्ना रोझालीन जिवें जितें जाल्लें आमच्या मुखार येता. आनी तिनूय माड मारतकूच तिका भोगिल्ले त्रास आनी उपरांत तिसऱ्या दिसा ती तिच्या व्हडल्या पुताची मेळ्ळलि चीट आनी तातूंतलीं उतरांक लागून निर्शेल्ली रोझालीन आनी ताची वेदना कथेंत दिसता. आनी त्या खिणाक आपले धांपिल्ले दोळे सासणाचे बंद उरचे अशें दिसता. कुटुंबीक, प्रादेशीक आनी प्रादेशीकांत वैश्वीक दिसपी ही कथा. कथेचो विशय आवय आनी भुरगीं. गोंयांत खुबशा किरिस्तांव घराब्यांतलीं भुरगीं पयशे जोडपा खातीर विदेशात वतात आनी थयचींच जावन रावतात. पूण गोंयांत तांची जाण्टी आवय, बापूय, भुरगीं, घरकान्न पयसावल्ल्यान दुख्खांत दीस सारतात अशा फाटभुंयेचेर गोंयच्या समाजीक आनी आर्थीक फाटभुंयेचेर आदारीत ही कथा. माड हे भुरग्याचे प्रतीक जावन कथेंत येता. कथेंत रोझालीनाचो मनांतलो संघर्श येता आनी निवेदन आनी तिचें माडा कडेन सादिल्लो संवाद कथेक एक वेगळो भाव विश्व तयार करता. तिका माड, माड उरनासताना तिची भुरगीं जाता. कथेंत भुरगीं आनी माड एकरूप जाल्लीं दिसतात. माड कातरच्या पयलीं आनी कातरल्या उपरांत रोझालीनाचो अणभव वेगळो थारता. पयलीं एकठाय आशिल्लीं भुरगीं पयस दिकानी शिपडटात.

'कर्मकट्टो' ह्या कथेंतलो विशय भोव नाजूक पूण व्हड चतुरायेन बरोवप्यान

हाताळ्ळा. ह्या कथेंत कथा नायकाचो मनांतलो तळमळ व्हड विसतारान विणला. काल आनी आज ह्या संबंदीत मनाचें विश्लेशण करता. वर्तमान भविश्य आनी भूत ह्या तीन घडणुकांचो उपयोग करून कथा उबी जाता. कथेंतलो नायक आपलें जीण निरिक्षण करून घडिल्ल्या घडणुकेंतल्यान आपणाचें आपुणूच साहानुभुती करता. देखून व्हड राज्यमंत्री आसून लेगीत ताका आपलीच बापय–आवय कर्मकट्टो म्हटल्याची याद जाता. देखून फ्रेंच देस जेन्ना पांचशीं कुरोटांमेरेन रीण दिवपाक तयार जाता हाका लागून तो हेर अटी मान्य करता. तेन्ना दुसऱ्या दिसा पेपराचेर आयिल्ल्या कार्टुनाचेर चित्र पळोवन आपूण खरोच कर्मकट्टो अशें ताका दिसता. तिसऱ्या पुरूशी निवेदनांतल्यान ही कथा उबी रावता. कथेंत मश्कील तरेन आनी जिणेंतल्यो व्यथा आनी विसंगती हांचो भावनांचो संवेदनाचो सांगड दिसता.

'मिंगेलीलीं घरचीं' हे कथेंत मिंगलेल आनी ताची घरकान्न फेलीझ ह्यो व्यक्तीरेखा कथेंत येतात. ताची घरचीं कोण जाल्यार सुकणीं सावदां. मिंगेलालीं दोन भुरगीं चेडो चेडूं दोगांय आपल्या आपल्या संवसारांत गुल्ल. मिंगेलाक दिवपा खातीर तांकां वेळ ना. जाका लागून तांच्या जिणेंत एक रितेंपण एकसूरपण येता, तीं हीं सुकणीं सावदां भरून कडटात. शेवण्यां सावदां कडेन आपलेंपणाचें नातें जोडटा. शेवणीं सावदां आपलीं घरचीं अशी मानपी मिंगेल, ह्या कथेंत शेवणीं सावदां भुरग्यांचें प्रतीक जावन येता आनी कथा बिजाचो वेगळो विस्तार मेळटा. घरचीं अशीं मानून सुकणीं सावदांक मिंगेल आनी ताची घरकान्न तांचे लागीं संवाद सादतात आनी आपल्या भुरग्यां विशींचो मोग व्यक्त करतात. कथेंत अखेरेक माड मारपाक आयले कडेन जेन्ना तातूंत साळोरेन पिलां काडल्यांत तें पळोवन पयशांची खर गरज आसून लेगीत मिंगेल तो माड कापपाक दिना. तेन्ना आपल्या बोल्सांतले पयशे दिवन तो आपल्या भुरग्याचें कुटूंब वांचयता. ह्या कथेंत मिंगेलाची करूण आनी आपलेंपण पळोवपाची नदर दिसून येता. मानसशास्त्रांतलो एक सिध्दांत म्हळ्यार कॉम्पेन्सेशन थियरी आमकां दिसून येता. जो मोग–माया मिंगेल आनी फिलीझ हांकां आपल्या भुरग्यां कडल्यान मेळूंक ना तो मोग आनी आपलेंपण तीं दोगांय सुकणीं सावदां कडल्यान प्राप्त करून समाधान मेळटा. आधुनिकता आनी परिवारीक मुल्ल्यां हांचेर मानवीय मुल्ल्यां आनी मानवीय संवेदन हांचेर विचार करूंक लायता.

'शी इज डॅड' ही कथा कथाकाराची एका अणभव संकल्पनेंतल्यान बरयल्ली

ःथा. एका मंगळुराक गेल्ल्या अणभवाचेर बरयल्ली ही कथा. केन्ना केन्ना आमी गूबशा गजालीं कडेन दुर्लक्ष करता, इतल्या मुखार बशिल्ल्या मनशाच्या मनान रुसली मानसीक स्थिती आसा हें लेगीत केन्ना केन्ना लक्षांत येनात. कथेंत ास्तवता, वेव्हार, मनीसपण आनी सहानुभुतिचो धागो एकाच वेळार दिसता. सौझा ाका मडकयकार हाची घरकान्न मेली ही गजाल सांगची आसता देखून ताची जी ानसीक आनी मनोविश्लेशणात्मक नदर कथेंत येता. एकाच वेळार सौझाक नडकयकाराची तिडक येता त्याच खिणांक ताका ताची सहानुभुती दिसता. राग आनी दया ह्या दोन विरोधी संकल्पना एकाच वेळार उब्यो रावतात. ह्या वातावरणांत कथाबिज, संघर्श आनी वातावरण निर्माण जाता, आंतरीक आनी बाह्य मनोविकार 'दिसून येता. एकाच वेळार कथेंत दोन मनोवृत्ती एकाच वेळार येतात आनी ह्या दोनूय मनोवृत्तिंचो संघर्श कथेंत दिसता. कथेची सुरवात तशेंच अंत वाचप्यांच्या मनार एक वेगळोच प्रभाव करता. कथेंत ऍप्रोच आनी अवोयडन्स ही मनस्थिती दिसून येता.

'वेळेवयलीं रेंवेघरां' – मनशाचे जिणेंत मरण हें एक सत्य, जल्माक आयिल्लो मनीस केन्ना ना केन्ना हो मरतलोच. पूण मनीस हें सत्य जाणून लेगीत जागपाचें सोडिना. केन्ना केन्ना जिणेंत असो वेळ येता मरण हो चिंतेचो विशय जावन पडटा. मरणाक मन भियेता पूण मनांतलें दुबळेंपण आनी भंय दाखोवन दिना. हाका लागून मनाची जी आवतिकाय जाता ताचें चित्र आमकां 'वेळेवयलीं रेंवे घरां' हे कथेंत दिसता. कथेंत डॉक्टराकूच कॅन्सर जाल्लो आसता आनी तो निमण्या स्टेजीचेर आसता. दीस मेजीत आनी आयचें मरण फाल्यां हाची जाणीव जाता तेन्ना तो आपली जगिल्ली जीण परत एकदां नियाळटा आनी हें करता आसताना तो अंतर्मनाचो थाव घेवंक लागता. देखून पात्राच्या मनांत, मुखामळार, उलोवपांत, वागणुकेंत बदल जाता आनी आतां जगप कितें हो नॅगिटीव थिंकींग संकल्पना निर्माणा जाता. पूण वेळेर तो आपल्या भुरग्यांक रेंवेंचें घर बांदता आनी तें घर जेन्ना काळोख जातकूच सोडून वचपाचें आसता तेन्ना तो निराश जाता. जेन्ना ताचीं चली मुन्नी सांगता की घर आमी केलें म्हूण कितें जालें हांगाच दवरून वचपाचें. लोक मात म्हणटले, हें घर बरें दिसता म्हूण. न्ही रे डॅडी. तेन्ना मरणा कडेन पळोवपाची नदर ताची बदलता. एक आशावादी नदर आनी जिणेंतलें एक व्हड सत्य ताका जाणवता. देखून ह्या कथेची तंत्रीक जाण आनी भाशेचें भान हांकां लागून हे कथेक एक वेगळें पूण खाशेलो परिणाम फावो जाता. "Positive approach and positive thinking towards life." ही संकल्पना हे कथेंत मांडिल्लो आमकां दिसून येता.

'खिळी' – खिळी म्हटल्यार कितेंय बंद करपा खातीर वापरिल्लें साधन. खिळी ही कथा 2007 वर्सा नाकाबंदी नांवान 'एक और कहानी' ह्या दुरदर्शन मालिकेंत प्रसारीत जाल्ली. चार पुरूशार्था भितल्लो एक पुरूशार्थ काम. म्हटल्यार सेक्स भोगा विशीं आनंद आनी खंत हांचें विलक्षणीय रूप ह्या कथेंत दिसून येता.

कथा नायक मायकलान आपल्या लग्ना पयलीं तारवटी बायलेचो घेतिल्लो भोगाचो अणभव आनी उपरांत आपूण तारवार वयतकूच ताका आपले बायलेचो हुसको हे कथेंत नाट्यात्मक तरेन मांडिल्लो दिसता. आनी मायकलाच्या मनांत सदांच जावपी दुबाव आनी हुसको ह्या विशीं संघर्श दिसून येता. ताणें तारवटी बायलेचो भोग घेतिल्लो जेन्ना तिचो घोव तारवार आसता तेन्ना. तसोच आपले बायलेचो भोग कोण घेवचो ना ह्या दुबावान–खंतिनी तो तारवार वचचे आदीं बायलेक गुरूवार आसा हें सिद्ध जातकच हुस्क्यामेकळो जावन तारवार वता. ह्या कथेंत एक मध्यम वर्गीय तारवटी दादल्याची मनस्थिती आनी मनोवृत्तिचो विकास कसो कसो जावपाक शकता तें दाखयलां.

मोग आनी भोग ह्यो संकल्पना ह्या कथेचो विशय. मनशाची संभोगा विशिची मूळ भारतीय संकल्पना बदल्ल्या कांय कितें, वा समाजांत आयज हाची कितें स्थिती आसा हाचें भान कथाकार करून दिता. जाका लागून मानसीक आनी समाजीक प्रश्न कथा विचार करपाक लायता. मनशांच्या मनाचे विकार आनी मानसीक समाजीक मनोवृत्ती आनी ह्या सगळ्यांचेर काडिल्लो तर्कशुध्द विचार कथेंत मनोविश्लेशणात्मक चित्रणाचो दिश्टावो दिता. मनोविज्ञान हांच्या अंतर्गत विचार म्हटल्यार थिंकींग हाच्यो वेगवेगळ्यो तरा आसतात अशें मानतात. मनोविश्लेशणात्मक बसका आशिल्ले कथेक मानवीय विचार, मनोवृत्ती, मानवीय मुल्ल्यां हांचेर विचार करपाक लायता.

तडजोड कथेंत व्यथा आनी वेदना हांकां लागून मनाचे तळमळे दिसून येता. शिकिल्ली सवरिल्ली मंगला हाची व्यथा कथेंत दिश्टी पडटा. तिका एकुलतो एक पूत जो शारांत रावता पूण मंगला गांवांत रावता. गांवांत रावून गेल्लें मंगलाक शारी जीण जगपाक संघर्श करचो पडटा. पूण हो संघर्श दोन पिळग्यांच्या विचारधारेंचो आसा. सोरो पिवप म्हळ्यार स्टेटस अशें पूत जेन्ना मंगलाक सांगता, तेन्ना मंगलाच्या मनांत दिसता की तशें जाल्यार आपल्याच्याय हातांत एक सोन्याचो ग्लास दिवचो आसलो. ह्या कथेंत दोन पिळगे मदलः संघर्श दिसता. पूण मंगलाक सदांच आपूण खंय तरी चुकता कांय कितें अशें दिसत रावता. एक दीस सुनेक भुरगें

ावपाचें आसता आनी त्याच काळांत ताचे म्हऱ्यांत एक मांजर येता जें गाबणें ासता. आपल्या नातरा खातीर जी ओड आसा ती त्या गाबण्या मांजरांत ती ोदता. जेन्ना सुनेच्या बाळंतपण काडपा खातीर ती पुतागेर वता तेन्ना तिका मन ारून थंय सावन परती घरा येवची पडटा. तेन्ना तिचे म्हऱ्यांत मांजर म्यांव म्यांव ररून येयत पांयांक घश्टता तेन्ना ती मांजराक – 'भियेवं नाका तूं, आतां हांव ायलें', अशें म्हणून हुंडक्या हुंडक्यांनी रडटा. आयच्या संवसारांतलीं मानवीय ुल्ल्यां खंय तरी शेंणल्यांत हांची जाणीव कथेंत जाता.

'देवाघराचो' – गोंयचे संस्कृतेंत कांय खाशेलपणां आसा तातूंत देवसपण हें एक. गोंयांत देवसपण आनी अंधश्रध्दा हें आयजूय दिसता. सामाजीक जाणीव हे कथेंत कलात्मक आनी परिणामकारक तरेन दिसता. मनशांच्या मानवी अंतरंगाचो थाव घेवपाची तांक दिसून येता. तशेंच ही कथा अंधश्रध्दा पयस दवरून लोकांक सुदारपाचो वा जागृताय करपाचो प्रयत्न करता. आनी एक नाटकीय स्वरूपांत कथा येता. तिसऱ्या पुरुशी निवेदनांतल्यान बरयल्ली ही कथा निवेदनांतल्यान घटनाक्रम फुडें व्हरताना एक विनोदी स्वरुपांत आमचे मुखार उबी रावता.

'आउटिंग' आनी 'आनंदयात्रा' ह्यो दोनूय कथा म्हटल्यार बरोवप्याच्या विदेश भोंवडेंतलो अणभव, जो कलात्मक तरेन मांडिल्लो दिश्टी पडटा. 'आउटिंग' ही कथा कुवेताक घडटा तर 'आनंदयात्रा' ही संवसार भोंवडेर (पॅरिस, लंडन, रोम आदी) गेल्लो थंयचो तांकां आयिल्लो अणभव मांडला. ह्या दोन संस्कृती (भारतीय आनी पाश्चात्य) मदलें वेगळेंपण दाखयता आनी वांगडा तो भारतीय लोकांची मनसिकता कशी आसा हें दाखयताना ते लोक भारतांत आसताना कशे वागतात आनी विदेशांत कशे वागतात हें दाखोवन दिलां. कथेंत पात्रांच्या आनी बरोवप्याच्या अणभवांचे भितर एक अदृश्य पूण जाणीव जावपा सारकी मानसीक आनी भवनीक विचार उबे जातात.

'अथ्रेकणी' हे कथेंत मार्था ही व्यक्तिरेखा येता. मार्था हें उच्चवर्गीय समाजांतलें एक पात्र. जें ॲबनोर्मल (bnormal). जाका आमी पर्सनल डिजॉर्डर (personality disorder) अशें म्हणटात. ताका दुखांचो अणभव घेवपाक जाय आसता. त्या खातीर तें विंगड विंगड मानसीक आनी शारिरीक पिडा दूख भोगपाची अथ्रेकणी ताका लागिल्ली आसता देखून पुराय कथेंत तें अस्वस्थ हुतहुतेंपणांत येता.

'पिशेपणां' हांगा सुलभ आनी रत्नाकार हांची मानसीकताय कथेंत दाखयल्या. भुरगें नाशिल्लें ह्या जोडप्याक हुंदरांचो आतंक सोसूनजो जावन घोव लातेर (रातेर)

मांडून दवरता. आनी सकाळीं त्या लातेरान पडिल्ली हुनुल्ली पिलां कडटा तेन्ना सुलभ आनी रत्नाकार ते हुनुल्ली आनी तिच्या पिलांचे तळमळे पळोवन तांकां सोडून दिता. मानवी संवेदनाचे नाजूक भावना आनी ताका धरून वातावरण कथेंत एक वेगळें आयाम दिता.

परिस्थितिनी उबीं आशिल्लीं हीं पात्रां कथेंत जितीं जिवीं जाल्लीं आमच्या मुखार वास्तवीक जावन कथेंत येता. दामोदर मावजो हांचे कथेंचें खाशेलेंपण म्हटल्यार क्रिस्ती समाजांतली लोक जीण आनी तांचें यथार्थ दर्शन. तो पयलीं विशयाचो खोलायेन अभ्यास करता. प्रादेशिकता हें तांच्या कथेंचें एक खाशेलेंपण. ताका धरून प्रादेशीक भास आनी शैली तांचे कथेंत सहज आपली उपस्थिती दाखयता. चड करून साश्टींतल्या क्रिस्तांव सामजाची भास आनी ताका त्या शैलींतले तरेकवार गुणधर्म तांच्या कथासाहित्यांत दिसून येतात. त्या समाजांतले प्रादेशीक शब्द, वाक्य रचना, ओंपारी आनी वाक्प्रचार हे साबार घटक भाशाशैलीचो नवो साक्षात्कार घडयतात. एकंदर, भुरगीं म्हगेलीं तीं हो कथाझेलो कथाकार दामोदर मावजो हांचे गिरेस्त प्रतिभेचो गवाय दिलेबगर रावना.

## संदर्भ


1. बुडकूले, किरण. आनी सुर्लकर, मोहनदास. कथा – दर्पण. इंस्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा, पणजी–गोवा. 2009. (प्रस्तावना)
2. डॉ. गौतम, सुरेश. आनी गौतम, विणा. भारतीय साहित्य कोश (मीमांसाक एवं संपादक) संजय प्रकाशन, दिल्ली, 1992.
3. डॉ. नायक, प्रकाश. कथाकार चंद्रकांत – एक मुल्याकन. गोंय विद्यापिठांत सादर केल्लो प्रबंध, 2011.
4. जाग फेब्रुवारी अंक – 2009.
5. उर्बा व्यक्ती दिवाळी अंक – 2014
6. Atkinson and Hilary, Psychology an Introduction (1st reprint in 2011) New Delhi, engage learning India.
7. Concise Oxford English Dictionary. (P) Oxford university press 11 edited. 2005.




# कथाझेलो 'सपनमोगी' : आशय आनी अभिव्यक्ती

प्रियांका परब

"सपन मोगी" हो दामोदर मावजो हांचो सुंदर असो कथा संग्रह. हातूंत आयिल्ल्यो दरेक कथा खूब खोलायेन कितें तरी सांगून वता, कितें तरी शिकोवन वता. तांच्यो दरेक कथा म्हणल्यार सुंदर अशी एक अनुभुती. तांच्यो कथा वाचतना तातूंत वाचक गुथून वता. तांचे कथेचें कथानक साक्षात आपल्या दोळ्यामुखार घडटा असो साक्षात्कार जाले बगर रावना. तांणी आपले कथेंत उबी केल्ली दरेक पात्रां आमच्या सरभोंवतणच्या समाजांतूच खंय तरी आसात अशें चितून मन आपोआप त्या पात्रांक नांवां दिवपाक लागता. तांचे कथेंत आयिल्ले विनोद तोंडार हांसो फुलयतात, त्या पात्रांचे दुख दोळ्यांत दुकां हाडटात आनी तांच्या दरेके कथेचो शेवट आवयस! अशें उदगार ओठांतल्यान काडपाक लायतात. तांची एक एक कथा आशय आनी विशयांत संपन्न आनी परिपूर्ण अशी. दरेक कथा ही नव्यान कितें तरी सांगून वता, हळूच शिटकावन वता आनी नकळत आंगार कांटे उबे रावतात.

अश्या ह्या म्हालगड्या कथाकाराच्या कथा संग्रहाचेर उलोवप म्हणल्यार ल्हान तोडांत व्हड घांस घेतिल्लेवरी. दुसरे वटेन हेंय बी दिसता तांच्या कथा संग्रहाचेर भासाभास करपाची म्हज्या जिणेंत आयिल्ली सगळ्यांत व्हडली संद. भाई मावजाल्यो कथा उसाच्या रसावरी. कडक अश्या विशयांतल्यान सुंदर असो आशय दिवपी, गोड अशी देख दिवपी आनी तांची रूच मना काळजाचेर खोल कोरावपी. सपन मोगी ह्या कथा संग्रहांत वट्ट णव कथा आस्पावतात.

ह्या कथा संग्रहांतली "हॅपी बर्थ डे" ही पयली कथा. आमोद आनी हर्षा ह्या दोन पात्रांच्या जिणे भोंवतणी घुंवपी. आवय बापूय जावप हें मनशाक लाभिल्लें सगळ्यांत व्हड वरदान. भुरगे जल्माक येवचे पयलीं लेगीत आवय बापायचें त्या भुरग्या भोंवतणी घुंवपी सपनांचें जग आकारांत येता. दरेका आवय बापायक आपलो भुरगो स्वस्थ आनी निरोगी जल्मांक येवचो अशे दिसता. आमोद आनी हर्षा हांचेंय बी

अशेच जाल्लें पूण तांच्या वांट्याक आयिल्लो तांचो चैतन्य हो भुरगो हो एक क्रँटीन चाईल्ड आशिल्लो. आमोद आनी हर्षान व्हडा मनान हें दुख्ख आपणायल्लें पूण खंय तरी खोल अंतस्कर्णांत तें लिपून आशिल्लेंच. जेन्ना आमोद आपल्या शेजाऱ्याक मल्ल्यामाम हाका चैतन्याच्या बर्थडेचें आमंत्रण दिवपाक वता तेन्ना मल्ल्यामाम आपल्या चल्याक वणटीर बिरबिटे काडल्यात म्हूण थापट मारता. हें सगळें आमोद पळयता आनी घरा येवन आपल्या बायलेक चैतन्याची खेळणीं सगळीं अस्ताव्यस्त पातळाय म्हूण सांगता आनी आपुणूच पेंन्सिल घेवन वण्टीर बिरबिटे काडटा, फकत आपलो पूत लेगीत खेळटा लोकांक हें दाखोवपाक, हेर ल्हान भुरग्यांवरी मस्ती करता, वणटी रंगयता. आपल्या भुरग्याची दुर्बळताय आनी स्वताचे दुख्ख लिपोवपाक, कारण कितलेय ना म्हणलें  तरी आपलो भुरगो नॉर्मल ना हें ताच्या मनाक खबर आशिल्लें. ताणेंय बी हेरांसारको आसचो ही आस आवय बापायक सोडपाक तयार नाशिल्ली.

तांची दुसरी कथा "केन्ना केन्ना भुरग्यांकडसून देख शिकची" ही कथा लेगीत सुंदर उतरल्या. ही कथा नाजूक तशीच खूब संवेदनशील आसा. सावदींत आशिल्ले कडक कायदे, बायलांच्या स्वतंत्र अस्तित्वाच्या विरोधांत उब्यो केल्ल्यो अटी, आडमेळे आंगार काटो उबो करतात. बायलेन पब्लीक जाग्यार घोवाचो हाथ धरचो न्हय, घोवाची वाट पळयत घरा भायर उबें रावचें न्ही ह्या सारकिले कायदे खरोच वाचकांक राग हाडटात. ही कथा वाचले उपरांत पयलो प्रस्न पडटा तो हो सावदींतल्यान कितलीं गोंयकार जोडपीं गोंयां येवन भायरसावन आयल्यांत म्हूण मिरयतात, भायर तांची जीण अशीच आसता काय? आनी हांगा तीं आमका करून दाखयतात तें फकत एक नाटक एक शो काय? मिथीला हे बायलेचें कवळें मन आनी आपल्या घोवाच्या ओठांचें चुंबन घेवपाची कवळी आस खूब सहज रितीन ताचें वर्णन हें कथेंत जाला.

भुरगेंपण हें जिणेंतलें सगळ्यांत नाजूक अशें वळण, ज्या वळणार सगळ्यो चुको माफ आसतात. मिथीलाचो चलो निरागसतायेन आपल्या इश्टीणेचो उमो घेता. तांच्या विश्वांत उश्टें, वीट ह्या उतरांक जागो आसना आनी तांचेकडल्यान शिकपा सारकें खूब कितें आसता आनी निमाणेकडेन मिथीलालो घोव मोग ह्या भावनेक खऱ्या अर्थान अणभवून तिची अपूर्ण इत्सा पुराय करून तिका सर्वांगान धादोशी करता.

"मनशांच्या गांवांत" ही कथा तर आंगार कांटो हाडपी आनी आमच्या विचार

रणीक आनी विचार शक्तीक चालना दिवपी. हलसिद्धू हें कथेंत आयिल्लें पात्र बळे परिस्थितीक लागून आपल्या बैलांक विकून मोठो मनीस जावपाची सपना ळयता. पूण, लोक ताकाच बैलांक मारपी एक खाटींगार समजतात ताच्या धर्माक ागून. असो आशय हांवें अभिप्रीत धरला पूण लेखकाक होच आशय अभिप्रीत ाशिल्लो काय? कांय ताका नवीन आयाम आसात ह्या विचारांत हांव आशिल्लें.... ानी तशें जर आसा जाल्यार धर्माचेर सगळ्याच मनशांचें कर्म लेखप चुकीचे हें ोटतिडकीन ही कथा सांगता. "मनशाच्या गांवांत मनीसपणूच शेणले जाल्यार?" सो प्रस्न पडले बगर रावना.

"कावळ्याच्या शिरापान" ही कथा तर एक आगळो वेगळोच अणभव. ह्या थेंतलें मुखेल पात्र, ताका दिसता आपल्याक टेक्सी चलोवपाक जर भाडें मेळ्ळें ना ाल्यार ताच्या फाटल्यान ताचो बापोलभाव, जो घाडी भगतांक सांगून ज्यो करण्यो रता, तो जबाबदार आसा इतलेंच न्हय तर आपल्या बापोलभावाचें मर्ण लेगीत ापूण घाडयाक सांगून केल्ल्या करणेक लागून जालें अशें हाका दिसता आनी नेमाणे कडेन ताचो भाव मरता पूण मरचे पयलीं ताच्या भावान ताका सांगिल्लें ापूण मरून लेगीत तुजी फाट सोडचो ना म्हूण हो ताच्या बाराव्याक रेटोल हाडून ाडयेंत मिस्तुरात करता आनी विनाकारण सात कावळ्यांचो आनी सुण्यांचो जीव ेतिल्ले खातीर पोलिसांचे तावडींत सापडटा.

आजच्या ह्या आधुनीक युगांत लेगीत लोक ह्या बेबुनयादी विचारांक धरून चलतना तिडक येता आनी तोच हुस्को हे कथेंत मांडला.

कावळ्याच्या श्रापान गाय मरना

सगळें घडटा ते मनशाचे स्वताचेच करणेन.

"कथाकारान बरयल्ली कथाकाराची कथा" हो भाई मावज्याक आयिल्लो खरो अणभव. दुसऱ्यालें साहित्य आपलें म्हूण खपोवप हें आजकाल खूब प्रमाणांत वाडत चल्ला पूण आपणाल्या साहित्याखातीर ताळयो पडच्यो म्हूण लोकाल्या बरेपणाचो फायदो घेवन आपली एक काल्पनीक फटीची प्रतिमा जयदा हे लेखिकेन आपल्या कथेची तोखणाय जावची म्हूण जी उबारल्या ती साप्प चुकीची आसा आनी भाई मावज्यान ही कथा बरोवन इतली स्पश्टपणान आपणाली बाजू माडल्या की थंय गैरसमजाक कसलोच जागो उरना. हे कथेचो शेवट खऱ्यानीच आगार कांटो उबो करता! आनी जयदा सारकिल्या काय साहित्यीकाक लागून कलेचो अपमान जाता हें

पळोवन मनाक खंत भोगता.

"ज्युरामेंत" ही मुखार आयिल्ली कथा सासू, सून आनी पूत ह्या नात्या भोवतणी घुंवता. किजिलां फकत घरांतलो क्लेश वाडयतात आनी मोग घराक सोब हाडटा अशें सांगपी ही कथा ज्युरामेंत. तांची "विज्मीत" ही कथा आशयाचे नदरेंतल्यान संपन्न अशी पूण हे कथेंत एक नवो आविश्कार पळोवपाक मेळटा. विज्मीत म्हणल्यार अजाप. एका भुकंपान सगळीं मनशां मरतात पूण उरता एक सानूलें बाय फकत ताणें पिल्ल्या आवयच्या आंगावेल्या दुदार. आवयच्या दुधांत कितली शक्त आसता आनी मुळांत ती शक्ती दुधापरस चड तें आवयच्या मायेंत आसता. आवयची माया ही आपल्या भुरग्याखातीर फकत आशिर्वाद जावन येता जी केद्याय व्हड अरिश्टांतल्यान ताका भायर काडपाची तांक बाळगिता.

"वेव्हार" हें तांचे कथेंत आज मनीस कसो व्यवहारीक जायत चल्ला हें सांगता आग्नेलिया हे चलयेन आपले जिणेंत गरिबी पळयल्ली. ताका जाय आशिल्लो तो पयसो, मालकी. ताचे आवयन ताका सांगिल्ले ह्या संवसारांतले लोक एका हातान दितात जाल्यार दुसऱ्या हातान घेतात. ताणें मोग केलो विनोद जिवानी ह्या चल्याकडेन जाच्या कंपनिचो सगळो वावर विराट हो ताचो भाव पळयतालो आनी विनोदाक ताणें विराटाक मारपाक तयार केलो आनी विनोदाक हाची सुलूस लेगीत लागूंक दिवंक ना की तें आता ताचें नाशिल्लें, दुडवांक लागून विराटाचें जाल्लें आनी विराट आनी आग्नेलियान मेळून त्याच कटांत ताकाच मारपाचो थारायल्लो. मनशाल्या व्यवहारबुद्धीक आज शीम मेर उरूंक ना इतलें खरें.

तांची निमणी कथा "सपन मोगी" जी सांगता सपनां पळयात पूण त्या सपनांच्या फाटल्यान धांवता धांवता वास्तवीक जग विसरूं नाकात. मुकुट सुत्रधार नांवाचें पात्र जेनिफर हे चलयेक पळयता आनी ताच्याच सपनांनी शेणून वता, तो इतलो शेणटा की ताच्या सपनांतल्या दुनियेक जेनिफराचें लग्न जालां हें वास्तव आपणावपाक जमनाशिल्लें. तो आपणालो सगळो काम धंदो सोडून तें लग्न जालां थंय नोकरी करपाक वता.

अश्यो ह्यो णव कथा. भाई मावज्यान ह्या संग्रहांत वापरिल्ली भास आनी वातावरण निर्मीती सुंदर रितीन जाल्या. तातूंत आयिल्ल्या विनोदानी, प्रभावी संवादानी वाचक रमून वता. निमाणेकडेन इतलेंच सांगपाक सोदतां हो कथा संग्रह जण एकल्यान वाचून पळोवचो.

# दामोदर मावजो हांची नवलिका 'सूड' : एक समिक्षणात्मक अभ्यास

डॅनीस वाज

कोंकणी साहित्याच्या दालनांत, दामोदर मावज्याचें साहित्य म्हळ्या ोंकणीच्या संवसारांत पडिल्लें एक सपन. तांचे साहित्यांत समाजीक वास्तविकताय ानी कल्पना हाचो थाव घेतां घेतां रसीक आपलें मनांत करूण रसाचो थाव तल्याशिवाय रावना. तांचें साहित्य म्हळ्यार साश्टीकारांचो हारसो. ह्या हारश्यांत ाश्टीकार आपलें, आपल्या भोंवतणच्या संवसाराचें रूप पळोवपाक शकता.

## सूड' – कथानक

''सूड'' हे कादंबरेंतलें मुखेल पात्र म्हळ्यार विलास. विलास हो दोतोर आसता. ाचो बापूय एक फामाद झाडपाल्याचो दोतोर आसता. ताच्या बापायक तो दोतोर जाल्लो जाय आसता. हेंच ताचें सपन आसता. ताका लागून ताका फुडलें शिकप करपाक मुंबय धाडटात. आनी ह्या अर्दान विसेंत फिगरेद ह्या पुर्तुगेज अधिकाऱ्याच्या हातातल्यान विलासाच्या आवय बापायचो खून जाता. ही खबर विलासाक मुंबय कळटा. आनी तो विसेंत फिगरेदाचो ''सूड'' घेवपाक सोदता. 16 वर्सां उपरांत विसेंत फिगरेद परत गोंयांत येता. विलास ताचो सूड घेवपाक खूब प्रयत्न करता पूण तो निमणो ताचो 'सूड' घेवपाक पावना. कारण विसेंत फिगरेदीक आपलो गुन्यांव कळटा. त्या वेळार विलासाक ताच्या दोळ्यांत प्रायश्चित आनी पश्चातापाचीं खरी अनुभूती फिगरेदाक जाल्ली कळटा.

## 'सूड' नवलिका आनी गोंयचो इतिहास

गोंयचो इतिहास, गोंयचे विशीं खुबश्यो गजाली सांगून वता. तशेंच दामोदर मावज्याची 'सूड' नवलीका. तांच्या 'सूड' नवलिकेत गोंयचे मुक्ती चळवळीचो इतिहास थोडे भोव प्रमाणांत सांगता. हातूंतल्यान 1958 वर्साचो इतिहासाचो परमळ वाचकाक लायता. ह्या काळार गोंयात कितल्योश्योच बारीक मोट्यो चळवळी

जाल्ल्यो पळोवपाक मेकळीक. गोंयांत भितर सरपाक कोंणाकूच मेकळीक नाशिल्ली. गोंयांत Economic Blockade आशिल्ली. गोंयचो इतिहास सांगता तसो सादारणश्या अशा 1954 –1955 चो काळ हो गोंयचे सत्याग्रहीचो काळ. ह्या काळांत गोंयांत येवपी सत्याग्रहींक पुर्तुगेजांनी फारपेट करूंन मारूंन उडयताले. तातूंत बायलां सुद्दा आशिल्लीं. दामोदर मावजो हेच घडणुकेचो आदार घेवन आपले 'सूड' हे कादंबरेंत वेगळे पद्दतीन सांगपाचो प्रयत्न केला. हांगा मावज्यान आपले कल्पनाशक्तीक वास्तव इतिहासाकडेन जोडला. हो तांच्या 'सूड' कादंबरीचो घट्ट खांबो. कल्पना शक्तीक कशे तरेन वास्त इतिहासाकडेन जोडूं येता हाची बेस बरी देख हातूंतल्यान दिसता. बेकायद्याशीर एके कारवारी बायलेक (शीला) कांणकोणां परोब वैजाच्या घरा वैजकी तपासाक हाडटा आनी तीचो हांगां घात जाता. हातूंत आडावपाक गेल्ल्या वैज परोब आनी ताचे घरकान्नीचो विसेंत फिगरेदीच्या हांतांतल्यान खून जाता. हेंच विलासाच्या सुडाचें कारण जाता.

गोंय मुक्ती पयलींच्या इतिहासाचेर उजवाड घातल्या उपरांत, सोळा वर्सां पुर्ण जाल्ल्या गजालीचीं भावनां विलासा भितर उत्पन्न करता. ताच्या मनांत त्या फिगरेदीचो 'सूड' घर करूंन रावता. दामोदर मावजाचें वर्सांचें गणित खूबच मानपासारकें आसा. बरे कादंबरीचे एक गूण म्हळ्यार कादबरीच्या कथानका बरोबर वेळ, काळ आनी वर्सां मेळूंक जाय. हाचेर दामोदर मावज्यालो बारिकसाणीन अभ्यास जाला. मावज्यान गोंय मुक्ती पयलींची जी गजाल सांगल्या ती 1958 वर्सांतली आनी ताच्या उपरांत विलास 'सूड' 16 वर्सा उपरांत घेता. म्हळ्यार 1974 वर्साक. 1975 वर्साक 'सूड' ही मावज्याची पयली नवलिका उजवाडाक आयली. काळाची मेज मापणींत लेगीत कादंबरींत उणेपण मेळना. आपल्या साहित्यांत काळाचे, थळाचे आनी घडणुकेचीं उणेपणां आसूंक जायना. तेंच दामोदर मावज्याले 'सूड' कादंबरींत मेळटा.

1961 वर्सा गोंय सोडून गेल्लो विसेंत फिगरेदी गोंयांत परत कित्याक येतलो? ह्या प्रस्नाची जाप दितना कितेंय निमित्त करून दाखोवपाक जाय आशिल्लें. तेन्ना मावज्यान सांत फ्रांसिस्कु शावेराचे परबेचें निमीत आपणावन, शावेराचे प्रदिक्षणाक म्हण फिगरेदीक कारण दिता. हांगा मावज्यान गोंयच्या धर्मीक लोकसंस्कृताये कडेन आपलें बोट उकलता. गोंय सोडून पुर्तुगालाचो मार्ग आपणावपी फिगरेदीक गोंयांत हाडपाचें निमीत कादंबरींत आपणायता. ताचें हें निमित्त निमिताक कारण

तायनासतना भेस बरे रितीन तें रंगता. वयर जरी आमी काळाचो उल्लेख केला जाल्यार सादारण अशें हे कादंबरेची 'सूड' घेवपाची घडणूक सोपत्या नोव्हेंबर वा डेसेंबर म्हयन्यांत जाल्या म्हणपाचें हे परबे वयल्यान कळटा. कादंबरीचो आंवाट हड आसता, म्हणटकच कादंबरी वाडची म्हणून तातूंत नाका आशिल्लें चित्रण वा फळवणीं सांगपाची गरज आसना. केन्ना केन्ना असले सण जे संवसारभर नामना फावो जाल्ले; वेळ, म्हयनो आनी केन्ना केन्ना रुतुची अप्रत्यक्षपणान म्हायती दिता. पाशाणी मुर्तीकार जसो आपणाक गरज नाशिल्ल्यो गजाली कांतून भायर उडयता तशेंच बऱ्या सृजन साहित्यिकान अशेंच कांय गजाली साकरेंत लुळोवन सांगचे बदला सरळ उतरांनीं सांगल्यार चड बऱ्यो.

## नवलिकेंतलो समाज

दामोदर मावज्याल्या साहित्यांत, चडसो साश्टी वाठारांतलो क्रिस्तांव समाज मेळटा. पूण 'सूड' हे कादंबरेंत मात ताचें हें साहित्याचें खाशेलपण दिसनां. पूण पात्रांच्या नांवां वयल्यान हिन्दू – क्रिस्तांव पात्रांचो संगम मात घालता. ताच्या 'सूड' हे नवलिकेंत समाजाचो दोन वांट्यांनी अभ्यास करूंक मेळटा. एक गोंय मुक्ती पयलींचो आनी गोंय मुक्ती उपरांचो समाज. गोंय मुक्ती पयलींचें दशक हें गोंयच्या बायलांचें हाहाकाराचें दशक हें नवलिका वाचतकच मतींत येता. नवलिकेच्या पयल्या वांट्यांत काणकोण म्हालांतल्या लोकांचो समाज आयला. गोंयच्या वा गोंया भायल्या बायलांक फिरगी पाकले, पुर्तुगेज दादले आपल्याक भोगाची वस्त कशे मानताले. गोंयचो इतिहास उजवाड घालता तसो, कारवारचे आनी गोंयचे शिमेर पुर्तुगेजांचे शिपाय रावताले. कारण त्या काळार भायल्यान गोंयांत येतलो जाल्यार पासपोर्ट लागताली. ह्या काळार पुर्तुगेजांचे मुसतींत गोंयच्या बायलांचे भोग घेवपाक फाटीं नाशिल्ले. हे मिसतीस कांणकोण ह्या वाठारांत आशिल्ले. तांच्या तवनासपणाक लागून चलयो, बायलो आपल्या घरांतल्यान आपलें पावल हुंमराच्या भायर काडपाक भियेतालीं. ह्या फिरंग्यांक गोंयच्या बायलांचे सामकें पिशें आशिल्लें म्हणपाचें आमच्या लोकगितांनीं पासून सांपडटा. देखीक –

'सांतोणांच्या दोंगरार पाकले आपयता
तांबडें कापोड न्हेसल्यार
रुप्या दाखयताय.........'

पुर्तुगेजांच्या काळार चलिल्ल्या बायलांच्या शारिरीक बळजबरिचेर आदारीत आशिल्ले वास्तवताय दाखयल्या. गोंय मुक्ती उपरांतचो समाज मात सुदारिल्ल समाज असो दिसता. विलास आनी माली हांच्या नात्या कडेन कसलींच पोजडेपण दिसनात. विलास मालीचो उपेग करता अशें आमी म्हणूंक शकनात. कारण मालीक ताका दुखोवपाचें ना आनी ताचो फायदोय काडपाचो ना हें जाणवता. समाज इतल बदलपाक पावला, घडये हाचें कारण शिक्षण जावंक येता. कारण खऱ्या अर्थान ज शिक्षणाचो प्रचार गोंय मुक्ती उपरांतूंच जालो.

गोंय मुक्ती पयलीं एक गजाल मात खरी आशिल्ली, ती म्हळ्यार एक बायल दुसरे बायलेची आब्रू इबाळटनां पळोवपाक शकना आशिल्ली. एक बायल दुसर बायलेक समजताली हें जाणवता. देखूनच तर नातें नासून लेगीत वैज परोबागेली बायल कारवार सावन आयिल्ल्या बायलेची आब्रू सांबाळपाक आपलो जीव वगडायता. काळा फाटल्यांन समाज बदलत गेला खरो तातूंत कांय बऱ्यो जाल्यार कांय वायट ह्यो दोनूय गजाली बदलत गेल्यात.

## 'सूड' – मानसशास्त्र

'सूड' म्हळ्यार भावनां. हीं भावनां मनशाच्या मनाचेर खर प्रमाण प्रभाव करीत जाल्यार मनीस जनावरांच्या क्षेत्रांत वयता. जेन्ना खंयचीय आपल्या मोगाची वस्त आपल्या पासून सासणा खातीर पयसावता तेन्ना त्या पयस केल्ल्या मनशाचो 'सूड' घेतल्या बगर मन थाऱ्यार येना. मनशाची सुडाची भावना स्पश्ट करपाक दामोदर मावज्यान भेस बरे रितीन हाताळ्ळां. मनशाचें मन सेकेंडा सेकेंड बदलत आसता. मन म्हळ्यार विचारांचें भांडार. तशेंच विलासाचें मन जाता. केन्ना केन्ना आपले मेल्ल्या आवय बापायच्या वाटेन ताचें मन मोगान उलयता देखीक –

"पयस वास्कोच्या दरयांत नांगर मुंगरून आशिल्ल्या बोटींवयले हज्जारांनीं दिवे लिकलिकताले. दरयाची तनरी लागिल्ली. आनी चंद्राच्या शितळ चान्न्यांत धरतरी न्हाताली. आईचे कुशींत घालून घेतिल्लेवरी दिसले म्हाका. दरयाचेर मंद ल्हारा उदेलीं. बाबा म्हाका सांगतालो जावंये – चिंतता कितें? विसेंत फिगरेदीक हांवेंच ओडून गोंयां हाडला......." (पान. 21)

जाल्यार केन्ना केन्ना तेंच मन विसेंत फिगरेदीच्या सुडाच्या विचारान ते राखेस जाता, देखीक–

"म्हजें रगत तापिल्लेवरी जालें. हांवें रेलींगाचेर हात दवरून बाग घेवन नकयल पळयलें. दरयाचें एक ल्हार आयलें आनी तळपांचेर आपटलें. तळपां कचाबूल जावन म्हाकाच पळयतालीं – साप भियेल्लीं. म्हज्या दोळ्यांत पेटिल्लो उजो तांकां हुलपायतालो जावंये!" (पान. 21)

अशें म्हणटात मोग बरे विचार घडयता जाल्यार 'सूड' वायट विचार घडयता. सुडाच्या भावनेन मनशाच्या मनात उजो लागले बगर रावना. भाईन हे दोनूय भावनांचो योग्य असो संमेळ घातला. ह्या संमेळांतल्या, बऱ्या विचारांचें काय वायट विचाराचें जैत जातलें? हो प्रस्न वाचकांक परत परत सतयता. निमणे कडेन बऱ्याचें मन जिखता. विलासाक विंसेंत फिगरेदीचो 'सूड' घेवपाक कितलेश्योच संदी मेळटात. पूण ताका ताचे आवय – बापायन दिल्ले शिकवणेंचो, मालीच्या मोगाचो आनी आपूण दोतोर त्या दोतोराच्या कर्तव्याची जाणीव जाता आनी ताची सुडाची भावना जिरून वयता. मानसशास्त्रांत ताका 'Empathy' अशें म्हणटात. म्हळ्यार दुसऱ्याच्या दुखांत आपणाक रिगोवन घेवप. तसोच विलास आपणाक त्या विसेंत फिगरेदीच्या दुखांत वांटेकार जाता. आनी आपल्या सुडाच्या भावनांक मारून उडयता.

## 'सूड' नवलिकेंतली – भास

'सूड' कादंबरींतली भास ही साश्टी मोडींतली भास ना. प्रमाण कोंकणी गंध आसा. ताची ही कादंबरी ताणें सादी सुटुसूटीत उतरानी जरी बरयल्या जाल्यार लेखीत ती अलंकारीक भास आसा. गरज लागता थंय ते पुर्तुगेज उतरांचो वापर करता. कोंकणी भाशेंतली वाक्प्रचारांची गोडाय ते आपले हे कादबरींत आपणायता. देखीक –

1. सुक्या वागडा ओलेंय जळप. (पान 8)
2. सुकी काश्टी दाखोवप. (पान 32)
3. कर्तुपाचें पानवळ मेळप. (पान 42)
4. उकसार पावुनय आदाव जावप. (पान 27)
5. पोले फोडून घेवप. (पान 48)
6. अभिमानशुन्य पोटार्थी सुवार्थी. (पान 20)

ताच्या अलकारीक भाषेचो थावन घेतना ताची ही कादबरी वाक्याची गोडाय

वाडयतना दिसता. अलंकार भाशेंत सोबितकाय हाडटा. आनी कोंकणी भाशेंत उलयतना वा बरयतना साद्दे आनी सोपे पद्दतीन अलंकार येता. तशेंच दामोदर मावज्याले 'सूड' नवलिकेंत अलंकारांचो वापर जावन वाचकांचें मनांक रसयुक्त करून सोडटा.

1. न्हंयक घाल्लो बांद फुटिल्लो आनी विचारांचें उदक घसघशाभाशेन नेटान व्हांवत सुटिल्लें. (पान 03)
2. म्हजे जिणेच्या वस्त्राक ताणें सुरी लायली. (पान. 20)

गरज थंय ताणें पुर्तुगेज उतरांचो वापर केला. पुर्तुगेजांचो काळ म्हणटकच पुर्तुगेजीचो कोंकणीचेर प्रभाव पडप स्वभावीकूच आसा. हे स्वभावीपण आमकां दामोदर मावज्यान 'सूड' नवलिकेंत आपणायलें मेळटा. देखीक – गोवेर्नादोर (पान 5), वल्तेर (पान 10), शापातां (पान 10), मिसतीस (पान 10), आमीग (पान. 13), आंकवार (पान. 09)

तशेंच भारतीय संस्कृतायेचो थाव आमकां ताचे नवलिकेंत सापडटा देखीक – तुळशीकडेन दिवो लावप. (पान 10), देवारो (पान. 10), सवायशिणी (पान. 09), कपलमोक्ष (पान. 10)

## निश्कर्श

'सूड' ही दामोदर मावज्याची एक अभ्यासपुर्ण नवलिका. कल्पना शक्तीच्या आदारान आनी वास्तव घडणुकांचो सांगात घेवन ती योग्य रितीन हाताळपाचो प्रयत्न ताणें केला. हे नवलिकेंत ताचे परिपक्व कल्पनेचो थाव घेवपाक येता. ताची सृजन शक्ती ताच्या हे कादंबरेंत दिसता. कोंकणी साहित्यांत असल्या तरेच्या लेख आनी लेखन कृतींची खूबच गरज आसा. कोंकणी साहित्य संवसाराचेर राज्य चलयतलें जाल्यार दामोदर मावज्याच्या साहित्या सारकें साहित्य येवप गरजेचें आसा.



# दामोदर मावजो हांचें साहित्य : बाल–मानसशास्त्रीय मोलावणी

डॉ. रेषमा खोलकार

इ.स. पयलीं 500 वर्सां ह्या काळांत मानसशास्त्राचो जल्म जालो अशें हणतात. त्या काळार ग्रह, नकेत्रां आनी पंचमहाभूत हांचो मनशाच्या वागणुकेचेर ाबो आसतालो अशें मानताले. उपरांत व्यक्तीच्या मनाच्या अबोध पातळे वयल्या त्सांचो आनी प्रेरणांचो परिणाम तिच्या बोध वागणुकेचेर जायत आसता असो वेचार फ्रॉयड हांणी मांडलो. जाणकारांचीं मानसशास्त्रा विशीं विंगड विंगड मतां ालू आसतना विसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक बालमानसशास्त्राच्या संदर्भांत जीन पेयाजे नांवाच्या स्वीस मानसशास्त्रज्ञान खूब महत्वाचें संशोधन केलें.

पियाजे हाणें भुरग्यांची भास शिकवण, अवलोकन, मानसीक विकास बी हांचेर ोलायेन अभ्यास करून ताचे वागणुकेचेर आपले विचार मांडले. भुरग्यांचे मानसीक ाडींत पियाजे हाणें चार पांवडे मांडले. पयलीं 0–2 वर्सां. हाका ताणें सॅन्सरी मोटर अशें म्हणलां. ह्या पेण्यार भुरग्यांक फकत संवेदना जाणवतात आनी हेर गजालीं वेशीं ताका खबर नासता. दुसरें पेणें प्रिऑपरेशनल. 0–7 वर्सां. ह्या काळांत भुरग्याच्यान विचार करूं येता. तिसऱ्या पेण्याक पियाजे क्रॉक्रीट ऑपरेशन म्हणटा. तिसरें 7–11 वर्सां ह्या काळांत सुरू जाता. हातूंत भुरगो मेजपाक, संबंद जोडपाक शिकता. चवथें पेणें फॉर्मल ऑपरेशन. आनी फुडलीं वर्सां. हांगा मेजप, संबंद जोडप तशेच अमूर्त विचार तें करपाक शिकतात.

डॉ. जोशी बरयतात, "बालमानसशास्त्रज्ञान आपणायिल्लो दृश्टीकोण, हेरापरस वेगळो आसूं येता. भुरग्यांचे जिणेंत नेटान जावपी शारिरीक, मानसीक, बुद्दीक, भावनीक जिणेचो भुरग्यांच्या विकासाचेर परिणाम करपी घटकांचो सोद बालमानसशास्त्रज्ञ घेतात. देखुनूच मानसशास्त्रज्ञांनी तशेंच शिक्षणशास्त्रज्ञांनीं बालमानसशास्त्राक एक महत्वाचो फांटो अशें म्हूण मान्यताय दिल्या."

भुरगीं जेन्ना जल्माक येतात तेन्ना जल्मासावन तांचे भितर कांय बुद्दीमत्तेचो आसपाव आसता. जीं भुरगीं मतीमंद आसतात तीं लेगीत अशा बुद्दीमत्तायेवरवीं नेकेत्राच्या रुपान सगळ्यांक आपली किर्त दाखयतात. मावजो हांच्या कथाझेल्यांचो जर विचार केलो जाल्यार तांच्या कथेंतल्या बालपात्रां भितर मानसीक विकृताय जरीय नदरेक पडली तरीय 'अशोक' ह्या कथेंतल्या अशोक ह्या पात्रा भितर एक विशिश्ट बुद्दीमत्ता आशिल्ली दिसता आनी ती म्हळ्यार चित्रकला. मनशाक जेन्ना कसल्याय बाबतींत मनाचेर ताण येता तेन्ना तो ताण घालोवपा पासत खंयच्या ना खंयच्या कलेचो उपेग करताना दिसता.

हॉवर्ड गार्डनराच्या मता प्रमाण बुद्धीमत्तायेची देणगी मनशाक आसता. पयली भाशीक बुद्धीमत्ता. भाशीक बुद्धीमत्ता आशिल्ल्या मनशाच्यान बरे तरेन शिकूंक, वाचूंक बरोंव येता. तशेंच भाशेचेर सोपेपणान कश्ट घेनासतना प्रभुत्व मेळोंव येता. दुसरी गणिती बुद्धीमत्ता आशिल्ले व्यक्तीच्यान सोंपेपणान तर्क लावप, गणितां सोडोवप, ही बुद्धीक कामां करूं येतात. अशे तरेच्यो व्यक्ती आपल्या विशयांत प्रभूत्व मेळोवन वकील, शास्त्रज्ञ जावंक पावतात. तिसरी संगिती बुद्धीमत्ताय. संगिती बुद्धीमत्ता आशिल्ले व्यक्तिच्यान सोंपेपणान ताल लय लावन गांव येता. संगीत बरोवप, शिकप हे तांच्या रंगतांतूच आसता. चवथी शरीर – स्नायू विशीं बुद्धीमत्ता. हे बुद्धीमत्ते वरवीं कुडीचो चड प्रमाणांत उपेग करून घेवप जाता. स्पर्शांतल्यान जाणून घेवप हे बुद्धीमत्तेचें लक्षण आसता.

पांचवी आंतर बुद्धीमत्ता. हांगा व्यक्तीच्यान हेरांची इत्सा, उर्बा, सोंपेपणान समजूं येता. हेरां वांगडा काम करपाचें कसब तांचे कडेन आसता अशे मनीस शिक्षणतज्ञ, धार्मीक मनीस, सहमंत्रक, नेते जांव येतात. सवी व्यक्ती अंतर्गत बुद्धीमत्ता स्वताक तशेंच स्वताची भावना, भंय, उर्बा समजून घेवपाची तांक आसप आनी अशे तरेन अशी व्यक्ती स्वताचे भावनेचेर बेस बरे तरेन ताबो दवरूंक पावता. हातूंतल्यान अशें दिसता आमी ज्यो गजाली बरे तरेन करुंक पावतात तांची गवाय नकळत आमची बुद्धीक तांक दिता.

सातवी सैमासंबंदीची बुद्धीमत्ता. सैमाचो मोग, झाडां पेडां, सवणीं सावदां हांच्या अभ्यासांत रूच आशिल्ल्या मनशाक सैमीक बुद्धीमत्ता आसा अशें म्हणचें पडटलें.

दामोदर मावजो हाच्यां 'अशोक'ह्या पात्राभितर एका बुद्धीमत्तायेचो आसपाव

ाशिल्लो ती बुद्धीमत्ता म्हणचे अवकाशीय बुद्धीमत्ता.

खंयचीय गजाल कल्पना करून आपल्या दोळ्यां सामकार हाडप आनी उलोवन दाखोवप. भुरगीं तें चित्र वा शब्द रचनेंतल्यान प्रत्यक्षांत मांडटात. अशे तरेचीं भुरगीं वास्तुशास्त्रज्ञ, मुर्तिकार, चित्रकार जांव येतात. देखीक "जण एकलो ह्या चित्रांची तोखणाय करतालो. जागतीक नामनेचे चित्रकार लेगीत तीं चित्रां पळोवन तोंडांत बोटां घालताले." जायते फावटीं मतिमंद व्यक्ती समजुपाक जरीय जड आसलें तरींय हेर क्षेत्रा वरवीं ते आपली बुद्धीमत्ताय व्यक्त करतात. अशोक आपल्यो वेदना, हाव – भाव, दुख्ख, एकटेपण चित्राच्या माध्यमांतल्यान व्यक्त करता आनी अशोक स्वताच्या जिणेंत जो रंग हाडूंक शकना तो चित्रांच्या माध्यमांतल्यान प्रखरपणान हाडटा. जातुंतल्यान ताचीं चित्रां उलयिल्ल्याचो भास जाता. देखीक, "ती दुकर! घुंसशी घुंगशीत पाने चोखपी तीं पिलां! आनी मुखावयली ती दुकर! अजापभरीत जावन तो पळयतूच रावलो."

चित्रकार जेन्ना अशोकाच्या घरांत भितर सरता तेन्ना अशोकाक प्रस्न विचारता. पूण तो ताका फकत हय वा ना इतलीच जाप दिता. देखीक चित्रकारान अशोकाक उलोवपाक लावपाचो खूब यत्न केलो पूण अशोक ढम्म आशिल्लो, तागेली जाप म्हणल्यार हय वा ना. अशोक ह्या पात्राक आत्ममग्न विकार आशिल्ल्यान ताणें फकत ऊठ, बस ह्या साद्या गजालींचेंच पालन केल्लें दिसता.

देखीक "दुसऱ्या दिसा चित्रकारान अशोकाक चित्रां काडपाक सांगलें. अशोक पयलीं वोग्गी बसलो पुण मागीर चित्रकाराले विनंतेक मान दिवन जांवये वा मना माल्लें म्हूण जावये, उठलो आनी पळयता पळयता दोन चित्रकार गुल्ल जाले. तशेंच अशोक ह्या पात्राक जेन्ना चित्रकार ताच्या चित्रापासत राष्ट्रीय नामना मेळ्ळ्या हें सांगता तेन्ना लेगीत ताका ती भास समजुपाक भोव कठीण लागता. देखीक "तें सगलें उलोवप अशोकाक समजतालें काय ना देव जाणा. कांय वेळ गेलो, सुरवातीक अशोक चित्रकाराकडेन कांयच उलयना पूण निमाणे कडेन सपूर्ण कथेंत अशोक 'म्हजीं चित्रां..... बरीं' अशें संपूर्ण वाक्य पयलेच फावटीं उलयता आनीं मुखामळार हांसो दवरून प्राण सोडटा.

मानसीक विकार आशिल्ल्या भुरग्यांक मोगाची गरज आसता पूण पुराय कथेंत अशोकाक आवयबापायचो मोग सोडून दोन मायेचे शब्द लेगीत मेळनात.

भुरगीं जेन्ना कसलेंय बरें काम करतात तेन्ना तांकां उर्बेची भोव गरज आसता
उर्बा भुरग्यांक बरें काम करीत रावपापासत प्रोत्साहन दिता. पूण हांगां अशोक ह्या
पात्राक कसलेच तरेचें प्रोत्साहन मेळनाशिल्ल्याचें जाणवता. भुरग्याक जेन्न
प्रोत्साहन मेळना तेन्ना ताची कला खुंटून वचपाची भिरांत आसता. देखून पालकांनी
आपल्या भुरग्यांक वेळ दिवप तशीच उर्बा दिवप गरजेची आसता. ह्या पात्राक घडय
आवयबापाय कडल्यान फाटबळ मेळिल्लें जाल्यार घडये हें पात्र स्थीर जांव येताले
भुरग्यांच्या जिणेंत पालकां वांगडांच शिक्षकाचो मुखेल वांटो आसता. मानसीक
विकलांगताय आशिल्लें भुरगें जेन्ना शिक्षक वा ताच्या चोपडेंत नकेत्रां काडून व
चोकलेटी दिवन ताच्या बऱ्या कामांक उर्बा दिवप गरजेची आसता. भुरग्यांक शिक्षक
जें सांगता तें ब्रम्हवाक्य आसता. देखून विद्यार्थ्यांक बळगें तशेंच ताका अचूक
आकार दिवपाचें काम शिक्षकान मनार घेवंक जाय.

मावजो हांचे 'मॅट्रिकेचो रिझल्ट' कथेंतलें शोभा हें पात्र पयलींच आपल्य
मनांत धावेच्या परिक्षेचो भंय घालून घेता आनी फकत तेच विचार ताच्या मनांत
घोळयता. देखीक "आतां तर शोभाक उलोवपाक दुसरो विशयच मेळना जालो. एस
एस. सी म्हळ्यार कितें? परिक्षा कितली कठीण? कितले लाखानी भुरगे परिक्षेक
बसतात? रिझल्ट कितलो कठीण येता? ह्योच खबरो." भुरग्याचें मन हें सामके
स्पंजावरी आसता. स्पंजाचेर जेन्ना उदक पडटा तेन्ना तें उदक स्पंज जे प्रमाण
ओडून घेता, तेच प्रमाण भुरगेंय विचार आत्मसात करता आनी ह्याच विचारावांगड
एकरूप जावपाचो यत्न करता. देखून भुरगेपणांत भुरग्यांचेर अचूक संस्कार जावप
गरजेचे आसता. पालकाक भुरग्यांक समाजा पसून अलिप्त दवरून ताचेर संस्कार
करूंक मेळनात कारण समाज हो एक संस्काराचोच भाग आसता. भुरगें
समाजांतल्या वेगवेगळ्या जातीच्या धर्मांच्या लोंकावांगडा रावन चड प्रमाणांत
तडजोड करपाक शिकता.

शोभा हें पात्र तडजोड जरीय करपाक शिकलें ताचे आवय बापूय ताच्या
मनांतलो भंय पयस करपापासत यशस्वी जायनात. देखून शोभाक अभ्यासांत फुडें
सरपाक फावो तशी चालना मेळना. शोभाचो बापुयूच स्वता नशिबाचेर विश्वास
दवरपी आसता. देखीक "पूण परिक्षेक काडलें म्हूण तें पास जातलेंच अशें ना"
प्रिन्सीपॉल 'जातलें हांव करून घेतां अभ्यास. नाय जाल्यार it is a game of luck.' –
मनीस स्वताकडेन असंभव आशिल्ली गजाल करूंक पावनाशिल्ल्यान ताण कर्म

करपापासत नशिबाचेर घालून दिता. हेंच शोभाचो बापुयूय करता. शोभाच्या ापायक जरी शोभा पास जावचें ना हें खबर आसलें तरीय मुख्याध्यापक परवानगी देवपापासत विनोवणी करता.

डॉ. फ्रॉयड हांच्या मताप्रमाण, "सपन पडपा पासत चार पायऱ्यो गरजेच्यो आसतात. पयली गोठोवप हांगा जायते सपन – विचार एकठांय करून एक सपन प्रतीक तयार जाता. दुसरें विस्थापन. हातूंत मेनीफेस्ट सपन तयार जाता तेन्ना मानसीक सपन विचारांच्या मुल्यांचें विस्थापन जाता. तिसरें प्रतिकात्मकताय. हातूंत चिड्डुल्ल्यो इत्सा लुकसाण करिनात अशा प्रतिकांतल्यान तयार जाता. हाचो हेत सपन मनांतल्या मनांत सुटप/निसटप असो आसता. चवथी द्वितीय उजळणी. हातूंत सपन जुळटा अशे तरेन करून मदींच दुसरी उतरां भरसून वा जोडून स्पश्ट करप. मनीस जेन्ना सपनांचो परत परत उगडास करता तेन्ना ताका तें दिसता."

डॉ. फ्रॉयड हांणी हेरांचो अभ्यास करचे पयलीं सुरवातीक आपल्याचेर अभ्यास करपाचें थारायलें आनी कांय – सिद्धांत मांडले. सपन हें बंद उतर न्हय तर सपना वरवीं चिड्डुले मानसीक विचार भावना बी गजाली भायर सरतात. हाचे वयल्यान अशें दिसता, सपन म्हणल्यार हेर दुसरें कांय नासून मनशाच्या मनाचेर जाल्ल्या बऱ्या वायट परिणामांचो भास. हो परिणाम वर्तमानांतलो भुतांतलो वा भविश्यांतलोय आसूं येता.

शोभा ह्या पात्राचेंय तेंच जाता. शोभाक पास जावपाची खर इत्सा आसता पूण ताका खबर आसता तें गणित विशयांत पास जावप शक्य ना. तेन्ना तें स्वताक गणित विशयांत सपनाच्या माध्यमांतल्यान पास जातना पळोवन खोशी जाता आनी पास जावपाची आपली इत्सा पुराय करता. देखीक "देवा, पाव सायबा, पास जाल्यार पुरो अशें पुटपुटत तें पेपर सोदता..... तो पळय. हय होच. 'सर, सर, हो पळय."

आं! तशें जाल्यार पस्तीस मार्क!'

पस्तीस! जांव, पास तरी जालें. शोभा खोश्शेन उडकी मारता. जाग येता.पळय जाल्यार हांतुणार."

पूण खरें जेन्ना शोभा फेल जाता तेन्ना ताका आपूण पास जालां म्हणून लखाटो येतलो हाची आस्त आसता देखून ते एकटेंच बसून वाट पळयता. देखीक "हाका पिशांक दिसलां आसतलें हांव फेल जालां म्हूण शोभा भायर गेलें आनी बाल्कावांतच बसलें. तेलेग्रामाची वाट पळयत."

शोभा ह्या पात्राचो जर गार्डनर हांच्या बुद्धिमत्तायेच्या नदरेंतल्यान अभ्यास केलो जाल्यार कांय प्रमाणांत शोभाक शरीर दृ स्नायू विशीं बुध्दिमत्ता आशिल्ली दिसून येता. देखीक "इलेक्ट्रीक बेल, विस्कटावन उडयली. बांयची गाडी 'पुली पुली' म्हणीत खिळखिळी करून सोडली. दादाले सायकलीचो पंपच सगलो मोडून उडयलो. घरातलें एक रुप्यां कुलेर आनी स्टीलचें कुलेरच ना केलें."

अशे तरेन शोभा कांय गजाली हात लावन स्पर्शा वरवीं शिकताना दिसता. शोभाचो बापूय शोभाक स्पर्शांतल्यान शिकपापासत प्रोत्साहन दितना दिसता. पालका वांगडाच शिक्षकानी अशा विद्यार्थ्याक सहकार्य करप गरजेचें आसता.

'भुरगेपण' हें जिणेंतली मोलादीक देणगी अशें म्हणतात. तशेंच भुरगेपणांत भुरग्यांक जिणेच्या गजालींचो अणभव येवंक नाशिल्ल्यान भुरगीं हट्टीपणा करतात. पूण अशीं भुरगीं व्हड जातात तशीं अणभवावरवीं शिकतात. कार्ल रोजर्स बरयतात, "अणभव येवपाक जल्मांसावन सुरवात जाता. ह्याच अणभवाचें भुरगें मुल्यमापन करता आनी देखुनूच जेन्ना नव्या गजालीकडेन भुरग्यांचो संबद येता तेन्ना ताचें मोल भुरगीं थारायतात. जशीं तीं व्हड जातात तशी भूक लागल्यार लेगीत रडनात." अशेच तरेचीं हट्टीपणां आमकां मावजो हांच्या जागरणां ह्या कथाझेल्यांतल्या 'आंबो म्हगेलो' ह्या कथेवरवीं विनू ह्या पात्राच्या देखींतल्यान दिसता. विनूक आंब्याची सामकी मनाकाळजाथावन ओड आसता आनी ती ओड त्या आंब्यांचेर फकत आपलोच अधिकार आसा अशें म्हणपापासत प्रवृत्त करता. हो अधिकार विनू सपनांत लेगीत गाजयताना दिसता. देखीक "रातीकडेन बरे राती आई जाग कित्याक आयली काय म्हूण पळय जाल्यार विनू सपनेला! सपनांत म्हण्टा कसो – 'अं! म्हगेलो आंबो तो! तोरां म्हगेलीं.... " विनूक कोणेंच त्या आंब्यामुळांत लेगीत गेल्यार मानवना. अशा ह्या आठ वर्सांच्या विनूक हो अणभव नवोच आसता आनी देखुनूच अशा ह्या भुरग्याक हे परिस्थिती वांगडा एकरूप जावपाक थोडो वेळ दिवप गरजेचो आसता. हो वेळ विनूची आवय विनूक आजोळा धाडून दिवपांत येस मेळयता.

'सपन मोगी' ह्या कथा झेल्यांतल्या 'हॅपी बर्थ डे' हे कथेंत मानसीक नदरेंतल्यान पिडेस्त आसता. देखुनूच आवयबापूय आपल्या कडेन समाज उणाक नदरेंत पळयतलो म्हूण ताका घरा भायर काडपाक भियेतात. पूण चेतन्याचे पालक केन्ना ना केन्ना समाजाक तोंड दिवचें पडटलें हें विसरतात. अशा तरेच्या भुरग्यांचें विश्व वेगळेंच आसता. जीन पियाजे हांच्या मताप्रमाण "भुरग्यांचो पाठ्यक्रम जेन्ना

यार करतात तेन्ना तांची पिराय तशीत पात्रताय लक्षांत घेवन तयार करूंक जाय. शेंच ह्या पाठ्यक्रमांत बदल करपाक वाव आसपाक जाय कारण कांय भुरगीं ानसीक नदरेंतल्यान दुसरे पाठ शिकपापासत तयार नासतात". अशे तरेच्या ुरग्यांक फावो तशें वातावरण तयार करून शिकोवपाक जाय. तशेंच तांच्या ालकांक सहमंत्रणा वरवीं कशे तरेन आपल्या भुरग्यांक मुखार येवपाक तयार रपाक जाय हाची जाणविकाय करून दिवप गरजेची आसता. कांय पालक जेन्ना आपलें भुरगें मनोदुयेंत आसा हें परखितात तेन्ना हातपांय गळसावन बसतात. अशें रिनासतना आपलें भुरगें जर वाचपाक, आयकुपाक वा बरोवपाक कमी पडटा जाल्यार ताच्या फाटलीं कारणां जाणून घेवंक जाय. अशा वेळार भुरग्यांक मानसशास्त्रज्ञाची गरज लागता. मानसशास्त्रज्ञ कसले तरेची शिकपाची विकलांगताय आसा ती चाचणी दिवन पळयतात आनी ताचे निदान करतात. मानसशास्त्रज्ञान निदान केल्या उपरांत ताचेर फुडें कशे तरेन विचार करूं येत तें पारखिता आनी शिकोवपाच्या पद्धतीची आखणी करता आनी शिक्षकाच्या तशेंच पालकांच्या मदतीन भुरग्यांक शिकप सुदारपांत मदत करता.

मावजो हांच्या कांय कथांनी भुरग्यांच्या मनाचेर पालकांनी आपणायिल्या पालन शैलीचो कशे तरेन परिणाम जाता तें कांय पात्रां वरवीं नदरेक पडटा. एडलर हांच्या मता प्रमाण फ्रॉयड काम वासनेचेर चड प्रमाणांत भर दिताले पूण भुरग्यांच्या पालकां कडेन आशिल्ल्या सामाजीक नात्या कडेन दुर्लक्ष करताले. देखून एडलर हाणी पालन शैलीचेर भर दिलो. आधुनीक पद्धतीन ताका 'इगो थॅरेपी' अशें म्हणटात."

न्युनगंड हे सामके घातक मानसीक अवस्थेचो एडलर हांणी आमकां दिश्टावो घडयलो म्हणूंक जाय कारण न्युनगंडाक लागून मनीस जायतें फावटीं आपली कला वा तांक लिपोवन दवरतना दिसता आनी कांय न्युनगंडाक वाट मेकळी करपा पासत स्वताक खंयचे तरी कलेंत घुसपावन दवरपाचें बळगें आत्मसात करतात. अहंगंड हो मनशाक सुवार्थी करता आनी सुवार्थाक लागून मनीस फाटीं फुडें कांयच चिंतिना. तो स्वताक स्रेश्ट मानपाक लागता आनी थंयच तो चुकता. हाचेर एडलर हांणी उजवाड घाला.

आल्फ्रॅड एडलर हांणी "न्युनगंड आनी अहंगंड ह्यो संकल्पना मांडल्यो. ह्या संकल्पनां फाटलें कारण स्पश्ट केलें." एडलर हांणी "ह्युमन मोटीव्हेशन ही थियरी

मांडली. हातूंत तांणी भुरग्यांचे फ्राकेजी आनी असाहाय्यताये विशीं आपले विचा मांडले. जेन्ना भुरग्याक हेरां वरींच आपूण न्युनगंडाचो शिकार आसां हें कळटा तेन्न तो न्युनगंडाक लागून स्वताक असुरक्षीत मानपाक लागता आनी मनांत एक वज घेवन वावुरता. अशे तरेन भुरग्यां भितर न्युनगंडाची भावना जल्माक येता आनी ह भावनेंतल्यान वयर सरपा पासत भुरगें खंयच्या तरी क्षेत्रांत प्रभुत्व मेळोवपाचो यत्न करता. देखीक भुरगो शारिरीक नदरेंतल्यान कुरूप आसत जाल्यार तो ताच्य यत्नांतल्यान बऱ्यांततलो बरो खेळगडो जावं येता वा ज्या भुरग्याक मातशें उणं दिसता ताच्यान चित्रकार वा ड्रॅस डिजायनर जावं येता. जुलियस सिझर तशेंच एलॅक्झेंडर द ग्रेट हांच्यो देखी दिवन तांणी हें स्पश्ट केलां.

रुमडफूल कथाझेल्यांतल्या 'नवी केस' हे कथेंतल्या कुंतल केरकार ह्य पात्रांत न्युनगंड दिसता. कुंतल जेन्ना तेरा चवदा वर्सांचें आसता तेन्ना ताका संभोग विशीं कांयच खबर नासता. अशा वेळार जें एका भुरग्यान पळोवंक जायना अशे तरेचें सत तें आपल्या दोळ्यांनी प्रत्यक्ष आपले घरचींच संभोग घेतना पळयता तेन्न आकांताचें कांचवेता देखीक "अबुद्दी कुंतलान ते गजालीचो खुब्ब कांच घेतलो रातभर ताचो दोळो लागलो ना–तर जालेंच. पूण त्या उपरांत दर रातीं 'हें' भिरांकूळ सपन तें पळयतालें. आकूळ पिकूळ जावन उठ्ठालें आनी बेठेंच हुंडके हुंडकेवन रडटालें". कुंतल व्हड जालें तरीं लेगीत ताणें भुरगेपणांत घेतिल्लो कांच ताची फाट सोडिना. ताचें रुपांतर 'न्युनत्वांत' जाता. मानसोपचार तज्ञ वीणा कंठक हांच्या मताप्रमाण "भुरगें जेन्ना संभोग घेतना पळयता तेन्ना तें कांचवेता आनी ताचो वायट परिणाम मनशाचेर व्हड जालो तरी वचना." कुंतलाक आपणें पळयिल्ले गजालींतल्यान भायर सरपाची वाट मेळना. देखीक"कुंतलान तकली फाफुडली आनी आशिल्लें तशें दाराक तेंकून उबें रावलें. नदर पयस थिरावली. प्रेमा मावशेचे यादीन ताणें आवंडो घोटलो". परत परत कुंतलाक प्रेमामावशेची याद जाता आनी प्रेमामावशेच्यो आनी घोवाच्यो आकृतायो ताच्या मनांत येतात आनी ताका भास जाता. देखीक "घोवा पोंदा चिड्डली प्रेमा मावशी....त्यो दोन वस्त्रविरयत कुडी....." तशेंच "शिर्रर्र करून ल्हंव फुल्ली. प्रेमामावशी आनी घोव आयलीं. तो तिका चिड्डुपाक लागलो."

1952 वर्सा जॉन बावलबाय हांणी अनाथ आश्रमा सारकिल्ल्या वेगळ्या वेगळ्या संस्थांनी वाडिल्ल्या भुरग्यांच्या व्यक्तिमत्वाचो अभ्यास केल्लो. तातूंत

आवयचो मोग आनी लक्ष मेळनाशिल्ल्या करणान भुरग्यां मदीं कशी आनी कसली आगणूक तयार जाता ताचे विशीं विस्तारान सांगलां. भुरगें जेन्ना रडटा, किळच्यो मारता तेन्ना तें आवयन आपल्या कडेन लक्ष दिवचें म्हणुनूच आसता. अशा वेळार जर भुरग्याक आवयचो मोग मेळत जाल्यार ताका आपूण सुरक्षीत आसा अशें दिसता. ह्या काळांत तर ताका मोग मेळूंक ना जाल्यार ताका बरीच मानसीक अस्थीरताय भोगची पडटा. अशे जॉन बाऊलबाय म्हणतात.

दामोदर मावजो हांच्या कथां वरवीं पात्रांनी तीन पालन शैली आपणायिल्ल्यो दिसतात. बालमनाचेर बरे संस्कार जावप हें पालकांच्या हातांत आसता. पूण फुलांमेस्त्री आपल्या चल्याचे अती लाड करता आनी अनुज्ञात्मक पालन शैली आपणायता. अशा वेळार भुरग्यांची कसलीच चूक नासता. रेमेदीक जाय जाय ते मेळल्ल्यिान तो अदीक हट्ट करता. आनी जसो तो व्हड जाता तसो ताच्या व्यक्तिमत्वांत नकारात्मक बदल घडटा.

'भुरगीं म्हगेलीं तीं' ह्या कथा झेल्यांतल्या अथ्रेकणी हे कथेंतल्या मार्था ह्या पात्रां बाबतींत पालक निश्काळजीपण बाळगुपी पालन शैलीचो वापर करता आनी ताचेंय रुपांतर नकारात्मक विचारांत जाता. ह्याच कथेंतल्या लुसी ह्या पात्राचेर पालक हुकुमशायी गाजोवपी पालन शैलीचो वापर करतना दिसता. हुकुमशीयी गाजोवपी पालन शैलीचो परिणाम म्हळ्यार बंधना आसून लेगीत तें गुरवार जाता.

हीं पात्रां जरीय आपले परीन स्वतंत्र आसलीं तरींय एक नकारात्मक विचार, निर्णय घेवन फुडें वतना दिसता.

प्रत्येक मनीस बुध्दिमत्तायेन हुशारेन विचारान वेगळो आनी आपले परीन खास आसता आनी देखुनूच मानसीक दुयेंस आसलें तरींय ताचेर मात करून जिणेंत जैत मेळयताना दिसता. देख घेवची जाल्यार हेलन कॅलर जी आपल्या कठीण परिश्रमांतल्यान फुडें सरली. हेलन कॅलर बरयतात, "जिणेंत म्हाका कठोरताय लाबल्या अशी हांवें केन्ना केन्नाय काळान कागाळ केल्या. म्हज्या जिणेंतल्या चडशा सुखाक हांव मुकलां. पूण जितल्या गजालींक हांव मुकलां ताचे पसर चड गजाली म्हाका मेळ्ळ्यात." मावजो हांणी आपल्या कथांनी अशे तरेची भुरग्यांची मानसीकताय मांडल्या जातुंतल्यान वाचप्यांक, शिक्षकांक, तशेंच पालकांक साहित्यावरवीं अणभव घेवपाक मदत जाता.

## संदर्भ


1. पलसाने, म. नः मानसशास्त्र :2006
2. Dinkmeyer, Don C - Child development the Emerging self - 1967.
3. गोडबोले, अच्युत : मनात : 2012
4. जोशी, बी. आर : मानसशास्त्र :2007
5. दांडेकर, रेणूः मूल घडताना – घडविताना : 2014
6. देसाई नारायण : बालकनीती : 2016
7. मावजो दामोदर : गाथन : 1971
8. मावजो दामोदर : जागरणां :1975
9. मावजो दामोदर : रुमडफूल : 1989
10. मावजो दामोदर : भुरगीं म्हगेलीं तीं : 2001
11. मावजो दामोदर : सपन मोगी : 2014
12. सरदेसाय , मनोहरराय : इग्लीश कोंकणी शब्दकोश : 2003
13. Consini Raymond : concise encyclopedia of psychology : 1987.
14. Savage, Denis : Fraud and philosophy : 2008
15. हळर्णकर, तानाजी (संपादक) : कोंकणी विश्वकोश (खंड 2) ट ते फ 1997.
16. Novy, Michael : General psychology : 1970.
17. Fraud, Sigmund : Two short Accounts of psycho . analysis
18. WWW.ukessays.com@essays@education@piagets – stages of cognitive development and different stages.
19. WWW. goodreads.com@quotes@ tag@disability.




# कोंकणी सरस्पतीचो नीज सेवक : दामोदर मावजो

शुभा बरड

भाई, म्हणजेच दामोदर मावजो हांचे विशीं उलयतना कोंकणींतले ज्येश्ठ साहित्यीक पुंडलीक नायक म्हणटात, "गोंयांत भारतीय संस्कृतीच्या खांदयाक खांदो लावन नंदपी लॅटीन संस्कृतीचो कलात्मक मेळ कथा--कादंबरींत घालपाचें कसब मावजो हांकां सहज साध्य जालां, तितलें हेर कोणाकय कश्ट घेवन सादना. कल्पना विलासाचे भकीक पडनासतना मावजो जिवनांतलें वास्तव चितारता तेन्ना तांची विज्ञानीक नदर आनी सामाजीक भान हे गूण विशेश उठून दिसतात". भारतीय कथा साहित्यांतलो "आंतोन चॅकोव" म्हूण साहित्य मळार भाई मावज्यांची वळख आसा. कथा साहित्या वांगडाच तांणी कादंबरी आनी बाल साहित्याचीय निर्मणी केल्या. कोंकणी भाशेक दिल्ल्या वावरा खातीर तांकां केंद्रीय साहित्य अकादमीच्या पुरस्कारा वांगडा हेर जायते राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय पांवड्यावेले पुरस्कार फावो जाल्यात. साहित्य निर्मणेंतल्यान तशेंच प्रत्यक्ष वावरांतल्यान तांणी कोंकणी भाशेची सेवा केल्या. तांच्या ह्या वावराचीं साबार तासां समजून घेवपाच्या हेतान सादर अभ्यास तीन भागांनी वांटून घाला –

पयलो – कोंकणी भाशेचो दिश्टावो आनी भाशीक चळवळीक भाईचें योगदान.

दुसरो – साहित्य रचनेंतल्यान भाईन कोंकणी भाशेक दिल्लें योगदान.

तिसरें – राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय मळांचेर कोंकणी भाशेची ताक दाखोवन दिवपी कार्य.

ह्या तिनूय भागांतल्यान अभ्यास करतना भाई मावज्याच्या "रायटर आनी फायटर" अश्या दोट्टी रुपाचेर उजवाड घालपाचो यत्न केला. आपल्या कार्यांतल्यान भाई कशे तरेन कोंकणी सरस्पतीचे नीज सेवक जावंक पावले हें सिद्ध करपाचो यत्न केला.

## कोंकणी भाशेचो दिश्टावो आनी भाशीक चळवळीक भाईचें योगदान

भाईच्या ल्हानपणांत (खरेपणान कोंकणी भाशेक भास म्हण मान्यताय मेळ मेरेन) कोंकणी आवयभास आसली तरीय मराठी ही बरोवपाची भास असो सर्वसादारण समज आसलो. ल्हानपणासावनूच तांकां वाचनाची खूब आवड. बरीं आनी दर्जेदार पुस्तकां वाचतां वाचतां आपणेंय लेखक जावचें ही भावना रुजवणा पडली. अशे तरेन तांच्या लेखनाक सुरवात जाली. सुरवातीच्या काळांत भाई मराठी भाशेंतल्यान साहित्य बरयताले. मुंबय पोतदार महाविद्यालयांत शिकता आसतना तांचो संपर्क सुरेश काकोडकार हांचे कडेन आयलो. काकोडकारान एक दीस तांकां शणै गोंयबाब हांचें "कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ" हें पुस्तक दिलें. ह्या पुस्तकान तांचेर आकांताचो प्रभाव घालो. कोंकणी भाशेचे प्रती ते आकर्शीत जाले. अशे तरेन कोंकणी हीच आपली आवयभास हाचो दिश्टावो तांकां जालो. कोंकणी भाशेंतलो तांचो साहित्यीक प्रवास सुरू जालो. जे तरेन मराठी भाशेंत बरयतना विचार करचो पडटालो, ते तरेन कोंकणी भाशेंत बरयतना तांकां करचो पडलो ना.

कोंकणी हीच आपली निजाची भास हाची जाणविकाय जाल्या उपरांत तांणी कोंकणींतल्यान साहित्य रचना सुरू केली. ही गजाल ते मुंबय आसतनाची. थंय त्या काळार चलतल्या कोंकणी भाशीक चळवळींत तांकां कसलीच रुची नासली. कोंकणी भाशेचो तांकां मोग नासलो अशांतलें न्हय. पूण भाशीक चळवळीक मेळल्ल्या राजकीय रुपाक लागून भाई भाशीक चळवळी पासून दोन हात पयसूच रावले. उपरांत तांचे दोळे उगडले ते शंकर भांडारी हांणी. कोंकणी भाशेच्या एके बसकेखातीर शंकर भांडाऱ्यान एक दीस भाईक आपोवणें दिलें. भाईन सांगलें, "हांव एक लेखक, म्हाका तुमचें राजकारण बी कांय लागना. म्हजें काम बरोवपाचें." तांचे हे जापेचेर शंकर भांडारी आकांताचे तापले. म्हणपाक लागले, "भासूच उरली ना जाल्यार बरयतलो कितें? आमकां कितें बरोवपाचें नासता?आमी झगडटात ते भास उरचे खातीर." हे घडणुकेन भाईचे जिणेंत एक नवें वळण हाडलें. तांणी कोंकणी भाशीक चळवळींत उडी घेतली. ताचे उपरांत जेन्ना जेन्ना कोंकणी भाशेखातीर कोणेंय उलो मारलो तेन्ना तेन्ना भाई कसलोच विचार करी नासतना मुखार सरल्यात.

त्या वेळार मुंबय सावन अ. ना. म्हांबरो आनी सुरेश बोरकार 'कोंकणी' हें नेमाळें चलयताले. ह्या नेमाळ्यांत निबंद बरोवन तांणी आपलें लिखाण सुरू केलें. ह्याच

ुमाराक भाईचे कांय लागशिल्ले इश्ट भाशीक वादांत घुसपल्ले. तेन्ना मुंबय हें कोंकणीचे जागृतायेचें आनी वावराचें केंद्र जाल्लें. भाई मुंबय पावलो तेन्ना ही साहित्यीक चळवळ सोंपिल्ली. पूण, मुंबयची ही चळवळ अशी तांकां मेळ्ळी ना. ताचे फाटलें कारण अशें, की ज्या काळांत तांचें महाविद्यालयांतलें शिक्षण पूर्ण जाल्लें, सुमार त्याच अदमासाक गोंयची वसाहतवादांतल्यान सुटका जाल्ली. हाकाच लागून मुंबय आशिल्लें कोंकणी चळवळीचें केंद्र गोंयांत पावलें. अशें आसलें तरी त्या चळवळीचो प्रभाव भाईचेर पडले बगर रावलो ना. तांच्या मतान प्रत्येक लेखकान आंदोलनांत भाग घेवपाक जाय. कारण, अश्या आंदोलनांनी भाग घेतकच साहित्यीक समाजाकडेन लागीं पावता. गोंयांत परतल्या उपरांत तांणी आपली भाशीक चळवळी खातीर वावुरपाची आनी साहित्यीक योगदान दिवपाची वृत्ती बदलली ना. कोंकणीचे ज्येश्ठ साहित्यीक उदय भेंब्रे हांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, "तांणी कोंकणी साहित्याक मोलादीक योगदान दिलेंच; पूण कोंकणीच्या हिता खातीर संघर्श करपाक जेन्ना जेन्ना फुडें सरचें पडलें तेन्ना तेन्ना ते मुखार सरले." साहित्यीक म्हूण नामना जोडटना तांणी कोंकणी चळवळीकडल्या नात्याचो विसर पडपाक दिलो ना.

कोंकणी भाशीक चळवळींत "कोंकणी प्रजेचो आवाज" (के. पी. ए.) हे संस्थेचो म्हत्वाचो वांटो आसलो. 1985 वर्सा हे संस्थेची स्थापणूक जाल्ली. के. पी. एच्या आंदोलनाची सुरवात जावपाचें मुखेल कारण म्हळ्यार विधानसभेंत कोंकणी विशींचो प्रस्न विचारलो तेन्ना मुख्यमंत्री प्रतापसिंह राणे हांणी दिल्लें उत्तर. हें उत्तर कोंकणी खातीर मारक आसलें. ताका लागून ह्या आंदोलनाची सुरवात जाली. हें भाशीक आंदोलन म्हळ्यार कोंकणीची राजकी अस्मिताय सिद्ध करपी संघर्श. ताका पदाधिकारी नासले. फकत निमंत्रक म्हूण पुंडलीक नायक आनी भाई आशिल्ले. हांगा नोंद घेवपा सारकी एक म्हत्वाची गजाल आसा. ती म्हळ्यार, संस्थेच्यो चडश्यो बसका रातच्यो सात वरां उपरांत जाताल्यो आनी तातूंत सगळी रणनिती थारताली. भाई त्या वेळार एक संवसारी मनीस. आपल्या बायल–भुरग्यांची देखरेख करता आसतनाच तांणी कोंकणी भाशे प्रति आशिल्ले आपले लागणुकेचो स्वताक विसर पडपाक दिलो ना. बाबली नायक हांणी घेतिल्ले के.पी.एचे पयले बसकेंत फकत विरोध करपाचो थाराव घेतिल्लो. हो विरोध मोर्चा काडून करचें अशें थारिल्लें. करतां करता ह्या विरोधान आंदोलनाचें रूप घेतलें. हें आंदोलन खर जालें आनी भाशीक चळवळीन राजकीय रूप घेतलें. एकूण 555 दीस हें आंदोलन चल्लें. धर्मभेद,

जातीभेद, पंथभेद विसरून गोंयच्या सामाजांतलो दर एक घटक ह्या आंदोलनांत वांटेकार जालो. ह्या आंदोलनाच्या निमतान भाईक तशेंच पुंडलीक नायकाक वेगवेगळ्या फुडाऱ्यांच्यो भुमिका लागींच्यान पळोवपाक मेळ्ळ्यो.

साहित्यकार म्हणून ह्या आंदोलनाचो तांकां खूब फायदो जालो. रवीन्द्र केळेकार, शंकर भांडारी, सारकिल्ल्या प्रतिश्ठीत साहित्यीकांकडेन तांचो संपर्क आयलो. एखादी कथा बरोवन जाल्या उपरांत भाई ती कथा रवीन्द्रबाबाक दाखयताले. तांचेकडल्यान तांकां मार्गदर्शनूय मेळटालें. इतलेंच न्हय तर, रवीन्द्रबाब ती तोखेवन, तातूंत गरज आसल्यार कांय बदल करून ती 'जागां'त छापताले. छापल्या उपरांत लोकांच्यो प्रतिक्रिया भाईक मेळटाल्यो आनी अशे तरेन तांची वळख कोंकणी समाजाक जावंक लागली. कोंकणी भाशेच्या मोगान आनी कोंकणीक भास म्हूण मान्यताय दिवपाच्या हावेसान घर–संवसार आशिल्ल्या ह्या 'महापुरूशान' आपली लेखणी सकयल दवरून, आपल्या पसऱ्या कडेन आडनदर करून स्वताक चळवळींत झोकून दिल्लें. राजभास विधेयक मंजूर जाल्या उपरांत "कोंकणी प्रजेचो आवाज" हो एक राजकी पक्ष जावचो म्हूण वेगवेगळ्या राजकीय पक्षांकडल्यान आनी गटांकडल्यान दबाव येवपाक लागलो. पूण त्याच गजालींनी घुस्पून उरिल्ले जाल्यार आयज भाई मावजो, पुंडलीक नायक साहित्यीक म्हूण तयार जावचे नासले. भाशीक वाद आनी राजकारण ह्या दोनूय गजालींचो परिणाम तांचे सर्जनशीलतायेचेर जातलो आसलो. अशें जावचें न्ही म्हणून तांणी स्वताक ह्या गजालींतल्यान भायर काडलें आनी कोंकणी भाशेचो साहित्यीक दर्जो आनी तांक वाडोवपाच्या वावराक ते पेटले.

गोंयच्या हालींच्या इतिहासांतल्या कांय म्हत्वपूर्ण घडणुकांक ते साक्षीदार आसात. हातूंत साहित्यीक तशेंच समाजीक अश्या दोनूय चळवळींचो आस्पाव आसा. ओपिनीयन पोल, कोंकणी मराठी चळवळ, राजभास आंदोलन, घटकराज्य, कोंकणीचो आठवे वळेरेंत आसपाव अश्या कोंकणी भाशीक आंदोलनांनी भाई पोटतिडकीन वावुरल्यात, ते लेगीत आपल्या घर–संवासाराची आनी लेखणेची कसलीच पर्वा करी नासतना. साहित्यीक चळवळी वांगडाच भाईन भाटकार–मुंडकार संघर्श, रांपणकारांची रास्त भुमिका, समता आंदोलन, प्रदुशणकारी नायलॉन 66 आंदोलन, कोंकण रेल्वे प्रकल्प किनारपट्टी पसून पयस उरचो म्हणून मार्ग बदलपाची मागणी करपी आंदोलन अश्या कितल्याशाच

सामाजीक आंदोलनांनी वांटो घेतलो. गोंयचो एक जबाबदार नागरीक ह्या नात्यान तांणी उखलिल्लें हें पावल खरेंच तोखणाय करपासारकें आसा अशें म्हणीन दिसता. तांच्या ह्या वावरांतल्यान एक गजाल स्पश्ट जाता ती म्हणचे जितलो मोग आनी आदर ते कोंकणी भाशेचो करतात तितलोच मोग आनी आदर कोंकणी समाजाचेरूय करतात. प्रत्यक्ष वावरांतल्यान आनी साहित्य निर्मणेंतल्यान तांणी कोंकणी समाजाक पिडपी समस्यांतल्यान मुक्त करपाचो आनी ताचे विशीं जागृताय निर्माण करपाचो यत्न केलो.

## साहित्य निर्मणेंतल्यान कोंकणी भाशेक दिल्लें योगदान

सादारणपणान एका प्रतिभावंत बरोवप्याचें साहित्याच्या मळार पयलें पावल पडटा तें कवितेंतल्यान. पूण भाईच्या बाबतींत हें पयलें पावल कथेच्या माध्यमांतल्यान पडलें. तांची पयली कोंकणी कथा म्हळ्यार "तूं वचूं नाका". 1963 वर्सा मुंबय महाविद्यालयांत शिकतना हे कथेचें लेखन जाल्लें. मुंबय गुरूनाथ केळेकार 'नवें गोंय' हें नेमाळें चलयताले. ह्या नेमाळ्यांत जाहीर केल्ले कथा सर्तीच्या निमतान तांणी ही कथा बरयल्ली. तांचे हे पयलेच कथेक तांकां दुसरें इनाम फावो जाल्लें. एक साहित्यीक म्हूण तांची वळख जाता आसतनाच तांचो खास उल्लेख जाता तो एक कथाकार म्हण. तांकां बरयन दिसलें तेन्ना कवितेपरस चड तांकां कथाच आयली. तांच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार कथा तांकां बरोवची पडली ना. कथेन भाईकडल्यान स्वताक बरोवन घेतलें. तातूंतले तातूंत संक्षिप्तताय हें तांच्या कथेचें खाशेलपण. खंयचेय साहित्यकृतींत वा कलाकृतींत गरजे भायलें कांयच येवपाक जायना आनी गरजेचें कांयच भायर उरपाक जायना अशें तांचें स्पश्ट मत. आपल्या साहित्यांतल्यान भाईन गोंय मुक्ती–पूर्व काळ धरून त्सुनामी आनी ताचे उपरांतचीय जीण कोंकणी मनशा मुखार हाडपाचो यत्न केला.

भाईच्या साहित्य निर्मणेंत तांकां वंशान मेळल्लिया पसऱ्याचें म्हत्वाचें योगदान आसा. कांय काळ भाईन लेखना वांगडा पसरोय सांबाळ्ळा. आपूण पद्वीधर आसून लेगीत पसरो सांबाळटा म्हणपाचो तांकां सार्थ अभिमान दिसतालो. पसरकारी आपलो धर्म जाल्ले वरी पसऱ्यावयलें काम ते समर्पणान आनी प्रामाणीकपणान करताले. पसरकारी तांणी स्वता वेंचून काडली ना. ती परंपरेन तांच्या वांट्याक आयली आनी तांणी ती अपरिहार्य लेखून आपणायली. घडये ह्याच पसऱ्याक लागून भाई साहित्यीक जावंक पावले अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना. कारण ह्याच

पसऱ्याचेर तांकां आपल्या कथेचे विशय मेळ्ळे आनी विंगड अशी भाशा शैली मेळ्ळी. सकाळीं णव ते रातीं णव मेरेन ते पसऱ्यार काम करताले. पसऱ्यार एखादें कथाबीज मेळ्ळें जाल्यार ते जागरण करून ती कथा बरोवन काडटाले. (हाकाच लागून तांच्या एका कथा झेल्याचें नांव "जागरणां" आसूंये) ह्या कथा बिजांक सोबपी पात्रां लेगीत तांकां पसऱ्यारूच मेळ्ळीं. तांचेर सर्जनशील आनी कलात्मक संस्कार केल्या उपरांतूच तांणी तांचो वापर साहित्यांत केलो. देखीक 'सदानंद' कथेंतलो सदानंद तांच्याच शेजरा रावपी मनीस. 'तेरेजालो घोव' सद्दा सांजेचो वास्कोच्यान येवपी गाडये वेळार सायकल घेवन तांच्या पसऱ्यार येतालो आनी सिगरेट फुसकायत आपले बायलेची वाट पळयतालो. 'सिनीक' ही कथा जाल्यार तांणी आपल्या मेवण्याचेरूच बरयल्ली. सांगपाची गजाल म्हळ्यार, आपले भोंवतणी जें जें कितें भाईन पळयलें ताचो आस्पाव कलात्मक आनी सृजनात्मक रितीन तांणी आपल्या साहित्यांत केलो. "कोंकणी प्रजेचो आवाजा"च्या भाशीक आंदोलना वेळार आनी उपरांत साहित्य लेखनाक भाईक चडांत चड वेळ मेळचो म्हूण ह्या पसऱ्याची पुराय जबाबदारी तांची घरकान्न शैला हांणी सांबाळ्ळी.

भाईच्या एकंदर साहित्याचो विचार करतना तांच्या साहित्यांत क्रिस्तांव समाज चड प्रमाणांत आयिल्ल्याचें जाणवता. हें तांच्या साहित्याचें आनी साहित्यीक प्रतिभेचें वैशिश्ट्यूच म्हणूंक जाय. ह्या वैशिश्ट्याक भुरगेपणासावन पिरायेच्या 70व्या वर्सा मेरेन जगिल्ले जिणेची बसका फावो जाता. भाई जल्माक आयले हिंदू समाजांत आनी वाडले माजोड्डें सारकिल्या गांवांत. ह्या गांवांत बामणांचें एकूच घर – तें म्हणजे भाईचें. घरचीं, सोयरीं हिंदू समाजांतलीं जाल्यार शेजारी, इश्ट, वांगडी क्रिस्तांव समाजांतले. घरांतले संस्कारांनी तांकां वेगळोचार केन्नाच जाणवलो ना. क्रिस्तांव समाजाक तांणी लागींच्यान पळयला, अणभवला. देखून क्रिस्तांवांचेर बरयतना भाई तांचे मदलो जावन बरयता. क्रिस्तांव जनमानसांत भाई इतले खोलायेन देंविल्लो लेखक क्रिस्तांव समाजांत लेगीत थोडे. कांय वेळार वास्तव जिणेंत मेळल्लिें पात्र हिंदू, पूण साहित्यांत ताचो वापर क्रिस्तांव शैलीन करप असो प्रयोग लेगीत तांणी केला. सांगपाचें म्हळ्यार तांच्या कथांचें रोमींत लिप्यांतर जालें (क्रिस्तांव लोकांक तेन्ना नागरी कळनासली) तेन्ना ह्याच क्रिस्तांवांकडल्यान तांकां बरो प्रतिसाद मेळ्ळो. हाचो अर्थ तांणी हिंदू समाजाकडेन आडनदर केली असो जायना. क्रिस्तांव समाजांतले प्रस्न जितले कलात्मक रितीन मांडले, तितल्याच कलात्मकतायेन तांणी आपल्या कथांनी हिंदू समाजांतले प्रसंग रंगयले. हाचोच अर्थ हिंदू आनी क्रिस्तांव

ननशाक संघठीत करपाचें कार्य तांचेकडल्यान समाधानकारक रितीन जालां. ह्या तथ्याक सकयल दिल्ल्या कांय वेंचीक साहित्यिकांच्या मतांचो आदार फावो जाताः—

"गोंयच्या हिंदू आनी क्रिस्तांव समाजांतलो पुसट जायत गेल्लो संस्कृतीक दुवो ताच्या कथांनी जंय थंय झळकता. ती एक ताच्या साहित्यांतली जमेची बाजू. ताच्यो कथा तर्कशुद्ध, तंत्रशुद्ध आनी वास्तववादी आसून ताचें सगळें साहित्य, साहित्यीक माप दंड मानपी आनी सांबाळपी अशें आसा"— महाबळेश्वर सैल.

"क्रिस्तांव समाजांतल्यो व्यक्तीरेखा, तांच्यो व्यथा, तांचें वागप, कथेंतले प्रसंग, वातावरण म्हाका भुलयतालेच. ते भायर साश्टींतली, चड करून किरिस्तांव समाजांतली भाशा—शैली म्हाका मावज्यांच्या कथांनी रस घेवपाक लायताली"— तुकाराम रामा शेट

"भाईचो जल्मगांव माजोड्डुयां जाल्ल्यान कोंकणी कथेक ताचो विशेश फायदो जालो. गोंयच्या क्रिस्तांव समाजाचें चित्रण तांच्या कथांनी हुबेहूब आयलां, तांची भाशा, तांची संस्कृती तांणी बेस बरी मांडल्या. अशे कथाकार दुर्मिळच"— नूतन साखरदांडे.

आपल्या चडांत चड साहित्यकृतींत क्रिस्तांव संस्कृती नकसूदपणान चित्रायल्या उपरांत लेगीत भाई म्हणटात, "क्रिस्तांव समाजांतलो प्रतिभावंत कोंकणी लेखक खरीक हात घालतलो तेन्ना ताच्या हातसून अदीक मोलादीक, अस्सल सुवादीक आनी आयजवेर केन्ना कोणें वाचूंक ना असल्यो प्रमाणशील साहित्यकृती जल्माक येतल्यो. आयजूय क्रिस्तांव समाज—जिवनाचें चित्रण करपी लेखक आमचे मदीं आसात. पूण बंद दारा फाटल्यान आनी बंद मनाच्या आड पळोवपाची नदर आसल्यारूच बरें साहित्य निर्माण जातलें. ती खरसाण आशिल्लो क्रिस्तांव समजांतलोच लेखक येवं". दिल्ली दूरदर्शनाचेर एक दीस तांची मुलाखत घेतिल्ली तेन्ना मुलाखत घेवप्यान तांकां 'ऑनररी कॅथोलीक' म्हणिल्लें. कसलेच तरेचो भेदभाव माननासतना, तांणी क्रिस्तांव समाज आपल्या साहित्यांत चित्रायलो. आपले भोंवतणच्या गजालींचो प्रभाव साहित्यीकाचेर पडटाच. हो प्रभाव भाईच्या बाबतींत कितल्या खोलायेन पडलो तें आनी वेगळ्या उतरानी सांगपाची गरज ना. तांच्या साहित्यांतल्यान हाचो दिश्टावो जाताच.

1970 ते आजमेरेन भाईचें कितलेशेंच साहित्य पुस्तक रुपान उजवाडाक आयला. तातूंत पांच कथा झेले (गांथन, जागरणां, रुमडफूल, भुरगीं म्हगेलीं तीं,

सपनमोगी), एक नवलिका (सूड), दोन कादंबऱ्यो (कार्मेलीन, त्सुनामी सायमन), बालसाहित्याचेर आदारीत तीन पुस्तकां (चित्तरंगी, काणी एका खोमसाची, एक आशिल्लो बाबुलो) आनी 2 चरित्रां (अशे घडले शणै गोंयबाब, ऊंच हावेस ऊंच माथें) अश्या एकूण 13 पुस्तकांचो आस्पाव आसा. पिरायेच्या 70व्या वर्सा तांचो "सपनमोगी" हो कथाझेलो वाचप्यांच्या हातार पडलो. ह्या कथाझेल्यांतल्यानूच भाईन आपलें "रायटर आनी फायटर" रूप दाखोवन दिलां. कोंकणी भाशेक भास म्हूण मान्यताय मेळचे पासत स्वताची पर्वा करी नासतना भाशीक आंदोलनांत उडी घेवप आनी उपरांत त्याच कोंकणी भाशेची तांक कितली हें दाखोवन दितनाच पिरायेच्या 70व्या वर्सा मेरेन लेखन करप. ते भायर आदीं "सुनापरान्त" आनी आतां "भांगरभूंय" ह्या दोन दिसाळ्यांतल्यान तांच्या लेखनाचो दिश्टावो आमकां जाताच.

'सूड' ही नवलिका तशेंच 'कार्मेलीन' आनी 'त्सुनामी सायमन' ह्या दोन कादंबऱ्यांचो उल्लेख मुजरत करीन दिसता. ताचे फाटलें कारण म्हणल्यार, कादंबरी हो असो एक साहित्य प्रकार जातूंत पात्रां, तांची मानसीकताय, समाज, संस्कृताय सारकिल्ल्या गजालींचें विश्लेशण करपाचो वाव आसता. भाई मुळांत प्रतिभावंत आनी सर्जनशील लेखक आशिल्ल्यान हें कार्य तांचेकडल्यान बेस बरे रितीन जालां. सूड हे नवलिकेची रचना कांय प्रमाणांत मानसशास्त्रीय पांवड्यार गेल्या. ही हे नवलिकेची जमेची बाजू. नवलिकेची काणी एका दोतोराची, विलासाची. ज्या फिरंग्यान ताच्या बापायक मारिल्लो, त्याच फिरंग्याचो उपचार करपाची जबाबदारी विलासाचेर पडटा. मानसीक ताण–तणावाच्या वेगवेगळ्या पांवड्यांतल्यान वतना एक दोतोर म्हणून आनी आपल्या बापायच्या मरणाचो बदलो घेवपाक पेटिल्लो पूत ह्या नात्यान विलासाची जाल्ली मनस्थिती म्हळ्यार 'सूड' ही नवलिका. 2004 वर्सा "सूड" नवलिकेचेर आदारून 'सूड–एक बदलो' ह्या फिल्माचें चित्रण जाल्लें. नवलिकेचें दुसरें खाशेलपण म्हळ्यार बायल–मनशेचें सशक्त चित्रण. आनी ही गजाल तांच्या एकंदर साहित्यांत लेगीत पळोवपाक मेळटा. हे नवलिकेंत दोतोराचें, म्हणजेच विलासाचें मन परिवर्तन करपाचें कार्य ताची प्रेयसीच करता. एका पुरूश साहित्यीकाकडल्यान स्त्री पात्राचें जाल्लें सशक्त चित्रण ही खरेंच तोखणाय करपा सारकी गजाल.

भाई मावज्याच्या कादंबरी साहित्याचेर सांगतना तांच्या कार्मेलीन कादंबरेचो खास उल्लेख करीन दिसता. 1981 वर्सा जाग प्रकाशनान उजवाडायल्ले हे

कादंबरेक 1983 वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. हे एकेच कादंबरेन भाईक कितलेशेच इश्ट जोडून दिले, तांचीं नामना जालीं. मुळांत, ही कादंबरी म्हळ्यार दोन कथाबिजांचो सुमेळ. पयलें म्हळ्यार एक बायल संभोग घेता तेन्नाच तिचो घोव मेलो म्हणपाचें तिका तार येता. दुसरें, भाईच्या गांवांतल्या एके चलयेन तांकां सांगिल्लें तें "माय म्हाका कुवेटाक व्हरपाक तयार ना". हें वाक्य. हीं दोनूय कथाबिजां जुळोवन कार्मेलीन हे कादंबरेची निर्मणी जाली. भारतीय साहित्यांत प्रचलीत आशिल्ले यु. आर. अनंतमुर्ती, विश्वास पाटील सारकिले साहित्यीक भाईचे हे कादंबरेक उखलून धरतात. हाच्या परस व्हड अभिमानाची गजाल कोंकणी भाशेक आनी कोंकणी समाजाक कसलीच आसूं नज. कादंबरी बरयल्या उपरांत भाई कुवेत देशांत गेल्ले तेन्ना थंयच्या एका गोंयकार तरणाट्यान मुजरत येवन भाईक कुवेतांतले सत्य परिस्थितीचेर उजवाड घातिल्ले खातीर परबी भेटयल्ली.

2009 वर्सा "सुनामी सायमन" ही कादंबरी उजवाडाक आयली. मद्रासाक जाल्ल्या सुनामीचे फाटभुंयेर सायमन नांवाच्या 13 वर्सांच्या भुरग्याची जाल्ली अवतिकाय म्हणचे "त्सुनामी सायमन". तामीळनाडूंतल्या सुनामी ग्रस्त वाठाराक भेट दिवन, त्सुनामी ग्रस्तांची रावपाची आनी हेर वेवस्था पळोवन, गोंयच्या खारव्यांचें जिवीत लागींच्यान पळोवन आनी संबंदीत विशयाचो पुराय अभ्यास केल्या उपरांतच हे कादंबरेचें लेखन जालां अशें कादंबरी वाचतकूच मुजरत म्हणीन दिसता. हुंवारांत सांपडिल्ल्या भुरग्याची मानसीकताय, ताची विचार करपाची पद्दत, आनी तातूंत ताणें जगपाक केल्ली धडपड अश्या विवीध घडणुकांनी कादंबरी रूप घेता. साहित्यकृतीचे नदरेंतल्यान पळयतना ह्यो खाशेलतायो नदरेक भरतात. ते भायर कादंबरेचें आनीक एक खाशेलपण आसा. तें म्हळ्यार भाईचो आत्मविस्वास. हे कादंबरेचें लेखन हातांत घेतल्या उपरांत तांकां कॅन्सर ह्या दुयेंसाक तोंड दिवचें पडिल्लें. कॅन्सराकडेन झुजतना तांच्या आत्मविस्वासान तांची साथ सोडली ना. तितल्याच आत्मविस्वासान ताणी 'त्सुनामी सायमन' कादंबरी सोंपयली. हे कादंबरेचो इग्लीशींत अणकार जाला.

साहित्य निर्मणे वांगडाच भाईन समिक्षेंतल्यान मार्गदर्शनाचो वावरूय केला. 'मावज्याले कसवटेर' आनी 'आपरोस' ह्या सदरां खातीर ताणी आस्वादक समिक्षण केला. नवलेखकांक आनी नवोदितांक तांच्यो चुको दाखोवन दिवप, लेखनाची दिका दाखोवप आनी उर्बा दिवप हीच मोख दवरून हीं सदरां चलयलीं. प्रस्थापितांचेर टिका करिना जाल्यार लेखक वाडूंक पावना आनी साहित्याचो पांवडो वयर सरना

अशें तांचें स्पश्ट मत. जायत्या साहित्यीक कार्यशाळांनी ते मार्गदर्शक म्हूण वतात. ह्या मार्गदर्शनांतल्यान एकंदर तयार जातात ते कोंकणी साहित्यीकच. हेरांक सांगचे पयलीं तांणी आपल्या स्वताच्या भुरग्यांक, आपले मातयेचो, आपले भाशेचो, आपल्या गोंयकारपणाचो आनी आपूण कोंकणी आशिल्ल्याचो अभिमान बाळगूपाक शिकयलो. तांची धूव, रुपाली मावजो किर्तनी, कोंकणींतल्यान लेखन करता. आपल्या जिविताचो कितलोसोच काळ ताणें विदेशांत घालयला. आपल्या गोंयच्या यादीन तळमळल्लिया रुपालीन विदेशांत कोंकणी भाशेची व्हडवीक गायली तशेंच गोंय आनी कोंकणी विशींचो लोकांच्या मनांत आशिल्लो गैरसमज पयस करपाचो प्रयत्न केलो.

साहित्यांतल्यान कोंकणी भाशेची जाल्ली सेवा अशें म्हणटा तेन्ना भाईच्या अणकारीत जाल्ल्या साहित्याचो उल्लेख करी नासतना रावप म्हळ्यार शेतकाम करनाशिल्ल्या शेतकाराचें गुणगान गावप. अणकारीत साहित्याच्या संदर्भांत एक उल्लेखनीय गजाल म्हळ्यार ते थारावीक साहित्य कृतीचें म्हत्व आनी वैशिश्ट्य. अणकारांत जितलें म्हत्व मूळ भाशेंतले साहित्य कृतीक फावता, तितलेंच म्हत्व अणकारीत साहित्यकृतीकय फावता ही गजाल आमच्यांनी आड नदर करूं नज. भाई हे कोंकणींतले एक अशे साहित्यीक जांचें चडशें साहित्य हेर भारतीय भासांनी अणकारीत जालां. कार्मेलीन हे एकेच कादंबरेचो 13 भारतीय भासांनी अणकार जाला. साबार भासांनी ह्या अणकाराक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कारय फावो जाला. ह्या अणकाराक लागून राष्ट्रीय किर्तीचे साहित्यीक, देखीक यु. आर. अनंतमुर्ती, विश्वास पाटील, तांचे इश्ट जावपाक पावले. हाचो फायदो एकंदर कोंकणी साहित्याक लेगीत जालो. तांची 'तेरेजालो घोव' ही कथा सुभाष भेंडे हांणी कोंकणींतल्यान मराठींत अणकारीत केल्ली. 1963 वर्सा बरयल्ली तांची पयली कथा 'तूं वचूं नाका' 'Eves Weekly' ह्या इंग्लीश सातोळ्यांत अणकारून उजवाडाक आयिल्ली. 'गांथन' ह्या कथा झेल्याचो झेवियर कोता हांणी 'Teresa's Man and other stories from Goa' ह्या नांवान अणकार केला. ताणेंच 'भुरगीं म्हगेलीं तीं' ह्या कथाझेल्याचो 'These Are My Children' आनी 'सुनामी सायमन' हे कादंबरेचो 'Tsunami Simon' ह्या नांवान अणकार केला. 'रुमडफूल' कथा झेल्याचो डॉ विद्या पै हांणी 'Mirage' ह्या नांवान अणकार केला. इंग्लीश ही संवसारीक संपर्काची भास, आनी भाईचें चडशें साहित्य तेच भाशेंत अणकारीत जालां. हाचे वयल्यान हें साहित्य हेर भारतीय भासांनी रोखडेंच पावतलें अशी अपेक्षा केन्ना केन्नाय तकली वयर

काडटा.

राष्ट्रीय तशेंच अंतरराष्ट्रीय मळांचेर कोंकणी भाशेची तांक दाखोवन दिवपाक केल्लें कार्य

भाईन फकत गोंयांत कोंकणी भाशेची सेवा केली ना, तर, हो वावर तांणी राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय पांवड्यारूय व्हेलो. 2003–2007 ह्या काळांत ते साहित्य अकादेमीचेर कोंकणीचे प्रतिनिधी आशिल्ले. साहित्य अकादेमीच्या कोंकणी सल्लागार मंडळाचे निमंत्रक आनी अकादेमीच्या वावुरपी मंडळाचे ते वांगडी आसले. केंद्रीय साहित्य अकादेमी, म्हणल्यार राष्ट्रीय पांवड्यार भारतीय भासांची आनी त्या भासांतल्या साहित्याची सेवा करपी संस्था. भाई सारकिल्ले प्रतिभावंत लेखक राष्ट्रीय पांवड्यार कोंकणी भाशेचें प्रतिनिधित्व करतात, ही गजाल तांचे खातीर जितली अभिमानाची थारली, तितल्याच फायद्याची ती कोंकणी समाजाक जाली. कोंकणी सल्लागार मंडळाचे निमंत्रक ह्या नात्यान तांणी कोंकणी भाशेची वळख हेर भारतीयांक जावची म्हूण आपले परीन वावर केलो. कोंकणी भाशेक तशेंच कोंकणी साहित्याक खूब वयल्या स्थानाचेर पावोवपाचो यत्न केलो. ह्या वेळार तांणी अणकाराचेर कार्यशाळा घडोवन हाडल्यो. कोंकणी साहित्य चडांत चड भासांनी पावचें आनी आधुनीक भारतीय साहित्य कोंकणी भाशेंतल्यान कोंकणी मनशामेरेन पावचें ह्या हावेसान ह्या कार्यशाळांचें आयोजन जाल्लें. देशाच्या हेर राज्यांनी साहित्यीक कार्यावळी घडोवन हाडल्यो. म्हत्वाचें म्हळ्यार विवीध कार्यशाळाक लागून कोंकणींतल्या नवोदीत लेखकांक आपले साहित्य निर्मणेंत जावपी चुको समजून घेवन ताचो पांवडो वयर काडपाची संद मेळ्ळी. अश्या वेळार तांची हेर भारतीय साहित्यिकांकडेन वळख जाली, व्हड साहित्यकारांकडेन संबंद आयलो आनी तांचे वांगडा वावुरपाची, चर्चा करपाची संद मेळ्ळी. हे संदीचो एकंदर कोंकणी समाजाक लेगीत फायदो जालो. वावुरपी मंडळाचो कार्यकाळ सोंपतकूच तांणी ह्यो वळखी जिव्यो दवरल्यो, संपर्क चालू दवरलो आनी संबंद वाडयलो. परिणामी, भाई मावजो आनी देशाच्या हेर वाठारांतले कितलेशेच साहित्यीक हांचे मदीं एक नातें निर्माण जालें आनी तें आयजमेरेन तिगून उरलां. राष्ट्रीय पांवड्यावयल्या एखाद्या बुदवंत साहित्यिकाक भाईन गोंयांत आमंत्रीत केलें. आनी तो/ती साहित्यीक आयलो/ली ना अशें केन्नाच जालें ना. भाईच्या ह्या खेरीत गुणाचो लाव गोंयांत साहित्याच्या आनी सस्कृतायेच्या मळार वावुरपी संस्थांकच न्हय तर सरकाराच्या

कांय खात्यांकूय मेळ्ळा. कोंकणी मनशाक अभिमान दिसपा सारकी ही गजाल.

दर वर्सा डिसेंबर म्हयन्यांत गोंयांत जावपी कला आनी साहित्य महोत्सवाचे (GALF) ते सह–संस्थापक आनी सह–वेवस्थापक. ह्या महोत्सवाचो कोंकणी भाशेक जावपी फायद्या विशीं सांगतना भाई म्हणटात, "कोंकणी साहित्याची वळख उर्वरीत भारताक आनी भारता भायर करून दिवपाची ही एक माची. आमी हेरां परस उणे नात हे भावनेन आमी ह्या महोत्सवांत वांटेकार जावंक जाय". राष्ट्रीय तशेंच आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार जावपी साहित्य महोत्सवांनी ते वांटेकार जातात. आशियाई साहित्य महोत्सवांत तांणी 'देवाघरचो' कथा वाचली. प्रचंड प्रतिसाद मेळ्ळो. जयपूर महोत्सवांत एस्थर डॅवीड ह्या इंग्लीश भाशेंतल्या लेखका कडेन तांची भासाभास जाली. हैदराबादांत आनी सिंगापुरांत जाल्ल्या महोत्सवांनी लेगीत तांणी वांटो घेतला. नॅशनल बूक ट्रस्टाच्या वर्ल्ड फॅरांत तांणी पेपर सादर केला. त्या निमतान वळखी जातात आनी कोंकणी साहित्याची वळख हेरांक जावंक पावता.

भाईन कोंकणी भाशेची सेवा करतनाच कोंकणी सिनेमा खातीर पटकथा बरयल्यात. हे विशीं ते सांगतात, "म्हाका सिनेमा क्षेत्राची व्हडलीशी आवड ना. हांवें कांय पटकथा/संवाद बरयल्यात खरे, पूण ती गरज म्हणून. पयलीं म्हळ्यार कोंकणीची गरज. कोंकणी सिनेमा येवचे आनी हें मळ फळचें फुलचें म्हूण कोणाकूय म्हजी गरज आसली जाल्यार ताका तेंको दिवचो ह्या हेतान हांव फुडें सरिल्लों". 2004 वर्सा राजेंद्र तालक ह्या निर्मात्यान काडिल्ल्या 'अलिशा' ह्या कोंकणी सिनेमा खातीर ताणी पटकथा बरयल्या. ह्या सिनेमाक 2005 वर्सा राष्ट्रीय पुरस्कार फावो जाला. ते भायर तांच्या कांय कथांचें मालिकेच्या रुपान दुरदर्शनाचेर प्रसारण जालां. "एक कहानी" हे हिन्दी मालिकेंत तांची 'आंगवण' ही कथा 'मनौति' ह्या नांवान प्रसारीत जाल्या. तेच मालिकेच्या दुसऱ्या भागांत म्हळ्यार "और एक कहानी" हे मालिकेंत 'खिळी' ही कथा 'नाकाबंदी' ह्या नांवान प्रसारीत जाल्या.

'सुनामी सायमन' ही कादंबरी दिल्लीच्या पोनीटेल प्रकाशनान इंग्लीशींत "यंग ॲडल्टस् लिटरेचर" ह्या नांवान उजवाडाक हाडली. तांचें "तेरेजास मॅन ॲंड अदर स्टोरीज फ्रॉम गोवा" ह्या पुस्तकाचें जर्मनीच्या फ्रॅन्कफर्ट पुस्तक मेळाव्यांत अंतरराष्ट्रीय पांवड्यार प्रकाशन जालां. कोंकणी भाशेखातीर ही अभिमानाची गजाल म्हणूंक जाय. 2015 वर्सा तांच्या "Tereza's men and other stories from Goa" ह्या कथाझेल्याक प्रतिशठेच्या फ्रॅंक ओ–कोन्नोर अंतरराष्ट्रीय लघुकथा पुरस्कारा खातीर

नामांकन फावो जालां. स्वता वावर करून कोंकणी भाशेक तांणी अंतरराष्ट्रीय मळार पावयलांच, ते भायर तांच्या साहित्यीक खाशेलपणांची जाण आशिल्ल्या तांच्या लागशिल्ल्या इश्टांनी आनी वळख–देख आशिल्ल्यांनी हीं वैशिश्ट्यां अंतरराष्ट्रीय पांवड्यार व्हरून संवसार भरांतल्या लोकांक ताची वळख करून दिल्या अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

## समारोप आनी निश्कर्श

भाईक लेखनाची जितली आवड तितलीच वाचनाचीय आवड. ल्हनपणांत शरदबाबू, वि. स. खांडेकर, ना. सी. फडके ह्या भारतीय साहित्यीकांचीं पुस्तकां वाचून, तातूंतल्यान प्रेरणा घेवन तांच्या लेखनाक सुरवात जाल्ली. भाशीक चळवळ आनी उपरांत कोंकणी भाशेंत सातत्यान साहित्य निर्मणी करून तांणी गोंयच्या तशेंच भारताच्या नामनेच्या लेखकांमदीं आपलो खाशेलो जागो तयार केला. विवीध भासांचें ज्ञान तांकां आशिल्लेंच. त्याच वांगडा त्या भासांतल्या उत्कृश्ठ साहित्याचें वाचनूय तांणी केल्लें. ह्या वाचनाचो कोंकणी साहित्याक नकळत फायदो जावंक पावलो. बऱ्या साहित्याचो आस्वाद घेवन, ताचेर चिंतन–मनन करून स्वताच्याच बरपाची चिकित्सा करप. ह्या चिकित्सेंतल्यान आपल्या साहित्याचो दर्जो वाडोवप. हातूंतल्यान आपूणशीं एकंदर कोंकणी साहित्याचो दर्जो वाडोवपाचें कार्य तांच्या हातांतल्यान जालां अशें मुजरत म्हणीन दिसता.

कोंकणी बरोवपाची तांक आशिल्ली भास हाची जाणीव जातकच भाई ओग्गी रावले ना. त्या भाशेंतल्यान तांणी आपलें बरोवप चालूच दवरलें, कोंकणी भाशेक वयर काडचे पासत ते वावुरले. एक भास म्हूण तिची उदरगत जावची आनी तिका मान मेळचो म्हूण तांणी जायतो संघर्श केलो. हाका लागून तांच्या साहित्य रचनेंत खंड पडलो. तांची भलायकी बरी नासली. बायल–भुरग्यांक तांकां वेळ दिवपाक मेळ्ळो ना. तरी लेगीत तांणी भाशीक चळवळ सोडली ना. कोंकणी भाशेक तिची हक्काची सुवात मेळची म्हूण चळवळींत वांटो घेवन कश्ट काडले आनी आपले भाशेच प्रति आशिल्ले आपले लागणुकेक पाळो दिलो. हाचो परिणाम म्हळ्यार 4 फेब्रेर 1987 ह्या दिसा कोंकणीक राजभाशेचो मान मेळ्ळो. 1987 वर्सा गोंयाक घटक राज्याचो दर्जो फावो जातकच 20 ऑगस्ट 1992 ह्या दिसा कोंकणीचो आस्पाव संविधानाचे आठवे वळेरेंत जालो. तांच्या एकंदर गुणांचो कोंकणी साहित्याक तशेंच कोंकणी मनशाक

लाव मेळ्ळा. कोंकणी भाशेची इतली सेवा करून लेगीत तांकां अजून खूब किते करीन दिसता. ह्या संदर्भात ते म्हणटात, "जें बरोवन जालां ताचे विशीं समादान आसा. पूण आजून खूब उरलां तें येवजून हांव अस्वस्थ उरतां. ही अस्वस्थताय म्हाका बरोवपाक प्रवृत्त करता". आपले खातीर नव्या संदींची निर्मणी करप, वांगडाच आपलेकडेन चलून आयिल्ले संदीचो स्वताक आनी हेरांक कशेतरेन फायदो जातले हाचो विचार आनी चिंतन करून वागप, ही गजाल प्रत्येक कोंकणी मनशान भाईकडल्यान शिकपाक जाय.

## संदर्भ


1. कुंकळयेकार, सुशांत. "'समय दरिर्द्य' हीच आमची आडखळ", (दामोदर मावजो हांची मुलाखत), संपा. रवीन्द्र केळेकार. जाग प्रकाशन, मडगांव दृ गोंयःजाग, अंकः 1. वर्सः 32. ऑगस्ट 2005
2. केळेकार, रवीन्द्र (संपा). जाग, वर्स 27. अंक 10. पाजीफोंड, मडगांव – गोंय : जाग प्रकाशन. मे 2001
3. चोपडेकार, हनुमंत. "चौकेर", (दामोदर मावजो हांची मुलाखत). जयंती नायक (संपा). गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी, गोंयः अनन्य, अंकः 2. वर्सः 1, जानेवारी ते जून 2015
4. बरड, शुभा. "कार्मेलीनः एक चिकित्सक अभ्यास". एम. ए. पदवे खातीर गोंय विद्यापीठांत सादर केल्लो सोद–प्रबंध. 2016
5. बुडकुले, किरण. "दोन वाटचिन्यांच्या संदर्भात कोंकणी कादंबरी." साहित्य नियाळः अंतरंग आनी कायारुपां. काणकोण – गोंयः ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन. 1992
6. शिवदास, एन. "मुलाखत", (दामोदर मावजो हांची मुलाखत), एन. शिवदास (संपा). उर्बा प्रकाशनः उर्बा, व्यक्ती विशेश अंक, 2014–15




# परिशिश्ट क्रमांक : 01

## साहित्य–साधक दामोदर मावजो हांचो जिणे–पट

1944 : 1 ऑगस्ट, माजोड्डें गोंय हांगा जल्म,
मुळावें शिकप मराठी आनी पुर्तुगीज भाशेंतल्यान.

1961 : एस. एस. सी. मेरेनचें शिक्षण इंग्लिशींतल्यान न्यु ईरा हायस्कूल, मडगांव.

1966 : आं. ए. पोद्दार कॉलेज ऑफ कॉमर्स ऍंड इकॉनॉमिक्स, माटुंगा मुंबय हांगासावन पदवी.

1967 : इतिहासीक जनमत कौलांत वांटेकार, जनजागृतायेच्या प्रचारांत वांटेकार.

1968 : 12 मे दिसा मुंबयच्या कु. शैला आपटे हिचेकडेन लग्न.

1971 : 'गांथन' ह्या कथाझेल्याचें प्रकाशन.

1973 : 'गांथन' कथाझेल्याक कोंकणी भाशा मंडळाचो पुरस्कार.

1973 : 'गांथन' कथाझेल्याक गोवा कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार.

1975 : 'जागरणा' कथाझेल्याचें प्रकाशन.

1975 : 'सूड' नवलिकेचें प्रकाशन.

1976 : 'जागरणा' कथाझेल्याक कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्य पुरस्कार.

1976 : 'एक आशिल्लो बाबुलो' हें बालसाहित्य प्रकाशीत.

1977 : 'निळें निळें सवणें एक' ह्या हस्तलिखिताक कोंकणी भाशा मंडळाचें उत्कृश्ट नाट्यसंहितेचें इनाम.

1977 : 'काणी एका खोमसाची' ह्या बालसाहित्याच्या पुस्तकाचें विमोचन.

1978 : 'काणी एका खोमसाची' पुस्तकाक गोवा कला अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार.

1981 : 'कार्मेलीन' हे कादंबरीचें प्रकाशन.

1983 : 'कार्मेलीन' कादंबरीक केंद्रीय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार

1985 : अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचे अध्यक्ष.

1985 : ते 87 : 29 जुलय 1985 दिसा आरंब जाल्ल्या आनी 4 फेब्रुवारी 1987 दिसा सोंपिल्ल्या राजभास आंदोलनांत वांटेकार. 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' (केपीए) हे संघटनेचे भांडारी म्हूण भरीव कार्य.

1987 : 'आंगवण' हे कथेचेर आदारीत 'मनौती' हें टेलिफिल्म 'एक कहानी' हे दुरदर्शन माळेंत प्रसारीत.

1989 : 'रुमडफूल' कथाझेलो प्रकाशीत.

1995 : 'चित्तरंगी' पुस्तकाचें विमोचन.

1997 : 'शितू' ह्या कोंकणी चित्रपटाक संवाद लेखन.

1997 : 'शितू' फिल्माखातीर गोवा फिल्म महोत्सवांत उत्कृश्ट संवाद लेखनाचो पुरस्कार.

1998 : 'मिंग्युएल किन' हे कथेक नामनेचो कथा पुरस्कार.

2000 : पश्चिम क्षेत्रीय सांस्कृतीक केंद्राचे वांगडी म्हूण नेमणूक.

2001 : 'भुरगीं म्हगेलीं तीं' ह्या कथाझेल्याची उजवाडावणी.

2001: कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय हे म्हालगडे कोंकणी संस्थेचे अध्यक्ष म्हूण निवड

2002 : पयल्या अखील भारतीय कोंकणी संगीत महोत्सवाचे आयोजक.

2003 : 'भुरगीं म्हगेलीं तीं' ह्या कथाझेल्याक 'जनगंगा' पुरस्कार.

2003 : 'अशे घडले शणै गोंयबाब' ह्या पुस्तकांचें विमोचन.

2003 : 'उंच हावेस उंच माथें' ह्या पुस्तकाचें विमोचन.

2004 : 'आलिशा' ह्या कोंकणी फिल्माखातीर पटकथा आऩी संवाद लेखन.

2004 : 'सूड' ह्या कोंकणी फिल्माचे संवादलेखन.

2003–2007 : साहित्य अकादेमीच्या अर्थीक कार्यकारी मंडळ आनी अर्थीक वेव्हार समितीचे वांगडी म्हूण पांच वर्सांखातीर नेमणूक

2005 : गोवा फिल्म महोत्सवांत 'आलिशा' फिल्मा खातीर उत्कृश्ट पटकथेचें इनाम.

2006 : गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती संचालनालया वतीन राष्ट्रीय स्तरार जौडिल्ल्या जैताखातीर खातीर खाशेलो भोमान.

2006 : 'खिळी' हे कथेचेर 'नाकाबंदी' ह्या नांवाचें लघुपट दुरदर्शनच्या राष्ट्रीय चॅनलार 'ओर एक कहानी' हे माळेंत वितरावणी.

2007 : गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयाचो गोवा सांस्कृतीक पुरस्कार.

2009 : 'सुनामी सायमन' ही कांदबरी प्रकाशीत.

2010 : 'गोवा आर्ट ऍण्ड लिटररी फेस्टीवलाचे' जोड संस्थापक आनी निमंत्रक.

2010 : 'ओ मारिया' ह्या कोंकणी फिल्माखातीर संवादलेखन.

2011 : 'सुनामी सायमन' हे कादंबरीक विश्व कोंकणी केंद्राचो विमला व्ही. पै साहित्य पुरस्कार

2011–12 : भारत सरकारच्या संस्कृती मंत्रालयावतीन कोंकणी साहित्य संशोधनाखातीर शिश्यवृत्ती.

2013 : नवहिंद टायम्स आनी व्हिवा गोवा वतीन 'गोवन ऍचिवर्स पुरस्कार 2013

फाव जालो.

2014 : 'सपनमोगी' ह्या कथा झेल्याचें प्रकाशन

2014 : गोवा फिल्म महोत्सवांत 'ओ मारिया' फिल्माखातीर उत्कृश्ट संवादलेखन पुरस्कार.

2015 : कोंकणी फिल्म 'ऍनिमी' खातीर संवादलेखन.

2016 : आर. ए. पोद्दार महाविद्यालय, मुंबय वतीन 'पोद्दार रत्न पुरस्कार'.

2016 : 'वचनां' ह्या पुस्तकाचे पालवी संपादक म्हूण वावर.

2019 : 'उमाळे' ह्या पुरोगामी लेखकांच्या प्रातिनिधीक संग्रहाचें संपादन.

2019 : 'इन्क ऑफ डिस्सेन्ट' ह्या इंग्लिश लेखसंग्रहाचें प्रकाशन.

2019 : 'विमुक्ता' ह्या वोल्गा हांच्या तेलगू पुस्तकाचो अणकार प्रकाशीत.

## अणकारीत साहित्य आनी हेर म्हायती :

कार्मेलीन ही कादंबरी असामी, बंगाली, मैथिली, नेपाळी, गुजराती, मराठी, सिंधी, पंजाबी, तमीळ, कन्नड, हिंदी आनी इंग्लीश अश्या बारा भासांनी अणकारीत जाल्या. हीं बाराय पुस्तकां केंद्रीय साहित्य अकादेमीन प्रकाशीत केल्यात. 'सुनामी सायमन' (Tsunami Simon) ही कादंबरी पॉनीटेल बुक्स वतीन, 'धीज आर माय चिल्ड्रन' (These Are My Children) हो कथा झेलो कथा पब्लिकेशना वतीन तशेंच 2014 वर्सा 'तेरेझास मॅन ऍ.ड आदर स्टोरीस फ्रॉम गोवा' (Tereza's Men and Other Stories from Goa) हें पुस्तक रूपा पब्लिकेशना वतीन इंग्लिशींत प्रकाशीत जालां.

'रुमडफूल' हो कथाझेलो 'मिराज' (Mirage) ह्या नांवान इंग्लिशींत जाल्यार 'शांततेचे घण' ह्या नांवान मराठींत प्रकाशीत जाला. साहित्यीक दामोदर मावजो हाच्यो कथा भारतीय भासां भायर पुर्तुगीज, फ्रेन्च, इंग्लिश अश्या संवसारीक भासांनीय अणकारीत जाल्यात.

'सुनापरान्त' ह्या दिसाळ्यांत आयतारच्या अंकांत प्रकाशीत जाल्ल्या कोंकणी कथांचें परिक्षणात्मक सदर बरयलां. तशेंच इंग्लीश नेमाळ्यांनीय साहित्यीक आनी समाजीक विशयांचेर सातत्यान बरयतात.

विगड विंगड राज्यस्थरीय आनी राष्ट्रीय साहित्यीक तशेंच समाजीक संस्थांच्या परिक्षण मडळांचेर वावर केला. तातूंत साहित्य अकादेमी, ज्ञानपीठ, सरस्वती सन्मान, भाशा भारती सन्मान, केंद्रीय भारतीय भाशा सस्थान, पद्मा बिनानी फावण्डेशन वात्सल्य पुरस्कार हाचो आसपाव जाता.



# परिशिश्ट क्रमांक : 02
## मुलाखत :

### कोंकणींत अभिव्यक्त जावपी भारतीय साहित्यीक दामोदर मावजो

(साहित्य साधक दामोदर मावज्यांची डॉ. हनुमंत चोपडेकार हांणी घेतिल्ली मुलाखत)



भौ. दामोदर मावजो आपले अभ्यासिकेंत

कोंकणी हे आपले आवय भाशेंतल्यान कथनात्मक साहित्य रचपी ते एक सर्जनशील भारतीय साहित्यीक. भारतीय कथा मळाचेर अतिशय मोटव्यो पूण तितल्याच उंच आशयाच्यो कथा तांच्या गिरेस्त प्रतिभेंतल्यान जल्मल्यात. तांच्या प्रतिभेच्या स्पर्शान 'कार्मेलीन' सारकी अज्रंवर साहित्यकृती आकाराक आयल्या. 'कार्मेलीन' साबार राष्ट्रीय तशेंच आंतरराष्ट्रीय भासांनी अणकारीत जाल्या. हे कादंबरीन तांकां संवसारभरची नामना दिली पूण अजापाची गजाल म्हणल्यार, ते स्वताक कादंबरीकार न्हय तर एक कथाकारूच मानतात. ते कथा बरयनात तर ती जगता हो ताचे फाटलो युक्तिवाद. काश्मिर ते कन्याकुमारी आनी गांधीनगर ते गुवाहाटी मेरेनचे तांचे साबार साहित्यीक इश्ट तांकां भाई म्हूण उलो मारतानाच भारतीय कथासाहित्यांतलो आंतोन च्यॅकोव म्हूण संबोधतात. तांच्या कथनात्मक साहित्य साधनेक आयज मेरेन साबार राष्ट्रीय तशेच आंतरराष्ट्रीय सन्मान फाव जाल्यात.

कोंकणीच्या साहित्यीक मळार कथाकार आनी कादंबरीकार म्हूण तांचें नांव भोव अधिकारानूच येता. तांच्यो आतां मेरेन जायत्यो साहत्यकृती उजवाडाक आयल्यात. तातूंत गांथन (1971), जागरणां (1975), रुमडफूल (1989), भुरगीं म्हुगेलीं तीं (2001), सपनमोगी (2014) हे कथाझेले; कार्मेलीन (1981), सूड (1975), सुनामी सायमन (2009) ह्यो कादंबऱ्यो; काणी एका खोमसाची (1976), एक आशिल्लो बाबुलो (1977), चित्तरंगी (1993) अशे घडले शणै गोंयबाब (2003), उंच हावेस उंच माथें (2003) हें भुरग्यां साहित्य हांचो मुखेलतायेन आसपाव आसा. ते भायर समिक्षा आनी पटकथा लेखन लेगीत तांणी केल्लें आसा.

तांची 'कार्मेलीन' ही कादंबरी हिंदी, मराठी, कन्नड, बंगाली, पंजाबी, सिंधी, तमीळ, ओरिया, इंग्लीश सारक्यां भासांनी अणकारीत जाल्या. तेच भशेन तांचे These Are My Children आनी Tereza's men and other stories from Goa अशे दोन कथाझेले झेवियर कोट्टा हांणी इंग्लिशींत अणकारीत करून छापल्यात. तातूंतलो Tereza's men and other stories from Goa हो कथाझेलो फ्रँक ओ–कोन्नोर अंतरराष्ट्रीय लघुकथा पुरस्कार (Frank O'Connor International Short Story Award) 2015 खातीर नामांकीत जाल्लें. तांच्या साहित्यीक सेवे खातीर तांकां जायते सन्मान फाव जाल्यात. तातूंत कोंकणी भाशा मंडळ – गोंय (दोनदा), गोवा कला अकादमी – पणजी (दोनदा), तशेंच साहित्य अकादेमी – दिल्ली, कोंकणी कला साहित्य केंद्र – कुडचडें हांचो जनगंगा पुरस्कार, गोंय राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार, मंगळुरच्या विश्व कोंकणी केंद्राचो सर्गेस्त विमला पै विश्व साहित्य पुरस्कार अशा सन्मानांचो आसपाव जाता. मुंबयच्या आर. ए. पोद्दार महाविद्यालयांतल्यान वाणिज्य शाखेची पदवी मेळयल्ल्या भाई मावज्यान गोंयच्या माजोड्डें सारक्या माणकुल्या गांवांत आपलो घरगुती वेवसाय सांबाळतानाच आपली भूय, भास आनी भौसाचीं साबार बरीं–वायट सुख–दुख्खां आपल्या कथनात्मक साहित्यांत अभिव्यक्त केल्यात. गोंयचे मातयेचो गंध लाबिल्लें तांचे साहित्य आयज सवसारभरच्या रसिकाक गोंयच्या लोकजिणेचो दिश्टावो घडयता. तांच्या ह्याच भाशीक आनी साहित्यीक वावराची सविस्तर वळख घडची हे पासत तांचे कडेन सुसवाद सादुया.... आमचे साहित्यीक चौकेर.

हनुमत : भाई, हे साहित्यीक चौकेर येवकार दितना सगळ्यात पयलीं तुमच्या Tereza's men and other stories from Goa ह्या कथा झेल्याक प्रतिश्टेच्या फ्रँक ओ–कोन्नोर अंतरराष्ट्रीय लघुकथा पुरस्कार 2015

खातीर नामांकन फावो जालें देखून परबीं.

भाई : देव बरें करूं.

हनुमंत : भाई, फाटलीं कितलिंशींच वर्सां तुमी कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेच्या मळार पोटतिडकीन वावूरतात. पूण म्हाका सांगात, सगळ्यांत पयलीं तुमकां कोंकणी अस्मितायेची वळख केन्ना आनी कशी जाली?

भाई : म्हजो जल्म माजोर्डें गांवांत गोंय मुक्ती आदीं 1944 वर्सा जालो. म्हजो बापूय तेन्ना ह्याच गांवांत एक पुर्तुगीज शाळा चलयतालो. तेन्नाची समाजीक, संस्कृतीक आनी राजकी परिस्थिती आयचे परस वेगळी आसली. भाशीक स्थिती जाल्यार सामकीच आगळी. तेन्ना कोंकणी ही फकत उलोवपाची आनी मराठी ही मातृभाशा अशें भुरगेपणांत आमकां घरांत सांगिल्लें. भोंवतणच्या वातावरणाक लागून आमचेंय भुरग्यांचें तशेंच मत्त जाल्लें. पूण म्हाका याद जाता... आकाशवाणी वेल्यान कृष्णामाम जेन्ना कोंकणींतल्यान भुरग्यांल्या आंगणांत ही कार्यावळ सादर करताले तेन्ना ती भास म्हाका म्हजी दिसताली. हांवें तेन्ना एक माणकुली काणी लेगीत बरोवन तांकां धाडिल्ली. म्हजी एस.एस.सी. 1961 वर्सा जाली उपरांत 1965 वर्सा फुडल्या शिक्षणा खातीर हांव मुंबय पावलो.

मुंबय महाविद्यालयांत शिक्षण घेतना हांव ज्या हॉस्टेलांत रावतालो त्याच हॉस्टेलांत म्हाका सुरेश काकोडकार मेळ्ळो. तो म्हाका दोन वर्सां सिनियर. तेन्नाच गोंय मुक्त जाल्लें आनी गोंयच्या भाशीक, समाजीक तशेंच राजकी फुडाराचेर पुराय देशभर चर्चा जाताली. थंय आमचेय मदीं तो वाद मुखेलतायेन वयर सरतालो. सुरेशाचो सभाव मात्सो तापट. तो कोंकणीचो पाखो घेवन मुद्दे मांडटाना भोवूच आक्रमक जातालो. म्हाका मुंबय खासा करून 34 स्लॅटर रोड जाका कोंकणी चळवळीचो मठ म्हणटाले थंय अना म्हांबरो, उदय भेंब्रे, लक्ष्मिकांत, सरेश अशे जायते गोंयकार इश्ट मेळ्ळे. ते कोंकणी खातीर भोव समर्पीत भावनेन वावर करताले.

एक दीस सुरेशान म्हाका शणै गोंयबाबालें कोंकणीची व्याकरणीक बांदावळ हें पुस्तक हाडून दिलें. म्हाका वाचनाची भोव

आवड. ते भायर तातूंत म्हाका घडोवपी वेगळें कितें तरी आशिल्लें. हांवें तें अधाशा भशेन वाचून काडलें. तातूंतल्यान म्हाका कोंकणीचें मोल कळ्ळें. ताका दिश्टावो म्हणचो काय कितें हांव नकळो.

हनुमंत : दिश्टावोच म्हणल्यार योग्य जातलें. कारण त्या काळांत कोंकणी खातीर वावर करप भोव कुस्तार आसलें. भाई, ही कोंकणीच्या सत्वाची जाणविकाय जाले उपरांतचे दीस कशे आसले?

भाई : ते दीस भोव आव्हानात्मक आसले. त्या वेळार खूब वाचलें. खूब चितलें. प्रत्यक्षांत भाशीक प्रस्नाचेर हांवें खूब चिंतन केलें. ल्हव ल्हव म्हजे विचार हांव अभिव्यक्त करूंक लागलों. 'कोंकणी अंक' तेन्ना उजवाडाक येतालो ताचेर पत्रां बी बरोवंक लागलों. आदीं मराठी बरयतालो. तेन्ना बरोच विचार करचो पडटालो कोंकणींत बरयतना जशें चितता तशें बरोवंक मेळटा हाची जाणविकाय जाली. उपरांत हांव कोंकणी भाशेचो कार्यकर्तो जावन वावरूंक लागलो. कोंकणीचो पाखो घेवन बरयल्लो 'हांव मराठी उलयतां' ह्या माथाळ्याचो म्हजो पयलो लेख हांवें मुंबय आसतनाच बरयल्लो. त्या वेळार म्हजी पिराय 21–22 वर्सां आसूंक जाय. तेन्ना 1967 वर्साच्या ओपीनियन पोला वेळार हांवें मुंबयच्या ॲंटी मर्जर रेली लेगीत संबोधीत केल्या. इंडियन एक्स्प्रेसांत कोंकणीची वट मांडपी बरप केलां ते भायर गोंयांत पावतकच बांदोडे सारक्या वाठारांत सघप्रदेशाचो प्रचार करपी भौशाक सभेची यजमानकी लेगीत केल्या. समाधानाची गजाल म्हळ्यार, हांव तेन्ना एक सामान्य कार्यकर्तो म्हूण वावूरलां

हनुमंत : तोच सर्वसामान्य कार्यकर्तो एकंदर कोंकणी भाशीक चळवळीचो एक नेतो कसो कितें जावंक पावलो?

भाई : म्हजें शिक्षण पुराय करून हांव गांवांत आमचो पारंपरीक वेवसाय करूंक लागलो तेन्ना गोंयांत भाशीक वाद उफाळून आयिल्लो. साबार कडेन कोंकणीच्यो बसका आनी शिबिरां तेन्ना जातालीं हाव ताचे पासून अलिप्त आशिल्लो. पूण एक दीस मडगांवा गेल्ले कडेन शकर भांडारी मेळ्ळो. तो तेन्ना कोंकणीचो व्हड फुडारी ताणी आयतारा आयोजीत केल्ल्या शिबिराक येवपाचें निमंत्रण दिले. हांवें स्पश्ट सागले : शकरबाब, हाव एक साहित्यकार म्हाका भाशीक वादात रस ना तुका सागता हनुमंत, म्हजी जाप आयकून शकरबाब सामको तांबडो जालो. म्हणपाक

लागलो. कोणांक जाय तुजें तें साहित्य, भाशाच जगली ना जाल्यार तुजें साहित्य कितें करपाचें आसा. खरें सागतां... ताचो तो तेन्नाचो अवतार म्हज्या दोळ्यामुखार अजून आसा. सांगपाचें म्हणजे... त्या दिसा हांवें घरा येवन बरेंच चितलें. त्याच चिंतनांतल्यान म्हज्यांतलो कार्यकर्तो परिपक्व जायत गेलो.

हनुमंत : के. पी. ए.च्या भाशीक आंदोलनांत तुमी कोंकणी म्हालगडे म्हूण कितले सक्रीय आसले?

भाई : के.पी.ए.चें भाशीक आंदोलन हें कोंकणीची राजकी अस्मिताय सिद्ध करपी संघर्श. के.पी.ए.क तशे पदाधिकारी नासले. फकत निमंत्रक म्हूण पुंडलीक नायक आनी हांव (दामोदर मावजो) आनी डॉ. एफ्. एम्. रिबेरो भांडारी म्हूण वावर करताले. रवीन्द्रबाब सारके हेर म्हालगडे मार्गदर्शकाची भुमिका निबयताले. 555 दीस चलिल्ल्या त्या आंदोलनांत धर्मभेद, जातीभेद, पंथभेद विसरून गोंयच्या समाजांतलो दर एक घटक वांटोकार जाल्लो. तें आंदोलन जैतिवंत जालें. आमच्या फुडारपणा परस तें लोकांचें साघीक जैत आसलें अशें म्हाका दिसता.

हनुमंत : कोंकणीच्या कथनात्मक साहित्या कडेन तुमी कशे पावले?

भाई : म्हाका साहित्याची आवड. भुरगेपणांत हांवें म्हज्या गांवां भोंवतणच्या साबार लायब्ररींतलीं पुस्तकां वाचून काडिल्लीं. थंय मेळपी मराठी, हिंदी, इंग्लिशींतलीं सगळींच बरीं पुस्तकां हांवें वाचून सोपयल्लीं. ना. सी. फडके, वि. स. खांडेकर, जयवंत दळवी ह्या मराठी साहित्यकारांचीं जाल्यार शरदबाबूंचीं म्हणजेच शरदचंद्र चटर्जींची मराठींत वा इंग्लिशींत बी अणकारीत सगळ्यो कादंबरी हांवें वाचिल्ल्यो. घडयें तातूंतल्यान म्हज्या कथनात्मक साहित्याची बुन्याद पडल्या जावयें.

हनुमंत : तुमी रचिल्ली पयली कथा खंयची?

भाई : पयल्या तीन कथांची खबर सागतां. 'तूं वचूं नाका' ही म्हजी पयली कथा. ती तरन्या पिरायेचेर बरयल्ली. पूण तिचो विशय मात जाण्टो आसलो अशें म्हणचें पडटा. तातूंत ड्रेमेटीक ट्विस्ट आशिल्लो. ती कथा व्हिकली न्युव्ज ह्या नेमाळ्यांत इंग्लिशींत प्रसिद्ध जाली पूण भुतां–खेतांचेर विश्वास दवरूंक लावपी अशें कथानक तिका लाबिल्लें. म्हाका याद

जाता... अरविंद भाटिकारान लेगीत म्हाका ते कथेचेर एक कमेंन्ट्स दिल्लो. खरें म्हळ्यार म्हजो स्वता तसल्या गजालींचेर विश्वास ना. ते पासत हांवें तसल्यो कथा उपरांत बरयल्यो नात.

म्हजी दुसरी कथा 'अ–शोक'. ती गुरुनाथ केळेकार हांच्या संजिवनी छापघरांत उजवाडाक येवपी नवें गोंय ह्या मासिकाच्या कथा सर्ती निमतान बरोवन जाल्ली. म्हाका याद आसा... मुंबय परिक्षेचो ताण आसतना बरयल्ली ती कथा. ते कथेक म्हाका दुसरें इनाम फाव जाल्लें. पयलें सुरेश काकोडकाराक जाल्यार तिसरें इनाम अच्यूत तोटेकाराक फाव जाल्लें. गोविंद मुद्रस सारक्या त्या वेळा वयल्या समिक्षकान म्हजे कथेक पयलें इनाम फाव जावंक जाय आसलें अशी प्रतिक्रिया पत्र बरोवन दिल्ली. सांगपाचें म्हळ्यार, ते घडणुके सावन कथा बरोवपाची उर्बा वाडली.

उपरांत परिक्षा सोंपतकच मे म्हयन्यांत घरा आयलों. खरें सांगता... त्या दिसांनी... As a Writer I was totally in different mood... एका दनपारां हांव घरांत भायल्या वरांड्यांत बशिल्लो, त्या दिसांनी पावसान दडी मारिल्ली, भायर वताचो रखरख, झाडां पेडांचेर, सुकण्या सावदांचेर उबाळाची हावळ. आनी त्या तसल्या वातावरणा कडेन म्हजी तंद्री कशी लागली कांयच कळ्ळें ना. हांव केन्ना बरोवंक लागलो आनी केन्ना कथा सोंपयली कळ्ळें ना. 'मरण येना म्हूण' नांवाची ती कथा. हेवाळें हें तातूंतलें मुखेल पात्र. ती एक रुपककथा आसली. गुरुनाथबाबांक ती भोव मानवली देखून बद्द घरा कडेन येवन म्हाका तांणी परबी दिल्ली. थंय जांबळीचे झाड ताका गवाय आसा. तांणी म्हाका विचारिल्लें. एक सांग ती कथा तुवें बरयल्या? हांवे म्हळें हय. कशी बरयली? हांवे म्हळें खबर ना. तांणी त्याच वेळार म्हाका वेंग मारल्ली ती आजून याद जाता. तो खीण हांव उतरांनी व्यक्त करूंक शकना. That was my third story...! ताचे उपरांत कथनात्मक साहित्याची म्हजी साधना निरंतर चालू आसा.

हनुमंत : संवसारांत सर्जनशील साहित्यकारांच्या प्रतिभेक सगळ्यांत पयलो चंवर फुट्टा तो काव्याचो. कोंकणी साहित्यीक मळावेल्या साबार बरोवप्याची देख हांगा दिवं येता. पूण तुमचो साहित्यीक आरंभ कथेंतल्यान जालो. हें

अजाप कशें घडलें? कविते कडेन तुमची कसली दुस्मानकाय बी आसली व्हय?

भाई : खबर ना. घडयें आरंभाच्या वर्सांनी काव्य न्हय तर कथा–कादंबरी वाचल्यो देखून ताचो प्रभाव म्हज्या लेखनाचेर पडला आसुयें. दुसरी गजाल म्हळ्यार, कथा हो साहित्य प्रकार म्हज्या सभावा कडेन जुळटा. खंयचेंय हातांत घेतिल्लें कार्य बेगीन पुराय करप म्हाका मानवता. हनुमंत, भारतीय कथाकारांच्या कथांचो आंवाठ तूं पळयशी जाल्यार म्हज्यो कथा सगळ्यांत आटीव दिसतल्यो. तात्पर्य : ब्रीफ वा कन्साय्ज्ड बरोवपाक पोसवण दिवपी कथा हो प्रकार म्हाका म्हजो दिसता.

हनुमंत : तशें जाल्यार तुमचे कडच्यान 'कार्मेलीन', 'सुनामी सायमन' सारक्यो लांबादीक कादंबरी कश्यो जल्माक आयल्यो तर?

भाई : स्पश्टपणान सांगचें जाल्यार, कार्मेलीन बरोवपाक घेतिल्ली तेन्ना ती कथाच आसली. तिच्या बिजाक लागून ती दिर्घ स्वरुपांत आकाराक आयल्या. दुसरें म्हळ्यार, म्हज्या सभावाक लागून ती हांवें संयमीत आंवाठांत बसयल्या नाजाल्यार ती पांचशीं पानांची व्हड कादंबरी जावपाची. कशें आसा... I try to be as close as perfection. कथा जांव वा कादंबरी हांव जाता तितलो वास्तवा कडेन लागीं वचपाचो यत्न करतां. देखून एकदां बरयतां ती म्हजी फायनल प्रत आसता. तातूंत चडसो बदल म्हणटा तो जायना.

हनुमंत : भाई, तुमी स्वताक कोण मानता?कथाकार काय कादंबरीकार?

भाई : कथाकार... कोंकणी भाशेंत बरोवपी भारतीय कथाकार.

हनुमंत : भाई, तशें जाल्यार एखाद्या कथाकाराक केन्ना कोणी विचारचो न्हय तसलो थोडोसो कठीन प्रस्न विचारता. तुमची तुमकां सगळ्यांत चड आवडिल्ली कथा खंयची?

भाई : हनुमंत, कथा ही म्हजीं भुरगीं. एखाद्या आवयक अमकेंच भुरगें चड प्रीय वा अप्रीय आसता अशें केन्ना पळयलां तुवें! ना न्हय. पूण सगळ्यांत ल्हान आशिल्ल्याची चड अपुरबाय आनी काळजी आवयक घेवची पडटा. कारण ताका ताची चड गरज आसता. तरीय तुजो प्रस्न म्हजे खातीर तसो चड कठीन न्हय. प्रामाणीकपणान सांगचें जाल्यार. म्हज्या

साहित्यीक प्रवासांतल्या आरंभाच्या कथा मदली – 'मरण येना म्हूण', मदल्या काळांतली 'भुरगीं म्हगेलीं तीं' आनी आतांच्या काळांतली 'कथाकारान कथाकाराचेर बरयल्ली कथा'.



(भाई मावजो एक वाचक जावन 'कार्मेलीन' कादबरी वाचतना)

हनुमंत : भाई, कार्मेलीनान तुमचे प्रतिभेची खरी वळख पुराय साहित्यीक विश्वाक करून दिली. तिणें साहित्य अकादेमीचो पुरस्कारूय जोडलो. आयज ही कादंबरी जायत्या भारतीय आनी इंग्लीश सारक्या अंतरराष्ट्रीय भासांनी अणकारीत जाल्या. हे कादंबरी विशीं आमी जायतें वाचलां आनी वाचीत आसा. पूण म्हाका सांगात ह्या कादंबरीचें बीज तुमका कशें गावलें?

भाई : खरें म्हळ्यार, कार्मेलीनांत दोन कथाचें बीज आसपावलां. जालें अशें... म्हज्या पसऱ्याचेर एक शाळकरी चली सायकल घेवन येतालें. वांगडा ताच्यो कांय इश्टिणी आसताल्यो. तें स्वता चॉकलेटी, कॅडबरी वा हेर जिन्नस घेवन हेरांक दितालें. बरेच कुचकुचीत दुडू मोडटाले. बरेच दीस हें अशें चल्लें. हांवें एक दीस सहज चौकशी केली. तेन्ना म्हाका कळ्ळें, ताची आवय कुवेट आसता. हांवे आनीक एक गजाल नोट केली. ते चलयेच्या तोंडार भोंवतणचे लोक गोड गोड उलयतात आनी फाटल्यान कुवेटकान्नीचें चेडू. कुवेटकान्नीचें चेडू म्हूण ताच्यो बकच्छयो करताले. म्हाका तो लोकांचो दुटप्पीपणा आवडनासलो. पूण हांव ताचेर खोलायेन विचार करतालों. काय तेप गेलो. मदीं ते चली आयलेच ना. उपरात काय दिसानी परत येवपाक लागतकच हांवे ताका सहज विचारलें, चेडवा फूय गेल्ले गो? ताणी जाप दिली : मांय येयलो न्हू. आता गेली ती तुका

व्होरूंक ना काय म्हूण विचारल्यार म्हणपाक लागलें : मांय म्हुण्टा गोरोज ना कुवेट वचपाची.

त्या प्रसंगा वेल्यान ताची मांय ताका कुवाटाक वचपाक एन्करेज करिना हाची म्हाका जाणविकाय जाली. हें एक बीज; जातूंत 'गल्फाक गेल्ले बायमनशेचें एक मोनें दुख्ख दडलां' आनी दुसरें म्हळ्यार 'कामां निमतान भायल्या देशांत पाविल्ल्या बायलमनशेचो परपुरुशा कडेन संबंद चालू आसतना तिका तिचो घोव मेल्ल्याची खबर कळटा.' जिविताच्या अश्या दोन परिस्थितींतलो विपर्यास म्हजे तकलेंत घोळटालो. हीं दोन कथा बिजां म्हजे कडेन आशिल्लीं पूण तांचो आत्मो एकूच आशिल्ल्यान तातूंतल्यान कार्मेलीन घडली. मोती दोंगराक एक रेस्ट हावस आसलें थंय तिचें चडशें लेखन जालां.

हनुमंत : कार्मेलीन कादंबरींत क्रिस्तांव बायलनमशेचें उक्तें चित्रण केलां असो आरोप जावन सामाजीक पांवड्यार वाद उफाळून आयलो अशें वाचनात आयलां. ते विशीं सांगशात.

भाई : ना तसो व्हडलो वाद जालो ना. कशें आसा... एका धर्मांतल्या वा जातींतल्या मनशान दुसऱ्या धर्माचेर वा जातीचेर बरयल्यार समाजांत रोकडोच वाद उप्रासता. पूण त्याच वर्गांतल्या बोरोवप्यान वा हेर खंयच्याय कलाकारान तें केल्यार वायट थरना. ही एक वेगळीच सामाजीक समस्या. कार्मेलीनांत म्हजी भुमिका स्पश्ट आनी नितळ आसली. कार्मेलीन सारक्या असंख्य अस्तुरेंचो घुस्मटमार तातूंत शब्दबद्ध जाला. वाद म्हणशी जाल्यार, जेस. फेर्नांडीस हांणी ताचेर सगळ्यांत पयलीं विरोध केलो. पूण नोंद घेवपाची गजाल म्हळ्यार फा. फ्रेडी डिकोश्टान ती गोंयचो आवाजाचेर छापून हाडली.

आनीक एक गजाल सांगप हांगा समा जातली, कोंकणी साहित्याची समिक्षा जावप ही काळाची गरज. ते पासत हांव त्या वादाक समिक्षाच म्हणटा. एक गजाल हांव मानत आयला : वाचक आनी समिक्षकाक तांची मेकळीक मेळपाक जाय. आतां म्हज्या 'सुनामी सायमन' ह्या कादंबरीक एस्. डी. तेंडुलकार ह्या समिक्षकान 'बाळबोध' म्हटलें. जाल्यार कांय समिक्षकांनी तिचो गौरव केलो. म्हाका ताचेर कांय म्हणपाचें ना कारण तें तांचें मत. म्हजें मत विचारशी जाल्यार ती एक 'यंग–एडल्ट' कादंबरी.

नाजी कँपांतल्यान सुटून आपल्या गांवघराचो सोद घेवपी डॅविड ह्या युवकाचो संघर्श दाखोवपी 'आय एम डॅविड' हे इंग्लीश कादंबरीच्या प्रभावान हांवें ती रचल्या.

हनुमंत : भाई, आतां मातशे कोंकणी भाशीक संघर्शा कडेन वळुया. कोंकणी भास ही भोव मोठ्या संघर्शांतल्यान वयर सरल्या. कोंकणीक मानाचो पाट फाव करून दिवपाक तिचे रायटर फायटर जाले. अशें म्हणटात... भाशीक संघर्शाक लागून जायत्या कोंकणी साहित्यिकांचे प्रतिभेचेर अन्याक जालो. तुमचो अणभव कितें?

भाई : म्हाका दिसता कोंकणीच्या भाशीक संघर्शान कोंकणी साहित्याक चड तेज हाडलां. एक गजाल खरी, जो खरो कसदार आनी निजाचो लेखक आसता ताचे खातीर असले सामाजीक वा राजकी संघर्श हें भांडवल आसता.

हनुमंत : तशें जाल्यार एद्या व्हडल्या कोंकणी–मराठी भाशीक संघर्शाचेर एखादी लांबादीक कादंबरी वा हेर स्वतंत्र साहित्यकृती कोंकणींत कित्याक जल्माक आयली ना?

भाई : कित्याक आयली ना हाचीं साबार कारणां आसूं येतात. पूण जायत्यो कविता, कथा, नाटकां, लेख ह्या विशयाचेर रचून जाल्यात. ह्याच विशयाचेर म्हजी 'बंद' नांवाची एक कथा आसा. म्हाका दिसता जेन्ना खंयचीय समाजीक चळवळ समाजाचेर खर प्रभाव घालता तेन्नाच तिचें पडबिंब साहित्यांत पडटा. ह्या विशयाचेर हांव इतलेंच म्हणन : घडयें चळवळींत प्रत्यक्षांत वांटो घेतिल्ले उदयबाब वा पुंडलीकबाब हांचे कडच्यान तसली साहित्यकृती फुडाराक रचून जांव येता.

हनुमंत : आयच्या एकविसाव्या शेंकड्यांत कोंकणी भास आनी साहित्याचेर नदर मारतना तुमकां कितें दिसता. कोंकणी भास आनी साहित्य आयज खंयच्या पांवड्यार आसा?

भाई : आयज कोंकणी हेर मुखेल भारतीय भासां वरींच एक प्रतिश्टेची राष्ट्रीय भास जाल्या. तिका हेर भासांक मेळपी सगळे मानसन्मान फाव जाल्यात. साहित्य म्हणशी जाल्यार, संख्यात्मक नदरेन आमी ल्हान पूण दर्ज्यात्मक नदरेन कोंकणी साहित्य हेरा परस खंयच फाटीं ना. आमची

कविता, कथा, कादंबरी, नाटक ताची गवाय आसा.

हनुमंत : भाई, हे चौकेवेल्यान निमणें तुमकां समस्त कोंकणी भौसाक कितें सांगन दिसता?

भाई : इतलेंच... कोंकणीन आमची अस्मिताय सांबाळ्ळ्या. तिका आमी सांबाळपाची गरज आसा. आयज कोंकणी मनीस वैजकी, अभियांत्रिकी, विज्ञान, तंत्रज्ञान, म्हायती तंत्रज्ञान वा हेर वेवसायीक मळांचेर वावुरता. तांणी जर आपले गिन्यान कोंकणींत हाडलें जाल्यार कोंकणी भास ज्ञानभास तशेंच लोकभास जावपाक कळाव लागचो ना. हें जेन्ना घडटलें तेन्नाच कोंकणी चळवळ पुरायपणान जैताक पावतली अशें म्हाका दिसता. हे विशीं युवा पिळगे कडल्यान म्हाका भोव आस्त आसा.

('अनन्य' नेमाळ्याच्या बरेपणान)

❋ ❋ ❋



साहित्यीक 'चौकेवेलो' एक खोसयेचो खीण
भौ. दामोदर मावजो आनी मुलाखतकार डॉ. हनुमंत चोपडेकार



दामोदर मावजो हे कोंकणी भाशेंत बरोवपी जेश्ट भारतीय साहित्यीक. तांचें कथनात्मक साहित्य आशय विशयाची दोळेदिपकावपी विवीधताय घेवन येताना ते तरेकवार व्यक्तिरेखांचो एक जादुई पेटारोच वाचकां मुखार उक्तो करतात. भावस्पर्शी आनी वास्तवस्पर्शीय अभिव्यक्ती हें तांचें खाशेलपण. आयच्या काळांत सृजनात्मक अभिव्यक्तीक आयिल्ली क्लिशटताय तांच्या साहित्यांत खंयच दिसना. दिसपटट्या जिवितांतल्या साद्या सोंप्या घडणुकांचो आदार घेवन तांची वाचकप्रीय लेखनशैली तांच्या बरपाक चैतन्न्य हाडटा. ते एक संवेदनशील रचनाकार. आपले सुक्ष्म नदरेंतल्यान समाजांतल्या बऱ्या वायट गजालींचें ते निरिक्षण करता आनी अव्यक्तांतलें मोनें जिवीतगाणें आपल्या काळजांतल्या उतरांनी व्यक्त करता. ते एक जिवीतवादी साहित्यीक. जिणेकडेन ते भोव सकारात्मक नदरेन तशेच सैमांतल्या दर एक घटकांकडेन ते साक्षीभावान पळयतात. तांची पुराय साहित्यसाधना ताची गवाय आसा हें प्रस्तूत पुस्तकांतल्या साबार प्रपत्रांतल्यान सिद्ध जाता.

ह्या पुस्तकाच्या वटट् सतरा लेखांनी लेखक दामोदर मावजो हांच्या व्यक्तीमत्वाचे साबार घटक नदरेक भरतात. ह्या बरपांतल्या कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय हांचेविशीं तांच्या मनांत आशिल्ल्या भावार्थाचोय दिश्टावो वाचकांक जाले बगर रावना. एकंदर; एक सशक्त कथाकार, भुरग्यांचें मानसशास्त्र होलमल्लो बालसाहित्यकार, मनीसपणाची विशाल नदर लाबिल्लो कादंबरीकार... दामोदर मावजो हांच्या रूपान कोंकणी सरस्पतीक मेळ्ळो अशें विश्वासान म्हणूं येता.

*डॉ. हनुमंत चोपडेकार*

ISBN_978-81-922937-5-2







मोल : ₹ 200/-

अलिना प्रकाशन
दोंगरी, तिसवाडी - गोंय.